# अनन्य

गोवा कोंकणी अकादेमीची स म्हयन्याळी साहित्य पत्रिका




अंक : 5
जुलै–डिसेंबर 2016

# हांकां आमचीं आर्गां



**महाश्वेता देवी**

जेश्ठ बंगाली साहित्यीक आनी विचारवंत

मर्ण : 28 जुलै 2016

वर्स : 3; अंक : 5 (जुलै ते डिसेंबर 2016)

# अनन्य

**गोवा कोंकणी अकादेमीची स म्हयन्याळी साहित्य पत्रिका**

स म्हयन्याळी साहित्य पत्रिका

# अनन्य

वर्स : 3; अंक : 5 (जुलै ते डिसेंबर 2016)

प्रकाशक : सचिव, गोवा कोंकणी अकादेमी

संपादकीय कार्यालय : गोवा कोंकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी,
पणजी - गोंय - 403001
फोन नं. : 0832-2437385/87
ईमेल : konkaniakademi@gmail.com



संपादक : डॉ. जयंती नायक

मुखचित्र आनी फाटलें चित्र : चंद्रकांत नायक (संग्रहीत)

रेखाटनां : माधव बोरकार

टायपसेटर : रिया ग्राफिक्स, ओल्ड गोवा

छापणावळ : लोकमान्य प्रोसेस, खोर्ली, तिसवाडी

मोल : ₹50/-

ANANYA :
(A Six Monthly Literary Journal in Konkani)
Vol : 3, No. : 5,
(July - December 2016)
Goa Konkani Akadami, 243, Patto Colony, Panaji - Goa - 403 001
Ph. No. : 0832-2437385/87

*(अंकांतलीं मतां त्या त्या लेखकांचीं, त्या मतां कडेन गोवा कोंकणी अकादेमी सहमत आसाच अशें ना.)*

# अनन्य



गोवा कोंकणी अकादेमीची स म्हयन्याळी साहित्य पत्रिका
वर्स : 3; अंक : 5 (जुलै ते डिसेंबर 2016)

## मांडावळ

**लोकवेद** (लेख)



**मंथन**



**ग्रंथदालन**
(पुस्तक परिक्षण)

# संपादकीय...

साहित्य आनी समाजाचें एक अनन्यसादारण नातें आसा. साहित्याची रचणूकच समाजांतल्या तरेकवार घडणुकांच्या प्रभावांतल्यान प्रेरीत जावन जाल्ली आसा. मनशाक जेन्ना सगळ्यांत पयली प्रतिभा गवसली त्या काळार सावन ताणें आपले सरभोंवतणी समाजांत घडटल्यो गजाली आपले कल्पकतायेच्या आनी प्रतिभेच्या म्हालवजार पद्य वा गद्य रुपान नव्या आयामात मांडिल्ल्यो आसात. संवेदनशीलता हो साहित्याचो प्राण. हे संवेदनशीलतेंतल्यानच साहित्य आकाराक येता. समाजांत घडटल्यो तरेकवार गजाली लेखकाच्या संवेदनशील मनाचेर परिणाम करतात, ताका बरोवपा खातीर प्रवृत्त करतात.

जे संवेदनशीलतेक साहित्य निर्मणेंत अतिशय म्हत्व आसा ती संवेदनशीलता आयज समाजांतल्यान उणें जायत गेल्ली दिसता. घडये ह्याच कारणाक लागून आसत, आयज नवे पिळगे कडल्यान फावो त्या प्रमाणांत साहित्य निर्मणी जायना. एकाद्रो आडवाद सोडल्यार, समाजाचें सुक्षीम चित्रण करपी, वाचकांक अंतर्मूख करपी अशी साहित्यकृती तांचे कडल्यान निर्माण जाल्ली दिसना. आदले पिळगे परस तरेकवार क्षेत्रांचीं दारां उक्तीं आशिल्ली, तंत्रज्ञानाभिमुक अशी ही पिळगी, जिणेअणभवांत मात फाटीं उरिल्ली दिसता. आपल्या मनाचे संवेदनशीलतेचीं कवडां हे पिळगेन लोटून घेतिल्लीं जाणवतात. जागतीक मळवयली ही स्थिती कोंकणी साहित्य मळारय तयार जावंक लागल्या हाचो अणभव 'अनन्य'चें संपादन करतना येवंक लागला.

साहित्य आनी समाज दोनांचोय सांगोड घालून वावुरपी आनी आपलें पुराय जिवीत समाजाच्या उद्धारा खातीर ओंपपी दिग्गज साहित्यिकांची एक पिळगी भारतीय स्तराचेर वावुरताली. कालभोंवडेंत ही पिळगी एक एक करून ह्या संवसाराचो निरोप घेवंक लागल्या. ज्या समाजांतलीं घडितां बरोवन आपणें नांवरुप जोडलें, ज्या समाज घटकांक आपणें आपल्या लेखनाचीं पात्रां करून मान-प्रतिशठा जोडली, तांचीं दुख्खां - दळीद्र - समस्या पयस करप हें आपलें नैतीक कर्तव्य अशें ते पिळगेन मानलें आनी ती जिवीतभर ताचे खातीर वावुरली. समाजाचे प्रस्न लागींच्यान नियाळिल्ल्यान, तांचो धग प्रत्यक्ष जाणवल्ल्यान तांणी रचिल्लें साहित्य वास्तवतेच्या पांवड्यार पावलें. पिडीत समाजा मदीं मुंगरून वावुरतल्या अश्या साहित्यिकांचो जागो आडवादानच नवी पिळगी घेवंक पावतली.

महाश्वेता देवी ह्यो अश्योच एक दिग्गज साहित्यीक, जाणी आपली पुराय जीण आदिवासी जमाती आनी उपेक्षीत समाज हांच्या उद्धारा खातीर ओंपली. बंगालींत लेखन करपी ह्यो लेखिका, पश्चीम बंगाल, बिहार, मध्यप्रदेश, छत्तीसगड आदी वाठारांनी रावपी आदिवासी जमातींच्या, दलीत समाज आनी बायलांच्या हक्का खातीर अखेर मेरेन वावुरल्यो. तांची

लेखणी आनी तांचें समाजकार्य हांकां वेगळीं करूंक मेळनात. बागदी, डोम, पाखमारे, ओरांव, गंजू, ओझा, संताल, मुंड, दुसाध आदी जमातीं खातीर समाजकार्य करतनाच तांणी विपूल साहित्य निर्मणी केली. तांचें साहित्य हें शिश्ट आनी शोशक समाजाच्या दोळ्यांत घाल्लें एक जळजळीत अंजन, उज्याचो लोळ कशें. 100 कादंब-यो आनी 20 कथासंग्रह, हे येदेमोठे साहित्य संपदेची ही रचणाकार, वयाचे णव्वदी मेरेन आपल्या कार्यांत रममाण आशिल्ली. साहित्य अकादेमी पुरस्कार, भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार, पद्मविभूषण आदी साबार पुरस्कारांनी सन्मानीत ही तपस्विनी 28 जुलय 2016 दिसा ह्या संवसाराक अंतरली. तांची अधिकार अरण्याचो (मूळ - अरण्येर अधिकार -1979) ही एकूच साहित्यकृती पुस्तक रुपान आयजवेर कोंकणींत येवंक पावली. डॉ. कस्तुरी देसाय हांणी तिचो अणकार केला. पूण हे म्हान साहित्यिकेचें आनीक साहित्य कोंकणीत येवपाची गरज आसा. तांकां आमी ह्या अंकांत आर्गां ओंपतात.

'मनसांज' हो एकूच कविता संग्रह रचून जांणी कोंकणी कवितेच्या मळार आपली कुरू दवरली त्या स. चंद्रकांत नायक हाकाय आमचीं आर्गां. आपल्या मूळ केपें-आमोणें ह्या गांवच्यान भुरगेपणांत भायर सरून आपलो फुडार घडोवंक मुंबयंत गेल्ले हे कलाकार, थंय फोटोग्राफीच्या क्षेत्रांत स्थीर जाल्ले तरी गोंयचे मातयेक आनी कोंकणी भाशेक विसरले नात. उतरत्या वयार तांणी कविता बरोवंक सुरवात केली, तातूंतल्यो वेंचीक कविता 'मनसांज' ह्या संग्रहांत आस्पावल्यात. आपली प्रतिभा तांणी चित्रांतल्यानय अभिव्यक्त करून चित्रकार म्हण उपाधी जोडिल्ली. 'अनन्य'च्या एकाद्र्या अंकाक ताची चित्रां घेवपाचो विचार चालू आसतनाच ताच्या मरणाची खबर कळ्ळी (25 ऑक्टोबर 2016). ह्या अंकाच्या मुखपृश्ठ आनी मलपृश्ठाक ताचींच चित्रां वापरल्यांत. हीं चित्रां संग्रहीत आसात. मुखपृश्ठ श्री. माधव बोरकार हांच्या व्यक्तीगत संग्रहांतल्यान आसा तर मलपृश्ठ म्हज्या स्वताच्या. 2007 वर्सा मनसांज कविता संग्रहाच्या प्रकाशन सुवाळ्याक जेन्ना ते गोंयांत आयिल्ले तेन्ना तांणी आमकां दोगांयकय हीं चित्रां भेट दिल्लीं.

ज्येश्ठ साहित्यिकांचें कार्य दस्तावेजीत करपाचे नदरेन अनन्यांत 'चौकेर' हें सदर तयार केल्लें आसा. ह्या सदरांत हे फावट ॲड्. उदयबाब भेंब्रे हांचे कडेन अन्वेषा सिंगबाळान कुशळटायेन केल्लो सुसंवाद उजवाडायला. उदयबाबाचे जिणेचीं वेग-वेगळीं तासां उगडूंक तें येसस्वी जाल्लां. उदयबाबाचें कोंकणी खातीरचें कार्य खूब व्हड. तांचें नांव कुशीक काडून कोंकणी भाशेचो इतिहास बरोवंक जावचो ना. भाशीक कार्य करतना, साहित्य रचनेचेर थोडो अन्याय जालो तरी तांणी जें रचलें तें अज्रंवर थारलां.

हेर सदरां आनी साहित्य सदचे भशेन आसा. अनन्यांत सगळ्यांक सामावून घेवपाचो यत्न चलता. अनन्याच्या ह्या पांचव्या अंकाचे निर्मणेंत सहभागी आशिल्ल्या सगळ्यांचे आमी उपकारी.

**– जयंती नायक**
संपादक

चौकेर

(सुसंवाद)

अन्वेषा सिंगबाळ

# ज्येश्ठ साहित्यीक आनी विचारवंत ॲड. उदय भेंब्रे हांचे कडेन अन्वेषा सिंगबाळ हांचो वार्तालाप



ॲड. उदयबाब हे कोंकणी भाशा चळवळीचे एक म्हालगडे वावुरपी आनी ज्येश्ठ साहित्यीक. कोंकणी चळवळीचो इतिहास तांच्या नांवा बगर अपूर्ण. ओपिनियन पोल, कोंकणी राजभास, गोयांक घटकराज्य दर्जो, शिक्षणाचें माध्यम अश्या गोंयां संबंदीत म्हत्वाच्या, गोंयच्या हिता संबंदीच्या प्रत्येक चळवळींत अग्रस्थानार. गोंय आनी कोंकणी चळवळीचो संपूर्ण इतिहास तांचे जिबेर. 'चान्न्याचे राती', 'कर्णपर्व', 'अस्मितायेचो कसाय', हीं पुस्तकां प्रकाशित. जिणेची युवा ते परिपक्व अवस्था समाज हिता खातीर वावुरतल्या आनी एक साहित्यीक, राजकारणी आनी समाजसुधारक, एक कलाकार अश्यो तरेच्यो भुमिका सांबाळटल्या ॲड. उदयबाब भेंब्रे हांच्या आयजवेरचे जिणे विशीं आनी कार्या विशीं जाणून घेवपाचो हो ल्हानसो यत्न.

**अन्वेषा सिंगबाळ :** जल्म :1986, कवयित्री, निबंदकार, अनुवादक, पत्रकार. सुनापरान्त, गोवन ओब्जर्वर, द गोवन, हॅराल्ड ह्या खबरापत्रां खातीर लिखाण केलां. *'सुलूस'* आनी *'पडसाद'* हे कविता झेले प्रकाशीत. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या युवा चैतन्य पुरस्कारान (2013) तशेंच केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या युवा साहित्य पुरस्कारान (2016) सन्मानीत. संपर्क- गौरीश अपार्टमेंट, खडपाबांद, फोंडें, गोंय- 403401, मो. 9923442746.

*अन्वेषा :* उदयबाब, तुमच्या भुरगेपणा विशीं थोडें सांगश्यात...

*उदयबाब :* म्हजो जल्म मडगांवां जाल्लो. म्हजो बापूय, लक्ष्मीकांत भेंब्रे (पापा) तेन्ना पोपुलर हायस्कुलांत शिकयतालो. उपरांत म्हजो बापोलयो, डॉ. नारायण भेंब्रे, हांणें पणजे इन्स्टिट्यूट आगोस्तीन्य लॉरेन्स नांवाचें एक हायस्कूल सुरू केलें आनी पापाक थंय आपोवन व्हेलो. ताकाय थंय शिक्षकाची गरज आशिल्ली. म्हणटकर म्हज्या तीन वर्सांचेर आमचें कुटुंब पणजे गेलें. कुटुंब म्हणजे म्हजो बापूय, आवय, दोन भयणी आनी हांव. पणजे पापा त्या हायस्कुलांत शिकोवंक लागलो आनी 6 वर्सां वयाच्या अदमासाक म्हाका निकतोच मुष्टिफंड शाळेंत घाल्लो ही याद जाता. शाळेंत कोण आशिल्ले ती याद जायना.

जून 1946 वर्सा जून म्हयन्यांत लोहियान गोंयांत नागरी हक्कां खातीर चळवळ सुरू केली आनी तांकां भारतीय नागरीक म्हणून शिमेर व्हरून सोडलो. जे समिती वतीन हें सगळें जाल्लें ती नॅशनल काँग्रेस गोवा ह्या नांवाची समिती आशिल्ली आनी पापा तिचो अध्यक्ष आशिल्लो वा एकाद्रें मागीर जाल्लो आसूं येता पूण प्रस्न आयलो आतां हें मुखार कोणें चालू दवरचें? आनी हे खातीर लोंढ्यार एक बसका आपयली आनी पापान आपणें सत्याग्रह करपाचो निर्णय थंय घेतलो. सप्टेंबरांत सत्याग्रह करपाचें थारलें आनी गवर्नराक मागण्यो घालून पत्र बरयलें. तितल्याचेर ताका धरलो आनी मागीर मिलिटरी कोर्टांत केस चलून बंदखण जाली. ताका आग्वादाक दवरलो. 6 म्हयन्यां उपरांत पुर्तुगालाक डिपोर्ट केलो. 4 वर्सांची बंदखण. घरांतलो कर्तो मनीस कैदी म्हूण देशा भायर गेलो म्हणटकर आमकां पणजेंत रावप शक्य नाशिल्लें देखून आमी जांबावले गेलीं.

म्हज्या बापायचे चार भाव. दुसरो तो डॉ. नारायण भेंब्रे. तोवूय बी स्वातंत्र्य चळवळींत आशिल्लो. उपरांत तो गोंय सोडून भायर गेलो, थंय दोतोर जालो आनी सरकारी सेवेंत पावलो. तिसरो भाव मुंबयच आशिल्लो. चवथो भाव केशव भेंब्रे जो पुर्तुगेझ शाळेंत शिकयतालो आनी पाचवो भाव पळय, ताका आत्येन दत्तक घेतिल्लो. एकटोच केशवबाप्पा जांबावले रावतालो. आमी थंय वचून रावलीं.

म्हाका दोग भयणी. तांणी दोगांयनी एसएससी मेरेनचें शिक्षण घेतिल्लें. एके भयणीन समाजसेवा म्हण शिकोवपाक सुरवात केली. गांवांतलेच एके मराठी शाळेंत. हांव थंय तीन यत्ता शिकलों. मागीर रिवण गांवांत पुर्तुगेझ मुळावे शाळेंत शिकलों. थंय सुमार साडे चार किलोमीटर चलत वच्चें पडटालें. पळोवंक गेल्यार हांवें दोन फावटी प्रायमरी शिक्षण घेतलें. थंय मुखार आनीक शिकपाक साधन नाशिल्लें. कुडचड्यार म्हजी मावशी रावताली. हांवें तागेर रावचें आनी कुडचड्यार शिक्षण घेवचें अशें थारलें. पापा कडेन पत्रवेव्हार करून ताका हें कळयलें. थंयच्या 'न्यू एज्युकेशन' स्कुलांत पयलीं म्हाका दुसरेक प्रवेश दिलो आनी मागीर दुसऱ्या वर्सा चवथेक बसयलो.



विलिनीकरणाच्या विरोधांत घडोवन हाडिल्ले सभेंत काटकर भयणी आनी हेरांच्या सांगातान गितां गायतना. (एप्रील 1965)

ताचे उपरांत वास्कोच्या सेंट जोझेफ हायस्कुलांत हांवें फुडलें शिक्षण घेतलें. तें पायणीकारालें स्कूल. तांणी थंय बॉर्डींग सुरू केल्लें. जांकां येवप वचप कठीण जातालें ते थंय रावताले. आमी धा बारा भुरगे थंय तेन्ना रावताले. थंय हांव एसएससी मेरेन शिकलों.

तेन्नाची एक याद म्हणल्यार, पुंडलीकबाब दांडो हांणी लक्ष्मीपुजनाक बसयिल्लें 'ताची करामत' हें नाटक. हें कोंकणी नाटक सादर जालें तेन्ना पीन ड्रॉप सायलन्स राखून सगळ्यांनी तें पळयलें. खूब जाणांक त्या वेळार कोंकणी विशींचो साक्षात्कार जालो. म्हाकाय पयलेच फावट कोंकणी विशीं जाणीव जाली. वास्को एक टिळक मैदान आसा. थंय हांव फुटबॉल भरपूर खेळ्ळों. सुटयेंत जांबावले येतालों.

*अन्वेषा : तुमचो बापूय कितलीं वर्सां तुमचे पासून पयस उरलो आनी तो गोंयांत परत केन्ना आयलो?*

*उदयबाब :* सुमार 16 वर्सां. पापाली चार वर्सांची ख्यास्त पुराय जाले उपरांत ताका बंदखणींतल्यान सोडलो. थंयच्यान ताका लिसबनाक हाडून दवरलो. ताचेर साबार बंदनां घालीं. थंय ताणें कांय पाखल्यांक इंग्लीश, संस्कृत बी शिकयली. आपूण ग्रीक शिकलो आनी ग्रीक भाशेंतलें एक पुस्तक ताणें मराठींत अणकारीत केलें. ताचेर घाल्लें सगळ्यांत व्हडलें बंदन म्हणल्यार ताणें जगांत खंयूय वचूं येतालें पूण भारतांत वचूंक जायनाशिल्लें. अशें करून 12 वर्सां जालीं. उपरांत भारतांत खंयूय गेल्यार जाता पूण गोंयांत वचूंक जायना अशें ताचेर बंदन घालें. अशे तरेन तो 16 वर्सां थंय उरलो. गोंयची सुटका जाले उपरांत ताका आनी हेर तीग जाणांक बोटीन कराची हाडले आनी कराचीच्यान विमानान गोंयांत हाडले. हें

1962 वर्साच्या एप्रीलांत घडलें. पापा 16 वसाँ आपल्या कुटुंबा पासून पयस उरलो. ते मजगतीं म्हज्या दोनूय भयणींचीं लग्नां जालीं.

धावे उपरांत हांवें मुंबय वच्चें आनी कॉलेज करचें अशें थारलें. मुंबयचे सिद्धार्थ कॉलेजींत म्हाका सायन्सीक घालो. म्हाका कोणें विचारलें ना. बापायची इत्सा आशिल्ली की हांवें इंजनेयर जावचें. एके वटेन गणीत बरें ना आनी बायॉलॉजी घेना म्हण म्हाका टिचर तापयता. हांव गणितांत नापास पूण तरी सेकंड क्लासीत पास जालो. म्हणटकर हांवें बीएससी करची अशें थारलें. आर्दी हांव ठाण्याक म्हज्या बापोलयागेर रावतालो. थोडें तेंपान ताची बदली जाली आनी हांव सिद्धार्थ कॉलेजीच्या हॉस्टेलांत रावपाक लागलो. आता अर्थीक अडचणीचो प्रस्न उबो जालो आनी गरज पडली नोकरी करपाची.

आकाशवाणीच्या कोंकणी विभागांत नोकरी आसली. थंय अर्ज करून ती नोकरी करची म्हणून थारायलें आनी हांव स्टाफ आर्टीस्ट म्हण रुजू जालों. 20-21 वर्सांचे पिरायेचेर हांवें रेडियोचेर काम करपाक सुरू केलें. तें वर्स 1960. थंय आसतना म्हाका प्रॅक्टीकल्स करपाक मेळटलीं, म्हाका सकाळीं आनी रातचें अर्द वर काम आसतलें अशी समजणी आशिल्ली, पूण घडलें वेगळें. हांव रेडियोचेर क्लॅरीकल काम करपाक लागलों. त्याच वांगडा खबरो अणकारीत करपाक लागलों, तशेंच नाटकां बसोवंक लागलों. 1961 वर्सा गोंय मुक्त जालां ती खबर हांवें रेडियोचेर खबरो दितना सांगल्या. ह्या सगळ्या मजगतीं म्हजी बीएससी पुराय जाली ना. कारण म्हाका प्रॅक्टीकल्स करूंक मेळ्ळीं नात. ताचे आदींच हांवें हॉस्टेल सोडलें आनी हांव 36 डी स्टेलर रोड हांगा रावपाक लागलों. थंय आमी सगळे आंकवार चले रावताले. हो जागो शंकर भांडारी हांणी घेतिल्लो.

*अन्वेषा : मागीर तुमी परत गोंयांत केन्ना आयले? आनी फुडलें शिक्षण?*

*उदयबाब :* 1 सप्टेंबर 1963 ह्या दिसा राष्ट्रमत दिसाळें सुरू जालें. हांव ताचो सह संपादक जालो. वसंत वैकूंठ कारे ताचो संपादक. अशे तरेन पावणे पांच वर्सां गेलीं. हांवें सकाळचें राष्ट्रमताचें काम करप आनी सांजवेळा रातच्यो ओपिनियन पोला विशीं बसका करप. रातीं परत राष्ट्रमतांत. 1963 ते जानेवारी 1967 मेरेन अशींच वर्सां गेलीं. उपरांत वेंचणूक आयली. ओपिनियन पोल जाले उपरांत हांवें वेंचणुकेंत उबें रावचें म्हणून खूब जाणांनी दबाव हाडलो. मात म्हाका गोडी नाशिल्ली. ते भायर म्हजें शिक्षण अर्धार आशिल्लें. तेन्ना एका राष्ट्रमतांतले पांच उमेदवार आशिल्ले. हांव भायर सरलों ना. 1968 वर्सा फेब्रुवारींत हांवें राष्ट्रमत सोडलें. तेन्ना पुणे विद्यापीठाची एक येवजण आशिल्ली. इंटर पुराय आसत जाल्यार बीए करूं येतालें. हांवें राज्यशास्त्र, इतिहास आनी मराठी हे विशय घेतले. थोडो तेंप गोंयांत शिकलों आनी उपरांत पुण्यांत वचून रावलों. थंय परिक्षा दिली. म्हाका मार्क बरे पडले आनी हांव बीए जालों.



**1986 वर्सा कोचीन शारांत जाल्ले अ. भा. कोंकणी परिशदेच्या 16 व्या अधिवेशनाचे अध्यक्ष ह्या नात्यान माचयेर. हेरां मदीं स. के. के. पै आनी स. प्रा. आर. के. राव.**

फुडें कितें करचें हो प्रस्न आशिल्लो. त्या दिसांनी लोहिया मैदानाचेर एक सभा आशिल्ली. हांव थंय उलयलों. ते सभेक पै बुडबुडे नांवाचो एक वकील आयिल्लो. बसका जाली आनी उपरांत आमी पँग्वीन हॉटेलांत बशिल्ले. ताणें म्हाका म्हणलें, 'हांवें तुजें भाशण आयकलें, तूं आदोगासीच्या वेवसायांत कित्याक येना?' थंयच हांवें एलएलबी करपाचें थारायलें. परिक्षेचो निकाल जातकच हांव मुंबय गेलों. अ. ना. म्हांबरो पयलीं रावतालो त्या फ्लॅटांत हांव रावंक लागलों. कांय गोंयकार विद्यार्थी थंय रावताले. हांवें तीन वर्सां एलएलबी केली. तेन्ना परत नोकरेची गरज उप्रासली. थंयचे युनियन बँकेंत म्हाका क्लॅरीकल नोकरी मेळ्ळी. मुंबयचे सरकारी लॉ कॉलेजींत नोकरी करपी भुरग्यां खातीर सक्काळी वर्ग आसताले. तीन वर्सां हांवें कायद्याचें शिक्षण घेतलें. युनियन बँकेन ऑफिसराचें पद दिवचें केलें, पूण हांवें घेतलें ना. घेतिल्लें जाल्यार प्रशिक्षणा खातीर हैद्राबाद वच्चें पडटलें आसलें. स्टेटमेंट पंच करप आनी फायलींत घालप इतलेंच म्हजें बँकेंत काम आसतालें. तें म्हाका बऱ्याक पडलें. 1971त हांवें एलएलबी पूर्ण केली. त्याच वर्सा किशोरी कडेन म्हजें लग्न जालें. शिक्षणा उपरांत परत तीन वर्सां हांव मुंबय रावलों, अणभवा खातीर. मुंबय क्रिमीनल आनी सिव्हील कोर्टांतलें काम पळोवनच मनीस खूब शिकता. 1973 च्या नोव्हेंबरांत हांव परत गोंयांत आयलो. 1974 वर्सा हांवें वकिलीचो वेवसाय सुरू केलो.

*अन्वेषा : तुमकां कोंकणीचो दिश्टावो कसो आनी केन्ना घडलो?*

*उदयबाब :* हांवें ल्हान आसतना स्वातंत्र्य ह्या विशयाचेर एक कविता बरयिल्ली. ती कोंकणींतल्यान बरयली. ताचे फाटल्यान घडये पापा पुर्तुगालाक आसा ही भावना आशिल्ली. पूण हांवें ती कोंकणींत कित्याक बरयली तें आयज हांव सांगूंक शकना. कोंकणीचे चळवळीचो खऱ्या अर्थान म्हजे जिणेंत प्रवेश जालो तो 1957 वर्सा, सिद्धार्थ महाविद्यालयांत. 1952 त आकाशवाणीच्या मुंबय केंद्रांत कोंकणी विभाग सुरू जाल्लो. मुंबयच्या कॉलेजींनी कोंकणी मंडळां सुरू जाल्लीं. दर एक विद्यार्थी आपले भाशे प्रमाण त्या मंडळांत सामील जातालो. आपआपले आयडेंटीचे भावनेन. गोंयकार, कारवारी आनी मंगळुरी कोंकणी मंडळांत सामील जाताले. हांव ह्या मंडळाचो सेक्रेटरी जालो. थंयच्यान कोंकणीचो प्रवेश. गोमंतक छापखान्यांतल्यान तेन्ना पुस्तकां बी छापताले. बयाभाव हांणी आमकां खबऱ्यो सांगप. डॉ. श्रीपाद नगर्शेकार, नारायण देसाय हे जे कोंकणीचे लोक आशिल्ले ते थंय सक्रीय आशिल्ले. गोंयच्या स्वातंत्र्या विशीं थंय अभ्यास आनी चर्चा जाताली. तातूंतलो एक विशय कोंकणी आशिल्लो. मागीर रवींद्रबाबा कडेन संपर्क आयलो. 'गोमंत भारती' हें दिसाळें रोमींतल्यान येतालें. थंय कोंकणीचें काम चलतालें. कांय म्हयने हांवें थंय सेवा दिली. गोंय मुक्ती उपरांत खुबशे जाण गोंयांत आयले.

मुंबय गोंयकारां मदीं दोन गट जाले. थंय भाशेचो वाद आशिल्लो तो गोंयकार हिंदू मदीं. 'गोवा हिंदू असोसिएशन' ही संस्था आशिल्ली ती मराठीचो पुरस्कार करी. तातूंतले सगळे जाण्टे. आमचे 36 डी स्लेटर रोड हांगा रावपी तरणाटी पिळगी पुराय कोंकणी. दोन पिळग्यांचो हो संघर्श आशिल्लो. ते पत्रकां काडटाले, सभा घेताले. एकदां तांचे सभेक आमी चड संख्येन पावले. आमी तांची स्टेज कॅप्चर करून आमचो थाराव पास केलो. तरणाट्यां मदीं वाद नाशिल्लो. आमच्या सांगातान कांय जाण्टे पिळगेंतले लोक आशिल्ले. आमचो अभ्यास थंय घडलो. शणै गोंयबाबाल्या पुस्तकांच्या वाचनांतल्यान वाद घालपाक जे मुद्दे जाय आशिल्ले ते सापडले. 'कोंकणी' नांवाचो वर्सुकी अंक येतालो. मुळगांवकार हो चित्रकार ताका मुखचित्र काडटालो. आमी जायराती जमोवन 'कोंकणी' नांवाचें पत्रक काडलें. ताचो संपादक अ. ना. म्हांबरो आशिल्लो. तें बरोवप, छापून काडप. तिकेटी लावन आनी पत्ते बरोवन तें पोशटांत घालून सगळ्यांक पावोवप हीं सगळीं कामां आमीच करताले. मराठीवाद्यांच्या मुद्द्यांक जाप दिवंक जाय हो ताचे फाटलो मुखेल हावेस आसलो. दुसरें साधन त्या वेळार आमचे कडेन नासलें.

*अन्वेषा : तुमच्या कुटुंबांत कोंकणी विशीं कशें वातावरण आशिल्लें?*

*उदयबाब :* म्हजो पापा मराठीवादी. परंपरा म्हणून आसुये. कोंकणीचे पुरस्कर्तें करतात तें कितें तरी नवें करतात असो तांचो विचार. भाशेचो मुद्दो आयलो काय



**गोंयचे अस्मिताये खातीर शंकर भांडारी हांच्या सांगातान आवाज उठयतना. (10 मे 1964)**

म्हजे आनी बापाय मर्दी वाद सुरू जातालो. म्हजी आवय केन्ना मर्दी पडनाशिल्ली, पूण ह्या विशयाक लागून ताण निर्माण जावंक लागतालो. पापाचें वय 60 वर्सां वयर. म्हजें वय 24. निमाणें आमी एक तोंडी करार केलो. घरांत येतकर हो विशय काडप ना. भायर कितेंय उलोवं वा बरोवं. हो करार आमी दोगांयनी पाळ्ळो. ताका लागून कुटुंबीक संबंद तुटले नात. म्हज्यो भयणी सदांच म्हजी बाजू घेताल्यो. वादाची, भावनेची इंटेन्सीटी इतली आशिल्ली की 'आपल्याक एक चलो आशिल्लो तो गेलो अशें आपूण समजतां' अशें लेगीत म्हणपाचो प्रसंग एक दीस घडिल्लो आनी म्हणून हो करार बऱ्याक पडलो.

म्हजो बापूय मराठी वादांत आशिल्लो. मात विलीनीकरणाची चळवळ जाली तातूंत तो सक्रीय नाशिल्लो. ते विशीं ताणें केन्ना बरयिल्लें याद जायना. तो केन्ना विलीनीकरणाचे माचयेर गेल्लो म्हाका याद जायना. ओपिनियन पोल जाले उपरांत हांव घरा गेल्लों तेन्ना ताणें म्हाका परबीं दिलीं. म्हणटकर पापा मराठीवादी आशिल्लो, पूण महाराष्ट्रवादी नाशिल्लो अशें म्हजें मत जालें.

*अन्वेषा : उदयबाब ओपिनियन पोलाच्यो तुमच्यो यादी सांगशात?*

*उदयबाब* : 1962 वर्साच्या आरंभाक महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्ष घडलो. त्याच वर्सा डिसेंबरांत पयली वेंचणूक जाली. आमी तेन्ना काँग्रेसी बरोबर रावले. मगो पक्ष बहुजन समाजाक मुखार घेवन गेलो. बामण आनी हेर अशे दोन गट जाल्ले. बहुजन समाज मोठ्यांतलो मोठो गट. ह्या गटाक भाटकारशाहीचो त्रास जाल्लो.

तांकां वेंचणुकेची संद मेळ्ळी. भाऊसायब बांदोडकार हांचे सारकेल्लो फुडारी मेळ्ळो आनी भाऊ सांगता तें जालें अशी तांची वृत्ती जाली. मगोन अशिक्षीत मनशाक पसून वेंचून हाडलो. विलीनीकरणवादान 1964 वर्सा चड नेट धरलो.

1963 वर्सांतूच राष्ट्रमत दिसाळें जल्माक आयलें. विलीनीकरण वायट कशें हें हिंदूंक पटोवन दिवपाक जाय अशें सगळ्यांचें मत आशिल्लें. डॉ. जॅक सिकेरान आपलें केलें. विधानसभेंत थाराव पास केलो. विलीनीकरणाक विरोध वाडूंक लागलो. जवाहरलाल नेहरून 'संघ प्रदेश म्हूण रावात' असो सल्लो दिलो. मात उपरांत प्रधानमंत्री लाल बहादूर शास्त्री घट्ट रावंक पावलो ना. 1964-1965 वर्सा वेंचणूक घेवया म्हण काँग्रेस पार्लमेंटरी बोर्डाचो निर्णय जालो. मात हाचेर काँग्रेसी मर्दी दोन गट जाले.

विलीनीकरणा आड तेन्ना वेगवेगळे गट काम करताले. काँग्रेस पक्षांतलो भाऊ काकोडकार गट हो एक. खंयच्याच पक्षांत नाशिल्ले पूण राष्ट्रमता कडेन संलग्नत अश्या लोकांचो एक गट आशिल्लो आनी 'युनायटेड गोवन' हो पक्ष विलीनीकरणाक विरोध करतालो. हे सगळे एकठांय केन्नाच आयले नात. ते आपआपले परीन काम करीत रावले. उल्हास बुयांव हाचें 'गोमंत कला पथक' आपले तरेन कार्य करतालें. विलीनीकरणाक तेंको दिवपी महाराष्ट्रांतल्यान पथकां येवपाक लागलीं, ते खातीर उल्हास बुयांव हाणें आपलें पथक तयार केलें. हाचे भायर कुंकळ्ळेच्या शाबू देसायान 'संघप्रदेश ज्योत' काडून गोंयभर जाग्रुताय केली.

बोर्डाच्या निर्णयाक विरोध जाले उपरांत तो निर्णय थंयच उरलो. शास्त्रीन मात वेंचणूक घेवनच हो प्रस्न सोडोवंक जाय असो आग्रो धरलो. मजगतीं, भाऊ काकोडकार ना जालो. उपरांत तो हृषिकेशाच्यान दिल्ली आयलो. लोकां मुखार प्रस्न घालून विलीनीकरणाचो प्रस्न सुटावो करपाक जाय अशें मत ताणें दिल्लींतल्या फुडाऱ्यां कडेन मांडलें. इंदिरा गांधी हांणी फुडाकार घेवपाक न्हयकार दिलो. मागीर तो मोरारजी देसाई हांकां मेळ्ळो. आपूण अर्थमंत्री म्हणटकर आपूण कांय बदल करूंक तयार ना अशें तांणी सांगलें. उपरांत तो स. का. पाटील हांचे म्हऱ्यांत गेलो. ताणें आपूण हो विशय बोर्डा मुखार मांडटां अशें सांगलें. ताणें बोर्डाचे बसकेंत हो विशय हाडलो. फकत हो एकूच विशय लोकां मुखार दवरून कौल घेवचो असो थंय निर्णय जालो. मागीर ते खातीर 'गोवा दमण दीव ओपिनियन पॉल ॲक्ट' हो खास कायदो तयार केलो. त्या कायद्या खातीर 'ओपिनियन पोल' हें नांव घर खात्याचे सचीव आशिल्ले एल. पी. सिंग हांणी सुचयलें.

1966 वर्सा हो निर्णय जालो. ते उपरांत वातावरण तापलें. गोंयांत युनायटेड गोवन पक्ष विलीनीकरणाक विरोध करतालोच. आमचो राष्ट्रमताचो गट सक्रीय आशिल्लो. आमच्यो सभा लोकूच आयोजीत करताले. म्हाका कांय सभांची बरी याद आसा. उसगांव, काकोडे हांगा आमच्यो तेन्ना सभा जाल्यात. रातची 11 वरांचेर एक



**14 नोव्हेंबर 1985 दिसा कोंकणी प्रजेच्या आवाजाच्या राजभास आंदोलनांत, पणजे आझाद मैदाना वयल्या महामेळाव्यांत उलयतना.**

सभा उसगांवां जाल्ली. शेतकार मेरेर बसून आयकताले. तांकां हो विशय समजून घेवपाचो आशिल्लो आनी अशे तरेन तेन्ना कांय प्रमाणांत हिंदू समाजाचें मतपरिवर्तन करपाक आमी येसस्वी जाले. तो काळ प्रचाराचो कळस आशिल्लो.

हे पुराय प्रचार मोहिमेचे दोन कालखंड आशिल्ले. सुरवातीक आमकां फोंड्यां सभा घेवंक दिनाशिल्ले. आमच्यो गाडयो फातर मारून फोडटाले. आमची सभा चलता थंय म्हऱ्यांत लावडस्पीकर लावप आनी ताचेर व्हडल्यान पदां लावप, आमचेर तांतयां शेंवटून मारप अशे प्रकार चलताले, पूण ल्हवू ल्हवू विचार करपी मनश्यांचेर परिणाम जावंक लागलो. निमाणे कडेन अंधविस्वास बदल्लो. विलीनीकरण बऱ्याक पडटलें काय वायटाक हें समजून घेवपाचो लोक यत्न करपाक लागले. लोक पयलीं टिका करताले मात मागीर ल्हवू ल्हवू समजावणेचो सूर लावप गरजेचें जालें. बहुजन समाजाचो एक भाग हे वटेन आयलो. बहुजन समाजाचो हो एक भाग बदलिल्ल्यान ओपिनियन पोल आमी जिखले. ह्या वेळार आमच्या सांगाताक जाण्टी पिळगी चड आशिल्ली. तरणाटो ओर्गनायज्ड नाशिल्लो. खूब लोक भायर आशिल्लो, तशेंच थळावो तरणाटो समाजकार्यांत क्रियाशील नाशिल्लो. पुराय क्रिस्तांव समाज विलीनीकरणाच्या विरोधांत आशिल्लो, पूण हिंदू मर्दी ह्या विशयाचेर दोन मतां आशिल्लीं.

*अन्वेषा : उदयबाब, कोंकणीच्या संघर्शाचो प्रवास कठीण आशिल्लो?*

*उदयबाब :* ओपिनियन पोलाचे प्रचार मोहिमेंत गोंयभर कोंकणी विर्शीचो विचार घेवन वचप शक्य जालें. थंय जागृताय वाडली. पुंडलीकबाब नायक एके सभेक

फकांडां करपाक आयलो, पूण आपूण बदल्लो अशें तोच सांगता. अशें खूब जाणांचे बाबतींत जालें. कोंकणी विशींची जागृताय वाडली.

1962 वर्सा आठवी कोंकणी परिशद मडगांवां जाली. हे परिशदेन बरें वातावरण निर्माण केलें. उपरांत कोंकणी भाशा मंडळ स्थापन जालें. मंडळ काम करूंक लागलें. कोंकणी शाळा सुरू जाल्यो. कोंकणींतल्यान पुस्तकां तयार करप सुरू जालें. साश्ट वाठारांत तेन्ना 12-13 शाळा सुरू जाल्ल्यो. ह्या शाळांनी हिंदू आनी क्रिस्तांव अशे दोनय समाजांतले विद्यार्थी वताले. ह्यो शाळा 1 ते 2 वर्सां चल्ल्यो. सांखळेय अशीच एक शाळा सुरू जाल्ली आनी सुरेशबाब बोरकारान कोंकणींतल्यान तेन्ना पुस्तकां बरोवन काडून तांच्या आदारान शिकयलें. सांखळे सुरू जाल्ली ती सरकारी शाळा. पुस्तकां तयार करूंक जाय आसलीं. गोंय सरकारान आपलें कर्तव्य टाळ्ळें. त्या वेळार कोंकणी भाशा मंडळान शाळेचीं पुस्तकां तयार करपाक एक समिती काडली. मनोहरबाब सरदेसाय, बाकीबाब बोरकार, फेलिस्यु कार्दोज आनी तांचे सांगाती हांणी पुस्तकां तयार केलीं. मनोहरबाब नागरी आनी रोमी अश्या दोनूय लिपयांतल्यान पुस्तकां तयार करपाच्या मताचो आशिल्लो. मात तेन्ना समितींत वावुरपी पाद्रींनी सांगलें की फकत देवनागरी लिपयेंतल्यानच ही पुस्तकां जावचीं. डायोसेसन सोसायटीन त्या वेळार हीं पुस्तकां छापपाक रीण दिलें तें कोंकणी भाशा मंडळान मागीर पावयलें.

जांकां कोंकणीचे उदरगती फाटलो विचार पटलो तो कोंकणी वटेन आयलो. कोंकणी विशीं निश्ठा आशिल्ल्यांचो आंकडो वाडत गेलो. 1984 वर्सा वेंचणूक जाली. 1985 वर्सा लुइझिन फालेरोन विधानसभेंत राजभाशेचें विधेयक मांडलें. सरकारान तें भायर उडयलें. त्या वेळार बाबली नायक भायर सरलो. सरकारान कोंकणीचो अपमान केला. ताचेर प्रोटेस्ट नोंद करपाक जाय अशें ताचें मत आशिल्लें. बाबली कोणा कोणाक मेळ्ळो. आमी 8 जाण एकठांय आयले. लेखक, कलाकार, कार्यकर्ते सगळ्यांक संपर्क सादलो. विधानसभा चालू आसतना मोर्चा काडया अशें आमी थारायलें. त्या वेळार अडेज हजार लोक जमलो. आमी पुलिसांचें कडें मोडलें आनी अटक करून घेतली.

ते उपरांत राजकीय पक्ष लागीं आयले. युजी, गोवा काँग्रेस हांणी तेंको दिलो. आंदोलन फुडें व्हरूया असो विचार जालो. कोंकणी राजभास करची म्हणून आंदोलन करया म्हण थारलें आनी 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' हें ताचें नांव थारलें.

त्या वेळार क्रिस्तांव समाज आमचे बरोबर आशिल्लो. क्रिस्तांव समाजाचें घडये एक तत्व आसा- आपूण शेणत म्हणून तांकां भंय दिसता तेन्ना ते नेटान भायर सरतात. ह्या वेळार काँग्रेस धोरणा विशीं परत फुटली. तांचे आमदार दोन तोंडांनी उलोवंक लागले. कांय मंत्री आशिल्ले. ते आमच्या सभांनी येवन आपल्याच सरकारा विरूद्ध उलयताले. हो टँपो वाडत गेलो.

आमी आंदोलन हिंसक जावचें न्हय म्हणून थारायलें.

मडगांव 7 दीस बंद उरलें. हेर गांवांनी लोकांच्या घरांचेर फातर मारून घरा फोडलीं. पुंडलीकबाबाचो छापखानोय फोडलो. सरकाराचेर दबाव सुरू जालो. त्या वेळार दिल्लीच्यान दोन फुडारी आयले. कॉंग्रेस फुटत हो तांकां भंय आशिल्लो. चिंतामणी पाणीग्रही आनी रघुनंदनलाल भाटिया अशे ते दोन फुडारी. ते कॉंग्रेसीच्या गटां कडेन उलयले. ते सगळ्या गटांक मेळ्ळे. रोमी आनी मराठीचो आग्रो धरचो न्हय असो विचार जालो. देवनागरी लिपयेंतली कोंकणी हीच गोंयची राजभास जावंक जाय अशें मत जालें.

*अन्वेषा : कोंकणी राजभास करपाचे वाटेर मराठी आनी रोमी ह्या दोनांचोय प्रस्न केन्ना आनी कसो उप्रासलो?*

*उदयबाब :* मराठीचे चळवळींत चड लोक नाशिल्ले. तांच्या सभांक दोनशे लोक एकठांय जावप कठीण जातालें. कोंकणीच्या सभांनी हजारांनी लोक जातालें. खबरापत्रांनी आतां येता तशी पयली बातमी येनाशिल्ली. राजभास आंदोलना वेळार इंग्लीशवादी लोक आमचे बरोबर आशिल्ले. मडगांव बंद जाल्लें तेन्ना हांव आमदार म्हणून म्हजे म्हऱ्यांत कांय लोक आयले. सात दीस मडगांव बंद कशें उरता असो तांचो प्रस्न. हांवें सांगलें, हांव बंदाक विरोध करूंक शकना, तो निर्णय घेवपाचे प्रक्रियेंत हांवूय आशिल्लों.

आमच्या पुराय आंदोलनांत रोमीचो विशय केन्ना आयलो ना. लिपयेचो विशय



नाटकर्मी उदयबाब 'संशय कल्लोळ' नाटकांत फाल्गूनरावाचे भुमिकेंत. (1965)

केन्नाच कोणें काडलो ना. 17 वर्सांनी तोमाझीन कार्दोज, फा. प्रताप नायक हांणी हो मुद्दो काडलो. पयलींच्या आंदोलनांत फा. प्रताप खंयच ना, तोमाझीन तरणाटो कार्यकर्तो म्हणून वावुरतालो. साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार रोमी लिपयेंत बरयिल्ल्या कोंकणी पुस्तकाक मेळना हो तांचो मुद्दो. त्या वेळार आमी एक सुचोवणी केली. तुमी रोमींतलीं तीन बरीं पुस्तकां दिवपाचीं आनी तीं देवनागरींत लिपयांतरीत करपाचीं. छापतना खंयचेय संस्थेन छापूं येता अशें थारलें. मात कोणेंच एकूय पुस्तक सुचयलें ना. हे फकत फूट घालपी विद्वाटे. रोमींत बरोवप्यांनी प्रताप

नायकाक गुरू मानलो, थंय तांचें चुकलें. तो तांचे बुद्धीन काम करूंक लागलें. उपरांत दिगंबर कामतीन रोमी लिपयेंतल्यान वावर करपा खातीर दाल्गाद कोंकणी अकादमीक अनुदान सुरू केलें. खरें म्हणल्यार दाल्गाद कोंकणी अकादेमी सुरू केल्ली ती रोमी बरपाचो दर्जो वाडोवचो म्हणून, लिपीवाद चलोवपा खातीर न्हय. पूण ते अकादमीन विधायक वावर कडेक दवरून धर्मकोल्ल आनी वाद मातयले.

विरोधकांनी खूब फावट विरोधा खातीर जातवाद मर्दी हाडला. ह्या वादाची धार ओपिनियन पोला वेळार खूब आशिल्ली. जातवाद मर्दी हाडपाचे जे प्रयत्न जाले ते आमी वेळोवेळ मोडून काडले.

*अन्वेषा : राजभास कायद्याची अंमलबजावणी जावंक जाय तशी जाली?*

*उदयबाबा :* राजभास कायदो केलो तरीय प्रतापसिंह राणे मुख्यमंत्री उरलो. कोंकणी हीच राजभास आनी मराठी जाय जाल्यार वापरूं येता अशी ह्या कायद्याची तजवीज. मराठी वापरूंकच जाय अशें अजिबात नाशिल्लें. राजभास कायद्याची अंमलबजावणी करपा खातीर सल्लागार मंडळान कांय प्रस्ताव राजभास मंत्री विनयकुमार उसगांवकार हांचे वरवीं सरकाराक दिले, पूण मुख्यमंत्री राणेन केन्नाच कांय केलें ना. आमी कांय जाणांनी उपरांत राजिनामे दिले. उपरांत राणेन एक बसका घेतली, पूण कांय केलें ना. मागीर आयिल्ले राजभास मंत्री सोमनाथ जुवारकारान कांयच केलें ना. मनोहर पर्रीकारान म्हाका समिती वयल्यान काडलो.

दिगंबर कामत हांणी मुख्यमंत्री जातकर राजभास संचालनालय आपले कडेन दवरलें. त्या वेळार सल्लागार समितीचे बसकेंत ह्या कायद्या संबंदान फुडें वचपाची तयारी दाखयली. राजभास कायद्याची अंमलबजावणी करपा खातीर उपसमिती नेमली. ताचो अध्यक्ष म्हूण शांताराम नायक हांकां नेमले, पूण शांताराम नायकान आपूण अध्यक्ष जायना म्हणून कळयलें. उपरांत म्हाका थंय घालो. हांवें ते उपसमितीचें अध्यक्षपद घेतलें. हे समितीच्यो बसका घेवन राजभास कायद्याचे अंमलबजावणी खातीर अहवाल तयार केलो. अंमलबजावणी कशी जावची हे संबंदान तो अहवाल आशिल्लो. हे समितीन कांय अधिसुचोवण्यो काडपाची शिफारस केली आनी त्यो तयार करून दिल्यो. सरकारी कर्मचाऱ्यांक प्रशिक्षण दिवपा संबदांन तातूंत शिफारस आशिल्ली. अश्यो वेगवेगळ्यो पांच अधिसुचोवण्यो तयार केल्यो. सगळे फलक कोंकणींतल्यान करप, पुलिसां कडेन कागाळ वा जबानी कोंकणींत दिवपा संबंदानूय शिफारस आशिल्ली. हो अहवाल कामतीन मान्य केलो.

*अन्वेषा : उदयबाब, तुमी राजकारणांत कशे पावले?*

*उदयबाब :* राजकारणाक हांवें पयली नाका म्हणलें. तो म्हजो पिंड न्हय. आनी पयलेच फावट विचारिल्लें तेन्ना म्हजें शिक्षण अर्द्यार आशिल्लें. ओपिनियन पोल जाले उपरांतूय तशें घडिल्लें. दोनूय पक्ष म्हणल्यार काँग्रेस आनी यूगो हयकार दितात जाल्यारच



**आपल्या कुटुंबा सांगातान. (2015)**

हांव रावतां अशें हांवें सांगलें. यूगो पक्षान न्हयकार दिलो आनी वेंचणुकेचो जंवजाळ लागलो ना.

कांय वर्सांनी लोकसभेची वेंचणूक आयली. फादर लुसियो व्हैग कुतिन्य आनी हेर जायत्या जाणांनी दक्षिण गोंयांत उबो राव म्हूण आग्रो केलो. राजकारणांत म्हाका रस नाशिल्लो. वेंचणुकेंत रावंक हांवें हय म्हणलें तें लोकांच्या दबावाक लागून. तेन्ना लुइझिन आयलो. ताणें सांगलें, बाबू नायकाक चॅलेंज करपाक जाय. म्हजेर कसलेंच खत नाशिल्लें म्हणटकर हांव तांचे खातीर योग्य पर्याय आशिल्लों. हांवें सरळ ना म्हणलें, पूण तो परत आयलो. दुसरेय कांय लोक आयले. उपरांत मगोचे लोक येवंक लागले. भाजपाचेय लोक आयले. वेगवेगळ्या लोकां कडल्यान म्हजेर दबाव हाडलो आनी निमाणें हांवें हय म्हणलें. दो. विली डिसोझा हांणी तेन्ना आग्रो धरलो की हांवें गोवा काँग्रेस तिकेटीचेर लडचें. हांवें सांगलें, हांव रावलों जाल्यार अपक्ष म्हूण. लुइझिनाक तें पटलें. हांवें अपक्ष म्हणून वेंचणूक लडयली आनी जिखली. सुमार पांच वर्सां आमदार म्हूण वावुरलों.

विधानसभेचो कार्यकाळ सोंपत आयलो तेन्ना हांवें काँग्रेस पक्षांत वचपाचो विचार केलो. आमदारकेचो राजिनामो दिलो, पूण काँग्रेस पक्षान तिकेटी खातीर केल्लें मागणें मानून घेतलें ना. उपरांत म्हाका गोवा प्रदेश काँग्रेस पक्षाचो सचीव केलो. तेन्ना हांवें सुनापरान्ताच्या संपादकपदाचो राजिनामो दिलो. फुडें एक दीस सगळे काँग्रेस फुडारी एकठांय आयिल्ले कडेन म्हाका दक्षिण गोंयचे खासदारकेची तिकेट दिवची अशें मत जालें, पूण प्रदेश अध्यक्ष लुइझिन हांचेर दबाव आयलो. चर्चील आलेमांव आनी भाव

ज्योकीय वचून लुइझिनाचे गोमटेर बसले. म्हाका तिकेट दितले म्हणून सांगिल्लें मात, निमण्या वेळार पक्षान ती तिकेट ज्योकी आलेमांव हांकां दिली. ते पडले.

*अन्वेषा : उदयबाब, तुमची आयज मेरेन फकत तीन पुस्तकां छापून आयलीं. तुमच्या साहित्य प्रवासाक ब्रेक कसो लागलो?*

*उदयबाब* : म्हजें वर्तमानपत्रांत खूब लिखाण आयलें. गोंयांत येतकच जीण जे तरेन गेली ते तरेक लागून साहित्य निर्मणी करूंक मनस्थिती मेळ्ळी ना. साहित्य निर्मणेक जाय तशें लक्ष लागना जालें. हांवें फाटलीं 8 वर्सां इन्क्वीजीशनाचेर अभ्यास केलो. कादंबरी बरोवंक घेवपाची आसा पूण सुरवातच करूंक पावना. आंदोलनांनी वांटेकार जालों. पूण इत्सा आसूनय बरोवंक पावंक ना. म्हाका कथा हो प्रकार आवडटा, पूण बरोवंक पावलों ना. आतां म्हजें वकिली वेवसायाचें काम सोंपलां. गोंय विद्यापीठांत बाकीबाब बोरकार अध्यासनांत प्रोफेसर म्हूण शिकयतां थंय आनीक कांय म्हयने उरल्यात. उपरांत कादंबरी सुरू करपाचो विचार आसा. लेखांचें आनीक एक पुस्तक रोखडेंच प्रकाशीत जातलें.

*अन्वेषा : उदयबाब, शिक्षणाच्या माध्यम प्रस्नाच्या आंदोलनांत तुमी क्रिस्तांवांक अराष्ट्रीय म्हणलें, तांच्या विरोधांत उलयले अशें कांय जाण म्हणटात. तें कितलें सारकें?*

*उदयबाब* : थोड्यांक चुडटेचे सोरोप नाचोवपाची संवय आसता! क्रिस्तांव अराष्ट्रीय अशें हांवें केन्नाच म्हणूंक ना. हांवें विरोध केला तो तांच्या इंग्लीशीकरणाच्या निर्णयाक. हांव भाशणांनी धर्म हाडना. उलोवपांत साहजीकपणान मायनोरिटी स्कूल वा ह्यो शाळा चर्चींच्यो असो उल्लेख येता. मुद्दे मांडपाक तो गरजेचो आसता. चर्चीचे आड वा क्रिस्तांव समाजाच्या आड हांव केन्नाच उलोवंक ना. जांचें चुकता अशें म्हाका दिसता तें हांव स्पश्ट सांगतां. हांव कोणाक भियेना आनी म्हाका कोणाचें लेंगेंलेंगें करपाचें ना. म्हजे विचार आनी मतां म्हज्या लेखांनी मांडिल्लीं आसात. तींच हांव भाशणांनी मांडटां. तीं 'अस्मितायेचो कसाय' ह्या पुस्तकांत वाचूंक मेळटात. कांय जाण लोकांची दिशाभूल करपाक फटकिरे आरोप करतात. कांय जाणांक दुसऱ्यांची निंदा करपांत खोस भोगता. म्हाका हें नवें न्हय. भौशीक मळार हांवें निकतींच साठ वर्सां पूर्ण केल्यांत. असले अणभव आदींय आयल्यात. सुण्याक 'पिसो' म्हणून गुळी घालतात तसल्या अणभवाचे. अंतर इतलेंच की आदीं तें काम विरोधक करताले आतां तें बेगडी कोंकणीवादी करतात. खरेपणीं, ते 'मेरेवयले गांवकार' आसतात. आपूण कांय करिनात आनी जे झुजतात तांचीं खेबाडां करतात.

*अन्वेषा : 2017 वर्सा तुमी परत राजकी माचयेर चडले. मगोचे माचयेर तुमी चडले म्हूण तुमचेर टिका जाता. हे विशीं तुमची प्रतिक्रिया?*

*उदयबाब* : कांय जाण पिशें पांगरून पेडगांवाक वतात. तांकां टिका वा निंदा

करपाक फकत निमित्य जाय आसता. असलेच लोक बेकार थवय कुले तासपाचो उद्देग करतात. जांकां लोकशाय म्हणल्यार कितें तें कळटा, तांकां युती, संयुक्त सरकार हाचो अर्थ कळटा आनी तांचो धर्मूय कळटा. हांव 'गोवा सुरक्षा मंच' ह्या राजकी पक्षाचो वांगडी. गोवा सुरक्षा मंचान मगो पक्ष आनी शिवसेना हांचे कडेन युती केल्या आनी सांगातान वेंचणूक लडोवपाची थारायल्या. युतीच्या धर्मा प्रमाण उमेदवार खंयच्याय पक्षान उबो केल्लो आसलो तरी तो युतीचो उमेदवार. ताका युतींतल्या सगल्याच घटकांनी पालव दिवप हो युतीचो धर्म. युती म्हणल्यार विलीनीकरण न्हय. दर एक घटक आपली अस्मिताय सांबाळून युतींत वावुरता. मगो पक्षान उबो केल्ल्या युतीच्या उमेदवाराचो हांवें प्रचार केलो हाचो अर्थ हांवें मगो पक्षांत प्रवेश केलो असो जायना. तांचीं सगळीं ध्येय धोरणां मानून घेतलीं अशेंय जायना. दुसरें, नांव तेंच आसलें तरी मगो पक्ष 50 वर्सां फाटलो उरूंक ना. तो विलीनीकरण मागना. ताच्या प्रचाराचे सीडींत कोंकणी आनी मराठी ह्या दोनूय भाशांतलीं गितां आसात. मुखेल मुद्दो असो की मुळावें शिक्षण मायभाशेंतल्यान जावचें आनी मुळाव्या इंग्लीश शाळांक सरकारान अनुदान दिवचें न्हय. हें मगो पक्षान मानून घेतलां आनी तेंच युतीचें मुखेल सुत्र जावन आसा. थोड्यांक हें समजता, पूण तांची शेंपडी सुण्याची. नळयेंत घाली तरी वांकडी ती वांकडीच.

*अन्वेषा : ह्या सगळ्यांत तुमच्या घराब्याचो सांगात...*

उदयबाब : घरच्यांनी खूब सांगात दिलो. मात तांकां खूब त्रास जालो हें खरें. मनीस समाजीक जिणेंत इतलो घुस्पलो काय तें घरच्यांक बादताच, पूण म्हाका कोणेंच आडखळ केली ना. देखून हे पिरायेचेर पसून क्रियाशील आसा.

*अन्वेषा : फुडाराचे नदरेंतल्यान गोंयची परिस्थिती तुमकां कशी दिसता?*

*उदयबाब :* गोंयकारांनी दोन दिशा आपणायल्यात. स्वाभिमान तिगोवन दवरला अश्या गोंयकारां मदीं आयडेंटीटीची भावना वाडटा, जाणीव वाडटा अशें दिसता. कोंकणी भास, साहित्य आनी शिक्षण उदरगतीचे वाटेर आसा, पूण कांय वर्सांनी क्रिस्तांव समाज मात गोंयकारपणा पासून कुशीक वतलो अशें चित्र म्हाका दिसता. हिंदूंचे नदरेंतल्यान पळयलें जाल्यार इंग्लीश हो धोको आसा मात मराठी हो व्हडलो धोको उरूंक ना अशें म्हजें मत. मराठींत मुळावें शिक्षण घेता तें भुरगें फुडाराक कोंकणी संस्कृतायेकूच वेंग मारता. तें ताका सभावीक दिसता.

000

# स्मृतीशेश

(स्मरण)

माधव बोरकार

## अना



**माधव बोरकार :** जल्म : 1954, नामनेचे कवी, अनुवादक, *'चंवर'*, *'वताच्यो सावळ्यो'*, *'उजवाडाचो रूख'*, *'परजळाचें दार,'* *'यमन'*, *'अव्यक्ताची गाणी'* आनी *'सिम्फनी'* हीं प्रकाशीत कवितांचीं पुस्तकां. विश्व कोंकणी केंद्र मंगळुर संस्थेचो श्रीमती विमला पै पुरस्कार, केंद्रीय साहित्य अकादमीचो साहित्य पुरस्कार (2001) तशेंच अनुवादाच्या पुरस्कारान (2004) सन्मानीत. संपर्क : ग्रीन पीस हावसिंग बोर्ड सोसायटी, नागळ्ळी, ताळगांव – गोंय, मो. 9420222876.

अना म्हांबरो म्हणल्यार अरविंद नारायण म्हांबरो आनी 64 अमित मुरारी घाग रस्तो, प्रभादेवी ह्या तांच्या फ्लॅटाच्या पत्त्याचेर अरविंद म्हांब्रो ही पुर्तुगेझ स्पेलींग आशिल्ली नांवाची पाटी. एकाच मनशाच्या नांवाचीं हीं तीन रुपां. 'टाटा इकॉनॉमीक कन्सल्टन्सी सर्वीस' ह्या ऑफिसांत ताका अना म्हांबरो म्हूण वळख नाशिल्ले. तर थंयची रिसेप्शनिस्ट अरविंद म्हांबरो ह्याच नांवान वळखताली. अशें जरी आसलें तरी ताचे आमचे मदीं चालंत नांव अनाच. सुरवातीक अ. ना. अशें तो बरयतालो. पूण ल्हवू ल्हवू करून हीं आद्याक्षरां एक जावन तें निखटेंच 'अना'

जालें.

कांय ना म्हणल्यार लागीं लागीं पन्नास वर्सां उपरांत म्हजे यादीचीं पानां परतितां तेन्ना म्हज्या दोळ्यां मुखार 1968 वर्स येता. पणजे कोंकणी भाशा मंडळाचो फांटो आशिल्लो. आतां मोडूंक तेंकिल्ल्यां सिने नासिओनाल थेटराच्या सामकार एक, एक मजली इमारत आयजूय उबी आसा. ते इमारतीच्या मालकाक कोंकणीची ओड आशिल्ल्यान एक साल ताणें भाशा मंडळाक वापरपा खातीर दिल्लें. इस्शाद चडून वयर वतकच दावे वटेन दो. विली डिसौजाची कोंसुल्तोर आशिल्ली. सांजवेळा ऑफीस सुट्टकच आंतोन मोरायश आनी ऑक्ताव्ह रॉड्रिग्स थंय येताले. ऑफिसाची सगळी उस्तवारी तेच करताले. एव्हाग्र ज्यॉर्ज, नागेश करमली, रामकृष्ण जुवारकार, ओलिव्हीन्यु गोमीश थंय अर्दीमर्दी येताले. प्रत्येक शेनवारा दो. भिकाजी घाणेकार येतालोच आनी केन्नाय मनोहरराय सरदेसाय मडगांवच्यान पणजे आयल्यार भाशा मंडळांत येतालो आनी आमचे सारकिले निकतीच कोंकणीची दिक्षा घेतिल्लेय थंय हजेरी लायताले. म्हजे पयलीं प्रकाश पाडगांवकार आनी 1969 उपरांत रमेश वेळुस्कार. तो काळ संघर्शाचो आशिल्लो तरी सगळ्यांचीं काळजां एक आशिल्लीं. लेखिकां मर्दी शीला मर्तो नायक केन्नाय येवन वताले.

ही सगळी फाटभूंय अना ह्या विशया कडेन लागीं आसा. भाशा मंडळांत एक पुस्तकांची आरमार आशिल्ली. तातूंत कोंकणी, परमळ, साळीक ह्या नेमाळ्यांचे अंक आशिल्ले. तशेंच मुंबयच्या कॉलेजींतल्या विद्यार्थ्यांनी काडिल्ले 'विद्या'चे अंक. तातूंतल्या एका अंकांत अ. ना. म्हांबरो हांचो 'सुंदर म्हजें रायबंदर' ह्या नांवाचो एक ललित लेख वाचलो. तो म्हाका खूब भावलो. रायबंदरच्या पाट्याचें केल्लें वर्णन सामकें खरें दिसतालें.

आनी एक दीस एक व्यक्ती भाशा मंडळांत आयली. थोडी सावळी, केंस थोडेशे पिकिल्ले आनी मात्शें पोंग घेतिल्ली. लक्षांत उरपा सारकी आनीक एक गजाल म्हणल्यार ते व्यक्ती बरोबर एक कुत्रो आशिल्लो. 'हो अना म्हांबरो' मोरायशबाबान वळख करून दिली. 1968 वर्सा अना कांय काळा खातीर मुंबय सोडून गोंयांत आयिल्लो. चड करून ताचो भाव सुरेश हाचे खातीर आसुये. त्या वर्सभरयांत अना भाशा मंडळांत येतालो वा क्लुब नासियोनाल, क्लुब वाश्को – द – गामांत जावपी कार्यावळींनी तो दिसतालो. आनी बरोबर आसतालो तो ताचो कुत्रो. सभाघरांत आपल्या मालकाच्या पांयां कडेन तो शांत बसतालो. कांय काळा उपरांत तो परत मुंबय गेलो आनी ताका 'टाटा इकॉनॉमीक कन्सल्टन्सी' ह्या टाटाच्या ऑफिसांत नोकरी मेळ्ळी म्हणपाचें कळ्ळें. खरें म्हणल्यार त्याच अदमासाक अहमदाबाद हांगाचे 'इंडियन इन्स्टीट्यूट ऑफ मॅनेजमेंट' हे आयज नामनेक पाविल्ले संस्थेंत ताका प्रवेश मेळिल्लो, पूण हो प्रवेश घेनासतना ताणें मुंबयंतले एके संस्थेची पदविका घेतली. चाळीस पन्नास वर्सां फाटीं वेवस्थापनाच्या अभ्यासाक आयचे सारकी मागणी नाशिल्ली. आयज

आयआयएम सारकिल्या महाविद्यालयांत प्रवेश मेळोवपाक रगत आटोवचें पडटात आनी त्याच बरोबर लाखांनी रुपया ओतचे पडटा. त्या काळार आपल्याक फकत णवशें रुपया भरपाचे आशिल्ले अशें तो सांगतालो. आज त्यो काणयो दिसतात. आयची पिळगी अश्या संस्थांनी प्रवेश मेळोवपा खातीर जीव अर्पीत करतात. ही पिळगी अना सारकिल्याक पिशांत काडटली.

व्यक्तीमत्वाची जडणघडण जाता ताचे फाटल्यान ताची फाटभूंय आसता. म्हांबरे हे व्हडली वनदेवता ह्या कुळदेवाचे. मुळगांव हांगा हें देवूळ आसा. अना कांय दिसां खातीर तरी वेळ काडून आपले कुळदेवतेची भेट घेवन येतालो. ह्या कुटुंबाचो वंशरूख हळदोणें आनी खोर्जुवें हांगा वाडलो आनी ताच्यो खांदयो गोंय आनी गोंया भायर पातळ्ळ्यो. आयजूय पोंबुर्फ्यां, रायबंदर, पैरा हांगा ह्या कुटुंबाच्यो पिळग्यांच्यो पिळग्यो वाडल्यात. ते भायर मालवण सारकिल्या कोंकणींतल्या वाठारांत म्हांबऱ्यांचीं कुटुंबां आसात. कवी आनी लेखक गंगाधर म्हांबरे हांचेंय कुटुंब गोंयच्यानूच स्थलांतरीत जाल्लें. देखून घडये तांकां कोंकणीची आंतरीक ओड आशिल्ली.

अनाचो आजो श्रीधर पोरोब म्हांबरो ताचे पिळगेच्या गोंयकारां मदलो एक विचारवंत आशिल्लो. ताका सगळे शिरू पोरोब म्हांबरो म्हूण वळखताले. बरी पुर्तुगेझ, इंग्लीश, संस्कृत, मराठी ह्यो भासो ताका येताल्यो. धर्मानंद कोसंबीचो तो समकालीन आशिल्लो. 'निवेदन' ह्या कोसंबीच्या आत्मकथनांत ताचो उल्लेख मेळटा. कोसंबीक तो पयश्यांची मजत करतालो. कोसंबी मुखार व्हडविकायेच्या पदार पावले उपरांतूय गोंयांत येतकच तांची गांठभेट जाताली. एक उलोवंक बसतकच तांच्यो चर्चा रंगताल्यो आनी ताका लागून अनाचे आजयेक व्हडे राती मेरेन जेवपा खातीर तिश्टुचें पडटालें. आचार्यान बरयिल्लीं कांय पत्रां अनान पळयिल्लीं. शिरुबाब बहुश्रूत आशिल्लो. भारतीय तत्वज्ञान बरोबरूच ताका वैजकी शास्त्रांत रुच आशिल्ली. वखदांचोय ताणें अभ्यास केल्लो. पणजेंत भागीन कांय काळ फार्मासूय चलयिल्ली. तो आग्रिमिसोर खात्यांत काम करतालो. ताका लागून फार्मासींच्या कागदपत्रांनी ताचें नांव नाशिल्लें. मागीर ही फार्मास ताणें दुसऱ्याक विकली. तो काळ हिंदू समाजाच्या आड आशिल्लो. अभ्यास नासतना हिंदू तत्वज्ञानाचेर टिका जाताली. ताका जाप दिवपा खातीर शिरुबाबान पुर्तुगेझींत 'मुनी' ह्या टोपण नांवान खूब बरप केलें. ही बरपावळ 'लुझ द ओरिएन्त' ह्या दादा वैद्याच्या नेमाळ्यांत प्रसिद्ध जाली. उपनिशदांचो पुर्तुगेझ अणकार करपाचें तांच्या मनांत आशिल्लें, पूण तें जमून आयलें ना. शिरुबाब 'विविधज्ञान विस्तार' सारकिलीं नेमाळीं वर्गणी भरून मागयतालो. आनी वर्स सोंपतकच ते अंक बांदून घेतना निमाणे कडेन दोन तीन पानां जोडूंक लायतालो. त्या पानांचेर आवडिल्ल्या मुद्द्यांचेर टिपणां करून दवरतालो. असले कितलेशेच अंक ताचे कडेन आशिल्ले. वेव्हारज्ञान कमी पूण बौद्धिक जीण समृद्ध



**गोवा कोंकणी अकादेमीच्या वांगड्यांचे साहित्य भोंवडेंत अना. (22-02-1988, मणिपूर)**

अर्शी. ताचे भितर एके तरेचें द्रश्टेपण आसलें तें कशें तें अना सांगतालो. अनाचो बापूय आनी दोन काका वासुदेव आनी रघुनाथ हांकां ताणें लिसेवाचेर धाडले. पूण त्याच बरोबर मॅट्रीक करपाक लायली. ताचे फाटलो विचार असो की पुर्तुगेझ काय सदांकाळ हांगा उरपाचे नात. केन्ना न्हय केन्ना तरी वतले तेन्ना इंग्लीश भास तिची सुवात घेतली. ताचो प्रत्यक्ष अणभव नारायणबाब घेवंक पावलो. तो रेल्वेंत अणकारपी म्हूण काम करतालो. इंग्लीश पुर्तुगेझ आनी आरते परते हे अणकार आसताले. ऑफीस वास्को शारांत आशिल्ल्यान अनाचें भुरगेपण थंय गेलें. ह्या सगळ्याक लागून अनाक आपल्या आज्याची मोटी व्हडवीक आशिल्ली. मनशाचें व्यक्तीमत्व घडयता ती ताची बड. ताका जी तत्वगिन्यानाची गोडी लागली ती शिरूबाबाक लागून अशें तो म्हणटालो. तशेंच वाचनाची आवड. शिरुबाबाक दुसऱ्यां मदले बरे गुण पारखुपाची नदर आशिल्ली. तांच्या घरांतली नित्त्याची पुजा करपाक एक भट येतालो आनी ताच्या बरोबर दत्तात्रय भिडे हो भुरगो आसतालो. हो भुरगो तीख बुद्दीचो आसा म्हणपाचें ताच्या लक्षांत आयलें आनी ताणें ताका आपल्या भुरग्यां बरोबर पुर्तुगेझ शिकपाक घालो. हुशार आशिल्ल्यान ताणें लिसेवाचें शिकप घेतलें आनी सरकारी नोकरेंत वयल्या पदार पावलो. राजहंस वितरणाचो प्रभाकर भिडे हो ताचो पूत. शिरुबाबा वयलें रीण भिडेबाब केन्नाच विसरलो ना. योगायोग म्हणल्यार अनाचें अखेरचें बरप हें भिडे कुटुंबाचेर आशिल्लें. दुसऱ्यां भितर आशिल्ले बरे गूण पारखुपाची नदर अनाकय आशिल्ली.

शिरु पोरोब म्हांबऱ्या भशेन रायू पोरोब सिनारीय वेगळे कालेतीचो आशिल्लो. रायू पोरोब हो अनाचे आवयचो बापूय. म्हणल्यार आवयवटेंतलो आजो. शिरु पोरोब हो सरकारी एंप्रेगाद तर हो आजो मोटो भाटकार. ताचीं रायबंदरा आनी हेर कडेन बरीच मालमत्ता आशिल्ली. आस्पतीन ताण आशिल्ले भाटकाराचे भुरगे तेन्ना शिकप घेनाशिल्ले. पूण रायू पोरोबाक शिकपाची आवड आशिल्ल्यान तो लिसेवाचीं सोंपणां चडिल्लो. तो लिसेव पुराय करूंक पावलो ना तरी पुर्तुगेझ भास ताका बेस बरीं येताली. मराठी, संस्कृत आनी पुर्तुगेझ भासांतल्या साहित्याचें ताचें वाचन खूब गाढ आशिल्लें खंय. ते भायर आयुर्वेदाचोय ताणें खोलायेन अभ्यास केल्लो. साहित्य आनी शास्त्र ह्या विशया वेयलीं शेंकड्यांनी पुस्तकां ताच्या ग्रंथालयांत आशिल्लीं. संगीत ताका बरें समजतालें आनी किर्तन कलेचो ताणें अभ्यास केल्लो. अनान एक याद सांगल्या ते प्रमाण एक वर्स दत्तजयंतीक हरदास आयलो ना तेन्ना ताणें हरदासाचो भेस चडोवन बेस बरें किर्तन केलें. ह्या आज्यान उत्सवाक बसोवपा खातीर कांय मराठी नाटकांय बरयलीं. तीं चडशीं हातबरपाच्या रुपान उरल्यांत. ताचो हो ग्रंथसंग्रह आयज गोंय विद्यापीठाच्या ग्रंथालयाक दान केला तातूंत कांय दुर्मीळ पुस्तकांचो आस्पाव आसा. अना म्हणटालो जशी तत्वज्ञानाची आवड शिरू पोरोबो कडल्यान आपल्याक आयली तशीच साहित्य, संगीत हांची नदर रायू पोरोब कडल्यान परंपरेन मेळ्ळी. वैजकी मात ताची धाकली भयण लता कामत हिचे कडेन गेली. लताबाय गोंय वैजकी महाविद्यालयांत मेडिसीन विशयाची प्रोफेसर आशिल्ली. मुख्य सांगपाचो हेतू म्हणल्यार ह्या दोनूय भावंडांनी आपल्या आज्यां कडल्यान व्यासंग आनी विद्वत्तेचें देणें घेतिल्लें. अनाक तांचे विशीं भौच कृतज्ञताय आशिल्ली. खंयचेय व्यक्तीमत्वाचो अभ्यास करतना ह्या गुणसुत्रांचो विचार करचो पडटा.

– 2 –

अनाचो बापूय वास्को रेल्वेंत आशिल्ल्यान ताचो बरोचसो भुरगेपणाचो काळ ह्या शारांत गेलो. मुखार ताचो बापूय पणजे आयलो. तेन्ना ताचें फुडलें शिकप पणजे जालें. सुरवातीक प्रोग्रेस हायस्कुलांत मराठी साहित्यीक मनोहरराव हिरबा सरदेसाय हे ताचे प्राचार्य आनी फ्रेंच भाशेचे शिक्षक. मुखार मनोहररावान बरयिल्ल्या गोंयचे स्वातंत्र्य चळवळीच्या इतिहासाचें खर विडंबनूय ताणें केलें हीं लक्षांत घेवपा सारकी गजाल आसा. वयले वयर केलें बरप ताका केन्नाच आवड नाशिल्लें. अशें कितेंय वाचतकच ताचे लिखणेक उपरोधाची धार चडटाली. प्रोग्रेसांत ताचे बरोबर शिकपी हे प्राचार्य माधव कामत, दो. उल्हास आगशीकार, कुलास आनी रजनिकांत भांडारी. आकाशवाणी खातीर केल्ल्या एका उलोवपांत ताणें ह्या नांवांचो खाशेलो उल्लेख केला. णववी जातकच ताणें आपलें इश्कोल बदलून तो पिपल्स हायस्कुलांत गेलो. ताचें एक म्हत्वाचें कारण म्हणल्यार पिपल्सांत तेन्ना दास, चंद्रशेखर सारकिले उत्तम शिक्षक



**गोवा कोंकणी अकादेमी आयोजीत कथा शिबिरांत नवोदीत कथाकारां कडेन वार्तालाप करतना अना. (ता. 29-10-1995, चावडी-काणकोण)**

आशिल्ले. खूब फावटी तो तांच्या शिकोवपाचे कळाशीची याद काडी. लावरा पिंटो ही शिक्षिका ताका आवडटाली. हांगा ताच्या वर्गांत आशिल्ले कांय जाण म्हणल्यार डॉ. व्यंकटेश केशव घाणेकार, अरविंद करंडे, गुरुदास पै आनी शशिकला बांदोडकार. मुखार केन्ना तरी ती काकोडकार जावन गोंयची मुख्यमंत्री जातकच ताणें तिका आमी एकाच वर्गांत आशिल्लीं हाची याद करून दिली, पूण शशिकलाबायच्या स्मरणांत मात अना नाशिल्लो. हाचें एक कारण ताची फाटीं फाटीं रावपाची वृत्ती. फुडाराकूय तो पणजेच्या काम्राच्या बिब्लीयोतेकांत वतालो. थंय इंग्लीश, मराठी आनी पुर्तुगेझ पुस्तकां वाचपाक मेळटालीं. पुर्तुगेझ भाशेची फावो ती संवकळ करून घेवंक जाय आशिल्ली अशें तो केन्नाय म्हणटालो. तशेंच फ्रेंच भास शिकुनूय आपूण तातूंत उरलों हाचीय ताका खंत आशिल्ली. ह्या बिब्लीयोतेकांत एक ग्रंथपाल आशिल्लो. अनाची वाचपाची ही आवड पळोवन तो ताका तरेकतरांचीं पुस्तकां हाडून दितालो आनी पुस्तकां विशीं ताचे कडेन चर्चाय करतालो. पुस्तक वाचतकच ताचो आपरोस एका कादेर्नाचेर बरोवन दवरपाची संवय ह्याच ग्रंथपालान ताका लायली. तातूंतल्यान ताच्या बरपाची सुरवात जाली आसुंये. चड करून साहित्याचो आस्वाद कसो घेवचो हाची जाण ताका आयली. ह्या ग्रंथपाला विशीं ताच्या मनांत सदांच कृतज्ञतायेची भावना आशिल्ली. अशें बरप केल्ले कांय कादेर्न ताचे कडेन आशिल्ले. पूण मागीर ते केन्ना तरी शेणले अशें अना सांगतालो.

इश्कोलांत शिकतना तो म्हणपासारको हुशार भुरगो नाशिल्लो. हाचें एक कारण म्हणल्यार परिक्षेंत चड मार्क घेवपाचे नदरेन

ताणें केन्नाच अभ्यास केलो ना. त्या त्या विशयांतलें गिन्यान मेळोवप ही एकूच ताची मोख आशिल्ली. ते भायर विज्ञान विशयांत अनाक म्हणपा सारकी गती नाशिल्ली. थॉमस हो त्या काळार गणीत उत्तम शिकोवपी शिक्षक आशिल्लो. अना ताचे कडेन गणीत समजून घेवपाक वतालो. परिक्षेंत चड मार्क मेळोवपा खातीर न्हय. आमच्या अभ्यासक्रमांत विज्ञान विशय बरे आसल्यार दोळ्यांत भरपा सारकें येस मेळटा. अनाक खरी रूच आशिल्ली ती सगळ्या मानवशास्त्रांचीं. इतिहास, भुगोल आनी भाशा हांचेर ताचें प्रभुत्व आशिल्लें. मुखार अर्थशास्त्र आनी समाजशास्त्र ह्या विशयांची ताका गोडी लागली.

एसएससीचे परिक्षेंत ताका घसघशीत येस मेळ्ळें ना तरी तो बरे मार्क घेवन पास जाला. त्या काळाचे चाली प्रमाण ही परिक्षा पास जातकच सगळे एक तर मुंबय ना जाल्यार लागीं म्हूण बेळगांव आनी धारवाड वताले. त्या वेळार बेळगांवां दोन कॉलेजी नांवाजत्यो आशिल्ल्यो. लिंगराज आनी आरपीडी अनान लिंगराज कॉलेजींत प्रवेश घेतलो. ताणें एसएससीची परिक्षाय त्याच केंद्रार दिल्ली. लिंगराजांत दोन नांवाजते मराठीचे प्रोफेसर आशिल्ले. नामनेचे कवी कृ. ब. निकुंब आनी दुसरे डॉ. ह. शि. शेणोलीकर. ताका तांचीं व्याख्यानां खूब आवडटालीं. चड करून डॉ. शेणोलीकर हे ताका चड मानवताले. तो मराठी विशयाचो विद्यार्थी नाशिल्लो तरी ह्या समिक्षकाच्या लेक्चरांक वचून बसतालो. दुसरी गजाल म्हणल्यार बेळगांवच्या ह्या कॉलेजींनी खुबशे गोंयकार भुरगे शिकताले. ताका लागून आपूण सामकोच अनवळखी जाग्यार येवन पडलां अशें ताका दिसनाशिल्लें. रामकृष्ण जुवारकार शिकप आनी नोकरी एकाच बरोबर करतालो. त्या दोगांयची वळख हांगाच जाली आनी दोगांयचे सभाव भिन्न आसुनूय ती निमाणे मेरेन तिगली आनी ताचें सगळें श्रेय अनाच्या सभावाक वता. कोणाकूय एक फावट आपलो मानतकच ताच्या गुणदोशां सयत तो ताका आपणायतालो. दोशां परसूय गुणा संबंदान उलोवप ताका आवडटालें. दोशांची चर्चा आडवाद कसो आसतालो. आमच्या शेचाळीस वर्सांचे वळखीच्या काळांत हांवें ताका दुसऱ्या विर्शी बरेंच उलयतना पळयला. हो दुर्मीळ गूण आडवादान कोणाय कडेन आसता. कॉलेजीचें पयलें वर्स बेळगांवां करतकच अना मुंबय आयलो. थंय ताणें दादरचे बाँबे कॉलेजींत आपलें नांव घालें. मुखार ते कॉलेजीचें नांव बदलून ती किर्ती कॉलेज जाली. कोंकणी भास आनी चळवळ हांचे कडेन ताचो सबंद आयलो तोवूय हांगाच. उदयबाब भेंब्रे, लक्ष्मीकांत तळावलीकार, रंजन सरदेसाय हे सगळे सळसळपी रगताचे तरणाटे वेगवेगळ्या कॉलेजींनी शिंपडिल्ले. हरदत्त खांडेपारकारूय तांकां लागींचो, पूण थोडो उसरां येवन मेळिल्लो. त्या काळार शंकर भांडारी मुंबय आशिल्लो आनी स्लेटर रोडार आशिल्ले ताचे ब्रह्मचाऱ्याचे मठयेंत सगळे जमताले. भांडारी तेन्ना बाँबे पार्ट ट्रस्टांत काम करतालो. ह्या सगळ्यांचें उठप,

बसप, वाद-चर्चा बी हांगाच जाताली. एके नदरेन पळयल्यार गोंयां भायर शिकपाक आशिल्ल्या गोंयकार तरणाट्यांक एकठांय हाडपी कोंकणी भासूच आशिल्ली अशें अना म्हणटालो. मनोहरराय सरदेसाय मुंबय शिकतना ताचे पिळगेनूय कोंकणी विशीं अशीच जागृताय केल्ली. अभ्यासा बरोबरूच तांणी वण्टीपत्रां करप वा कॉलेजीच्या वर्सुकी संमेलनांनी एकाद्रें आपउलोवप वा नाटिका सादर करप अशें ताचें रुप आसतालें. बाँबे कॉलेजींत अना एक वण्टीपत्र चलयतालो. ते खातीर वांगडच्यांक बरोवपाक लावप असलीं हटमटवाळेपणां (अनाचेच भाशेंत) ताणें केल्यांत. मागीर आंतर महाविद्यालयीन एकांकी सर्त तशेंच बरपावळीच्यो सर्ती तो घेतालो. हातूंतल्यानूच 'विद्या' हो वर्सुकी अंक काडपाची कल्पना आयली. ताचे पिळगेचें पयलें वयलें बरप ह्याच अंकांनी वाचपाक मेळटा. हरदत्त खांडेपारकाराली कविता, उदयबाबाली कथा आनी हेर कांय जाणांचें ललित गद्य ह्या अंकांनी वाचपाक मेळटा. हो एक कोंकणी संस्कृतायेचे चळवळीचो वांटो आशिल्लो. आपली नोकरी आनी शिक्षण करून ह्या वावराक हे सगळे हातबोट लायताले. अनाचो तर तातूंत खूब मोटो वांटो आसतालो आनी ताच्या फार्टी रावपाच्या सभावाक लागून ताचें श्रेय घेवपाक तो केन्नाच मुखार आयलो ना. मुंबयच्या कोंकणी भाशा मंडळाच्या वावराक गती दिवपाक हे सगळे वावुरले. गोंय निकतेंच मुक्त जाल्लें आनी कोंकणी - मराठी वाद ऐन भारार आयिल्लो. तेन्ना मराठीवाद्यांच्या



नामनेचे संगीततज्ञ मिखायल मार्टीन्स हांचे वांगडा गोवा कोंकणी अकादेमींत अना. (ता. 24-05-1990)

मुद्यांक जाप दिवपाक 'कोंकणी' हें पंद्रसाळें तांणी चलयलें. ताचोय संपादक अनाच आशिल्लो. हे सगळे चळवळीक लागून आपलें कॉलेजीचें एक वर्स फुकट गेलें अशें तो एक फावट सांगतालो, पूण हाचे ताणें केन्नाच भांडवल केलें ना ही आयचे परिस्थितीत लक्षांत घेवपा सारकी गजाल आसा. हो सगळो वावर म्हणजे आपली कोंकणी भास आनी संस्कृताय हांचे कडेन आशिल्ली लागणूक हाचेर ताची स्रद्धा आशिल्ली. नांवलौकीक वा सुवार्थ हांची अभिलास ताणें आयुश्यभरयांत केन्नाच धरली ना. ताच्या लौकीक व्यक्तीमत्वाचें तें एक म्हत्वाचें तास आशिल्लें. ह्या 'कोंकणी' पंद्रसाळ्या विशीं तो एक याद सांगतालो. पटये खातीर लोकां मुखार तोंड फाफुडचें पडटालें तेन्ना कोडू अणभव चड पदराक येताले. लोकांक तो एक बकच्छायांचो

विशय आसतालो. कांय जाण उदार मन करून दान दिताले. एके तत्वज्ञान घेतिल्ले व्यक्तीक ताणें ताची एक प्रत दाखयली तेन्ना तिणें ती हातांत घेवन भिरकटावन मारली. अनाक ताचें वायट दिसलें खरें, पूण आतां मात ते व्यक्तीक कोंकणीचें म्हत्व पटलां आनी कोंकणी खातीर आपणें वावरूंक जाय अशी भावना तिचे भितर आतां जागी जाल्या आनी आपलेपरीन ती आमचे भाशे खातीर वावुरताय.

शिरू पोरोब म्हांबऱ्याची बड आसत, अनान आपले पदवेच्या अभ्यासा खातीर तत्वज्ञान विशय वेंचून काडलो. तेन्नाच्या बाँबे कॉलेजींत प्रो. मे. पु. रेगे हे तत्वज्ञान हो विशय शिकयताले. प्रो. रेगे हे प्रो. जे. सी. पी. द आंद्राद ह्या व्हड गोंयकाराचे विद्यार्थी. प्रो. रेगे भारतीय तत्वज्ञानाचे अभ्यासक तशेच ते युरोपियन तत्वज्ञानाच्या अभ्यासांत पारंगत आशिल्ले. कांट हेगेल ते ए. जे. एअर आनी विटगिन्स्टायन ह्या तत्वज्ञांचेर तांचो अधिकार आशिल्लो. एअर हांणी तर रेगेक फकत तत्वगिन्यानाचेर चर्चा करपा खातीर एक वर्सभर इंग्लंडाक आपोवन व्हेल्ले. अना निखटो परिक्षार्थी विद्यार्थी नाशिल्ल्यान तांचो तो आवडटो विद्यार्थी जालो. एमएचे परिक्षेक ताचो कांट हो खाशेलो तत्वज्ञ आशिल्लो. तो ह्या पेपरा खातीर एकलोच विद्यार्थी जाल्ल्यान प्रो. रेगेच्या कॅबिनांत बसून ते चर्चा करताले. एमए ची परिक्षा बरे तरेन पास जातकच ताका तांणी व्याख्यातो म्हूण आपयलो, पूण ही नोकरी ताणें दोन तीन वर्सांच केली.

मर्दी आनीक एक आड कथा येता. 1963 वर्सा 'राष्ट्रमतां'त येवपा खातीर उदयबाबान आकाशवाणीची नोकरी सोडली आनी ते सुवातेर अना आयलो. ह्या काळांत अनान खूब वावर केलो. बातम्यो सांगल्यात आनी 'घर नाशिल्लो घरकार' सारकिल्यो श्रुतिकाय बरयल्यात. तो कथा काणयो सांगतना वेगळीच शैली वापरतालो. वेगवेगळे आवाज काडून वाचतालो. तेन्ना आकाशवाणी मुंबय केंद्राचेर माया चिटणिस ही 'गंमत जंमत' ही कार्यावळ करताली. अना कडल्यान अश्यो काणयो ती वाचून घेताली. हांगाच ताची वळख अशोक दामोदर रानडे ह्या संगीत आनी साहित्याच्या मर्मज्ञा कडेन जाली. तेन्ना रानडेय आकाशवाणीचे सेवेंत आशिल्ले. तांचे हे जुळिल्ले संबंद निमाणे मेरेन उरले.

ओपिनियन पोलाच्या काळांत अना गोंयांत आशिल्लो. राष्ट्रमतांत ताणें वेगवेगळे तरेचें बरप केलें. 'पिंपळा पेडार' ते कांय अग्रलेखूय बरयिल्ले. पोलाचो निकाल लागचे पयलीं ताचेर एक ल्हानशी शस्त्रक्रिया दो. विली डिसौजान केली. तेन्ना ओश्पितालाचे खाटेर बसून 'गोमंतेश्वरा, तूं तांकां पाव' असो एक लेख बरयलो. 'राष्ट्रमता'च्यो पोरण्यो फायली पळयल्यार तो वाचपाक मेळटलो.

–3–

'गोंय आनी गोंयकार' हो ताच्या जिव्हाळ्याचो विशय. गोंयकाराच्या सभावाचीं सगळीं धोंगांपोंगां ताका खबर आशिल्लीं. गोंयकाराचें तिरसुवादपण ताका

लक्ष ओडून घेवपी दिसतालें. कोणूय गोंयकार व्हडले पदवेक पावलो जाल्यार दुसऱ्या गोंयकाराक ताचे सगळ्यांत पयलीं दोश दिसतात, हाची ताका मौज दिसताली. गोंयचें त्या काळावयले राजकारणी हे ताच्या फकांडांचे विशय. मुंबयंत, पयस आसलो तरी गोंयांत खंय कितें शिजता, करपता ताचो वास ताच्या नाका मेरेन कसो पावतालो कोण जाणा. हांवें ते विशीं ताका कितेंय विचारल्यार तो हांसून विशय फाफडून उडयतालो. एका काळार पणजे जीं सारस्वत कुटुंबां रावतालीं तांच्यो भायल्यो भितरल्यो गजाली ताका अंतस्थ आशिल्ले भशेन खबर आशिल्ल्यो. कितलेंय घुस्पागोंदळाचें नातें जरी ताचे कडेन दीत जाल्यार तो आवाळ्याचो काथो वेवस्थीत सोडोवन दाखयतालो. म्हाकाय असल्या गजालींनी रूच आशिल्ल्यान आमच्यो खबरी रंगार येताल्यो. भाऊसायब बांदोडकार हो ताचे आवडीचो विशय. राजकारणी ह्या नात्यान तो केन्नाच बांदोडकारा कडेन पळय नाशिल्लो. एक व्यक्ती म्हूण ताका भाऊचें आकर्शण आशिल्लें. तांचें एक वेगळे शैलीन चरित्र बरोवपाक जाय अशें तो केन्नाय म्हणटालो.

–4–

अनान जे तरेचें बरप केलें आनी जी शैली आपणायली ताचीं कारणां सोदप गरजेचें. ताका विलियम सारोयान हो कथाकार खूब आवडटालो. जे सर्वसामान्यांक दिसना वा जाणवना ताचेर बरोवपी सारोयान हो कथाकार. जेम्स जॉयस हो दुसरो आयरीश कथा कादंबरीकार ताका मना पासून आवडटालो. ताच्यो कथा आनी म्हत्वाच्यो अश्यो तीन कादंबऱ्यो ताणें बारकायेन वाचिल्ल्यो आनी तांचो अभ्यास केल्लो. तातूंतल्यो 'युलिसिस' आनी 'फिनिगन्स वेक' ह्या कादंबऱ्यांचे वाटेक सर्वसामान्य वाचपी वचना. त्यो समजुपाक एक आगळी फाटभूंय लागता. रिचर्ड एलमन ह्या चरित्रकारान जॉय्साचें चरित्र बरयलां तें वाचून ह्यो कादंबऱ्यो वाचपाक जाय. ह्या एलमनाची आनी म्हजी अनानूच गांठ घालून दिली. जॉयस हो आमच्या उलोवपाचो विशय जालो. तेच भशेन काफ्का आनी सॅम्युअल बेकेट ताका विशेश आवडटाले. ताचें एक म्हत्वाचें कारण ते लेखक हेरांनी माड्डिल्ले वाटेन केन्ना गेले नात. तेवूय तिरकस शैलीन बरोवपी. जिणेचो एक वेगळो अर्थ काडपी. बेकेटाच्या 'वेटिंग फॉर गोदो' ह्या गाजिल्ल्या नाटकाच्या अर्थाची बेस बरी विसकटावणी अना करतालो. ताका तत्वज्ञानाच्या अभ्यासाची फाटभूंय आशिल्ल्यान तो बेकेट बरे तरेन समजूंक शकतालो. ह्या संदर्भांत तो विटगिन्स्टायन ह्या तत्वज्ञाचो उल्लेख करतालो. एक दीस हांव ताका मेळपाक गेल्लों तेन्ना ताणें म्हाका आपल्या संग्रहांतलें 'बेकेट रिमेंबरींग रिमेंबरींग बेकेट' हें जेम्स आनी एलिझाबेथ नोवसन हांणी संपादीत केल्लें पुस्तक भेट दिलें. म्हज्या खासगी संग्रहालयांतलें तें एक मोलादीक पुस्तक अशें हांव मानतां. ताच्या वाचना विशीं खूब बरोवं येता... एक तर ताका थोडो निद्रानाशाचो त्रास आशिल्ल्यान

तो रातचें वाचन आनी बरोवप करतालो.

–5–

'टाटा इकॉनॉमिक कन्सल्टन्सीं'त काम करतना त्या ऑफिसांत ताका बरें वजन आशिल्लें. कामाचो एक वांटो म्हूण ताका खूब भोंवचें पडटालें. ताका लागून देशाचीं वेगवेगळीं शारां तो भोंवन आयलो. ह्या कामा खातीर ऑफीस ताका सगळे तरेच्यो सुविधा दितालें, पूण इझ्झेकेल हांगा ताचो, बॉस आशिल्लो. ताच्या बरोबपाची भास आनी शैली अनाक खबर आशिल्ली. तो अनाक पत्राचो मसुदो तोंडी सांगतालो आनी अना तो इझ्झेकेलाचे भाशेंत बरोवन दितालो. त्याच त्याच ऑफिसाचो हाऊस जर्नल तो संपादीत करतालो. तातूंत ताणें कांय इंग्लीश पुस्तकांचे नियाळ बरयल्यात.

मुखार कांय कारणांक लागून हेरां बरोबर अनान आपले नोकरेचो राजिनामो दिलो, पूण रोखडेंच रुसी लाला हांणी जे.आर.डी. टाटाचें चरित्र बरोवपाक घेतलें. ते खातीर लालान जे.आर.डी.क सांगून ह्या कामांत अनाक आस्पावन घेवपाचो प्रस्ताव दिलो. ते प्रमाण टाटान ताका किर्लो स्कर हाऊसाच्या अकराव्या मजल्याचेर आयसपयस ऑफीस दिलें. आमच्या आकाशवाणीच्या लागसार तें आशिल्ल्यान दोन तीन फावटी हांव थंय गेलो. टाटाचो सगळो खासगी पत्रवेव्हार आनी कागदपत्रां पळोवचेली संद म्हाका मेळ्ळी. लालान बरयिल्लें 'बियोंड लास्ट ब्लू माऊंटेन' ह्या चरित्राच्या बरपांत अनाचो खूब वांटो आसा. ह्या प्रकल्पांतल्यान 'टाटा आर्काव्ह' जल्माक आयलें आनी टाटान ताका ह्या नव्या ऑफिसाचो मुखेली नेमलो. ह्या विशयाच्या अभ्यासा खातीर तो लंडन विद्यापीठांत एक अभ्यासक्रम करून आयलो आनी थंयच्या राबित्यांत 'इंडिया हाऊस' आनी हेर म्हत्वाचे आर्काव्ह पळोवन आयलो. टाटा आर्काव्हाचो मुखेली म्हूण ताणें कंपनीच्या कागदपत्रांची मांडावळ केलीच पूण त्याच बरोबर जे. आर. डी. च्या सुमार चाळीस हजार पत्रांतल्या म्हत्वाच्या पत्रांचें संपादन करून एक गडगंज ग्रंथ सिद्ध केलो. ह्या ग्रंथाचे मराठी आनी हिंदी अणकार प्रसिद्ध जाल्यात. कोंकणी बरोबर ताचें इंग्लीश भाशेचेरूय प्रभुत्व आशिल्लें. फ्री प्रेस जर्नला सारकिल्या नेमाळ्यांनी ताचे कांय लेख प्रसिद्ध जाल्यात. मर्दी पारसी समाजा विशीं कांय खंड आयिल्ले तातूंत अनाचो जमशेटजी टाटाचेर अभ्यासपूर्ण लेख आसा.

–6–

एक व्यक्ती म्हूण अना कसो आशिल्लो हाचो विचार करतना ताचीं कांय खाशेलपणां लक्षांत येतात. 1984 ते 1989 च्या म्हज्या मुंबयच्या राबित्यांत आमी खूब लागीं आयले म्हणल्यार जाता. बारांच्या अदमासाक ताचो फोन येवचो. 'आरे बोरकार, तुवें डबो बी हाडल्यार कोणाक तरी दी. हांव म्हजोय दितां. आमी भायर जेवया.' मागीर एक तर हांव मंगळूर स्ट्रीटार आशिल्ल्या ताच्या ऑफिसांत वतालों ना जाल्यार तो आमच्या आकाशवाणी कडेन येतालो. आमचीं जेवणाचीं हॉटेलां थारिल्लीं आसतालीं. बेलार्ड पियर हांगा एक इराणी हॉटेल आशिल्लें.

थंयची बिर्याणी सुवादीक आसताली. मुख्य म्हणजे थंय गर्दी नासताली. केन्नाय जहांगीर आर्ट गॅलरींत प्रदर्शन पळोवन थंयच आशिल्ल्या 'सामोव्हर' ह्या रेस्टॉरंटांत आमी जेवण घेताले. जेवण हें निमित्त आसतालें. वेगवेगळ्या पुस्तकांचेर उलोवन आमचें खरें पोट भरतालें. त्यो खबरी नोंदीच्या रुपान बरोवन दवरपाचें म्हाका सुचलें ना. बरोवन दवरपाक सुरवात केली तेन्ना उशीर जालो. आमचे मदीं हातूंतल्यान एक वेगळेंच नातें जालें. हांव कोल्हापुराक आसतना ताचे फोन येवचे. ते बरेच दीर्घ आसताले. केन्ना केन्ना एका वराचेय, पूण तुका ताचें बील येवचें न्हय हाची जतनाय तो घेतालो. फोन करतकच पयलो प्रस्न 'तुका वेळ आसा मरे?' हांवें आसा म्हणटकच तो मागीर उलयतालो. ताच्या निमाण्या काळांत बेस बरो पालव दिलो तो शीला कोळंबकारान. तो ताका आपले लेख फोना वयल्यान सांगतालो आनी शीला बरोवन घेतालें. हाचें ताका खूब उपकार कशे दिसताले. हांवें जर सुरवाती पासूनचीं टिपणां बरोवन दवरिल्लीं तर रॉजर मार्तां दु गार्द हांच्या 'नोटस् ऑन आंद्रेजीद्र' सारकिलें पुस्तक तयार जावंक पावतलें आशिल्लें.

ताच्या समकालीना मदीं ताचें आनी चंद्रकांत केणीबाबाचें बरें जुळटालें. लक्ष्मीकांत तळावलीकारूय ताका लागींचो. र. वि. पंडित ताचे परस इकुणीस वर्सांनी व्हडलो आनी नात्यान सख्खो आतेभाव. पंडिताक तो 'पंडित' असोच उलो मारतालो आनी कोणाचेंय ताणें आयकलेंना जाल्यार अनाच्या मताक तो म्हत्व दितालो. पंडिताचे दोश ताका तोंडार सांगपी एकलोच अना आशिल्लो.

ताचे निमाणे दीस मात वायट गेले. ताका पार्किन्सन लागलें आनी ताचें सगळें चैतन्य शेणलें. थोडो भोव तो कोमांत गेलो. मुखार वखदांचो परिणाम म्हूण ताका स्मृतिभ्रंशाचे झटके येवपाक लागले. उलोवप असंबंध जावंक लागलें. 1994 त ताची घरकान्न गेली आनी तो एकसुरो जालो. तेन्ना चलो गौतम धड वीस वर्सांचोय नाशिल्लो. भायल्यान जेवणाचो डबो येतालो. उपरांत चंद्रा तांच्या जेवणा खाणाचें पळयतालें. तें वावराडी आसुनूय तांचें सगळें घरच्या सारकें करतालें.

जशें म्हाका अनाक पयलेच फावट पळयिल्ल्याचें आठवता तशेंच आमचे इश्टागतीच्या धाग्याचें निमाणें तोंक म्हज्या हातांत आसा. 2012 त हांव आनी प्रकाश पाडगांवकर मुंबय साहित्य अकादेमीच्या कामाक गेल्ले तेन्ना आमी ताका निमाणे भेटले.

ल्हान आसतना एका कोनशाक बसून वाचपी अना निमाणे मेरेन वाचीत रावलो. तो हो संवसार सोडून वच्चे दोन म्हयने पयलीं ताणें 'फिलॉजोफीकल' जर्नलाचो नवो अंक गौतमाक हाडूंक सांगलो आनी नवो विचार कितें आसा हें जाणून घेतलें. गौतमानूय ताका जाय जायतीं पुस्तकां हाडून दिलीं.

खऱ्यांनीच तो पुस्तकांनी रमलो आनी जियेलो...

000

# कथामंच

(कथा)

उदय भेंब्रे

## प्रसादाफूल

नबतीक इशारत निकतीच जाल्ली. पैरीकारान चौका वयर्ली झुंबरां आनी दिवल्यो आतांच पेटयिल्ल्यो. तेलावातींचो मंद उजवाड चौकार पातळिल्लो. भायर दीस पडिल्लो आनी तिनसांज आंगणांतल्या तुळशी मुखार निरांजनां पेटयत फुडें चलिल्ली. चौकार दावे वटेन रुप्याच्या लिंगाक तुंब्या-फुलांची पुजा लावन दासभट मुखार बशिल्लो. जांबळोच कद न्हेशिल्ल्यान दासभटाल्या आंगाची गोरी कात दिवल्यांच्या मंद उजवाडांत चडच तिवतिवताली. दाव्या खांदार ओलो वालो आसलो आनी नदर आसली पुजेचेर. मर्दीच देवा कडेन उलयिल्ले भशेन दासभट फुतफुत्तालो. कांकणांचो आवाज कानार पडलो की ताची नदर खीणभर सरवळेंत प्रदक्षणा घालपी बायलां कडेन वताली. पूण पुजे वयली नदर तो चड वेळ कुशीन काडिनासलो, कारण पुजा आशिल्ली आपू शणैली.

आपू शणै स्तोत्रांतले श्लोक पुटपुटत उमथे मानेन सरवळेंत प्रदक्षणा घालतालो. बरोच वेळ तोवूय दासभटासरीं बसून लिंगाचेर लायिल्ल्या फुलां कडेन दोळे लावन बशिल्लो आनी पांय मुयेवंक लागतकच उठून प्रदक्षणा घालूंक लागिल्लो. ही ताची सदांचीच संवय आसली. प्रसादा खातीर पुजा लायिल्ली आसतना ताचें सगळें लक्ष थंयच आसतालें. दर प्रदक्षणे वेळार लिंगाच्या म्हन्यांतल्यान वतना फुलांचेर ताची नदर गेले बगर रावनासली.

आरंभाक पुजा लायतकच आपू शणैलें मन देवाक होरावंक लागतालें. देव कशें फूल दीत हाचे उमळशिकेन तें धडधडूंक लागतालें, पूण दीस गेले आनी आपू शणैल्या

**ॲड. उदय भेंब्रे:** जल्म :1939. ज्येश्ठ कोंकणी साहित्यीक, पत्रकार आनी विचारवंत. कोंकणी आनी मराठी भाशेंतल्यान लेखन. कथा, कविता, गीत, नाटक, निबंध हे साहित्य प्रकार हाताळ्ळ्यात. *'चान्याचे राती'*, *'कर्णपर्व'* आनी *'अस्मितायेचो कसाय'* हीं कोंकणी तर *'ब्रह्मास्त्र'* हें मराठी पुस्तक प्रकाशीत. केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार (2015), विश्व कोंकणी केंद्राचो जीवन गौरव पुरस्कार, भांगराळें गोंय संस्थेचो जीवन गौरव पुरस्कार, अश्या साबार भोवमानांनी सन्मानीत. गोवा कोंकणी अकादेमी आनी अस्मिताय प्रतिष्ठान ह्या संस्थांच्या अध्यक्षपदाचो मान प्राप्त. संपर्क- लक्ष्मीप्रभा, घोगळ, मडगांव, गोंय, 403601- मो. 982216322

मनाक देवानच घटसाण हाडली. देवान फूल दिलें ना तरी सेवा सोडचों ना ह्या निर्धारान ताचें मन दुबावाच्या भंयाचे पलतडीन पाविल्लें आनी पुजा लायली की आतां तो निर्विकार मनान आनी तितलेच निर्विकार चर्येन प्रदक्षणा घालतालो. पांयांक पुरो जातालें, पूण मनाक नेट आसलो. ताच्या एका दोळ्यांत देवाचेर राग आसलो, पूण दुसऱ्या दोळ्यांत तितलोच मोग आसलो, अंतस्कर्णांत भक्तीचो आनी श्रद्धेचो खर उमाळो आसलो.

आपू शणै पुडव्याचो शेव खांदार उडोवन प्रदक्षणा काडीत आसलो आनी इतल्यांत–

"शणै, फूल जालें..."

दासभटालीं उतरां आपू शणैल्या कानार पडलीं. खीणभर आपू शणैचो विस्वास बसलो ना. असलीं उतरां आयकल्ल्याचे भास ताका हाचे पयलीं कांय फावटी जाल्ले. निर्विकार मनान ताणें आनीक कांय पावलां फुडें घालीं... आनी...

"शणै, फूल जालें. बेगीन यो..." दासभटालीं उतरां परत आपू शणैल्या कानार आदळ्ळीं. त्या उतरांतलो थरथरो आनी त्या आवाजांतली तिखसाण हे फावटी आपू शणैल्या मनाक आफडून गेली आनी देवानूच उलो घाल्ले भशेन आपू शणै धांवत चौकार आयलो. ताची नदर लिंगाचेर गेली आनी दोळ्यां मुखार आयली मूहूर्त घोड्यार बशिल्या दामबाबाची. खीणभर ताका आग जड जाल्ले भशेन दिसलें. मनाचेर भार पडिल्ल्याची जाणविकाय जाली. ज्या खिणाची ताणें फाटलीं साडे-तीन वर्सां तान-भूक विसरून वाट पळयिल्ली तो खीण आतां आयिल्लो आनी पावस पडचे आदी उबाळ वाडटा तसो आपू शणैल्यां मनांतलो गोंदळ वाडिल्लो.

"देवान बऱ्यांतलें बरें फूल दिलां. पांचवी प्रभावळ, तिसरी स्थानक."

दासभटालीं हीं उतरां कानार पडलीं आनी आपू शणैलें मन जाग्यार आयलें. कृतज्ञतायेन भरिल्ल्या दोळ्यांनी ताणें पुजे वयल्यान नदर भोंवडायली. "हें फूल तुवेंच दिलां मूं?" अशें देवाक प्रसादाचेर विचारचें असो विचार ताच्या मनाक चाटून गेलो. पूण खीणभरूच. रघू हेगड्यान तोच प्रस्न विचारिल्लो तेन्ना सगळ्या सगळी पुजा कोसळिल्ली म्हणपाचें ताका येवजलें आनी देवाचेर अजून आपलो पुराय विस्वास ना हाचे जाणविकायेन ताचें मन हुल्पलें. ताणें देवाचेर नदर लावन पोले फोडून घेतले आनी चौका वयल्या नंदी मुखार वचून देवाक साश्टांग नमस्कार घालो. हो नमस्कार केन्ना सोंपत आशिल्लो हें सांगप कठीण आशिल्लें, पूण–

"शणै, ऊठ, गाराणें घालून सांगणें करतां." अशें दासभटान म्हणलें आनी आपू शणै उठलो. दासभटान गाराणें घालें आनी फूल काडून आपू शणैल्या हातार दवरलें.

आपू शणैन त्या फुलाक कृतज्ञतायेन कपल लायलें आनी पतून एक फावट देवाक नमस्कार घालो. उठ्ठकच ताका बायलेची याद जाली. ताणें सरवळेंत नदर भोंवडायली. आपू शणैली पुजा लायिल्ली आसतना ती सरवळेंत बसपाक विसरनाशिल्ली आनी

'फूल जालें ना' हें सांगतना मनाक त्रास भोगपाची पाळी घोवाचेर येवची न्हय म्हणून पुजा लावपी भटालीं उतरां भायलेभायर जिखताली, पूण आयज ती थंय नाशिल्ली.

आपू शणै चौका वयल्यान मंटपांत आयलो. सोंडयार कांय जाण बशिल्ले, पूण आपू शणैची नदर थंय गेली ना. ताणें पैरीकाराक उलो मारल्लो. देवान फूल दिलां म्हणपाचें ताका सांगतना आपू शणैली चर्या समाधानान तिकतिकली आनी हे गजालीची तितलीच खोस पैरीकाराल्या तोंडार फांकली. भटान फर्मायिल्लो मान करूंक आपू शणैन पैरीकाराक सांगलें. मारिंगणाक सूर-रोंट, पुरसाक नाल्ल.

फूल जालें म्हणपाचें मोट्ट्या आवाजान सोंडया वयल्या लोकांक सांगचें अशेंय खीणभर आपू शणैक दिसलें, पूण तो आनंद पयलीं बायलेक दिवंक जाय अशें ताणें येवजिलें आनी ताचीं पावलां बेगीबेगीन अगरसाळींतल्या तागेल्या बिराडा वटेन पडलीं.

चंपावती निकतीच पाण्ट्या वयल्यान न्हावन आयिल्ली. आपू शणैन फूल जाल्ल्याची गजाल सांगली तेन्ना तिचे चयेंर कसलो रंग उदेलो हें आपू शणैक दिसलें ना, पूण देवाचे उपकार मानून कसली तरी सांगणी केल्ल्याचीं तिचीं अस्पश्ट उतरां आपू शणैल्या कानार पडलीं. चंपावतीन बेगिबेगीन चिमणी पेटयली. मागीर देवाच्या फोट्या मुखा वयल्या निरांजनांतली वात पेटयली, उजवाती लायल्यो आनी हात जोडून धांपिल्ल्या दोळ्यांनी ती कितें तरी पुटपुटली. आपू शणैनूय हात जोडले. चंपावतीच्या केंसा वयल्यान मायेन उपाट भरिल्लो हात भोंवडायलो आनी प्रसादाचें फूल ताणें तिचे कडेन दिलें. चंपावतीन तें रुप्याच्या करणांत घालून दामबाबाच्या फोट्या सकयल आशिल्ले फळयेर दवरलें.

"साकर हाड." आपू शणैन म्हळें.

"कित्याक ती?"

"हाड तूं."

चंपावतीन साकरेचें फोलीण हाडलें. आपू शणैन फोलिणांत हात घालून साकरेक चिमटी मारली आनी चंपावतीक म्हणलें, "तोंड उकतें कर."

"आंवंय, येन्नाच?" चंपावती लजली, पूण देवान फूल दिलां म्हणटकच "येन्नाच?" ह्या प्रस्नाक आपू शणैचे नदरेन अर्थ नाशिल्लो. साकरेची दुसरी चिमटी ताणें आपणाल्या तोंडांत उडयली आनी "येतांऽऽ" म्हणून तो भायर सरलो.

आपू शणै प्राकारांतल्यान कोमिसांवां कुडी कडेन वतना दामू पैरीकार वासू भटाक सांगतालो.

"आपू शणैक फूल जालें आं. पांचवी प्रभावळ आनी मागतनाच तिसरी स्थानक फट."

"जावं. साडे-तीन वर्सांनी देवाक काकुळट आयली." सोंडयार बशिल्लो शेनायकार म्हणटालो.

अभिशेक, लघुरुद्र आनी पालखी हांचो तालांव काडून आपू शणै सोंडयार पाव मेरेन "आपू शणैक फूल जालें" ही खबर प्राकारांत सगळे कडेन आनी अगरसाळींतल्या सगल्या

बिराडांनी पाविल्ली. पैरीकार, शेनायकार वासू-भट आनी सोंड्यार बशिल्ल्या बाकिच्यांनी एकाच मुखान आपू शणै कडेन च्या मागली. थोड्यांनी ताचे सेवेची तुस्त केली. कांय जाणांनी कश्टाचें फळ मेळ्ळे बगर रावना म्हणपाचें सांगून दामबाबाची व्हडवीक गायली.

आपू शणैच्या आंगांत आयिल्ली जडसाण आतां पुराय गेल्ली. येदोळच्यान मनार भार-सो दिसतालो तो देंविल्लो. आंग आनी मन ताका आतां ल्हव लागतालीं. मनाचे ताणिल्ले बंद सदळ जाल्ले. साडेतीन वर्सांचे पोकळसाणेंत मात कृतज्ञताय उपाट भरिल्ली. दोळ्यांत आस्त नाचताली आनी दामबाबाचेर नदर पडली की आपू शणैले हात जोडटाले.

सोंडया वयल्या लोकांची 'च्या' ची मागणी ताका नवी नाशिल्ली, पूण ते च्याक आयज अर्थ आशिल्लो, आयज गोडी आशिल्ली. मागणी जाली नाशिल्ली तरी आयज च्या येतली आसली.

''भिकू, लक्ष्मणागेर वचून च्या सांग. लागतात तितल्यो धाडून दी म्हणचे, हांवें सांगलां म्हणून सांग.'' आपू शणैन सदांच्याच उतरांनी रकाद धाडलो आनी दामबाबाची सासाय, प्रसाद आनी आपू शणै ह्या गजालींच्या खबरांक सोंडयार आगळोच रंग चडलो.

*****

आपू शणै गांवान कुमठेचो. घरचो आस्पती. कुमठ्यांत ताचो भुसारी म्हालाचो पसरो आशिल्लो. आवय-बापायलो तो एकलोच पूत. पूण ताचें लग्न जातकच आवय-बापायन हो संवसार सोडलो आनी वंशाचो दिवो पेटत दवरपाची जापसालदारकी पडली तरण्या आपू शणैचेर. पूण...

आपू शणैल्या राजा-राणयेच्या संवसारांत वंशाचो दिवो पेटलोच ना. वैज, भगत आनी घाडी हांचे हुमरे झरोवन आपू शणैन तांचीं बोल्सां भरलीं, तरी लेगीत आपू शणैले बायलेक कावळो आफुडपाचो केन्ना रावलो ना, घरांत पाळणें हाल्लें ना आनी संवसार-रुखाच्या मुळांत वंशाचे वालीन मूळच धरलें ना.

आपू शणैलो हो सुको सडसडीत संवसार बारा वर्सां चल्लो आनी ताची बायल बारीक जोरान हांतुणाक लागून एक दीस भायर पडली, तेन्ना आपू शणैक सगळो संवसार परकी जालो. ताच्याच यत्नांक लागून जगिल्लो ताचे मायेचो एकटो एक जीव मर्णाच्या पंताक लागिल्लो तरी ताचो आदार जावन आशिल्लो. आदाराचो तोवूय धागो तुटिल्लो. संवसाराच्या दर्यांत आपू शणैलो पोनेळ एकसुरो उफेतालो. तोवूय बुडलो जाल्यार...?

आपू शणैक तेंच येवजून दुख्ख भोगतालें. ताचीय कूड एक दीस मातयेंत भरसली जाल्यार शणैल्या नांवाक कोण जागतलो? आनी शणै घराण्यांतल्या पितरांक पिंड कोण दितलो? हे प्रस्न ताचें अंतस्कर्ण पोखरताले. बायल - भुरग्यांनी भरिल्ल्या संवसारांत रमचें हे इत्से परस वंशाचो दिवो पेट्टो उरूंक संवसाररूख फळचो अशें ताका दिसतालें.

आनी देखूनच, केंस पिकूंक लागले तरी दुसऱ्या लग्नाची सुचोवणी कानार पडटकच ताचें मन येवजणेंत पडटालें, पूण एक दीस ताणें मनाचो निर्धार केलो. शणैल्या घरांत पाळणें हालूंक जाय म्हणपाची गरज आनी ते खातीर आपली लागणूक हांचे विशीं ताणें मन घट्ट केलें आनी बाशींग बांदलें.

चंपावती आसली कातीन सावळी, पूण दिसूंक सोबीत. गरिबाल्या घरची आनी थंड सभावाची. आपू शणैचे आनी तिचें पिरायेंत बावीस वर्सांचें अंतर आसलें. हें अंतर ऐन तरणेपणांत मुसमुशिल्ल्या तिच्या मनाक जाणवतालें, पूण म्हणून काय तिणें आपू शणैले सेवेंत कांयच उणें केलें ना. आपू शणैन चंपावतीक कांय उणें पडूंक दिलें ना. तिचे हात भांगरान भरिल्ले. तिचो आंबाडो केन्ना फुलांचे फातये बगर दिसलो ना. नव्या पातळांची घडी मोडपाच्या दिसांक चड म्हत्व उरलें ना.

दोन वर्सां गेलीं आनी आपू शणैलें मन भिजेलें. आशेचीं सगळीं किर्णां ना जावन ताच्या दोळ्यां मुखार फकत फुडाराचो काळोख भरलो. चंपावतीची कूस उजवली ना. गांवठी वैजांचीं वखदां करून तो बेजारलो. वखदां करून उबगलो. शेजारच्या भुरग्या खातीर चंपावती जीव सोडटा तें पळोवन मनांतल्या मनांत खोळसां फुटून रडूंक लागलो आनी दीसरात येवजूंक लागलो... हो स्राप?

"नड ती." नरसू शानभागान ताका सांगलें. "कुळदेवा बगले रावन सेवा कर. दामबाबाची सासाय जागृत आसा. देवरायालो पिसो जाल्लो नातू बरो जावन आयलो खंय."

आपू शणैलें भियेल्लें मन निर्शेलें; पूण आस्त दिसली की फुडें वचपाचो नेट करतालें. दामबाबाचे सासायेंत रावल्यार देव वान्सा पूर्ण करीत काय? ताणें चंपावती कडेन नरसूदादाली सुचोवणी उलोवन दाखयली. चंपावतीन म्हणलें,

"कुळदेवाच्या पांयां कडेन गेलीं कितें, आनी हांगा रावन ताची याद केली कितें; ताच्या मनांत आसा तेंच जातलें, पूण तुमकां कांय दीस बदल जाय; मनाक शांती जाय. कितलीं वर्सां जालीं, पांय भायर काडल्यार! एक-दोन म्हयने रावन येवया."

निर्शेणेच्या काळखान भरिल्लें तें घर, काकुळटेच्या नदरांनी भरिल्लो तो वाठार, घयरांवांन भरिल्लो पसरो... हें सगळें सोडून खीणभर पयस वचपाची तयारी करतना आपू शणैक शितळ आनी ताजो वारो मनार आनी आंगार खेळिल्ल्याचो भास जालो. पसरो तिपोल भावा कडेन सोंपोवन आपू शणै आनी चंपावती आशेचे दिशेन भायर सरलीं.

दामबाबाच्या पांयां कडेन आपू शणैलें मन रमलें. गांवच्या लोकां मदीं तो एक जालो. सेवेच्या आनी उत्सवांच्या बोवाळांत तो मनांत रोमिल्ल्या कांट्याची दूख विसरूंक लागलो. दामबाबाचेर भरिभार घालून ताचें मन ल्हव जालें.

चंपावतीच्या आंगा वयल्या वस्तींचेर तिचे गिरेस्तकायेचें पडबिंब पडिल्लें. देखून गांवच्यो बायलो कांय तेंप पयस रावल्यो, पूण हें अंतर चंपावतीन चड तेंप उरूंक दिलें

ना. खूब उणें उलोवपी, कोणाल्या धवळ्यांत पडपी न्हय, आनी थंड सभावाची अशी चंपावती हेर बायलां मर्दीं भरसली, तरी पूण मात्शी वेगळी उरली. भुरगें नाशिल्ल्याची जाणविकाय तिचे जिणेक घुस्पून बशिल्ली आनी हेर बायलो खबरी करताल्यो तेन्ना ती जाणविकाय तिका बिराडाच्या हुंमऱ्याक खिळावन दवरताली.

दिसाक दोन फावटीं पाण्ट्यार न्हावप, प्रदक्षणा घालप, जनार्दन भट प्रसाद घेतना चौकार बसून मनांतल्या मनांत देवाक होरावप नाजाल्यार सोंडयार बसून थंय जमिल्ल्यांच्या सुखदुख्यांत एकरूप जावप हो आपू शणैलो नित्याचो नेम जाल्लो. पिशीं बरीं जावन वतकच, दामबाबाल्या कौलाचेर विस्वास दवरून कुश्ट परबून मारिल्ले खणींत हाय ग्रेड म्हाल लागतकच वा अवसरान कौल दिले उपरांत हांतुणार आशिल्ल्या पैरीकाराक गूण पडटकच आपू शणैली आस्त वाडटाली. दामबाब रित्या हातान धाडचोना म्हणपाचें तो आपणाल्याच मनाक पटयतालो, पूण केन्ना?... हो प्रस्न ताच्या कपलाक आंठी घालतालो.

जनार्दन भट पुजा लायतालो. देवान दिल्ल्या फुलाचो अर्थ लावचो जाल्यार जनार्दन भटानच ही ताची नामना. पुजा लावन बसतकच ताची गंभीर चर्या पळोवन तो देवा कडेन उलयता असो भास जातालो. आपू शणैन खूबसो भरिभार जनार्दन भटाचेर घाल्लो. दयेचो प्रसाद जालो, राखणेक प्रसाद जालो पूण मनांतली इत्सा पूर्ण जातली म्हणपाचें फूल दिवपाचें देवाच्या मनांत नासलें. दोन म्हयन्यां खातीर आयिल्लो आपू शणै पांच म्हयने रावलो, पूण फूल जालेंच ना.

आनी आपू शणैन घरा परतुपाची तयारी केली. जनार्दन भटान पुजा लावन निरोपाचें फूल मागलें, पूण तेंवूय जालें ना. देवाक आपू शणैली सेवा आनीक जाय आसली. देखून निरोपाचें फूल देवान दिलें ना.

आनी आपू शणै रावलो. रित्या हातान आपणें वच्चें अशें दामबाबाक दिसना म्हणपाचें ताणें आपणाल्या मनाक पटयलें, चंपावतीचो समज घालो आनी तीं रावली. देव वच म्हणटा तेन्नाच वतलीं अश्या निर्धारान.

पिंपळाचीं पानां झडटालीं आनी परत येतालीं. आपू शणैली सेवा नेमान चलिल्ली. दामबाबाचें सासायेंतले जिणे कडेन तो एकजीव जाल्लो. पालखेक लायिल्ले मेणवातीचें मेण काडून भुरग्यांक दितना तो भुरग्यां वांगडा भुरगो जातालो आनी अगरसाळेच्या व्हारांदांत इस्पिकांनी खेळटना तो जाण्ट्यां वांगडा जाण्टो जातालो.

समरादनेक जड दवरले घेवन वाडप आसूं, दिवाळेचे दिपरादनेक पण्ट्यो पेटयतना तेलांत बुडबुडप आसूं, आपू शणै सदांच फुडें. दसऱ्याक तरंगां न्हेसोवप आसूं, शिवरात्रेक रथ नाचोवप आसूं वा सोमाराक पालखी उबारप आसूं, आपू शणै बगर 'हर विठ्ठल' जालो ना. दामबाब एक दीस खरोच आपू शणैच्या मुखार उबो राविल्लो जाल्यार 'तुवें अमूक केलें ना' अशें आपू शणैक म्हणूंक धजचो नासलो.

पावसाळ्यांत देवा-पाण्ट्याक आकांताचो हुंवार आयलो आनी त्याच वर्सा जनार्दन भट आर जावन हांतुणार पडलो. ताच्या जाग्यार ताचो भाचो लागलो देवाक अभिशेक घालूंक, आरती करूंक आनी प्रसादांची पुजा लावूंक. दासभट गोरोपीट्ट, दिसूंक गोमटो आनी घारश्या दोळ्यांचो. सोयरिको येताल्यो, पूण अजून आंकवार आसलो. उलयतालो उणें पूण भजनां गोड ताळ्यान गायतालो- चौघुड्या माळयेर तो पेटी घेवन सूर लायतालो तेन्ना प्राकारांत बिराडांच्या हुंमरांचेर बशिल्ल्या बायलांचे कान तेवटेन ओडटाले.

दर सप्तकांत एक फावटी आपू शणैची पुजा लागताली. दासभट करतालो मागणें आनी आपू शणै घालतालो प्रदक्षणा. आस्त पूर्ण जातली म्हणपाचें फूल जनार्दन भटाच्या हातान मेळ्ळें ना आनी निरोपाचेंय फूल जालें ना. देवान सांगलें त्याप्रमाण समंधाचो बंदोबस्त जाल्लो, नड जाग्यार पडिल्ली. मान जाल्लो. भौमान जाल्लो. पुरसाक कितले नाल्ल! मारिंगणाक कितली सूर, कितलीं रोटां! कितल्यो जोती, कितले अभिशेक, कितले उपास, कितलीं व्रतां! सगळें केलें, पूण फूल ना. दासभटाच्या हातान मेळत काय? आपू शणै येवजितालो आनी प्रदक्षणा घालतालो, प्रदक्षणा घालतां-घालतां येवजितालो.

सरवळेंत दारा कडेन बसून चंपावती पळयताली. दोळ्यांत चिंतेची सावळी. गळ्या कडलीं हाडां दिसूंक लागिल्लीं. देंठ मोडिल्लें फूल बावचें तशीं तीं बाविल्लीं. हातांतल्यो वस्ती उण्यो जाल्ल्यो. दोन उत्सव एकाच पातळान करचे पडटाले. चौका वयल्यान पुजेचेर आनी पुजे वयल्यान तिची नदर भिरभिरत वताली दासभटाचेर, ताच्या गोऱ्या पिट्ट आंगाचेर खेळटाली आनी आडखळटाली ताच्या घाश्या दोळ्यांत खीणभर आनी मागीर दामबाबाच्या दोळ्यांत तेळून पळयताले तिचे दोळे, आशेच्या पोटांत आसत काय म्हणून कोंबेवपा सारकें बीं. सोमाराक पालखी जातकच दासभटान हातार दवरिल्लो सुरंगां वळेसर उरतालो तिच्या आंबाड्यांत दोन दीस - देवाचो प्रसाद... सेवेची पावती...

शिमगो जालो, दुसरो आयलो... परत शिमगो दसरो...

*****

दासभटाच्या हातान दामबाबान फूल दीतपसून आपू शणै उमेदिच्या वेगळ्याच भोवऱ्यांत सांपडिल्लो. स्रद्धेचे बळ वाडिल्ल्याचें, सेवेचें फळ लागीं पाविल्ल्याचें, वंशाचो दिवो पेट्टलो म्हणपाची आस्त प्रसादा-पाकळेच्या वासांतल्यान मनांत रिगिल्ल्याचें वेगळेंच समाधान ताचे चर्येचेर तेज हाडटालें... त्या दिसा दनपारचो तो पाण्ट्या वयल्यान न्हावन येवन बिराडांत भितर सरलो तेन्ना चंपावती ओंकारे काडटाली. आपू शणैन ओलो वालो सुकत घालतां-घालतां म्हणलें,

''तुका सांगिल्लें, ते आंवाळे बिंवाळे खावं नाका म्हणून.. आयज कितें खालें? चिंचेबोटां काय करमलां?''

''तशें न्हय म्हणल्यार....'' चंपावतीच्या आवाजांत म्होंवेंपण आशिल्लें.

थरथरो आशिल्लो.

"तशें न्हय कितें? सदाचेंच तें तुजें." आपू शणैल्या उतरांत राग आशिल्लो, पूण ताका मायेची रूंद देग आशिल्ली.

चंपावती कांय उलयली ना. आपू शणैन तिचे वटेन पळयलें तेन्ना दोळ्यांनीच तिणें ताका लागीं आपयलो आनी आपू शणैन वाचलें चंपावतीच्या दोळ्यांच्या खळयांत प्रसादा-फुलांतलें भविश्य. तिचे चर्ये वयले लजेंत भरसल्ले गुलाबी खोशयेंत ताणें अणभवली फुडाराची सुलूस, पाळण्याचें संगीत, वंशाचे पण्टेचो उजवाड.

ताचें मन भुरकुटलें, मुरगुटलें, शेणिल्लें भुरगें मेळटकच आवयन ताका छातये कडेन धरून पोशेवचें, तसो मोगाचो पावस ताणें चंपावतीचेर घालो. आनी ही खाशयेची खबर, दामबाबाले जागृत सासायेची ही ताची गवाय धा जाणांच्या कानार घालून तांचें तोंड गोड करूंक ताचें मन आशेलें. तो उठलो... पूण चंपावतीन ताच्या हाताक धरून ताका आपलेसरी बसयलों. आनी आतां चंपावतीक सांबाळूंक जाय; तिचेर लक्ष दवरूंक जाय हे येवजणेन आपू शणै जगाक विसरलो.

देवान फूल दिल्यार तेराच दीस जाल्ले आनी आपू शणैले तपश्चर्येक फळ आयिल्लें. तें फूल उलयिल्लें. त्या उलोवण्याचो अर्थ गांवाक कळूंक चड वेळ लागलो ना. तरी पूण थोडो वेळ लागलोच. चंपावतीन आडावंक नाशिल्लो जाल्यार आपू शणैन खोशयेच्या उमाळ्यांत फोगोट्यो लावन ही खबर जगाक कळयिल्ली. केदें सुख! केदी खोस! केदें समाधान! आनी हे खोशयेच्या पोटांत आसली ती केदी आस्त!

आयज लक्ष्मणागेर कितलोसोच लोक च्या पिल्लो. पयशे लागिल्ले आपू शणैच्या नांवार. आपू शणैक तातूंतय समाधान आशिल्लें, अभिमान दिसतालो.

तिनसांजे दरवट्याक तेंकून चवाये म्हन्यांत दासभट उबो आसलो. प्रदक्षणा सोंपतकच शणैन खडीसाखरेचो खडो ताच्या हातांत दामलो आनी कानांत सांगलें... "फुलाक वाचा फुटल्या. तिका दीस गेल्यात." दासभटान तोंड देवा वटेन घुंवडावन दोळे धांपले आनी देवाक हात जोडले. आपू शणैनूय हात जोडले. "देवा पाव" म्हणलें आनी दासभटाचें देव कल्याण करूं अशें चिंतीत तो मंटपा वटेन चलूंक लागलो. जण एकल्याच्या दोळ्यांत ताका समाधानच दिशिल्लें. दासभटाच्या घारश्या दोळ्यांतूय तें मुजरत पळोवंक ताका वेळ खंय आसलो?

देवा पांयां कडेन आपू शणैन साडे चार वर्सां सारिल्लीं; तरी दीस कशे गेले हें ताका कळुंकूच नाशिल्लें. ते पारवे कशे उडून गेल्ले, पूण चंपावतीक दीस गेले उपरांतचे णव म्हयने मात मुयेचे गतीन चालिल्ले. आपू शणैक ह्या णव म्हयन्यांचो काळ णव वर्सांचो कसो दिसलो, ताच्या काळजार आशिल्लो भार आनी तकलेर जापसालदारकी. चंपावतीक सांबाळटना ताका नाका जीव जालो. ती पाण्ट्यार न्हावंक वचत, आंवाळे खायत, पुनवेच्या नाटकांक लागून जागरणां करीत म्हणून तो भियेतालो. चंपावतीक

समजायतालो, अप्रूपाचें साळीक कशें तिका राखतालो.

शणै घराण्याच्या वंशाची पणटी तिचे कडेन आसली. ती पणटी दामबाबान पेटयिल्ली. ती पेटिल्ली वात पालोवंक दिल्यार आपू शणैल्या संवसाराचें रितेपण काळखान भरून वतलें आसलें...

आनी... णव म्हयने भर जावन चंपावतीगेर चलो जालो तेन्ना गांवांत फोग पेटलो तसो ताचे आर्दी केन्ना पेटलो ना. त्या दिसा सगळो गांव दामबाबाचे सासाये विशीं उलयलो तसो ताचे आर्दी केन्ना उलयलो ना. त्या दिसा लक्ष्मणागेर लोक च्या पिलो तसो ताचे आर्दी केन्ना पिलो ना.

आपू शणैले हात सर्गाक तेंकिल्ले. दामबाबाचे सेवेचो कळस कसो बांदचो हेच येवजणेक तो लागिल्लो. भांगराची मूर्त? उत्सवाची? घोड्यार बशिल्ली? थारलें, चंपावतीलें भांगर खूब आसा. महारुद्र? तोवूय करप... आनी गांवाक समरादना... भटाक दक्षणा, दासभटाक शाल... आपू शणैल्या अंतस्कर्णातले भक्तीन आनी आंगवण्यांच्या पावतींनी दामबाब घुस्मटलो...

आयज आपू शणैल्या चल्याचो बारसो... गांवांचें तोंड आयज दीसभर गोड जायत आसा. नांव दामोदर दवरलां. दामोदराचें बरें जावं म्हणून लोक मागत आसा... प्राकारांत भटांक, पैरीकारांक आनी बिराडकारांक आपू शणैल्या समाधानाचें नवेंच दर्शन घडलां. खोशयेचेंच वारें आपू शणैल्या बिराडांतल्यान सगळ्यांक खेळ्ळां... शणैल्या घराण्याचें भाग्य खूब तेंपान जागलां...

वैजिणीन गांवांत धवळो केला... आपू शणै काळो, चंपावती काळी, चलो मात गोरो गोरो पिट्ट जाला... घारश्या दोळ्यांचो... दासभटा भशेन दिसता...

दासभट पंदरा दिसां फाटीं अकस्मात सांगली गेला. भयणीचे खबरेक...

आपू शणै ताची वाट पळयता... समाधानान ताचें अंतस्कर्ण इतलें भरलां की तें समाधान तोंडांतल्यान आनी दोळ्यांतल्यान ओतता. दुसरें कांयच ताच्या कानांतल्यान मनांत रिगूंक पावना... घरा परतूंक ताचें मन उखल्लां... शणैल्या मूळ घरांतलें पाळणें हालूंक जाय... दामोदराच्या हांश्यान तें घर भरून वचूंक जाय... त्या घराचो उजवाड थंय फांकूंक जाय... देखून आपू शणै दासभटाक रावता... आयज सुवेर सोंपता... रोखडोच निरोपाचो प्रसाद घेवंक जाय...

... दुसऱ्या भटांचेर ताचो विस्वास ना. दासभटाच्या हातान देवान फूल दिलें आनी मागिल्लें मागणें दामबाबान पदरांत घालें... शणैल्या वंशाचो दिवो पेटलो... निरोपाचो प्रसादय दासभटाकच घेवपाक लावंक जाय... दामबाब रोखडोच दितलो... दासभटाचो हातगुणूच बरो...

('प्रसादाफूल' (1971) कथा संग्रहांतल्यान)

000

# कथामंच

(कथा) गजानन जोग

## मानिकॉम डॉट कॉम

फार्टी एका पावसाळ्यांत म्हाका तीन म्हयन्यां भितर दोन फावटी मलेरिया जाल्लो. दुसरे फावट दवाखान्यांत घालचो पडलो. कारण तेन्ना फाल्सिफेर जाल्लो आनी ताकाच जोडून व्हायरल इंफेसांव म्हणटात तेंवूय जाल्लें. दायजी एकामेकां कडेन उलयतना फुतफुतपाक लागले. जावं पूण, त्या दुयेंसांतल्यान हांव उठलों, जिवानशीं घरा आयलो.

सांगपाचें म्हणचे, त्या काळांत मलेरिया होलसेल प्रमाणांत जातालो आनी सरकारी दवाखान्यांत मलेरिया-खास विभागूय करचे पडटाले. डबल मलेरिया पचयिल्लो हांवं. खबरेंक येतल्यांक त्यो गजाली बऱ्यो मीठ-मिरसांग लावन सांगतना मजा दिसताली, पूण एकल्यान म्हाका म्हणलें, भावोजी, कसलें तें दोन मलेरियांचें सांगतात तुमी? आमगेर तीन तीनदां मलेरिया जाल्ले पांचांतले चौग जाण आसात मूं! तो म्हजो पयशिल्ल्यान मेवणो लागतालो, ताका लागून ओगी रावचें पडलें... अशेंच जाता, तुवें किर्तेय जगा भायलें केलां अशें तुका दिसता. पूण आनीक कोणे तरी तें न्हयच, ताचे परस चड किर्ते तरी आदींच केल्लें आसता!

हां, तर मलेरियाक लागून अशक्तताय खुबूच आयली. तोंडाक रूच नासली आनी तकली हलकी जाल्ली. आनीक एक वेगळेंच जालें. केन्नाच हांसना असलो म्हजे सारको चिंताग्रस्त प्राणी त्या दिसांनी चांटे पावलाक हांस ताक लागलो. ही गजाल सगल्यांच्याच लक्षांत आयली. मात्शें कितेंय निमित्य जाल्यार म्हाका हांसपाक येतालें हें

**गजानन जोग** : जल्म : 1952, कथाकार, अनुवादक, *'रूद'*, *'सोद'* आनी *'खांद आनी हेर कथा'* हे कथासंग्रह तशेंच *'गोपी'* आनी *'वर्स फुकट वचूंक ना'* ह्यो बालनवलिका प्रकाशीत. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या आनी साहित्य अकादेमीच्या बालसाहित्य पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : मुक्ता कामत पायग्रूप इस्टेट, आयडियल हायस्कुला लागीं, ताळगांव, गोंय - 403002, मो. : 942246655.

मात खरें. म्हज्या कोंतान म्हजे नदरेंतली, विचारप्रक्रियेंतली बारीकसाण वाडिल्ली. ताका लागून आमचे दिसपट्टे जिणेंतल्यो कितल्योश्योच विचित्र गजाली लक्षांत येवपाक लागिल्ल्यो. आमी दीसभर कसलीं कसलीं पिशेपणां, नाटकां आनी फटींगपणां करतात तें म्हज्या लक्षांत येवपाक लागिल्लें.

हांव केन्ना व्हडल्यान हाऽऽहाऽऽ हा करून हांसतालों जाल्यार केन्नाय भितरले भितर. केन्ना दांत दाखोवन, पूण आवाज करिनासतना जाल्यार केन्ना आपलेच भितर फुतफुतत. खरें सांगचें जाल्यार त्या थोड्या दिसांनी हांव म्हजे भितर आनी म्हजे पुरतो सुखांऽऽत आनी आनंदांऽऽत आसलों. पंदरा दीस रजा वाडयिल्ली, सेलफोन बंद करून दवरिल्लो. हिणेंय रजा घेतिल्ली. खबरेक आयिल्ल्यांक ही सांगताली, ताका, उलोवनाका सांगलां न्ही दोतोरान, हांवूच सांगतां तुमकां सगळें. अशें म्हणत ती खबरीक आयिल्ल्यांक सगळो व्हायवेक्सो-फाल्सिफेरमेतिहास सांगताली. तसलोच कोणूय खास म्हणल्यार आतील गोटांतील मनीस आसल्यार ती ताका म्हजे कडेन पावयताली आनी दोन-तीन जितलीं मिणटां दिल्लीं आसत, तीं जाले उपरांत घंटा वाजयताली. ती तिणें आपणाल्या ऑफिसांतल्या टेबला वयली तात्पुरती हाडिल्ली खंय!

आमची ल्हानशी अभ्यासिका आसा. थंय थोडीं पुस्तकां, मेज, खुर्ची आसा. व्हडली खिडकी आसा आनी भायर शेकानशेक आंबो. चल्यान एक सिंगल दिवाण हाडून थंय घाल्लो आनी हिणें म्हजी थंय थापणूक केल्ली. हांव चडसो थंयूच पडून आसतालों. दार लोटून घेतिल्लें आसतालें आनी पंखो मंद गतीन तकलेर क्रांग क्रूंग क्रांग क्रूंग करीत आसतालो. पुस्तकां वाचतालों. म्हणल्यार ग्रंथ बिन न्हय हां. तशे कांय ग्रंथ हिचे कडल्यान मुजरत कपाटांतल्यान काडून बी घेतले. जशेपरी महर्शी कर्वे हांचें चरित्र, गीता-रहस्याची 1925 वर्सा छापिल्ली प्रत बी. हांवें वाचन करपाक सुरवात केली खरी, पूण त्या ग्रंथांचें वाचन सुरु जाले बराबर म्हाका सणसणीत न्हीद येताली आनी ग्रंथकर्त्यांची क्षमा मागून, ग्रंथाक पोटार दवरून हांव सुस्त न्हिदतालों. मागीर ग्रंथ वाचन बंद केलें. हांव ल्हान आसतनाच्या म्हज्या त्या काळांतल्या वीस चांदोबांचें एक बाड म्हाका एका सरकारी ऑफिसरान गोंय सोडून वतना दिल्लें तेन्ना तो म्हजीं फकांडां करता काय कितें अशें दिशिल्लें, पूण भिडेक पडून तें बाड हांवें घेतिल्लें आनी आमचीं सगळीं बिराडां भोंवून तें निमाणें ह्या घरांत पाविल्लें. मजा म्हणचे जसो जसो हांव जाण्टो जातालों, तसतशी म्हाका तें बाड मदीं मदीं काडून वाचपाची कूय येताली. मागीर फुडें मलेरिया प्रकरणाक लागून दुयेंत पडटालों तेन्ना तेंच बाड म्हजो आदारसो जाल्लो. त्या भायर म्हजे कडेन श्यामची आई, मराठी दुसरेची सुलभ वाचनमाला (हें आमच्या भुरग्यांचें), अशें सुलभ वाचन साहित्य आसलें तें वापरपाक लागलों. केन्ना रेडियो लावन लाघोळेपणान खातकुतल्यो करपी एंकर-आण्टीचें उलोवणें

आयक, केन्ना दोन मिणटांच्यो पांच चुकी आशिल्ल्यो, ह्यो आशिल्ल्योऽऽ कांय मुखेल खबरो आयक– अशे तरेन दीस बेस बरे वताले. भुरगेपणांत परिक्षा सोंपले उपरांत वताले पळयात, तशेशे! केन्ना न्हय ती आमची दिवूय म्हजी बारीकसाणीन कुयदाद घेताली. मर्दी मर्दी दारांत येवन म्हजी सुलूस घेवन वताली. हांव मर्दी मर्दी हांसत आसतां हें तिणें तेळ्ळें आनी थंयच सगळी भानगड जाली.

म्हज्या हांसपाची तिका खुबूच चिंता पडली. म्हजे हास्यचिंतेची वदंता घरांतल्यान शेजरा पावली. थंयच्यान गांवार पावली. फोना वयल्यान सोयऱ्यां मेरेन पावली आनी थंयच्यान खंय खंय पावत रावली. आयचे भाशेंत सांगचें जाल्यार ती गजाल व्हायरल जाली. आमच्या फॅमिली दोतोरा कडेन म्हज्या हांसपा बद्दल ही उलयताली तें म्हज्या कानार पडलें. म्हाका हांसूंक आयलें. केन्ना न्हय तो घोव काय बरो हांसत हांसत जगता आनी घरच्यांक दिसता ताका हांसपाचो रोग जाला!

हरशीं म्हजे दीस बरे वताले, पूण जेवण मात चलनासलें. एक दीस हांवें हिका म्हणलें, हांव भायर तुमच्या वांगडा दोन गोटे खावन पळयतां गो, स्टडींत पुस्तकांच्या वासांत कितें जेवतलों! ही नाका नाका म्हणटा आसतना हांव येवन जेवपाच्या मेजा लागीं म्हज्या जाग्यार येवन बसलों आनी हिची प्रतिक्रिया पारखूंक लागलों.

हांवें जेवपाक मेजार येवप तिका पसंत नासलें हें तिच्यो हालचालीच सांगताल्यो. तिणें म्हजे खातीर स्टडींत धाडपाक तयार केल्ली म्हजी थाळी हाडून म्हज्या फुड्यांत लागीं लागीं आदळ्ळीच. त्या पथाच्या जेवणाचो शिवराक वास म्हज्या नाकांत कांय दीस भरिल्लोच आसतालो. तूप घाल्लो निवळ, आमले कुडको, बिनतेलाचें लिंबाचें लोणचें आनी ती बिन फोण्णाची, सोय नाशिल्ली, उण्या मिठाची, वालपापडेची पाचवीचार भाजी. अर्दमूद शीताचें बावलें आनी वयर हळडुवी वन्नाची तोपी. तांच्या तिगांच्याय ताटांनी बरें चमचमीत जेवण. त्या वासान म्हजी भूक चाळवली, पूण कितें करतलों! आलिया भोगासी... म्हज्या तोंडांतल्यान एक गाणें भायर सरलें, खरेंच सांगतां, हांव गायनासलों, गाणें ताचें तेंच आपूणच भायर सरलें. –कळा ज्या लागल्या जीवा / मला की ईश्वरा ठाव्या / कुणाला काय हो त्यांचे / कुणाला काय सांगाव्या/ अशक्ततायेक लागून म्हजो आवाज थरथरतालो. चलयेन 'कींच' करून किळांच मारली. (तेन्ना ताका वर्सां सतरा) आनी विचारलें, पप्पा, तुज्या ताळ्याक कितें जालें रे? आवाज कडकडटा मरे? हांवें म्हणलें, हें असलें जेवलों जाल्यार आवाज खंयचो हांव अख्खोच कडकडटलों.

अशें हांवें म्हणलें आनी म्हाकाच हांसपाक आयलें, हांसलों. तोवूय म्हणून एके तरेचो वेगूच खंय. देशी शास्त्रा प्रमाण मनशान कुडीचे कसलेच वेग म्हणटात ते दामून धरपाक जायनात आनी ते येनासतना बेठेच बळयां काडपाकूय जायनात. हें तत्व मानप्यांतलो हांव. ऑफिसांत सात्तीस वर्सां

दियार म्हाका दोन-तीन शिंको येताल्योच. म्हज्या बऱ्या आरोग्याचें लक्षण तें. हांवें म्हज्यो शिंको केन्नाच दामून दवरून चिंक् चिंकीक अशे तरेन भितरले भितर आवाज काडूंक ना. म्हज्या शिंकांक लागून म्हाका एका बॉसान वॉर्नींग लेगीत दिल्ली, पूण हांवें ताका उरफाटी वॉर्नींग दिली, तो मराठी देखून ताचे भाशेंत सांगलें. म्हणलें, सर, मी शींक दामू शकत नाही. शींक दामली तर म्हाज्या दोळ्यां समोर काजुले येवन मला घुंवळ येते. दोतोराने सांगल्याप्रमाणें माझ्या कालेतीला शींक दामप माल पडते. तसेच लघवी व दोन नंबरच्या बाबतीतही. तरीय सर, तुमी सांगता तर... मी शिंका दामेन. पूण मला काही झाले तर हिच्या ऑफिसला कळवा व मला दवाखान्यात मात्र न्या. घे! म्हजें आयकना फुडें सायबान सांगलें, नको नको, तुमच्या पद्धतीने तुम्ही शिंका. काही भलतंच झालं तर माझ्यावर प्रकरण शेकायला नको.

हें खबर आसतनाय आमची ही ॲक्टीव जाली आनी म्हाका ना हांसपाच्यो सुचवण्यो दिवपाक लागली. हांसूं नाकात, हांसूं नाकात, तुमकां ह्या दिसांनी ती हांसपाची पिडा लागल्या. दोतोरान सांबाळपाक सांगलां, म्हजें मात्शें आयकात, हांसूं नाकात व्हो, म्हजें पापणीचें मात्शें तितलेंच आयकात!... तिचें तें गळवज्ञा प्रकरण म्हाका चडूच हांसोवन गेलें. तुमकां कितें सांगूं, म्हाका ल्हानपणा सावन कोणेंय हांसूं नाका म्हणल्यार चड चड हांसपाक येतालें. ते खातीर हांवें बाबाचो आनी दादाचोय मार खाला. मागीर जगांत जगचें कशें तें मात्शें शिकलों. बऱ्यो बऱ्यो गजाली हांव भितरले भितर जिरोवपाक शिकलों आनी भायल्यान दिसपाक देसेंत, लोक जें जें बरें मानतात, तें तें सगळें बळयां आपणायलें. तातूंतल्यान जालें कितें, खऱ्यांनीच बऱ्यो आनी खऱ्यो अश्यो थोड्योच गजाली शिकलों आनी कितल्योश्योच वयलेचाराक बऱ्यो पूण पोक्यो अशो गजाली हांवें आपणायल्यो... मलेरियान म्हजें भुरगेपण म्हाका परतें दिल्लें. खऱ्यांनीच ती बरी गजाल, पूण जगांत खरेल्या बऱ्याक कोण खाता हो!...

लोक खबरेक येवपाक लागले. तातूंतलें चडशे सगळेच तज्ञ. कोण नेचरोपथीचो, कोण वॉटर थेरापीचो, कोण संयुक्त उपकार पद्दतीचो जाल्यार कोण आयुर्वेदाचो. कोण बारा क्षारांचे उपाय सांगता जाल्यार कोण म्हाका शिवाम्बू पद्दत चालू करपाक सांगता. कोण योगा कर म्हणटा जाल्यार कोण 'तुका फकत युनानी रे' म्हण्टा जाल्यार कोण होमिओपथीच बरी पडटली अशें सांगता. मोश्न्राखातीर एकूच गजाल सांगतां. एकलो खबरिक आयलो. ताका सगळी दोतोरांची, पॅथोलॅबांची आनी दोतोर-लॅब हांचे भितर कितें कितें चलता ताची बित्तंबातमी आसता हें ताणें पयलींच सांगलें. हांवें तेन्नाच रुटीन शुगर चेक करून घेतिल्ली. म्हजी सदचीच लॅब. रिपोर्टूय सादारण नॉर्मल आयिल्लो. सगळीं सदचींच रिडींगां. तो रिपोर्ट म्हज्या हातांत आसतना ज्युस्तूच तो सभागी पावलो. कसलो रिपोर्ट, खंय केलो सगळें सांगचेंच पडलें. मागीर दाखय पळोवया

म्हणत ताणें तो रिपोर्ट बोल्सांतलें वक्ल काडून लावन बारीकसाणीन वाचलो. मागीर वक्ल बारिकसाणीन बोल्सांत दवरतना तो कुच्छित्रीसो हांसलो आनी ताणें म्हणलें, 'हूं हूं हूं हूं... हे सगळे रिपोर्ट काडपी फटींग. हो आनी तो अशें कांय ना. सगळेंच फटींग. कोण सादो फटींग, कोण पाखांचो...' ताणें तज्ञाचो कसो शेरो मारलो.

ते मेरेन बायलेन च्या हाडली. 'च्या खातीर थँक्यू हां ! वयनी, ह्या रिपोर्टार वचूं नाका हां तूं. ना जाल्यार हाका साकरेची च्या बीन दिवपाक लागशी.'

'ना भावोजी, आतांच, फकत आतांच अर्द चमचो साकर घालून च्या दी म्हण्टालो, म्हणून दिल्या.'

'पळय पळय, हेंच तें हेंच तें. हेंच नडटा.' अशें म्हणत ताणें साकरे वयल्यान सुरवात केली. साकर, म्हींव, द्राक्षां, चिकू, आंबे, चड करून मानकुराद, पासां बी म्हाका कित्याक आनी कितलीं वायट हें ताणें घोळोवन घोळोवन सांगलें. मनांतल्या मनांत त्या त्या फळांची रूच अणभवीत हांव मिटक्यो मारतालों आनी हांसतालों. तितली तितली ही चिंताक्रांत जाताली आनी तें पळोवन म्हाका आनीक हांसपाक येतालें.

म्हज्या नॉर्मल हांसपाचोच एक प्रस्न कसो उबो जालो. सोयरे आयले. नारायण प्यून ताच्याच कामाक घरा आयिल्लो. हिणें ताका म्हज्या हांसपाच्या रोगाची खबर सांगली. म्हाका हांसोळी हो नवोच रोग जाला आनी म्हजें कांय धड लागना म्हणपाचें नारायणान ऑफिसांत सांगलें. जालें! ऑफिसांतल्यान लँड लायनीर फोनार फोन येवपाक लागले. तें सगळें हीच निभायताली आनी तितली तितली चिंतेस्त जाताली हें म्हाका कळ्ळें. पुण कितें करतलो.... 'त्या नारायणाचो सगळो नारायणेपार गो !' हें हांवें तिका सांगून पळयलें, पूण कांयच फायदो जालो ना. दुसऱ्या दिसा सकाळींफुडें बॉसाचो फोन. तिणें म्हाका एक्सटेंन्शनार दिलो.

'व्होट व्होट मिस्टर ज्योक?' तो उत्तर उदेंत राज्यांतल्यान बदलेर आयिल्लो. धेंगशे घालून उलोवपाची तांची पद्दत. ताणें म्हाका 'मिस्टर ज्योक' म्हणलें ताचें म्हाका हांसूक आयलें. ताणें म्हाका जाता तितले बेगीन कामाक यो अशें सांगलें. हांवें हांसून हां म्हणलें. हिणें खुणेन म्हाका हांसप ना अशें सांगलें. तिच्यो खाणो-खुणो पळोवन म्हाका चडूच हांसपाक आयलें. तिणें लार्गी येवन फोन घेतलो आनी त्या बॉसाक निभायलो. मागीर म्हाका मेळपाक येवन सल्ले दिवपाचें एक नवरात्र कशेंच सुरू जालें. कोण म्हणटा ॲलॉपथी वखदांनी तुजी तकली हाल्ल्या, तुका आयुर्वेदूच बरो. कोण म्हणटा तुका संयुक्त उपचार पद्दत खबर आसा मरे? मागीर, तुका तीच बरो करतली. एकलेन सांगलें,' तुमी पंचकर्म करात हो. तुमकां जिवाक इतलें इतलें म्हणून बरें दिसतलें...' म्हणलें, हें आनी कसलें कर्म करूं? दोन फावटी मलेरिया हेंच आर्दी कर्म, ताचेर हें हांसपाचें महाकर्म उप्रासलां !

कोणें एक्युपंक्चर सांगलें, कोणें एक्युप्रेशर. तें आयकून म्हजो आत्मविस्वास

पंक्चर जालो आनी म्हजो प्रेशर मात वाडलो. एकल्यान सांगलें, बारा क्षार उपचार कर, दुसऱ्यान सांगलें तूं फकत वाटर थेरापी कर. तिसऱ्यान सांगलें तूं नेचरोपथीचीं वखदां कर. विचारलें, खंय मेळटात तीं जाल्यार सांगता तांचे फार्मसींत. खंय आसा? सावंतवाडी आनी रत्नागिरीक खंय. एकल्या अर्दपाड संन्याशान सांगलें, तूं कांयच उपाय करूं नाका, फकत सोंशीत राव. एकूच विचार मनांत दवर की हेवूय दीस वतले, हेवूय दीस वतले. हांवें कपलार हात माल्लो आनी व्हडल्यान हांसलो, म्हळें, पापया, म्हजे दीस हांसत हांसत वतात. वतात तितले वचूं, म्हाका तो वतले वतले चो जप कित्याक? एकल्यान सांगलें, 'अति सर्वत्र वर्जयेत.' तूं चड हांसता, हांसपाचें अती जावपाक जायना. तें उणें कर, हांसप टँपर डावन कर. एकदम बंद करूं नाका. आयज तीस फावटी हांसलो जाल्यार फाल्यां पंचवीस फावटी, परां वीस फावटी अशें कर. हें सगलें आयकून म्हजें हांसपाचें प्रकरण वाडतूच गेलें.

खबर कळटकर म्हजो लंगोटीयार इश्ट श्रीधर गांवच्यान दोन व्हडल्यो साकाच्यो पोतयो भरून सामान घेवन आयलो. आडसरां, गांवठी कुळीथ, पेजेक तांबडे तांदूळ, खळांतल्यो आमल्यो, उकडआंबे, तीन तरांचीं पाळां जीं दिसाक तीन फावटी साणीर झरोवन घेवपाचीं. त्या भायर ताणें एक पाळाकुडको काळ्या दोऱ्यांत बांदून हाडिल्लो. तो ताणें हातपांय बीन धुवून येवन सोमतोच म्हज्या गळ्यांत बांदलो. आनी सांगलें, ह्या पाळाच्या कुडक्याक मर्दी मर्दी हात लायत राव आनी वास घेयत राव. वखदांची गरमी काडटा हें पाळ आनी वासान तुजी भूक जागी जातली. पाळाक हात लावन हांवें वास घेतलो आनी विचारलें, 'श्री, हें गणसुरंगीचें पाळ रे?' ताणें म्हाका चूप केलो आनी म्हणलें, 'वखदांचीं नांवां घेवचीं न्हय, तुका कोणेंच सांगूक ना तें?'

त्या दिसा तिनसांजच्या वेळार शेजाऱ्न खबरेक आयली. तिणें हिचे कडेन सगळी खबर घेवन वतना म्हाका हटकुपाक स्टडींत आयली.

"कशी आसा आतां तब्येत? चिंता करूं नाकात हां, दिसतलें बरें दोन दिसांनी."

"खरें सांगूं, म्हाका आतांच काय बरें दिसता." हांवें हांसत म्हणलें.

ती गेली. ही तिका दोन पावलां सोडपाक गेली. तेन्ना फुतफुतत शेजाऱ्न हिका सांगताली,

"आगो, तुमी बांबोळे सायकियाट्री डिपार्टमेंटांत दाखयात गो. म्हाका जाल्यार हें मानिकॉम चाळवल्ल्याचें लक्षण कशें दिसता! आमचें शकू दोतोर न्हय गो ! तूं एक काम कर, मानिकॉम डॉट कॉम सायटीर वच आनी पळय. तुका सग्गळीं हांचीं लक्षणां थंय दिसतलीं. मुद्दाम पळय वचून.'

तीं उतरां आयकलीं आनी म्हाका शेळो घाम फुटलो. हें मानिकॉमाचें जर एक फावट हिचे तकलेंत वचत तर हांव सोंपलोंच म्हणपाचो. हांवें तेच राती थारायलें. दुसऱ्या दिसा सक्काळीं उठून तयारी केली. बेगीनूच वचून कामार जॉयन जालों. चलो, चली

आनी ही, तिगांय म्हजे भोंवतणी घेराव कसो घालून म्हाका सांगतालीं, अजून लीव आसा तुमची, पिशेपणां करूं नाकात, रेस्ट घेयात. हांवें कोण्णाचें कांयच आयकलें ना.

जॉयन जालों आनी कितें अजाप, म्हजें हांसप खंयचे खंय नाच्च जालें. कावंटरा वयलेएका फाटल्यान चार, तांचे फाटल्यान धा अशे चोंब्यांनी येवपी लोक म्हजो हांसो घेवन गेले. हांव जेवपाक घरा येतलों काय डबो धाडूं अशें हिणें फोनार म्हाका विचारलें. हांवें सांगलें, सदचे भशेन येतलों. तुमी जेवात.

सवाय दोनांक घरा पावलों. भुरगीं जेविल्लीं आनी ही ताटां मांडून घेवन म्हजी वाट पळयताली. म्हजे कडेन तिणें हांव स्कूटर दवरतना चोरूनशें पळयलें आनी तिच्या तोंडार हांसो फुल्लो. हांव जाम जाल्लों. कपडे बदलून बाथरुमांत गेलों आनी हातपांय धुवून तोंडार उदक मारलें तोंड पुसतना म्हजें तोंड हारशांत पळयलें आनी हांव म्हाकाच वळखुपाक विसरलो. म्हजो ह्या दिसांतलो हांसकुरो चेरो खंयचे खंय नाच्च जाल्लो आनी चिंताक्रांत असो तो म्हजो सदचो चेरो म्हजे म्हाकाच पळयतालो. बायल कित्याक हांसली तें लक्षांत आयलें. म्हजें सदचें रडकें तोंड म्हाका परतें मेळिल्ल्याचें तिका उपाट समाधान जाल्लें. जावं गा रडकें तोंड, पूण तेंच नॉर्मल न्हय!

000



# कथामंच

(कथा)

डॉ. जयंती नायक

## व्हडली आई

रातचीं णव वरां जाल्लीं. हांव आनी अनघा दोगांय सिटींग रुमांत सोफाचेर एकामेकांच्या समोरासमोर बशिल्लीं. टीव्ही च्या सोनी चॅनलाचेर अनघाचें कसलें तरी आवडटें सिरीयल चलतालें. अनघा तें पळोवपाक सामकें गुल्ल जाल्लें. हांव मात हात-पांय सैल सोडून, सोफाचे कडेक मान तेंकोवन ओग्गी बशिल्लों. म्हजे दोळे मेटिल्ले, पूण हांव न्हिदूंक नाशिल्लों, जागोच आशिल्लों.

अनघाच्या सिरीयलांनी म्हाका कांयच रस नाशिल्लो. बातम्यो सोडल्यार टीव्ही वयलें सध्याचें खंयचेंच सिरीयल म्हाका पळयन दिसनाशिल्लें, पूण पळोवंक आवडूं ना आवडूं, अनघाक सांगात दिवपा खातीर म्हाका थंय सक्तीन बसचेंच पडटालें.

अनघाक त्यो सिरियली पळयले बगर चैन पडनाशिल्लें. घरांतलीं कामां बेगिबेगीन जाग्यार घालून तें दीसभर टीव्ही मुखार येवन बसतालें. रातचेंय ताका सिरीयलां पळयले बगर न्हीद येनाशिल्ली, पूण रातचें टीव्ही पळयतना ताका म्हऱ्यांत कोण तरी जाय आसतालो. एकटें बसून टीव्ही पळोवपाक ताका भंय दिसतालो. ताच्या ह्या सिरीयलांच्या छंदाक लागून म्हाका मात बशिल्लें कडेन ख्यास्त जाताली. तें जितलो वेळ टीव्ही कडेन बसता तितलो वेळ ताच्या सांगाताक म्हाका बसचें पडटालें. नाजाल्यार घरांत ताच्या सांगाताक थंय बसपाक म्हजे बगर दुसरो कोण आशिल्लो?

घरांत आमी मेजून तीन मनशां. हांव, अनघा आनी आमगेलो चलो अमेय, पूण आमगेल्या ह्या कुंवराच्यो आवडी-निवडी सामक्यो वेगळ्यो. तो इंग्लीश चॅनल

**जयंती नायक :** जल्मः 1962, सर्जनशील लेखक आनी लोकवेद संशोधक. कथा, कविता, नाटक, बालसाहित्य, अणकार, निबंध, लोकवेद अश्या साहित्य प्रकारांत लेखन. 33 पुस्तकां प्रकाशीत, साहित्याचो जायत्या हेर भारतीय भाशांनी तशेंच इंग्लीश भाशेंत अणकार. केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारान (2004) सन्मानीत. संपर्क : आमोणें, केपें, गोंय - 403 705, मो. : 9823575623

पळयतलो, स्पोर्टस चॅनल पळयतलो, जॉग्राफीक चॅनल पळयतलो... मुळांत तो सभावान एकमुळो. ताच्यान चार चौगां मदीं बसून कितें पळोवपाक, आयकुवपाक जायना. केन्ना चुकून मम्मीच्या सांगाताक बसलो जाल्यार तोंडाक कुलप घालून बसतलो. तिणें मारिल्ल्या कॉमेंट्सांचेर कसलीच दाद दिवचो ना. हालीं तर ताका इंटरनेटा बगर कित्यांतच रस ना जाला.

मोबायल आनी लॅपटॉपाक तो दीसभर चिकटूनच आसता. कोणा कडेन उलोवपाक नाका, मेळपाक नाका. तातूंत आनी आतां बारावेचो अभ्यास. अभ्यासाचे बाबतींत मात तो सामको गंभीर. सदांच णव्वद टक्क्यां वयर मार्क घेवपी. डिजिटल राटावळी सोडल्यार तो पुस्तकांतलो जणू किडोच आशिल्लो.

असलो हो कुंवोर, आपले मम्मीक तिच्यो सिरीयली पळोवपाक कसलो सांगात दितलो? त्योवूय मांय- सुनेच्या झगड्यांच्यो!

मागीर शेवटाक उरलों हांव. साहजीकच म्हजो बोकडो जाल्लो. म्हाका मानवूं ना मानवूं, पळोवपाची इत्सा आसूं वा वासूं, बायले वयल्या मोगाक लागून म्हाका मुकाट्यांनी तिचे बरोबर टीव्ही मुखार बसचें पडटालें. नाजाल्यार ती रागार - फुगार जाताली. ह्या घरांत आपल्याचेर कोणाचो मोगच ना म्हण बडबड करताली. म्हाका तिका दुखोवपाक आवडनाशिल्लें. ती म्हजी जीवन सांगातीण आशिल्ली. म्हज्या संवसारा खातीर तिणें जायते त्रास काडिल्ले आनी तशें पळोवपाक गेल्यार म्हाकाय म्हण आनीक दुसरो कसलो उद्देग आसा. हांव पांच वर्सां आदीं स्टेट बँकेचे नोकरेंतल्यान रिटायर्ड जाल्लों. म्हाका हेरां सारको समाजकार्य करपाचो छंदय ना. बसलो तिच्या सांगाताक ती सिरीयल पळयतना तर कितें व्हडलो घात घडपाचो आसा?

आयजय सदचे सारकी णव जावचे आदीं जेवन खावन आमी दोगांय टीव्ही मुखार बशिल्लीं. अमेय आपले कुडींत बशिल्लो.

म्हजे दोळे आयज बेगीनच धांपून येवंक लागिल्ले. कुडीक थकावट जाणवूंक लागिल्ली. पासश्टींत पाविल्लों हांव. आतां कुडीचीं इंद्रियां इल्लीं इल्लीं परवूंक लागिल्लीं.

सकाळच्यान जिवाक बरीच दगदग जाल्ली. अनघाले भाचयेचें लग्न आशिल्लें कारवाराक. पणजेच्यान कारवाराक हांवूच गाडी चलोवन घेवन गेल्लों. येतना - वतना भंयकर ट्राफिक लागिल्लें. ते भायर सोयऱ्यां कडेन, वळखी- पाळखीच्यां कडेन ... मनांत आसूं वा नासूं उलोवचेंच पडिल्लें. नाका आशिल्ली बडबड आयकुवची पडिल्ली. ताका लागून फकत शरीराकच न्ही जाल्यार मनाकय थकावट आयिल्ली. बशिल्ले कडेन दोळ्यांच्यो मलप्यो मेटपाक लागिल्ल्यो. हांव त्यो अट्टहासान उगड्यो दवरतालों.

शेजारचे कॉलनींतल्यान दुर्गामातेच्या आरत्यांचो आवाज मोठ्ठ्यान कानार पडटालो. नवरात्रांतली आयज सातवी रात.

दुर्गामातेच्या विसर्जनाक फकत दोन दीस उरिल्ले. भक्तांचे आनी आयोजकांचे उमेदीक जणू भार आयिल्लो. नेट- नेटान वाजंत्र्यां वाजतालीं. आरत्यांच्या सुरांनी सगळें आसमंत हालतालें. आरत्यां उपरांत थंय दांडिया नाचाची सर्त जावपाची आशिल्ली. तातूंत भाग घेवपा खातीर आनी पळोवपा खातीर येवपी लोकांच्या गाडयांच्या घरघरान कानाचे पड्डे दुखूंक लागिल्ले...

ते कॉलनींत गुजराती- राजस्थानी लोक चड. तांच्याच कांय तरणाट्यांनी फुडाकार घेवन जय दुर्गामाता मंडळ स्थापन केल्लें आसा. हेर पोरांय तातूंत सामील जाल्लीं आसात. फाटल्या चार वर्सां साकून हें मंडळ दुर्गापुजा आयोजीत करता. त्या निमतान दांडिया- गरबा नाचाच्यो सर्ती घडोवन हाडटा.

ह्या दिसांनी सांजवेळ जाली म्हणटकच ते कॉलनींतलेच न्ही जाल्यार आशी-कुशीच्या सगळ्या कॉलनींतले चले - तरणाटे कुर्तो-पायजमो घालून आनी तकलेक पगडी बांदून भोंवतना दिसतात, जाल्यार चलयो - तरणाट्यो जरीकांठाच्यो, आंगार वाली-बुटे काडिल्ल्यो साडयो पारंपारीक पद्धतीन न्हेसून हांगा थंय मिरयतना दिसतात.

अमेयाक मात असल्या कसल्याच गजालींनी रस ना. पोरूं वर्सा अनघान ताका एक बरो म्हारग कुर्तोसेट हाडिल्लो, पूण ताणें अजून मेरेन तो आंगाक लायिल्लो ना. तो तस्सो आसा पडून आरमारींत. ना म्हण तो एक दीस लेगीत ती कार्यावळय पळोवंक वचना.

...कित्याक वागता काय हो पोर असो- मुळा कडल्यान तुटिल्ल्या सारको. अलिप्त ! रुक्ष! जणू काय हाच्या जिवितांतलें अमृतच शेणलां...!

...अ...मृ...त---? म्हणजे दू... द...?

एकदम आंग काडलें हांवें.

मनांतले विचार आनी कोनशाच्या स्टँडा वयल्या लँडलायन फोनाची रिंग एकाच वेळार वाजली.

ट्रिंग...ट्रिंग...ट्रिंग

ट्रिंग...ट्रिंग...ट्रिंग

कांय खीण हांव गोंदळून फोना कडेन पळयत रावलो. अनघान टीव्हीच्या स्क्रीना वयली नदर धुंवडावन दोळ्यांनीच म्हाका 'फोन घे' म्हण खुणायलें. हांव मख्ख बसून आसा तें पळोवन ताणें म्हाका हटकिलो,

"अनय, आरे फोन घे मरे."

"आं, हय...घेतां...घेतां..."

अनघाच्या उल्यान हांव भानार आयलों आनी फोना कडेन गेलों. वचून रिसीव्हर कानाक लायलो.

"हॅलो..."

...कांय खीण दुसरे वटेनच्यान कांयच आवाज आयलो ना. हांवें परत म्हणलें,

"हॅलो..."

तसो एक बारीक अशक्त आवाज कानार पडलो. सदचे संवकळीचो तो आवाज नाशिल्लो तरी पूण तो आवाज म्हाका वळखीचो कसो दिसलो.

"कोण? कोण उलयता?"

"मी...मी..."

एके बायलमनशेचो तो आवाज आशिल्लो. आवाजा वयल्यान ती खूब दुबळी आनी जाण्टी दिसताली.

"प्लीज नांव सांग न्ही तुजें...हांव वळखलो ना तुका."

तिणें आपलें नांव सांगलें आनी हांव एकदम थरथरलों.

"तूं... तूं... तुवें कित्याक फोन केला म्हाका? आमचो कितें करार जाल्लो?"

"साहेब...साहेब...माझं जरा ऐका हो..."

"म्हाका... म्हाका कांयच आयकुवपाचें ना तुजें...तुजे कडेन उलोवपाचेंय ना. हांव फोन दवरतां."

"साहेब ... माझ्यावर दया करा साहेब...फोन ठेवू नका...जरा माझं बोलणं ऐका साहेब. तुम्हाला शपथ आहे साहेब तुमच्या मुलाची!"

"कितें? सोपूत...?" हांव तिचेर मोठ्यान आड्डुलों. मागीर निरुपायान म्हणलें, "सोपूत घालून तुवें म्हाका उतरांत बांदलो...बरें...सांग सडसडीत तुका कितें सांगपाचें आसा तें..."

म्हजो चडिल्लो आवाज आयकून अनघाचें टीव्ही वयलें लक्ष उडिल्लें. ताणें विचारलें, "कितें जालें रे अनय? कोणालो फोन?"

अनघाल्या प्रस्नाक हांवें कांयच जाप दिली ना. म्हजें सगळें लक्ष पलतडच्या आवाजाचेर आशिल्लें. क्षीण आवाजांत ती उलयताली,

"साहेब...माझे आता थोडेच दिवस उरले आहेत. मला...मला...स्तनाचा कॅन्सर झाला आहे. मी आता जास्त दिवस काढणार नाही... पण डोळे मिटायच्या आधी माझी एक अखेरची इच्छा आहे ...त्याला त्याला एकदां डोळे भरुन पहायची..."

"कि... तें...? ना...! हें कशेंच शक्य ना...!"

"नाही म्हणू नका हो साहेब... माझी शेवटची इच्छा आहे ती. त्याला एकदां डोळे भरून पहायची...त्याच्या डोक्यावरुन हात फिरवायची..."

"...पूण आतां हें कशें शक्य आसा?"

"असं बोलू नका हो साहेब... बघा माझा प्राण तळमळतोय...असंख्य वेदना होताहेत, पण जीव जात नाही, तो खोळंबलाय त्याला बघण्यासाठी ... मी त्याला माझा मुलगा म्हणत नाही ...तुमचाच मुलगा आहे तो. तुमचा आनी मॅडमचा... पण...पण माझ्या कुशीतून जन्माला आलाय तो. पिंड तुमचा... परंतु माझ्या रक्त-पेशींवर वाढवलाय मी त्याला..."

"...बाळंतवेणा भोगून जन्म दिला मी त्याला, परंतु एकदाही त्याला उराशी कवटाळला नाही...ताच्या जावळांतून एकदाही बोटे फिरवली नाहीत ..स्तनातून पाझरणाऱ्या अमृताचा एकही थेंब त्याच्या तोंडात घातला नाही...

...आता स्तनातून वाहणाऱ्या त्या साऱ्या अमृताचे सुकून दगड झालेत, ते टोचताहेत माझ्या काळजाला... आणि मनालाही... त्या खड्यांनीच माझी सगळी छाती पोखरून कंगाल केलीय..."

"दोन पोरांचे पोट भरण्यासाठी, त्यांचे भविष्य घडवण्यासाठी तुमचा करार मी मान्य केला ...तुम्ही माझ्यावर जबरदस्ती केली नव्हती, मीच आपल्या मनाने तुमचा व्यवहार मान्य केला होता ...खरं तर कायद्याच्या नजरेतून तुमचं मूल मी तुमच्या पदरांत घातलं, तुम्ही मला त्याचे पैसे दिले... करारा प्रमाणे तुमचे माझे नाते संपले..."

"...पण तसं होत नाही हो साहेब...मन आम्ही जिती माणसं... आम्हाला असतं.. आम्ही ...जीव नसलेलीं कागदं नाहीत... तुमच्या मुलानं मला आईपण दिलं...पण मी त्याला धड डोळे भरून बघितलं सुध्दा नाहीं... एवढीं वर्ष तोच सल टोचतोय माझ्या काळजाला... माझा प्राणही अडखळलाय त्याच साठी."

"एकदाच त्याला घेऊन या हो साहेब...मी त्याला काहीच सांगणार नाही ...तो तुमचा आणि मॅडमचाच मुलगा राहील...माझ्या पोरांनाही यातलं काहीच माहीत नाही... तुम्हीही त्यांना काहीच सांगू नका. मी कोण म्हणून विचारलं तर सांगा, तुमची जुनी मोलकरीण म्हणून ...पण कसंही करून त्याला घेऊन या हो साहेब...मी वाट बघते ...माझ्यावर उपकार करा..."

ती फोनाचेरूच व्हडल्या व्हडल्यान रडूंक लागली. रडटां रडटां तिणें आपलो पत्तो सांगलो. ती कोल्हापुरच्या महालक्ष्मी मंदिरा कडेन वयले गल्लींत रावताली...

पलतडचो आवाज बंद जातकच हांवें रिसीव्हर सकल दवरलो आनी धप्प करून सोफाचेर बसलो.

कितें तरी गंभीर घडलां हाचो अनघाक अदमास लागिल्लो. तें सिरीयल सोडून म्हजे म्हऱ्यांत येवन बसलें. भियेल्ल्या मनान विचारूंक लागलें,

"कितें जालें अनय? कोणालो फोन आयिल्लो? ...कितें सिरीयस घडलां?... कोणाक कितें..."

अनघा एकार एक प्रस्न विचारत आशिल्लें. पूण म्हजे तकलेंत ताचे प्रस्न वचच नाशिल्ले. म्हजी तकली भेरेल्ली. कितें करचें तें सूचच नाशिल्लें. मन चक्रव्यूहांत सांपडिल्लें.

दोळे मेटून हांव चिंततालों--- तिचे मागणे प्रमाण अमेयाक घेवन तिका मेळपाक वचूं काय नाका?

अमेय विचारतलो, ती कोण म्हण. मागीर कितें सांगूं ताका. खरें काय फट? ...खरें सांगलें जाल्यार ताचें रिॲक्शन कशें आसतलें? ताका धक्को बसचो बी ना मूं? पयलींच तोंडार मोनेळ... एकमुळो...सत्य कळटकच आमचे कडल्यान पयस बी वच्चो ना मूं तो?

मागीर फट तरी कशें सांगप? जे बायलेन ताका णव म्हयने आपल्या कुसव्यांत सांबाळून वाडयलो...आपल्या रगत-मासाचेर ताका पोसलो... ताका ह्या जगांत हाडपा खातीर बाळंतवेणो भोगल्यो...तिका वावराडी म्हणप...तिच्या आवयपणाचो अपमान करप?

अनघाय ह्या प्रस्तावाक तयार जावचें ना... तागेलो अमेय, ताचे कडल्यान पयसाविल्लो ताका कशेंच सहन जावचें ना.

हय, पूण कितेंय आसलें तरी तिका हांव तळटळत दवरूंक शकना... जे अस्तुरेन आमच्या काळजांतली माया जपली... जिती दवरली... तिचे भितरले आवयक हांव असो रगताचीं दुकां गळयत लावूंक शकना!

कागदपत्री करारान नातीं सोंपनात ...पयशान उपकाराची परतफेड करुंक जायना...ललीतान आमच्या पदरांत सूख ओतलें...आतां मरतना ताच्या पदरांत समाधान घालप म्हजें कर्तव्य... खरें मनीसपण तें...!

अनघाक पयलीं विस्वासांत घेवंक जाय, मागीर अमेयाक!

म्हज्या मनाचो निश्चेव जालो. हांवें दोळे उगडून अनघा वटेन पळयलें आनी म्हणले, "अनघा म्हाका तुजो सपोर्ट जाय, दितलें मगो?"

अनघा गोंदळ्ळें.

"सपोर्ट? कसलो सपोर्ट? आनी कित्या खातीर?"

"आमकां फाल्यां ललीतागेर वचपाक जाय ... कोल्हापुराक...तूं, हांव आनी अमेय... तिगांयनीय..."

"ल... ली... ता... गे... र...???"

अनघान कच्च करून आंग काडलें. थरथरत म्हणूंक लागलें, "कोण ललीता? ... आनी आमकां कित्याक वचूंक जाय तागेर? आनी अमेयाक कित्याक व्हरपाचो बरोबर?"

"ललीताक विसरलें तूं अनघा?"

हांवें ताका त्रोसांनीच विचारलें. म्हाका खबर आशिल्लें अनघाक ललीताची घट्ट याद आसा, तें मुद्दाम ताची याद ना म्हणपाचीं नाटकां करता.

"आं... हय... हय... याद जाली... वळखलें..." अनघान आपलें समर्थन करपाचो यत्न केलो.

"ललीता अमेयाक एकदां पळोवपाक सोदता."

" कितें...???"

अनघा एकदम किंळचेलें.

"ना... नाका... अमेयाक ताचे मुखार व्हरपाचो ना...तो... तो... ताचो कोण न्ही...! तो... तो...म्हजो भुरगो... आमच्या दोगांयचो..."

ललीतान आकांत केलो सामको. ताणें थयथयाट करूंक सुरवात केली.

"ललीताचो फोन तो. तें खूब दुयेंत आसा... जिविताच्यो अखेरच्यो घटका मेजता...ताका हो संवसार सोडचे आदीं एकदां अमेयाक पळोवपाची इत्सा आसा."

"आरे, पूण ताचो आनी आमचो आतां कितें संबंद? ताचे आनी आमचे मदीं कितें करार जाल्लो? भुरग्याक जल्म दिवन ताका आमचे सुवादीन करून ताणें वचपाचें. मागीर केन्नाच त्या भुरग्याचेर हक्क सांगूंक येवपाचें ना. ताचें सगळे पयशे फारीक केल्यात मरे आमी एका हातान... मागीर आतां अशें कशें हक्क सांगता तें अमेयाचेर. हें सामकें डिजगस्टींग हां...कोर्टांत व्हरया आमी ताका, केस करया ताचेर!"

"कितें उलयता तूं अनघा? भान आसा मुगो तुका तुज्या उलोवपाचें?"

म्हजो आवाज इल्लो चडिल्लो. तें पळोवन अनघा मातशें नरम जालें.

"पळय अनघा, ललीता कोणाचेरूच हक्क सांगना आनी ताका कोटांत व्हरपाचीय स्थिती ना. तें ब्रेस्ट कॅन्सरान झडटेक लागलां..पूण ताचो प्राण वचना...तो आडखळ्ळा ताणें जल्म दिल्ल्या भुरग्याक एकदां तरी पळोवपा खातीर... आवय म्हणून वा आनी कोणय म्हणून, वावराडी म्हणूनय ताची वळख करून दिल्यार ताका उपकारता, पूण एकदांच अमेयाक दाखोवंक हाडचो इतलीच ताची इत्सा. कागदोपत्री केल्ल्या करारान मनाचीं नातीं विकतीं घेवंक मेळनात ...तशें जाता जाल्यार हांव तुका पोटगी दिवन पयस उठून वतां हांगाचो..."

म्हज्या उलोवण्यान अनघाचें आंग शिरशिरलें. ताणें म्हणलें, "कितें उलयता तूं अनय?"

म्हजें उलोवप थांबलें ना...

"ताणें तुजी व्होंट भरली... तुका आवयपणाचो मान फावो केलो...तें नाशिल्लें जाल्यार तुजे भितरली आवय इकळाप करीत सोंपतली आशिल्ली...याद कर ते दीस अनघा...भुरग्या खातीर तूं कशें तळमळटालें तें...आनी ताणें कशी तुजी व्होटी सुखान भरली ती..."

"...जाता तुका याद? जायना जाल्यार हांव सांगतां...लग्न जावन पंदरा वर्सां जालीं तरी आमकां भुरगें जावंक नाशिल्लें. तुज्या गर्भाशयाक भुरग्याक वाडोवपाची क्षमता नाशिल्ली. गर्भ धरतालो, पूण वाडूंक पावनाशिल्लो, मदींच गळून पडटालो. मेजून स वेळा मिसकॅरेज जाली. मागीर दोतोरान शिटकायलें, परत दीस वचपाक उपकारना, तुज्या जिवाक धोको आसा."

"...आमी भुरग्याची आशाच सोडिल्ली, तूं तर सामकें कोसळिल्लेंच. तुजें मानसीक संतुलनय हालूंक लागिल्लें. म्हाका कांयच सुचनाशिल्लें. अश्या वेळार ज्युस्त परिक्षीत साठे पुण्यांतले शाखेंतल्यान आमचे शाखेंत मॅनेजर म्हण बदली जावन आयलो. बँकेंत सगळ्या स्टाफाक म्हजी घरची स्थिती खबर आशिल्ली. ताकाय ती रोखडीच कळ्ळी. एक दीस लंच टायमाक ताणें म्हाका आपल्या कॅबिनांत आपोवन व्हेलो आनी भुरग्या खातीरचो अंतिम पर्याय सुचयलो. म्हाका सुरवातीक तो मानवलो ना, पूण खूब विचारां अंती हांव तयार जालों. तुकाय समजावन तयार केलें. ललीताचो सोद ताणेंच घेतलो. ताच्याच गांवची चली ती. तरूण आशिल्ली. लग्न करून नासिकाक दिल्ली. घोव एके खाजगी कंपनींत कामाक आशिल्लो. नोकरी तशी कायम जावंक नाशिल्ली तरी संवसार बरे तरेन चलतालो. पूण एका सांजवेळा नोकरे वयल्यान येतना बशीच्या अपघातांत तो गेलो आनी दोन भुरग्यांक वाडोवपाची जबाबदारी ललीताचेर पडली. ताका तांचें पोट भरपा खातीर, शिकोवन व्हड करपा खातीर पयशांची अतिशय गरज आशिल्ली."

...पुण्यांतले ख्यातनाम गायनोकोलॉजीस्ट डॉ. साळुंके कडेन परिक्षीत साठेच आमकां घेवन गेलो. दोतोरान आमकां दोगांयक आनी ललीताक तपासलीं. अपेक्षे

प्रमाण सगळें सारकें आशिल्लें. मागीर योग्य वेळार आमच्या दोगांयच्चीं बियांडां घेवन, कृत्रीम पद्दतीन तीं फळोवन ताणे तीं ललीताच्या गर्भाशयांत रोंपलीं..."

"हांवें म्हजी बदली पुण्यांत करून घेतली. थंय एक फ्लॅट भाड्यान घेतलो. ललीताक आमच्या फ्लॅटांत दवरलें. तागेलीं भुरगीं, ताचे आवय बरोबर रावलीं. सोयऱ्याधायऱ्यांक, नात्यांतल्यांक कोणाकच कांयच कळूंक दिलें ना. सगळ्यांक तुकाच दीस गेल्ल्याचें आनी तूं दोतोराच्या निरीक्षणा खाला आशिल्ल्याचें भासयलें..."

"णव म्हयन्यांनी ललीता बाळंत जालें. करारा प्रमाण भुरगें जल्माक येतकच दोतोरान काडून तुजे खांकेंत दिलें. ताका घेवन आनी ललीताचे दोन लाख तशेंच दोतोर-हॉस्पिटलाचें बील फारीक करून आमी गोंयांत आयलीं...केन्ना फाटीं वळून पळयलें ना. ललीता कशें आसा, ताचें कशें चल्लां तें. कायद्याचे नदरेंतल्यान ताचे - आमचे संबंद सोंपिल्ले, पूण मानवतायेचे नदरेंतल्यान ते सोंपिल्ले व्हय तर?"

"तुजी होंट भरली... तूं उमेदी जालें... तुजें दुख्ख सोंपलें, केन्ना चुकून तरी तुवें विचार केलो, तीचे आवयचें काळीज रडटा काय हांसता तें? तुजे सारकोच हांवूय सुवार्थीपणान वागलो गो ! पूण हांव दादलो, तूं बायलमनीस! ...म्हजे परस तुका तिच्यो भावना चड बरे तरेन कळपाक जाय आशिल्ल्यो...कारण दर एके बायले मर्दी एक आवय आसता, मागीर तिणें भुरग्याक जल्म दिवूं वा ना दिवूं आनी तुवें तर आवयपणाचीं स्पंदनां आपल्या कुसव्यांत एकदां न्ही तर स फावटी अणभवल्यांत... तुज्या थानांतल्यान दूद व्हांवलें ना, पूण तुवें एका बाळकाक हड्ड्या कडेन धरून वाडयला..."

"...तुका ताच्यो भावना समजुवच्यो नात जाल्यार कोणाक समजतल्यो गो अनघा?"

"ताणें आमचे खातीर जें केलें ताची थोडीशी परतफेड करपाची एक संद देवान आमकां दिल्या... आमी ते संदीचो लाव घेवया...दितलें न्ही तूं म्हाका सांगात ह्या कामाक?"

हांवें अनघा कडेन अपेक्षेन पळयलें.

येदोळच्यान हांव एकटोच उलयतालों. सामको भावनाविवश जाल्लों. ताका लागून अनघाच्या मुखामळा वयले बदलतले भाव म्हज्या मेंदवा मेरेन पावूंक नाशिल्ले. आतां हांवें म्हजें उलोवप थांबयिल्लें आनी ताच्या तोंडा कडेन अपेक्षेन पळोवंक लागलों.

अनघाच्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो पांवळ्यो व्हांवताल्यो. तोंडाचेर गुन्यांवपण उदेल्लें. म्हजें उलोवप ताच्या काळजाक खोमिल्लें.

"...हय ...हय ...रे अनय, आमी या ललीताक मेळपाक. ताका कोणा बऱ्या दोतोराकय दाखोवया...पूण...पूण... अमेय...ताचें कशें करपाचें ... ताका खरें सांगपाचें काय फट?"

चिंतेस्त जावन ताणें म्हणलें आनी हांवें सट्ट करून ताका जाप दिली, "कांयच गरज ना फट सांगपाची... खरें तेंच सांगपाचें.

ताकाय हें फुडें जिविताक फुडो करपाची तांक येवपाची गरज आसा. फाल्यां कसल्याय मार्गान कळचे परस आमचे कडल्यानच कळप योग्य!''

''...आं...हय...हय...''

अनघाच्या मनाक पटलें ना तरी तोंडान वदलें.

''आनी कळ्ळें म्हण तातूंत कांय चुकीचें ना. तो कितें कोणाचो वायट कर्मान जल्माक आयिल्लो भुरगो न्ही. तो आमच्या रगताचो ...आमचो कायदेशीर वारस. तुजो आनी म्हजो... पूण ललीतान ताका आपल्या कुसव्यांत घेवन वाडयला, ताका जल्म दिला... ती ताची आवय... जल्मदात्री...ताची पयली आई...व्हडली आई... ललीता म्हणल्यार त्या जगन्माता धर्तरे सारकी... आपल्या कुसव्यांत पडिल्ल्या दर एका बियाक कसलोच भेदभाव करनासतना काळजांतले मायेन रुजयतली... आंकरायतली ... ताचो रोंपलो करतली... म्हणूनच तर ते जगन्मातेचो जयजयकार करतात नवरात्रांत ... अनघा आयक ... ते जगन्मातेचो जयजयकार आयक...!''

पयसुल्ल्यान कानार पडटल्या दुर्गामातेच्या उत्सवाच्या आवाजा कडेन अनयान अनघाचें लक्ष ओडलें.

दुर्गामातेच्यो आरत्यो सोंपून आतां दांडिया नाचाक सुरवात जाल्ली. नाच ऐन रंगार आयिल्लो. गितांचे सूर आनी तोणयांच्या आवाजान आसमंत उल्हासान भरून गेल्लो.

000



# कथामंच

(कथा)

जयमाला दणायत

## जेवणाचें ताट आनी बसूंचो पाट...

"कितें शरूमावशे, तुवेंय हाडली मगे दुसऱ्या राज्यांतलीच सून? आमगेली न्हयच मगे?" शेजारच्या निमून विचारलें.

"आगो पापया, आतां खंय कितें उरलां परकी आनी आमचें? सगळें सारकेंच न्हय? चलो चली राजी, तो क्या करेगी माँजी?" वयलेवयर हांसत तिणें जाप दिली.

"हें मात सामकें खरें पळय तुजें. हातूंत आतां नविदाद अशी कांय उरली ना. दर दोन ब्लॉक सोडून तिसऱ्या ब्लॉकांत ही अशीच परिस्थिती. मनाक मातशे कश्ट जातात, पूण दी सोडून म्हणचें आनी ओगी बसचें."

"हय तर गो बाये आनी म्हाका तशें वायट बी कांय दिसलें ना हां. वयल्यान म्हजी सून फकत सोबेचें बावलें न्हय, बरी हुशार-कर्तबगार. ऑफिसांतय बऱ्या व्हडल्या पोस्टार आसा आमच्या सुरजावरी." अरूबायच्या ह्या उलोवण्याचेर हांसलीशी करून शेजान्न भितर कडसरली.

पळोवंक गेल्यार शरूबायचो चलो सुरज-सामको आवयधार्जिणो... 'ममाज बॉय' म्हणून सोसायटीभर फामाद. आवयचें उतर केन्नाच सकयल उडोवपी न्हय. पूण तरणेपणाचें वारें तकलेंत भिनलें म्हणटकच निकत्याच जल्मल्ल्या पाडकाची अवस्था जाता ताची. आवयच्या पोटांतल्यान भायर सरतेखीणी जमनीर पांय तेंकले रे तेंकले, घरभर धुडगूस घालूंक ताका मजा दिसता. ताच्या कानांत वारें गेलें म्हणटात तशीच कितेंशी अवस्था जाता जांवये तरनाट्यांची. ना तर सदांच आवयचे सांगणेन वागपी सुरजा कडल्यान अशें कांय घडपाचेंच न्हय. ऑफिसांत

**जयमाला दणायत** : जल्मः 1947. कथाकार, अनुवादक, निबंदकार, बालसाहित्यकार, कथांचो इंग्लीश, हिंदी आदी भाशांनी अनुवाद, पाठ्यपुस्तकांनी आस्पाव. *'कवासो'* आनी *'सांज-सावळी'* हे कथासंग्रह तशेंच *'करबट'* आनी *'आंबाड्या भोंवती तीन शेंवतीं'* हे निबंद संग्रह, 'ससक' आनी *'इंद्रधोणू'* हीं बालसाहित्याचीं पुस्तकां प्रकाशीत. 'फुकटांत भोंवडी' आनी 'रागदरबारी' हीं अनुवादाचीं पुस्तकां प्रकाशीत. संपर्क 'मंगल', प्लॉट नं. 30, अवधूत कॉओपरेटीव्ह सोसायटी, नाना शंकरशेट रस्तो, डोंबिवली (पश्चीम), मुंबय - 421202, मो. : 09757119317

बरो जम बसलो, शरूबाय ताच्या लग्नाचे मनांत मांडे खाता थंय आसा, हेवटेन हो पोर ताचे बरोबरीन काम करपी ऑफिसांतल्याच शिवांगी शर्मा कडेन संबंद जोडून मेकळो जालो. तेंवूय पोर ताच्या दिसपाचेर, ताच्या उजू सभावाचेर, पोलायट नेचराचेर सामकें फिदा जालें आनी शेवटाक जावपाचें तेंच जालें. ताणें शिवांगीच्या आवय-बापायचें सांगणें मानून, आवयक सांगीनासतना रजिस्टर लग्न करून मेकळो जालो.

आतां शरूबायचो अपुरबायेचो एकलोच पूत. घोव गेले उपरांत घामाकश्टान सामकें हुमेचें उदक करून म्हणटा तसो वाडयिल्लो. हातातोंडा कडेन आयिल्लो, ताच्या लग्नाचीं कितलीं सपनां रंगयिल्लीं बाबडेन जाण कोण - असो हातांतल्यान सुटिल्लो पळोवन खंयचेय आवयच्या जिवाक चर्रर जावपाचेंच. तशें भितरले भितर कितलेंय वायट दिसलें तरी शरूबाय मोठी धिराची, मोठी हिकमती. तिणें तें केन्नाच चारचौगांत उक्तें जावंक दिलें ना. मनाचें गुपीत मनांतूच दवरलें. वयल्यान हांसत्या तोंडान आनी निर्मळ मनान हासभास नासतना लग्न जावन भितर रिगिल्ले सुनेचें आपणाल्या घरांत स्वागतच केलें - मोठे उमेदीन तिका येवकार दिलो. मनाचें व्हडपण दाखयलें, पूण - हो पुणूच तिच्या जिवाक घुस्मटायतालो.

तशें तिका आपले हे अपुरबायेच्या सुनेचें भारी कवतूक आसलें. तिची फिशालकाय, हुशारी, कनिंगनेस, कोल्याबुद्दीचेर भाळिल्लीच म्हणल्यार जाता ती. खरें तर पयलेच नदरेन तिणें शिवांगीक सारकें बरें पारखिल्लें, पूण पुता खातीर मना पसून तिका स्विकारिल्ली. शिवांगीचें वागप मात तिका समजनासलें. तिच्या मना विरुद्ध आसलें तरी आपणें तांच्या लग्नाक एका उतरान लेगीत मनाय केली ना, सगळें पुताचे-सुनेचे इत्से प्रमाण केलें. इतलेंय आसून शिवांगीच्या मनांत आपणाविशीं इतली अढी-इतकी तिडक कित्याक, तें तिका केन्नाच कळ्ळें ना. कारण कितेंय आसूं सून मांय कडेन एकदम मेजून मापून उलयताली. मातशी पयस पयसच रावताली. इतलेंच न्हय जाल्यार सूरज आवयक सामकी मस्तकार धरता हें तिका मात्त पूण सोंसनासलें. तो आपलें ऑफीस सुट्टकच बेगीन घरा येतालो. आवयकडेन उलयत च्या पाणी घेतालो. मागीर बायल येतकच तिचे भोंवतणी 'तालगडी' घालूंक मेकळो आसतालो, तरी आपुण नासतना इश्ट मित्रां वांगडां भोंवन करीनासतना आवय बरोबर किरायत बसता, हें शिवांगीक अजिबात आवड नासलें. तें घोवाक तशें स्पश्ट जाणोवन दितालें. शरूबायक सगळें कळटालें, पूण ती कानार केंस काडिल्लेवरी वागताली. 'नज, नकळ, कळना' म्हणिल्लेवरी मात पूण देफेत दाखयनासली.

अर्थांत घरांतल्या कुस्कुटाच्या कामांत ती चली हात लायनासली. ऑफिसांतली मॅडम न्हय! घरचें काम करपाची संवयूच नासली तिका. हॉस्टेलांत रावन शिकिल्ली आवयबापायची एकली एकसुरी अपुरबायेची धूव - गिरेस्ताघरची. शिकली, नोकरेक लागली. ताटावयल्यान पाटार करपाची

संवय ती कशी सुटत? कुळारा वागताली तशीच हांगाय वागपी. तातूंत तिका कांयच वावगें दिसनासलें.

तशी शरुबायची चपातीवाली आसली, बाकीचें आयतें काम करूंक एक बायल येताली. तशें तिकाय चड कश्ट पडनासले म्हणा, एक मनीस तर वाडिल्लें. दोगां थंय तिगां. पयलीं धरून सगळें घरचें दारचें तीच आयजवेर पळयताली, पूण एक मात खरें एक अतूट अळंग अशें – दिसूंक येना अशें हयन्हयशें अंतर त्या दोगांय मांय–सुने मदीं निश्चीत जाणवतालें.

लग्न जावन घरांत पांय दवरतनाच शिवांगीन डिक्लेर केल्लें. आपूण आपल्या आवय–बापायची एकलीच चली – तेन्ना तांकां आदार म्हणून आपूण आपलो अर्दो पगार दितली. हालीं चले चलयो समान. तांकां सारके हक्क, तशें कर्तव्य आसा. म्हणटकच चलयेचें कर्तव्य आवयबापायक अर्थीक आदार दिवप. "झक् मारिनात. आपल्याक कितें करचें आसा? तीं आनी तांचो संवसार. ती तांची खाजगी बाब. जाय तें करूं." अशें येवजून शरूबायन ओगी रावप पसंत केल्लें. जरी मनाक खटकलें तरीय. कारण शिवांगीच्या कुळारचीं तशीं 'गडगंज' म्हणटात तशीं गर्भश्रीमंत. तरी चलयेचो पगार घेवप तांच्या मनाक कशें पुटवता काय हो एक विचार मनांत आयिल्लोच तिच्या. 'पूण पाडपडूं आपणाक कित्याक जाय' ही तरस्कताय.

एकेकदां मात आपल्याच घरांत आपूणच परकी जावन पडिल्लेवरी जातालें तिका. चड करून जेन्ना शिवांगीचो इश्ट परिवार जावं ऑफीस कलिग्स घरा येतकच. शरूबायन तांचे मदीं भायर आयिल्लें ताका अजिबात खपनासलें. कपला वयल्या मिरयांनी, तुसड्या उलोवण्यांनी तें तिका जाणोवन दिले बगर रावनासलें. तिका सामकी भिरभिरी मारची. सगळें सोडून थंयच्यान नाच्च जावचें अशें दिस, पूण आपणाल्या अपुरबायेच्या पुताच्या ओडीन ती, मन मारून म्हणटा तशी रावताली. शिवांगीच्या त्या कर्तुत्वां कडेन लक्षच नाशें करून. सुरजाक मात ताची जाणीवय नासताली. तो आपले बायलेचे सोबीतकायेचेर, स्मार्टनेसाचेर, ताच्या गोड म्होंव्या उलोवण्यांचेर, हुशारकायेचेर, सामको भुल्लुशिल्लो म्हणटा तसो, पिसोच जाल्लो म्हणिना. आपले आवयची ही अवस्था ताचे नदरेंत येच नासली. येतली तरी कशी? शिवांगीची जादू ताणें केन्नाच भायल्यान दाखोवन दिली ना. ताच्या मोगाचे आवयक तें अशे तरेन दुखयता, ताचे सामकार सारकें एक अपुरबायेचें सूनबाय आसतालें. पूण ताचे असवडीं मात तें एक वेगळेंच चली जातालें. खरें तर हो सुशिक्षीत 'सूनवास' शरूबायच्या काळजाक लाग सारको पूण तिवूय चल्याक कांयच देफेत दाखयनासली. पयलीं वरी आपूण खूब सुखी आसां अशेंच भासयताली, पुताच्या सुखाक बादा येवं नये म्हणून, घरांतलें वातावरण सदांच शांततायेचें उरचें हेपासत ती वावुरताली. कालप्रवाह चलत आसलो. पुताचो सुखी संवसार वाडीक लागिल्लो. शरूबायक

नातू जालो. देड म्हयन्याच्या कुकुल्याक दायीच्या हातांत सोंपोवन शिवांगी कामाक वचूंक लागली. ताचे वयल्या दुदाची सोय करून. खरें तर शरूबायचे व्याप कितें थोडे नासले. घोव गेलो तेन्नाय ती हेरां भशेन रडत घराच्या कोनशाक पडून रावली ना. आपले भोंवतणी जायते व्याप लावन घेतिल्ले तिणें. तिचें भिसी मंडळ आशिल्लेंच – तांतूत ती योगा क्लास घेवंक लागिल्ली. गरजू भुरग्यांक शिवणसूत शिकोवंक लागिल्ली. ट्युशन दिवप चलतालेंच. वयल्यान तिचें सोशल वर्कय चालू आसलें. वेळ मेळत तेन्ना वृद्धाश्रमांत वचून तीं कामां करप, वाचनाची तिका आवड आसली. लायब्ररी आसलीच. असल्या सगळ्या मर्दी तिणें आपणाक पुराय गुंतून दवरिल्लें.

पूण नातवाचें घरांत आगमन जालें तशें तिणें आपणाले व्याप कमी करीत हाडले. सोशलवर्क मातशें कमी करून घरा कडेन चड लक्ष घालूंक लागली. कारण नातवाक असोच परके बायलेच्या हातांत सोपोवंक तिचें काळीज धजावलें ना आनी नातवाचें करतना एकेतरेची आगळीच खोस भोगताली तिका. कितलेंय जाल्यार नातू म्हणचे दुदावयली साय. आजयेचें काळीज ओड घेतालें. शिवांगी मात निर्धास्त मनान कामाक वचूंक लागलें, पूण नातवाच्यो अर्थ अपुरबायो लेगीत शिवांगीचे मर्जी प्रमाण जावंक जाय आसल्यो. सगळें तिणें सांगता तशेंच आनी तितलेंच. अपुरबायेन कितेंय आगळें उणें करूंक जायना आसलें शरूबायन. रोखडे सुरजाक उतरांचे लडे पडटाले. 'लेकी बोले, सुने लागे' ह्या न्यायान शरूबायक रोखडेंच तें जाणवताले. हें उतराचें चाबूक आपले फाटीर ओडटता म्हणून तिणें शादूर जावचें.

बरो व्हड जायसर नातवाचें मन तिचेच कडेन ओडटा म्हणून तिणें शादूर जावचें. तिचे फाटल्या फुडल्यान भोंवचें ताणें, पूण मात्सो व्हड जातकच मात आवयचे सांगणेन वा धाकान म्हणा, तो मातसो आजये पसून पयस पयस रावंक लागलो. मित्रमंडळ मेळ्ळें आनी मागीर त्या नाना नानीचे गिरेस्तकायेच्या दिपकावण्यान तांचे कडेन चड ओडूंक लागलो. आपणें कितलेंय जीव ओतून केलें तरी शेवट आवयचें सांगणें तें खरें हें सत् शरूबायक रोखडेंच कळूंक आयलें. काळ फुडें वता तसो सुरजय आपल्या कामांत आनी बायले भुरग्यांक खोडावन उरलो – आवयक मात्सो मातसो पयसावत गेलो. शरूबाय आपल्या कामांत मन रमोवंक लागली. आपलीशी आपूण जावन रावताली. एक दीस पुता सुनेचीं कितें तरी सिरीयस उलोवणीं चलतात असो तिका दुबाव आयलो. खाणा–खुणा चलताल्यो, पूण शरूबायन दिसून दिसनाशिल्लेवरी केलें. निमाणें ऑफिसांतल्यान येतकच सुरज आवयसरीं बाल्कनींत आयलो. तीच तिची कूड जाल्ली हालींसाराक. "कितें करता आई?" ताणें विचारूंक जाय म्हणून विचारलें. "काय ना रे, बेठेंच पुस्तक चाळटालें. वेळ वचना आनी चड वाचूंकय जायना हालीं म्हज्यान यो बस. च्या बी कितें जाय तुका?"

‘‘नाका नाका, जालां म्हजें सगळें इश्टा वांगडा भायरच. आई, तुजे कडेन मातशें उलोवचें आसलें.’’

‘‘आरे मागीर असो अनमनता कित्याक? उलय मरे, यो बस हांगा.’’ अशें म्हणून तिणें मुखा वयल्या कदेला वयल्यान पांय सकयल घेतले. बसलो तरी ताणें हेवटेन तेवटेन करीत बरोच वेळ काडलो. तो सरळ सरळ उलोवंक मातसो कांचवेता हें तिका जाणवलें.

‘‘कितें रे, कितें जालां? कसली अडचण बी आसा?’’ तिणें विचारलें.

‘‘ना गे, तशी अडचण अशी ना. तुका खबर आसा न्ही आई, आतां हो जागो तसो ल्हान पडटा आमकां. गांवाभायर नवो प्लॉट घेतिल्लो जाणा न्हय, ताचेर एक आटसारो बंगलो बांदपाचें कामय चल्लां – पूर्ण जायत आयलां. तशें लोन बी काडलां गे. हांगा सगळो गजबज चड जाला. बंगल्यार वतकच तुकाय मातशी शांतताय मेळटली.’’

‘‘आरे बाबा, हांगा म्हणून कितें, तशें शांतच तर आसता. दीसभर तुमी दोगांय ऑफिसांत, संजू ताचे शाळेंत, मागीर ताचो हो क्लास तो क्लास, थंयच्यान हालीं चडसो तो ताच्या नाना–नानीगेर. दीसभर एकलेंच तर उरतां हांव म्हजे हे शांत बाल्कनींत.’’

‘‘तशें न्हय गे. आतां तुका झाडां–पेडांची आवड. हांगासल्ल्या ह्या कुंड्यांनी रोंपां लावन तूं आपली ‘दुदाची तान ताकार भागयता.’ म्हणल्यार जाता. थंय आपल्याक जाय तशें पोरसूं कर.’’

‘‘आरे बाबा, आतां म्हजें कितें – दस सरले आनी पांच उरले. कसली उमेदय ना आता.’’

‘‘ना आई, अशें म्हणूं नाका गे म्हातारी जाल्लेवरी’’ ताणें मातशें भावूक जावन म्हणलें. ‘‘आई, शिवांगीच्या खूब मनांत आसा. म्हणटा ‘आतां ह्या ब्लॉकांत रावप आमच्या स्टेटसाक सोबना.’ तशें तें पयलीं सावन बंगल्यांतच रावन आयलां न्हय गे. इतली वर्सां म्हजे खातीर ’’ मारून म्हणटा तशें हांगा रावलां – म्हणून तर ही सगळी धडपड, पूण आई ह्या रिणा खातीर म्हजो लागीं लागीं सगळोच पगार वत्ता पळय.’’

‘‘आरे आसूं, म्हजें पेन्शन येता – थोडें भोव हेवटेन तेवटेन करून तातूंतच भागोवया.’’

‘‘तशें न्हय आई, हो ब्लॉक विकून आमी थंयच रावंक या, म्हणटकच बरें जातलें. सगळें सारकें जातलें. हाका किंमतय बरी आयल्या. हांवें उलोवन दवरलां एकल्या कडेन. तो येतलो फाल्यां परां हो जागो पळोवंक.’’

‘‘आरे सुरज, पूण म्हाका विचारलेंय ना तुवें.’’ ताचें उलोवणें आयकूनच ती सामकी आबूज.

‘‘तातूंत कितें विचारपाचें? तुमकां कितें आमी वाऱ्यार सोडचीं नात. बरीं बंगल्यांत रावंक व्हरतलीं बरोबर.’’ तेन्नाच भितर सरपी सुनेन मर्दी तोंड घालें. त्या वेळार वाद नाका म्हणून ती ओगीच रावली, पूण सुरजान दोन तीन वेळां परत परत विचारतकच तिणें स्पश्टच सांगलें.

‘‘इतलीं गडबड नाका. म्हाका येवजूंक

तरी मात्सो वेळ दी. आरे, हांगा म्हजी सगळी जीण हांवें ओंपल्या. ब्लॉक घेवचे पसत, कितें कितें केलें ना? म्हज्यो सगळ्यो यादी – म्हजें आख्खें भावविश्व सामावलां भितर आनी ध्यानामनांत नासतना तुमी म्हणटात हो ब्लॉक विकून उडोवप?''

''पूण आई, आतां गरज आसा न्हीं? बरें हांगाच्यान आमी कितें परत चाळींत वर्च्चीं नात गे रावंक – हाच्याकय व्हड बंगल्यांत वतलीं. ना म्हणूं नाका...'

''पळोवया मागीर, म्हाका विचार करूंक मातसो वेळ दियात.'' तिणें तेन्ना तो विशय थंयच सोंपयलो खरो, पूण मागीर आख्खो वेळ तोच विशय तिचे तकलेंत घोळत उरलो. सुरजाक वायट दिशिल्लें. तिका जाणवतालें. आपणें आपल्या चल्याचें मन मोडलें म्हण तिका वायट दिसतालें. सून तर येतना वतना टोण्ट मारतच आसली. ''मसणांत वचपा वेळ आयलो तरी मनशाची आस सुटना. सगळें कितें बरोबर घेवन वच्चें आसा? आतां अशें कितें उरलां भोगपाचें, म्हणून आपल्याच मनशांक अशें आडावन दाखयतात? आनी मनशाचें कितें सांगूं येता? आत्तां बरो आशिल्लो दुसऱ्याच खिणाक कितेंय वायट–बरें जायत सांगूं नज. म्हातारपणांत सुखाचें मरण सगळ्यांच्या नशिबांत नासता.''

''खरेंच ताचें. आतां आपलें कितें उरलां? खिळ्यान देवूळ कित्याक मोडप? ताका ना म्हणप म्हणचें ताचें मन दुखावतलें. सून तर पयलींच सामकी अशी उदकांत पळयता. बरें ना जाल्यार कोण आसा दुसरो. आसूं विकूंदी ब्लॉक आनी करूंदी तांच्या मना सारकें.'' शरूबायच्या मनांत येवजणेची सामकी जटा जावन गेली. सुट्टां सुट्टां कितें करचें, कात करचें? दीसभर बावडी बाल्कनींत येवजीत बसली.

हांगाचे सोसायटींतले आपले ब्लॉक विकून पयस बंगल्यांनी रावंक गेल्लीं गुप्तेकाकी, फाटल्यान रावपी ती काळेवयनी तिच्या दोळ्यां मुखार आयलीं. हांगा आसतना कितलीं खूश आसलीं. त्या दिसा मेळ्ळीं तेन्ना सामकी कळाच गेल्ली. म्हणूंक लागलीं, आपापले ग्रुप, भजनी मंडळ, भिसी–ज्ञानेश्वरी वाचन दीस अशेच सरताले. केन्ना खंय नाटकांक, सिनेमाक बरोबर वचप, मजा आसताली. आतां गेलीं व्हडल्या घरांत रावंक. वेगळी स्वतंत्र रूम, पूण घरच्यांचे चार चार दीस तोंड दिसना. जो तो आपल्या उद्देगांत. पुत सून ऑफिसांत, भुरग्यां आपल्या विश्वांत दंग. घरभर नोकरचाकर. काम अशें कांयच ना, पूण आपलें मन कशें लागतलें? सगळो शेजार–पाजार नवो. तातूंत तांच्यां हायसोसायटी. म्हऱ्यांत कोण रावता? तांचीं नांवा लेगीत एकामेकांक सारकीं खबर नासतात. हाय, हॅलो करपा पुरती वळख. पयलीं कांय दीस हांगा येवन वचून रावप जाता, पूण सदांच इतले पयस येवप परवडना. आतां हांगाच्यान पयसावले वरी जालीं आनी घरच्यांचे नदरेन तर आमी सामकीं आयतींच जावन पडल्यांत. आतां धड हांगाची न्हय आनी धड थंयची न्हय अशी सामकी त्रिशंकूची अवस्था जावन पडल्या पळय.''

उलयतां उलयतां घळघळीत दुकां आयलीं काळेवयनीच्या दोळ्यांत... ती याद जावन शरुबायक आपूणच तिच्या जाग्यार आयिले वरी दिसलें.

खरेंच तिचें. आतां ह्या वयांत नव्यान नातीं जोडप तशें कुस्तारच जाता. आनी पयलीं भशेन ती उमेदय नासता. हांगाच एकटीं राविल्लीं आसलीं तरी सुखान रावतलीं आसली बाबडीं. नाका, तांचे भशेन आपली स्थिती जावंक. आपल्याक तें सोंसचेंय ना. चार दीस बरें ना जाल्यार दिसांतल्यान आपल्या म्हन्यांत येवन खबर घेवंक पुताक वेळ नासता. सुनेची तर तराच वेगळी. आतां तरी पुता खातीर म्हाका घरांत खपोवन घेता. तरी बरें हो ब्लॉक म्हज्याच नांवार आसा. तेन्ना भावनेच्या भरांत पुताच्या नांवार करूंक फुडें सरिल्ली हांव पूण... त्या गुप्तेन सांवरिल्ली – "शरूबाय, पिशेपणां करिनाका. भुरगो आपलोच आसा. आयज तो सामको तुज्या पदरा पोंदां आसा, सांगूं येता, फाल्यां कसली बायल मेळत? 'नटसम्राट' पळयिल्लो याद आसा न्ही. 'फुड्यांतले ताट दिवचें गे कोणाकय, पूण बसूंचो पाट तो सांबाळूंकच जाय, तरच ह्या जगांत धडगत."

आयज तिचीं तीं उतरां येवजून परतून तिचे दोळे उक्ते जाले. आपलें आसा तें आपले फाटल्यान भुरग्याचेंच, तें ताकाच मेळटलें. पूण आपूण आसा सर तरी आपल्या हातांत उरूंक जाय. आयज ताचें मन दुखावलां – पूण फाटीं फुडें आपल्या वागण्याचो अर्थ ताका समजतलो. बरें ना जाल्यार हॉस्पिटलां आसात, वृद्धाश्रमां आसात. फुडलें येवपी अरिश्ट येवजून आतांच सुखाचो जीव त्रासांत घालप ना. हो ठाम निर्णय शरूबायन घेतलो आनी तिच्या जिवाक सू... जालें.

000



# कथामंच

(कथा)

वसंत भगवंत सावंत

## निता-टिना

दोगूय सख्ख्यो भयणी खऱ्यो, पूण दोगांयचोय सभाव पळयल्यार सामकोच दोन तोंका वयलो कसो. सुशीलबाईल्यो ह्यो दोगूय धुवोच, निता आनी टिना. दोगांय मदीं फकत दोनूच वर्सांचें अंतर, रुपान तशीं दोगांय लागीं लागीं सारकींच, पूण शाळेंत शिकयतना हजारांनी भुरग्यांची वागणूक पळयिल्ले सुशीलबाईक आपल्याच धुवां मदलो भेद पळोवन खोस उणी आनी खंतच चड जाताली.

व्हडलें निता सामकें थंड, सोंशीक, मन लावन अभ्यास करपी. केन्नाच खंयच्याच चल्याक ताणें तोंड वयर करून पळयलां नासतलें, पूण टिना मात सामकेंच उचांबळ, पारपोळ. ताचें वागपच चंचल. सुशीलबाईक, हे आपले धुवेचेर, मातूय विस्वास नासलो. "घरांतल्यान भायर सरून गेल्लें कसलें कर्म करून परत आयलां आसतलें सांगूं नज... हें आमगेलें धाकटें आमच्या तोंडांत शेण घाले बगर रावचें ना." अशीं उतरां सुशीलबाईच्या मनांत हुस्क्यान घोळटालीं, इतलो टिनाचेर तिचो साप्प भरवंसो नासलो.

टिनाचीं लक्षणां सुशीलबाईक भुरगेपणांतच कळपाक लागिल्लीं, पूण तें इतल्या थरार पावत म्हणपाचें तिणें धरूंक नासलें. शाळेंत वतना ताचे दोळे सदांच सुजिल्ले, तांबडेशे दिसताले. वर्गांतले बाईक तें आळशी कशें दिसतालें, पूण एकदां तिणें टिनाक फुसलावन विचारलें, तेन्ना तिकाच कळ्ळ जालें. तिणें रोखडोच सुशीलबाईक रकाद धाडलो. रातची न्हीद सोडून आवय-बापायच्या बेडाचेर कितें चलता तें चोरयां पळोवपाची ताका संवय जाल्या आनी जागरणांनी

**वसंत भगवंत सावंत** : जल्म : 1960, कथाकार आनी नाट्यकर्मी *'निवल काणयो'* हो कथासंग्रह तशेंच *'कीर-मोर'* हो बालकवितांचो संग्रह प्रकाशीत. कला अकादमी, गोंय संस्थेच्या साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : रविन्द्र भवन, कुडचडें, गोंय 403 706. मो. : 9423058318.

ताचे दोळे सुजतात म्हणपाचें आयकना फुडें सुशीलबाईची तकलीच घुंविल्ले भशेन जाली.

आपूण सुटयेच्या दिसांनी दोगांकूय घेवन जार्दिनांत वतां तेन्ना निता वांगडा झोपाळ्याचेर जावं घसरगुंडेचेर खेळ नासतना झाडां आडसाक बसून गजाली करतल्या जोडप्यांचेर ताचें चड लक्ष आसता हें तिका जाणवुपाक लागिल्लें. दोगूय भयणीं अर्दी मर्दी झगडटाल्योच, पूण एकदां टिनाच्या तोंडांतल्यान बुरश्यो गाळी आयिल्ल्यो पलोवन, घरांतल्या संस्कारां परस भायल्या हळशिकावण्या वातावरणाचो ताचेर चड प्रभाव पडपाक लागला म्हणपाचें सुशीलबाईक जाणवलें.

जेवपा-खावपांत निताच्यो मातशो किचमणी आसताल्यो, तें विट्टालेंय रोखडेंच, पूण टिनाक मात कसलोच पातसो नासतालो. आपल्या ताटांतलें सोंपोवन तें निताल्या ताटांतलें उरिल्लें काडून खावन मेकळें जातालें. आवयन ताका हजार फावटी तापयिल्लें, पूण ताची संवय मोडूंक नासली. आंगापांगान गुटगुटीत आशिल्ल्यान दोन वर्सां व्हडले भयणी येदेंच तें दिसतालें. सुशीलबाई सदांच दोगांकूय लागपी कपडे वेगळेवेगळे काडून दवरताली, पूण टिना ते कपडे आपले काय भयणीले, हें पळय नासतना चडोवन मेकळें जातालें आनी निताली रड घालतालें. दोगांय सायकल चलोवपाक शिकिल्लीं. निता वेवस्थीत सांबाळून चलयतालें, पूण टिनाची सदांच चल्यां वांगडा रेस लागताली. आपूण पडटलें, धोडवतलें अश्या खंयच्याच परिणामाची ताका पर्वा नासताली.

निताक एके फांतोडेर पाळी आयिल्ली तेन्ना ताणें भियेवन रडून मोठो आकांत केल्लो. ताका सगळें समजावन सांगता म्हणल्यार सुशीलबाईक नाका जाल्लें, पूण पांचवेचे निमणे परिक्षे वेळार पेपर बरयता आसतनाच, आपणाकूय अशेंच कितें घडलां म्हणपाचें टिनाक जाणवलें. सगळीं भुरगीं तकली सकयल घालून बरोवपांत गुल्ल आसलीं. टिना उठलें आनी मेजा कडेन वचून सराच्या कानांत कितें तरी सांगून, टॉयलेटी कडेन वचपाक गेलें. सवे-सातवेच्या चलयांक, क्लासींत आसतना अशें घडटा तेन्ना तीं कशीं आबूज जावन रडपाक पावतात तें सराक खबर आसलें. हें खरेंच सांगता काय कॉपी मारपा खातीर निमित्य करून भायर सरना मूं? ह्या दुबावान त्या सरान एके लेडी प्यूनाक ताचे फाटल्यान चल आनी गरज पडल्यार आदार कर म्हणून सांगलें. खबर खरी म्हणपाची ते लेडी प्यूनान सांगतकच सराक ताच्या धिटायेच्या वागण्याचें अजापच दिसलें. ताणें ही खबर सुशीलबाईच्या कानार पावोवपाची वेवस्था केली. इतले भुरगेपणांत हाका अकस्मात असो पेपर बरयता आसतना म्हयनो आयला आनी हें मातूय काचाबूल जाय नासतना, आपणाक स्पश्टपणान सांगता, आपले आपूण समजिकायेन वागता, म्हणून सराक टिनाचें कवतूकशें दिसलें, पूण वाडिल्ले चलये भशेन हाका ते संबंदान कशी जाणविकाय आयली... आपणें काय ताका केन्नाच कांयच सांगूं ना... म्हणटकच कोणा कडेन हें असल्या गजालीं संबंदान उलयता काय?

ह्या हुस्क्यान सुशीलबाई चिंतपाक पडली.

धावेक पाव मेरेन टिनाचीं लक्षणां धडाचीं न्हय म्हणपाचें सगळ्या टिचरांच्या लक्षांत आयिल्लें. कसलीय डिफीकल्टी विचारपाक घरांत हुशार भयण आसा, शिकिल्लीं आवय-बापूय आसात, अशें आसूनय ताका फकत चल्यांचेच नोट-बूक्स लागतात, सांजे क्लासीक आयल्यार बाकिच्यो चलयो घरा पावल्यो, पूण हें खंयच्या ना खंयच्या चल्या वांगडा फाटल्यान उरता, अश्यो जायत्यो कागाळी आयकुपाक सुशीलबाईक आत्रापयऱ्यान स्कुलांत येवचें पडटालें. एके शाळाबाईचे धुवेक हें सोबना, अशीं उतरां आयकुचीं पडटालीं. तिच्याकूय दोन वर्सां मुखार शिकपी निताची सगळेच तुस्त करताले, पूण टिनाचेर मातशें लक्ष दवरात ना जाल्यार तें हाता भायर वतलें, हो उपदेश आयकुचो पडटालो.

धावेक आसतना गॅदरिंगा वेळार तर ताणें विटयलें. परिक्षा लागीं पाविल्ल्यान धावेच्या खंयच्याच भुरग्यान कसल्याच आयटमांत भाग घेवंक नासलो, पूण टिनान झगडून म्हणटात तसो एक 'डान्स' बसयलो. डान्सांतल्यो सगळ्यो चलयो-चले रंगोवन न्हेसून तयार आसले. नाटकुल्या उपरांत निमाणे सुवातेर टिनान बसयिल्लो ग्रुप डान्स आसलो म्हणून निवेदनय जाल्लें, पूण डान्साची जापसालदारकी आशिल्ले टिचरीन सगळ्या भुरग्यांक नाचा खातीर एकठांय केल्यार तांचे मदीं टिना ना. टिचरीचेर कलकल आयलो. तिणे टिनाक सोदपाक दोग तीग जाणांक हेवटेन तेवटेन धाडले. निमण्या वेळार पीटी टिचर टिनाच्या कानाक धरून घेवन आयलो. मेकअप रुमांत कोणूच ना अशें पळोवन दारा फाटल्यान टिना एका चल्या वांगडा आसलें म्हणपाचें ताणें ते टिचरीक सांगलें. चडश्या भुरग्यांक ही खबर कळ्ळी ना, पूण हेडमास्टरान जेन्ना ही गजाल सुशीलबाईच्या कानार घाली, तेन्ना तिचेर कपलार हात मारपाची पाळी आयली.

आपल्या घोवाक आपल्या व्यापा मुखार भुरग्यां कडेन लक्ष दिवपाक वेळ ना आनी ताका पडूंनय वचूं ना हें सुशीलबाई जाणा आसली. तरीय तिणें घोवाक परत एकदां सांगून पळयलें. "परत परत तूं भुरग्यांच्यो कागाळी म्हाका सांगूं नाकां आं! आपूण शिर्वीस सोडटां ती भुरग्यांचेर लक्ष दवरपाक म्हणून सांगतालें न्ही तूं? आतां म्हाका आनी कित्याक सत्यता? आमकां एक चली जाल्या ती पुरो म्हणून हांवें तुका सांगिल्लें, याद ना? तुका चल्या खातीर ट्राय करीनशें दिसलें. परतय चलीच जालें - आतां ताका सांबाळपाची जापसालदारकी तुजी." सदचेभशेन आदोगाद घोवान सुशीलबाईचेर लकोवन दिलें आनी हाचे फुडें आनी आनी ताका सांगून कांयच फायदो ना हें तिका पटलें.

टिना धावेक धडेर पास जालें आनी ताच्या एडमिशना खातीर सुशीलबाईक बऱ्योच राटावळी करच्यो पडल्यो. निमाणें अंदूंचीं बॅचींतल्या 'बॅस्ट स्टुडंटा'चीं भयण म्हणून निता शिकतालें, ते हायर सेकंडरींत एकदांचें एडमिशन मेळ्ळें. बारावेचे परिक्षेंत

अपेक्षे प्रमाणे निता हायर सेकंडरींत पयलें आयलें. आपले व्हडले धुवेन जोडलां तें धाकटी धूव वगडायत म्हणपाचो सुशीलबाईक हुस्को दिसतालो. कितेंय घडल्यार घोव आपणाकच जापसालदार धरतलो म्हणपाचें येवजून तिणें इकरावे-बारावेक टिनाचेर खर लक्ष घालपाचें थारायलें. सगळीं कामां कुशीक अडोवन ती सकाळची टिनाक चलत वचून हायर सेकंडरींत पावन येताली आनी भर दनपरां परत वचून घेवन येताली. हायर सेकंडरीचो प्रिन्सिपलय कडक शिस्तीचो आशिल्ल्यान सगळीं भुरगीं धाकांत आसतालीं. आपणाक पावपाक - व्हरपाक 'पुलीस एस्कोर्ट' दवरला म्हणून वांगडचीं चाळयतात म्हणत टिना आवयचेर बेजारतालें, पूण सुशीलबाईन आपलो नेम मोडलो ना. स्पोर्टसाक, गॅंदरिंगाक ती सामकी सावळी कशी टिना फाटल्यान भोंवताली. बारावेत आसतना एका टिचराक ताणें घुस्पायला म्हणपाची हय-न्हयशी खबर तिच्या कानार पडली तेन्ना सरळ वचून तिणें ती खबर प्रिन्सिपलाच्या कानार घाली. घरांत टिनान मोठो सांवार केलो पूण सुशीलबाईन ताका टूरार धाडलें ना तें धाडलें ना. स्कुला परस हायर सेकंडरींत टिनाक सांबाळपाक आपणाक शक्य जालें अशें तिका दिसलें. बारावेक त्या मानान टिनाक बरे मार्क पडले. खटपट करून सुशीलबाईन टिनाक, निता थर्ड इयरांत पाविल्लें, तेच कॉलेजींत एडमिशन केलें. कॉलेजींत पावतकच मात टिनान आपणाले रंग दाखोवपाक सुरवात केली. कॉलेजीत टिना वांगडा येवन वचप तिका शक्यच नासलें, पूण एक दीस सहज पासय मारपाक म्हणून गेल्यार, कॉलेज सोडून टिना एका भुरग्या वांगडा मोटरसायकलीचेर, चल्याभशेन बसून गेटीभायर सरतना दिश्टी पडलें. सुशीलबाई खरशेत माळी चडून प्रिन्सिपलाच्या कॅबिनांत गेली. "आगे, ही कॉलेज, खंयची भुरगीं कशीं येतात आनी कशीं वतात तें पळोवप हांगा शक्यच ना. आतांचो काळ बदल्ला. स्टुडंटस हांगा फकत पांच ते स वरां आसतात. बाकीच्या वेळार तीं कितें करतात तें पळोवपाची जापसालदारकी तांच्या पालकांनीच घेवपाक जाय." एका काळार आपूण पालकांक तांची जापसालदारकी सांगताली आनी आतां आपणाकूच आयकुचें पडलें अशें म्हणत सुशीलबाई बद्द घरा परतली.

कॉलेजींतल्यान येवन टिना मातशें न्हिदतालें तेन्ना सुशीलबाई ताची पर्स, बुकां बी ल्हवूच तपासताली. मोबायलाचेर तें उलयतालें तेन्ना बारीक लक्ष दिवन आयकताली. टिनाचें प्रकरण हालींसरा वाडलां म्हणपाचें तिका जाणवूंक लागिल्लें. एक दीस पर्सींत चेक करतना फॉरेन चॉकलेटी आनी मिंटा वांगडा एक कंडोम तिच्या हाताक लागलो तेन्ना तर ती सामकी थरथरली. खीणभर सगळें आंग जड जाल्ले भशेन तिका दिसलें. सगळी शक्त एकवटावन तिणे रागान टिनाक उलो मारलो.

"हें कितें गो? तुजे पर्सींत कशें पावलें?"

टिनाचेर मातूय परिणाम जालो ना.

थंडपणान ताणें जाप दिली.'

"मम्मा, आमच्या ग्रुपांतल्या सगळ्या चलयांच्या पर्शींत आमी दवरतातच तें... तूं रिलेक्स जा, टॅन्शन घेवं नाका... सेफ्टी खातीर तें दवरचें पडटा."

"सेफ्टी खातीर म्हणल्यार गो?"

"आगे, आमी डेटींगाक बी वतात न्ही कोणाकोणा बरोबर... केन्नाय अर्शींच फुडें पावलीं आनी तेन्ना ताचे कडेन अशें कांयच नासलें जाल्युार रिस्क नाका, म्हणून ग्रुपांतल्या जण एकल्यान आपले पर्शींत हें दवरपाकच जाय, म्हणून आमच्या ग्रुप लिडरान आमकां शिटकायलां."

अशीऽऽ तिडक मारली सुशीलबाईक टिनाची...! थंयच तकलेर कितेंय घालून टिनाचो जीव घेवचो अशें तिका दिसलें. आवय कडेन इतल्या बेधडकपणान उलयता ते चलये मुखार आनी माणसुकी ना, हें तिका कळ्ळें. कॉलेजींत वतल्यो कांय चलयो अशें नाका जाल्लें करतात अशें तिणें आयकल्लें, पूण आपलीय धूव तांचेच भशेन जाल्या म्हणपाचें येवजून तिचेर कलकल आयलो. तिका नितचो चड हुस्को जातालो. तें इतलें बरें शिकता, हें टिना नाका जाल्लें अवचिन्नपणां करतलें आनी नितांचेंय नांव घाणायतलें हाचो तिका हुस्को जालो. टिनाचें कितें जाता तें जावं, निताक बरे भशेन लग्न करून वयार केल्लें बरें अशें तिका दिसलें. निताची फायनल इयराची परिक्षा लागीं लागीं पावल्याच, सोयरीक आयल्यार ताका उजोवन सोडप असो तिणें निश्चेव केलो. दुसऱ्या दिसा निताचे सगळे डिटेल्स घेवन ती मॅरेज ब्युरोंत गेली आनी नांव रजिस्टर करून आयली. घरांत आतां सुशीलबाईचें आनी टिनाचें अर्दींमर्दीं पेटत आसतालें. तें जाय तेन्ना घरांतल्यान भायर सरतालें, जाय तेन्ना येतालें. विचारल्यार आवय कडेन वाद घालतालें. एकदां टिनाक म्हयनो जावन, सात - आठ दीस चड गेले, तरी पाळी आयली ना म्हणून सुशीलबाईन टिनाक आपोवन खोलायेन विचारलें.'

"सात-आठ दीस चड गेले म्हणून भंय ना म्हणटात गे!"

"तुका कोणें सांगलें?"

"म्हजें फ्रेंड सांगतालें, तें भियेल्लें.. दीस गेल्या जायत म्हणून, डॉक्टरा कडेन वचपाक सोदतालें, पूण आयली ताका पाळी मागीर."

टिनाच्यो जापो आयकून सुशीलबाईचें हड्डें खपखपपाक लागिल्लें.

"तिचें बरें आसा... तुजी कांय भानगड ना मगो?" टिना ओगीच आसा तें पळोवन ती थार भियेली.

"आगो, हांव कितें विचारतां तुका? कांय ना मगो भानगड?"

"तूं कित्याक भिता गे... पिशें ना हांव तितलें... आनी, केन्नाय गरज पडल्यार तुकाच घेवन वतलें हांव डॉक्टरागेर."

"आगो, कितें उलयता तूं टिना?"

"मम्मा, हांव सारकें तेंच उलयतां. आमचे कॉलेजींतलें सेकंड इयरांतलें एक चली ॲबोर्शन करपाक आपल्या बॉयफ्रॅंडाक घेवन गेल्लें. तो दोतोर हरशीं पांच हजार घेता खंय, पूण बॉयफ्रॅंडाक पळोवन दोतोरान

सोमतेच पांच हजार चडयिल्ले. बॉयफ्रँडा बदला आवयक घेवन गेल्लें जाल्यार पांच हजार रुपया वाटवतले आसले, अशें म्हणटालें तें.''

टिनार्ली उतरां आयकून सुशीलबाईक घुंवळ येवपाचीच उरिल्ली.

आतांच्या भुरग्यां मुखार माणसुकी ना गे बाये. आदल्या तेंपार चलयेचो पांय मातसो वांकडो पडल्यार मोठो सांवार जातालो आनी आतांच्यो ह्यो चलयो वांकडे चालींत चलपांतच व्हडपण मिरोवपाक लागल्यात. वयल्यान तोंण वयर करून आनी सांगतात, मोठो पराक्रम केल्ले भशेन.'' सुशीलबाई आपले भितरच बडबडत आसली, पूण टिनाक तिचें कांयच पडूंक नासलें, ते मोबायलाचेर कोणा कडेन तरी चॅटींग करपाक गुल्ल आसलें.

सुशीलबाई चिंतनांनी शेणून गेली. व्हडल्या निताचें जल्म टिपण पळोवन भटान सांगिल्लें - तें मूळ नक्षत्राचेर जल्मलां, असलीं भुरगीं कुटुंब घातकी जातात, पूण निता तर मर्यादेन वागता, उरफाटें टिपण बरें आसा म्हणटलें टिना सामकें विटोवपाक लागलां. आपलो घोव हें दुसरें भुरगें नाकाच म्हणटालो - तेन्नाच आपणें ताचें आयकल्लें जाल्यार...

दुसऱ्या दिसा सुशीलबाईक कॉलेजींतल्यान फोन आयलो. '' अर्जंट कॉलेजींत यो'' असो रकाद प्रिन्सिपालान दिल्लो. ''शक्य जाल्यार आदोवागाद घोवाक घेवनच यो.'' अशेंय ताणें म्हणिल्लें, पूण ताका आपोवप म्हणल्यार गरजेभायर उतरां आयकुवप अशें चिंतून ती एकटीच प्रिन्सिपलाक मेळपाक गेली. सदचे भशेन टिनान कितेंय पूण नावाडगेपण केलां आसतलें, ओगीच घोवाक वांगडा व्हरून प्रिन्सिपला मुखार गोवालींय तापोवणी आपणाक नाका, अशें तीणे चिंतले. प्रिन्सीपलाच्या कॅबिनात इन्स्पेक्टराक पलोवन तर तिका सामको शेळो घाम सुटलो. पोलीस एका हॉटेलाचेर धाड घालतात, थंय तांका टिना मेळटा, आपूण अमके कॉलेजींत शिकता अशें म्हूण सांगतगीर इन्स्पेक्टर ताका घेवन समतोच प्रिन्सीपला म्हऱ्यान येता अशेंसे एक चित्र सुशिलबाईच्या दोळ्यामुकार येवन गेलें. काचाबूल जाल्ले सुशिलबाईक प्रिन्सीपलान बसपाक सांगलें.

''हें पळयात सुशीलबाई, काल - पयर एक एमएमएस मोबायला वयल्यान कॉलेजीच्या भुरग्यां मदीं व्हायरल जाला हें तुमच्या कानार घडये पावलां आसतलें. आमी रोखडीच ताची दखल घेवन पुलिसांच्या आदारान आमच्याच एका स्टुडंटाक अॅरेस्ट केला. भियेवपाची गरज ना आमी एकान एक भुरग्यांचे मोबायल तपासून ती क्लिपींग डिलीट केल्या. चुकून खंयय कोणा कडेन उरल्या-पावल्या आसत, पूण तुमी हुस्को करुं नाकात. ती क्लिपींग बोगस आनी मॅनिपुलेटेड म्हणपाचें रोखडेंच कळटा. क्लिपिंगाचेर निताचें नांव घालां खरें - पूण टॉयलेटी मेरेन वता, तितलेंच शुटींग ताणें निताचें काडलां... आनी भितर, आंगार एकय कपडो नासतना दाखयल्या ती बायल

खंयची तरी दुसरीच. इन्स्पेक्टर म्हणटा, ताणें नेटावयल्यान क्लिपींग घेवन जोडलां म्हणून, निताचें नांव घाण करपाक.''

''सर, निताचें काय टिनाचें?'' सुशिलबाई घुस्पल्ल्या भशेन जालीं.

''थर्ड इयराक आसा तें निता. आमचे बेस्ट स्टुडंट. अंदूंचो अॅवार्ड ताका फायनल जाला. निताचें आनी ताचेच क्लासींतल्या एका चल्याचें नांव निमण्या रावंडांत पाविल्लें. अवार्ड निताकूच मेळटलो हें जाणा जावन ताणें हीं मुर्खपणां केल्यांत.'' प्रिन्सिपलान तिका विस्कटावन सांगलें. तिणे इन्स्पेक्टरा कडेन पळयतकच सायब म्हणपाक लागलो ''तुमचो घोव अॅडव्होकेट. तो जाणां सगळ्यो फॉर्मेलीटीस. आमकां एक तुमचे कडल्यान कंप्लेन जाय. आमी प्रेस कन्फरन्स घेवन तें क्लिपींग बोगस म्हणून सांगतले, पूण तुमचें जावं चलयेचें नांव कोणाक कळचें ना, हाचीय खबरदारी घेतले. तुमचे चलयेचें नांव क्लिपींगाचेर घालून त्या भुरग्यान सिरीयस क्रायम केल्या. ताका बुद्द शिकोवपाकच जाय.''

कितें करचें तेंच सुशीलबाईक कळना जालें. एक वेळ तें क्लिपींग टिनाचें आशिल्लें जाल्यार, झक मारूं, म्हणून ती ओगी रावतली आशिल्ली. पूण साडेभावार्थी निताचें नाव घाणावपाचो यत्न जाला म्हणून तिच्या काळजांत चर्र जाल्लें. घोवा कडेन उलोवन रितसर कंप्लेन दिवपाचें उतर दिवन ती भायर सरताली तेन्नाच तिका मोबायलाचेर मॅरेज ब्युरोंतल्यान फोन आयलो. तिणें फोन कट केलो. निताच्या क्लिपींगाची खबर तांचे मेरेन पावल्या आनी वासपूस करपाक तांणी फोन केला, अशें तिका दिसलें... रिक्षेंतल्यान येतना आनीकूय दोन फावटी आयिल्लो फोन तिणें कट केलो. घरा कडेन पावतां पावतां परत फोन आयलो तेन्ना तिणें भियेतूचघेतलो. ''काँग्रेच्युलेशन्स'' तुमच्या निताक एक पेजाद प्रोपोजल आयलां. न्हवरो चलयेक पळोवपाक सोदता. पळोवपाचो कार्यक्रम खंय आनी केन्ना दवरुया?'' सुशीलबाईक खीणभर सू जालें. निताचें लग्न जाता तितले बेगीन जावचें म्हणून तिणें नांव दिल्लें आनी आयची खबर आयकून तिका तें रोखड्या रोखडें जाल्यार चड बरें जातलें अशें दिसलें. तिणें भुरग्याची वासपूस काडली. ऑस्ट्रेलियेंत सेटल जाला, इंजिनियर म्हूण एके मोटे कंपनींत काम करता. म्हयन्यां दोन म्हयन्यांभितर लग्न जावन बायलेक घेवन तो ऑस्ट्रेलियेक वचपाचो, म्हणटकच ताका नोकरी करपी चली नाका. सादारण शिकिल्ली आसल्यार पुरो. चली ऑस्ट्रेलियन नागरीक जायनाफुडें बेकार म्हूण रजिस्टर केल्यार थंय भत्तो मेळटा खंय''. मॅरेज ब्युरोंतले बायलेची उतरां आयकता आयकतां सुशीलबाईन पळोवपाचो कार्यक्रम दुसऱ्याच दिसा दवरया आनी आपूण चलयेक दाखोवपाक मॅरेज ब्युरोच्या ऑफिसांत घेवन येतां म्हणपाचो रकाद दिलो.

खरें म्हणल्यार निताक मातूय मूड नासलो, पूण टिनान ताका वेवस्थीत भायर काडलें. बरीशी साडी वेंचून काडली. तिचो मॅकअप आपणें केलो आनी आपणेंच अॅरेंज केल्ले गाडयेंतल्यान तें आवय आनी

भयणी वांगडा ब्युरोंत पावलें. न्हवऱ्या भुरग्या वांगडा चार बायलां आनी ताचो एक इश्ट आयिल्लो. तांकां पळयल्यार घराणें बरें म्हणून कळटालें. सुशीलबाईक आनी तिच्या घोवाचें नांव तीं आयकून जाणा आशिल्लीं. भुरग्याक निता पसंत पडलां म्हणपाचें तांच्या तोंडावयल्यान कळटालेंच. नितान आपलें मत सांगतना आपूण अमके कॉलेजींत शिकतां आनी अंदूंचो 'बॅस्ट स्टुडंट ॲवार्ड' आपणाक जाहीर जाला म्हणपाचें सांगलें, तेन्ना त्या न्हवऱ्या भुरग्याच्या इश्टान ताका मातसो कुशीक आपयलो आनी ताच्या कानांत कितें तरी फुतफुतलो. रोखडींच तीं पांचूय जाणां एकठांय जालीं आनी आपसांत उलोवपाक लागलीं. खीणभरांत तांचीं उमेदी तोंणा बावल्यांतशें सुशीलबाईक दिसलें.

"बरें तर, आमी रकाद धाडटात रोखडोच". अशें म्हणून तीं वचपाक भायर सरलीं तेन्ना सुशीलबाईक मातशें वायटशें दिसलेंच. खीणभर चिंतून, चार पावलां मारून ती तांच्या म्हऱ्यांत गेली आनी तिणें भुरग्याचे आवयक विचारलें...

"कितें जालें? निता पसंत पडलें ना तुमकां?"

न्हवऱ्या-भुरग्याचे आवयन सुशीलबाईच्या भुजार हात दवरीत म्हणलें... "तुमचे धुवेक नापसंत करपा सारकें कांयच ना. ती सभावान बरी, शिक्षणात हुशार हें आमी जाणात. तुमचे सारक्या आवय-बापायची धूव, सून करून घेवपाक म्हाका उमेदूच जातली आसली... पूण तिच्या नांवान कितें क्लिपींग आयलां खंय... तें क्लिपींग बंडल म्हूण कळ्ळें आमकां... पूण लोक फाल्यां कितें उलयतले जाणा? "तिची सून बॅस्ट अवार्ड मेळ्ळ्या ती..." अशें म्हणचे नात... "तिची सून ती क्लिपींग आयिल्ली ती" अशेंच म्हणटले.

"तुमकां कशें दिसता? म्हजे जाग्यार तुमी आसात अशें धरात आनी सांगात."

सुशीलबाईच्या तोंडांतल्यान एकूय उतर फुटलें ना. न्हवऱ्या-भुरग्याचे आवयन तिचो हात घट्ट धरलो आनी म्हणपाक लागली...

"तुमची धूव खऱ्यांनीच बरी, म्हाका उमेदूच आसली... पूण... हें पळयात... हांव जाणां... आतांच्या भुरग्यांचें चित्र काडपाचें ना... पूण तें कोण डेवन बसनात... दोळ्यां आड मसंड पाड म्हणटात तशें... म्हाका खात्री आसा तुमची चली खऱ्यांनीच बरी... पूण तें क्लिपींग...." आपले साडेभावार्थी व्हडले धुवे संबंदान उलयल्लीं उतरां सुशीलबाईच्यान आयकूपाक जालीं नां. तिणें खीणभर दोळे धांपले. एकवेळ हाताभायर गेल्ले आपले धांकटे धुवे संबंदान अशें घडिल्लें जाल्यार आपणाक घडये वायट दिसचें नासलें, असो विचार तिच्या मनांत येवन गेलो. त्याच वेळार, न्हवऱ्या भुरग्यान म्हऱ्यांत येवन उलयिल्लीं उतरां तिच्या कानार पडलीं.

"मम्मी, तुमची मान्यताय आसत आनी तिची पसंती आसत जाल्यार हांव निताचे धाकटे भयणी कडेन लग्न जावपाक तयार आसां."

सुशीलबाईन धांपिल्ले दोळे बरोच वेळ उगडले नात. आपणें आयकल्लीं उतरां खऱ्यांनीच न्हवऱ्या - भुरग्यान उलयल्यांत काय आपणाक भ्रम जाला, हें तिका त्या खिणाक कळ्ळेंच ना.

000

# कथामंच

(कथा)

व्यालि क्वाड्रस

## माप

**व्यालि क्वाड्रस :** जल्म : 1967, कथाकार, कवी, कादंबरीकार , बालसाहित्यकार आनी पत्रकार. कन्नड आनी कोंकणी भाशेंतल्यान लेखन. 200 वयर कथांचें लेखन. *'आशावादी'* (कथा, 2001), *'खिळो'* (कथा, 2003), *'कंगाल आनी ताची कुंकेहळ्ळी'* (कथा, 2005), *'सतां आनी कथा'* (कथा, 2007), बंद (कथा, 2017), *'संघर्श'* (कादंबरी1991), *'मोगा म्हुज्या'* (कादंबरी 1988), *'पार्टी गांवांत'* (ई कादंबरी-2004), *'चारमुखां'* (कविता, 2002), *'कठपुतळी'* (कविता 2004), *'दरबारांतली पिरगण'* (कविता, 2006), *'बाजार'* (कविता, 2017) हीं तांचीं कांय प्रकाशीत स्वतंत्र पुस्तकां. *'विसाव्या शेंकड्याच्यो कोंकणी कथा '* ह्या कर्नाटक साहित्य अकादेमी प्रकाशीत कथासंग्रहाचें संपादन. *'पयणारी डॉट कॉम'*, हे ईपत्रिकेचें संपादक. कर्नाटक साहित्य अकादेमीच्या साहित्य पुरस्कारान दोन फावटी सन्मानीत. तशेंच दिवो नेमाळ्याचे वतीनय सन्मानीत. संपर्क- 1801, स्कायलार्क, सेक्टर-15, घांसोळी, नवी मुंबय, 400701, मो. 07738038980-07021967880.

"तुजें पफॉर्मेन्स एपरेयसलाचें फायल म्हाका पावलां. येज यूजुवल - यू ह्यावंट एचीवड युवर स्कोर कार्ड मिस्टर गुर्दास" सुमार वेळ फायलाचेर गंभीर दीश्ट घालून आसल्ल्या प्रधान संपादक शरण मोटवानीन आपल्या नाकाचेर आसच्या चस्म्या वयल्यान गुर्दासाक तिळ्ळें.

कदलार हातू दवर्न बसोन आयकतेल्या गुर्दासाच्या तोंडाचो चेरो बदलांक नातलो. हें कांय ताका नवें न्हय. हीं उत्रां ताका वळकीचीं. उत्रांच कित्याक? हें कूड, कदेलां, हऱ्येक वळकेचें. पूण मेजापाटल्या कदेलाचेर मात्र बोसचो व्यक्ती मात्र बदल्तालो. ताच्या मतिंत अव्यक्त सवाल उदेवन येतालें;

"कांय हें माप वा मापदंडां?"

अजीक कांय अठरा वर्साधीं सुर्वात केल्ल्या ह्या म्यागजीनांत चडताव जावन हऱ्येका वर्सांत संपादक बदल्ताले. पूण पाटल्या थोड्या मयन्याधीं संपादकान काम सोडून गेल्ल्या उपरांत, सद्दयाक प्रधान संपादकच पत्र चलयतालो.

"तुवें म्हज्या सवालाक जवाब दिवंक नांय, तुज्या स्कोर कार्डांत तुका दिलेल्या हऱ्येका क्षेत्रांत तुजी मापणी निरासदायक जावनासा. तुका कांय सांगोंक आसा? तुका पाटल्या एका वर्सांत, तुजेथंय जाल्ली कांय बदलावण दिसता?"

"...." गुर्दासान मौन पसंद केलें.

***

अजीक कांय सात वर्सांधीं आयरो म्यागजिनाचो वर्दे

गार जावन कामा सेर्वल्ल्या दिसाक आनी आयज, सात वर्सा उपरांतल्या दिसाक अंतर म्हळ्यार संपोन गेल्लीं वर्सा मात्र शिवाय हेर कसलोय बदलाप जावंक नातल्लो. तोच्च सुको साडे तीन हजरांचो सांबाळ, तेंच देड हजार रुप्यांचें भाड्याचें ल्हान कूड. तिच्च लोकल ट्रेयन, बीएसटी बस्सां आनी तेंच यांत्रीकृत जिवीत.

तशें म्हणोन म्यागजिनान वृद्दी करूंक ना म्हण न्हय. पयलें सायन कोलिवाडांतल्यान चारशीं स्क्वेर फुटाच्या दफ्तरांत सात जणांनी सुर्वात केल्ल्या ह्या पत्रान आयज भारताच्या प्रमुख मेट्रो शहरांनी आपली अस्मिताय केल्या. आयज सायन कोलिवाडांत कांय तीन माळयांचें बांदप जालां, कांय साटांच्याकी चडीत काम कर्तात तर कांय शंबरांनी रिपोर्टर आसात. शंबरांनी विकऱ्याचे एजंट आसात. रिसर्च आयनलिस्ट आसात. मुंबय मात्र न्हय, दिल्लींत, चेन्नयांत, कोलकातांत सयत बरोवपी आसात.

शरण मोटवानी म्हत्वाकांक्षी, जर्मनीच्या बर्लिनांत पत्रिकोध्यमाची उंचली सनद जोडून येताना ताची उमेद विशेश. ताणें सुर्वात केल्ल्या पत्रान वेगिंच मळबाक आपडचो भवंसो उभजायिल्लो. 'आयरो' ताचें स्वपाण, हऱ्येक संग्त्यो उटाउटीं बदलाजय, खिणान जायजय, फास्ट, क्वीक, आयक्युरेट – हे हाच्या दिस्पडच्या उलवण्यांत परत परत आयकॉक मेळचे शब्ध.

बराप कोणाक हव्यास मात्र आसोंक पुरो, कोणाक पिसाय जावंक पुरो, आनी कोणाक कोरीज जावंक पुरो. पूण पत्रिकोध्यम तशें जायना. देखून बरयणार आनी साहिती वेवेगळे प्रकार. बरयणरान चिंतची रीत विंगड, मापचें माप वेगळें, देखची रीत अथवी. बरयणारान बेजबाबदार जावं येता. पूण साहितीन न्हय. बरयणारान नैतीक मोलां होगडावन जियेवता, पूण साहितीन न्हय. बरयणारान पोळकुर्वाद वेंगेयेता पूण साहितीन न्हय. बरयणारान फायदो – लुक्साण चिंतयेंता, पूण साहितीन न्हय.

गुर्दासान पत्रिकोध्यमाक पांय तेंकल्लो हव्यासांत्यी न्हय जबाबदारेनी न्हय. गुर्दासाक जिणेंत हव्यास म्हणचें कार्य करुंक वेळच खंय आसलो? फार्टी फुडें पळेवंक ताचीं कोणच नातलीं. जशें जिवितान आवकास दिलो तसो तो चमकोन गेल्लो.

***

बेळगांवच्या पिरेन्वाडिंतल्या एका लाचार रयताचो पूत जावन जल्मल्ल्या गुर्दासान धावी पऱ्यांतलें शिकाप जोडल्लेंच भोव कश्टांनी; तेंय सरकारी इस्कोलांत. ताची आवय घरांत रांदपाची, नितळायेची जबाबदारी कर्चेसर्वे धोवासवें गाद्यांन घोळोंक सयत वेताली. सदां इस्कोलांतलो येतेच्च गुर्दास गुड्यार आसचें शेण विंचूंक वेतालो. गिरेस्तांक कांय कोन्वेंट इसकोलां थोडीं आसलीं पूण शिकपाचे फीस दिवंक गत नातल्ल्या गुर्दासाक धावीं जातेच्च फुडली वाट गयरी गयरी दिसताली.

शांत स्वभावाचो गुर्दास गर्जेभायर कोणयलागीं उलयनासल्लो. ताची अभिव्यक्ती जावनासली 'बराप'. साहितरुपार तो

चिंतालो, ताणें कोणालागिंगी उलवंक आसा, आपले विचार सांगोंक आसात, कोणगी ताका वाचतात आनी समजतात म्हळ्ळें ताचें चिंताप. इस्कोलांत तवळ तवळ प्रबंध बरवन इनामां आपणायिल्ल्या हाच्या बरपा प्रतिभेचेर थोड्या टिचरांनी हाका पत्रिकोध्यमा तेवशीन फुडार सोदूंक सुचयिल्लें. देखून धावी जातेच्च तो ईवनिंग कोलेजिंत पियुसी कर्न, बी. ए. शिकोन आसताना दिसाचें तो गादूयाचें काम कर्तालो. शिकपाच्या मधेंच ताचो बापूय सरलो. आतां ताचें शिकाप मुखार व्हरूंचेगीवा कुटमाचो हार्भार खांदार घेवचोगी समजाना जालें ताका. भोव ल्हान प्रायेर्च जिणेन जायतें लिसांव शिकयिल्लें ताका. हेच्च वेळार ताणें बरयणार जावन आपली प्रतिभा दाखयली. मराठी, हिंदी, कानडी भासे सवें इंग्लीश भासेचें साहित सयत वाचूंक लागलो. सभार साहितीक स्पर्ध्यांनी इनामां जिकलो म्हणतच आपसुकच लोकांक वळकेचो जालो.

गांवटी लोकांसवें भर्सोन जियेतालो देखून ताका साद्या लोकांचें जिवीत, चिंताप, काळजाची उडकी, हांसो, दूक समजोंक सक्तालो. गादूयांनी कोबू लांवची, कोबू लुवणी, बरो कोबू बांधून साकर फॅक्टरेक विकचो, आनी मोडल्लो कोबू गांवचांनी गोड करुंक, सोरो काडूंक आनी हेर गर्जाक उपेग कर्चे तो समजल्लो. कोबासवें हेर तर्कारी लांवणी, वोळी खोडचें, मेरो खोडचें काम तो कर्नासच्या संदर्भी, लोकांक आसक्त नीलू फुलेच्या नाटकांनी, दादा कोंडकेच्या बप्पर फिल्मांची, आनी कांय आसक्त आसा तर वर्सान वरस जांवच्या जात्रांक.

कश्टांनी बी. ए. शिकोन कांय काम सोदूंक लागच्या दिसांनी, पिडेन ताची आवय सरली. आतां पिरेन्वाडिंत एक ल्हान घरांत तो एक्सुरो जियेवंक शकलोना. गांवच्या मुखियाच्या शिफारसेन बोंबोय गेलो आनी घाटकोपरांतल्या एका पयसिल्या सयऱ्यासवें रावोन काम सोदूंक लागलो.

बरयणार बेकारी! प्रतिश्टीत बेकारी!! शिकपी बेकारी!!!

कोण म्हणता 'शिकाप जोडचें, काम मेळोंक', पूण हकीगतेंत हें अव्वल फट. कामाक आनी शिकपाक संबंध आसाजयच म्हण ता. अशें पळेवंक गेल्यार, शिकाप जोडचें समाजेंत एक बरो नागरीक जावन जियेवंक. बरें-वायट मधलों फरक समजोंक, सवालां करुंक. पूण जेदनां मतिंत केल्लीं हीं सवालां अधुरींच जावन उर्तात, तेदनां उभजातालें एका रितिचें झूज.

बोंबोयांत कांय फेस्तां परबो उण्यो नात. दिवाळी जावं, नवरात्री जावं, गणपती जावं, क्रिस्मस जावं, ईद जावं - हऱ्येकलीं ह्या फेस्तांनी मेतेर जातालीं. कोणाक महत्व कळोंदी आनी कोणाक कलानाये जांवदी. क्रिस्मसाच्या सांताक्लोजाक नव्या वर्सादिसा थोडे लासताले, राखी दिसा राखी बांदल्ल्या चेडवासवें बिचांक वेताले, गणपतीक उदकांत घाल्च्या तेंपार घरानघर पयशे वसूली कर्ताले - आसों.

वर्सान वरस ह्या फेस्तां सवें हेर सांसकृतीक चटुवटिको जाताल्यो. तांतूं मराटी कला मेळ संस्थो एक. तांचे

'आमचो माणूस' म्हळ्ळो पुरस्कार हे फावटीं गुर्दासाक दिवंक प्रायोजकांनी निर्णय केल्लो. अशें नम्यारलेल्या दिसा गुर्दासाक त्या सांस्कृतिक सभेंत वेदिचेर आपवन मान केलो. मुखेल सयरो पाठक इंडस्ट्रीसाचो मालक दिनानाथ पाठकान मराठी माणसांक क्रियात्मक वावर करुंक उलो दिलो तशेंच गंधाचो हार गुर्दासाच्या गळ्यार सोभयलो आनी पोटलून धर्न अभिनंदन पाटयले. वेदिचें करणें जाल्लेंच, ताणें गुर्दासाक आपलें विजिटिंग कार्ड दिलें.

जिणेंतलो पयलो अणभव गुर्दासाचो. वेदिचेर चडोन इतल्या लोकांमधें मान-सन्मान घेंवचो. ताणें ते विजिटिंग कार्ड जोगासणेन दवरलें. भोव महत्व दिवून.

बोंबोय येवन कांय देड म्हयनो जाल्लो. ह्या देड म्हयन्यांनी तो चर्चगेट खंय आसा, विटी खंय आसा? थाना खंय आसा? अंधेरी खंय आसा? बीएसटी बस्सां कशीं धर्चीं? खंचीं नंबराचीं बस्सां घाटकोपर येतात म्हळ्ळें शिकल्लो, तरी जोक्तें काम ताका मेळोंक नातल्लें. एका वाटेन काम ना, दुसरे वाटेन रावोंक भाडें दिवंक नांत म्हळ्ळी खंत. उपाय करून एका दिसा, दीननाथ पाठकाक खुद्द मेळोंक चिंतलें. कांय ताचे वळकेंत पुर्णीं आपणाक काम लाभलें तर बरेंच!

दिनानाथ पाठकाची दादरांत एक ल्हान फेक्ट्री आसली, फॅब्रिकेशनाची फेक्टरी आपणाक अचानक मेळोंक आयिल्ल्या तर्नाट्याची वळोक भायर आसच्या गेटकिपराक सांगतच ताका भितर धाडूंक फोनार पर्वणगी दिली पाठकान. गुर्दासाक दफ्तराच्या भितर आपवन कृतक हांसो पाटवन बसोंक सांगलें. पयलेंच ऑफिसांत पाठकाचे दोग सयरे आसले देखून तांचे मुखार कशें उलंवचें म्हण चिंतूंक लागलो गुर्दास. त्या शिवाय भितर हिंव खांवचेपरीं ए.सी.चो थंड हवो.

"सर, तुमीं म्हाका... पो... पोयर... सम्मान केल्लो... घाटकोपरांत..." गुर्दास पाद्देवन उलयलो.

"व्हय.... हांव किर्ते करूं आतां तुका? म्हजे थावन कांय..."

"सर... हांव बेळगांवच्या राणी पार्वती देवी कोलेजिंत बीए शिकोन आयलां. म्हाका खंय तरी काम मेळ्ळें तर उपकार जातो. देखून कांय तुमच्या वळकेर..."

"तूं खंय रावताय? कोणासवें रावताय?"

"सर, हांव घाटकोपरांतल्या म्हज्या एका पयसिल्या सयऱ्यासवें, ताच्या कुडांत रावतां."

"लूक आयट टुडेस यूत, तर्नाट्या... तुज्या प्रायेर हांव बोंबोय येताना म्हज्या पांयांक व्हाणो सयत नातल्ल्यो. म्हजो सयरो कोणच नातल्लो. वळकेच्या एका वाचमेनाच्या शिफारसेन ताणें पारोत कर्च्या पांच माळयेच्या बिल्डिंगाच्या टेरेसार निंदोन दीस काडल्यात... नो इन्फ्लूयेन्स, नो स्पोन्सर्स. पळे आयज हांवें ही फ्याक्टरी उभी केल्या तर म्हज्य्या मिनतेन आनी परिश्रमान... तूं बीए शिकलाय, तुका ह्या एद्या व्हडा शारांत एका कामाक सोदची

छाती ना?''

''सर, तशें न्हय सर, हांव हांगा इनफ्लूयेन्साक येवंक ना... मुखेल सयरो जावन आयिल्ल्या तुमचीं उत्रां आयकोन प्रभावीत जावन आयलां. म्हाका म्हज्या छातयिचेर काम मेळचो भर्वंसो आसा. पूण एवन म्हयने जाले देकून म्हजेलागीं वेळ ना, देखून कांय तुमच्या वळकेच्या थंय काम आसा तर तुमीं म्हाका फकत्त सांगा, हांव खुद्द कामाक अर्जी घाल्तलों.''

''तुवें सीव्ही हाडल्यायवे?''

''ना सर.''

''लूक आ्यट ईट...'' पाठक इश्टांक पळेवन हासलो.

''काम जाय खंय, सिव्ही ना... पयलें खंय काम केलांय?'' पाठकान मुखार सवाल केलें.

''सर, म्हाका आफिसांत काम करून अनभोग ना.''

''मागीर खंय काम केलांय?''

''घरांत गाद्यांत मात्र काम केलां.''

''हहह! गांवचे गादे सोडन बोंबोय शाराक आयलाय, खंच्या बेफुकान तुका सांगलें हांगा गादे आसात म्हण?''

''सर... हांव गाद्यांत काम करुंक येवंक ना. हांव एक बरयणार. देखून कांय म्हज्या तालेंताक सरी जाल्लें काम मेळ्ळें तर हांव करूं.''

''बरयणार?...'' पाठकाच्या एका सयऱ्यान सवाल केलें.

''व्हय...''

''बरें जालें... म्हजो एकलो वळकेचो आसा, तो एका बरयणराक तलास करून आसा... बरें जालें... धर म्हजें विजिटिंग कार्ड. फाल्यां म्हाका फोन कर, हांव तुका चडतीक विवर दितां.''

गुर्दासाक समधान भगलें. तो अधेवस मागोन, उपकार बावडून थंयचो भायर सरलो.

***

''तूं बरयताय म्हण म्हाका म्हज्या मित्रान रेफरेन्स दिलां'' धव्या पायजामार आसच्या कार्ड बोर्डाच्या शोपाच्या धन्यान सवाल केलें.

''व्हय सर...''गुर्दासाची जवाब.

''बरें. चीत दीवन आयक. हांगा काम्च काम, तूं जर काम करुंक आयलाय तर, तुका पुर्सत आसची ना. तूं मिनतेन काम करुंक तयार?''

''व्हय सर, हांव जरू मिनत कर्तलों. म्हाका काम जाय.''

''भोव बरें. तुका मयन्याक एक हजार रुपय सांभाळ दितलों. उपरांत तुज्या मिनतेक सरी जावन तुवें कमाव्येता. थोडे म्हयन्याक धा हजार रुपय कमायतात, थोडे पंद्रा हजार रुपय कमायतात, तें तुमचेर होंद्वोन आसा.''

''जायत सर, हांवें कितें बरयजे?''

''तुका पसंद जाल्ल्याचेर तुवें बरव्येता, हांगा कार्ड बोर्ड, क्यान्वास, ब्यानरां हऱ्येक आसात. तुका कार्ड बोर्डाचेर बरवंक अभिरूच आसा तर बरव्येता, ब्यानरांत बरवंक अभिरूच आसा तर ब्यानर थंय आसा, म्याटर घे, आनी पेन्त्रां, पेंट कुशिच्या

कुडांत त्रिपाठी तुका दितलो.''

आयकोन आंगार शेळें उदाक वोतल्लो अनभोग जालो गुर्दासाक.

एका वाटेन काम मेळल्लो संतोस, घड्येन मेळल्लें काम चिंतून आंगाची ल्हव उभी जाली.

जिणेंत केदिंच पॅयटिंगार बरवंक नातल्ल्या गुर्दासाची परिक्षा - पोटाच्या भुकेची परिक्षा!! सद्याक मेळल्लें कामच सरी, पूण प्रेतन कर्चें बरें म्हण भगलें गुर्दासाक.

चडतीक वार्जीक करिनासतां तो देगेच्या कुडाक गेलो आनी त्रिपाठिलागचें म्याटर आनी पेन्रां आनी पेंट घेवन ताचेसवें एक ब्यानर घेवन आयलो.

ब्यानर कसो बांदचो म्हळ्ळें ताका कळीत ना देकून तो ताणें धर्णिचेर पातळायलो आनी म्याटर पळेलें 'वोट फोर कॉंग्रेस.'' इतलेंच बरवंक आसलें. अक्षरां सवें पार्टेचो धूर्त, एक हात, आनी तीन रंगाचो बावटो.

ना रूलर, ना नक्षा, ना माप, ना लेख.

ताणें शीदा ब्रश पेंटाच्या डब्ब्यांत घालो आनी बरवंक धर्तानांच ''ये... क्या कर रहा है?'' म्हण एकलो भय्या धांवोन आयलो. उलवणें जातासतां गुर्दासाक सत सांगल्लेशिवाय उपाव नां.

''हो... तर तूं तो बरवपी... कळ्ळें... तुका सांगल्लें काम हें न्हय. आमकां कार्ड बोर्डांत कलात्मक रितीन बरयतेलीं जाय शिवाय, मेंदू पोकोर्चे बरयतेलीं न्हय.''

गुर्दासाच्या तोंडाक बीग पडल्लें.

''हो संसार रंगाळ बाजार, हांगा रंग मात्र विखोन वेतात'' कोणाचिंगी स्पश्ट उत्रां, अस्पश्ट रितीन ताच्च्या कानार पडलीं.

***

भायर आयिल्लो गुर्दास रेल्वे स्टेशनाक पावलो. ताणे रिटर्न टिकेट काडल्ली देखून शीदा भितर रिगलो. पूण भितर रिगोन बोल्साक हात घाल्ताना, ताका पात्येवंक जालें ना. ताचो बोल्स कातरल्लो आनी बोल्सांत आसल्ली टिकेट, थोडे पयशे गायब.

बोंबोय सर्गांत पयलो अनभोग हो.

आतां कितें कर्चे! रित्या हातांनी, रितें मन घेवन चल्च्या गुर्दासाक ट्रेयनाची टिकेट काडूंक बोल्सांत पोयशे नांत. पूण बोंबोय शाराची सोभाय हिच्च - पोटाची भूक आनी परिगतेचो ओत्तड, हऱ्येक विध्या आपशीच शिकयता.

गुर्दास दादर थावन घाटकोपर वेच्या ट्रेयनीर चडलो; टिकेट नासतां!

'शिकपी नागरीक टिकेट नासतां पयण कर्ता!' मतिंत गुन्यांवकारी चिंताप जागें जालें. पूण हांगासर जिणेंन कसलीच विंचवण दिवंक नासल्ली. हेर उपाव्वी नातल्लो. 'खंच्या धैर्यान आयिल्लोय?' अन्येका चिंतपान पार्टी सवाल केलें. दोनीं सवालांक जापी नातल्ल्यो. जापी सोदची मत खंयगी आसली.

***

थोडे दीस पाशार जाले. कश्टांनी दीस वेताले. सयऱ्यान पन्नास रुप्यांचो नोट दीवन म्हळ्ळें. भिंयेनाका, हे पावटीं तुका काम मेळतेलें.

दिसाचें चडताव तो रेल्वे स्टेशनार, बाजाराक, चलोन वेतालो. विवीद कालेतिच्या लोकांक पळेतालो. तांची भास आयकतालो. लोकांचें जिवीत ताणें सारुंक आसलें. रेलवे स्टेशनांत खंच्या फ्ल्याटफोर्मांत व्हडली वडापांव मेळता तें तो जाणा. एक वडापांवाक एक रुपय, एक केळ्याक पन्नास पयशे. हें ताचें जेवाण. उपरांत पोटभर उदाक पियेतालो. पयलें पयलें तो घाटकोपरांतल्या एका झुणका भाकर होटेलाक वेतालो, एका रुप्यांक दोन भाकऱ्यो आनी चण्यापिटाचो दाट सार, एका तऱ्या मिर्सांगेसवें खातालो. पूण आजकाल तें बंद पडलां देखून वडा-पांव आनी केळेंच ताचें जेवाण.

एक पावटीं भोंवन भोंवन तो पिसांतूर जाल्ल्या मतीक घेवन पर्नी रद्दी विकच्या शॉपांत आसचीं पर्नी पत्रां वाचतां वाचतां ताका एका जाग्यार बरयणार जाय म्हळ्ळें जाहीरात दिसलें. व्हीटीचो विलास आसचें जाहीरात ताणें शॉपाच्या भय्यालागीं विचार्न घेतलें.

उटाउटीं कुडाक येवन न्हेसोन, हातीं फायल घेवन तो रेलवे स्टेशनाक गेलो. दनपारांशें तो व्हीटी स्टेशनाक पावलो. स्टेशना भायल्या पानवाल्यांच्या दुकानांक विचार्न विचार्न कसोय तो विवास सोदूंक सकलो. एक जेरोक्साचें शोप, कुशीन सुमार धा-भारा टैपिसटां, आनी गुर्दास आतां कोणाक मेळचें म्हण सोदूंक आसताना, एकलो हळत प्रायेचो दादलो येवन सवाल करिलागलो.

गजाल समजतच्च;

“हें जाहीरात पर्ने, आमकां एदोळच बरयणार मेळ्ळ्यात, पूण तूं टेंपररी काम कर्ताय तर सांग.”

“हांव तयार” - तक्षण गुर्दासान जाप दिली.

“बरें - तुका काम समजयतां, तुवें अर्ज्यो, विनत्यो एपलिकेशनां, वेवेगळीं फोर्मां भरुंक शिकाजय. हें पासपोर्ट फोर्म, हें शेरबाजाराचें फोर्म, म्यूचुवल फंडाक वेगळीं फोर्मां आसात. इनशूरेन्साचीं फोर्मां वेगळीं... तो सांगोन वेतालो.”

अनेयेक घडगडो मारल्लो अनभोग जालो गुर्दासाक.

‘अपूण कितलो बेवकूफ? बरयणार म्हणोन तकलेर शिंगां घेवन एदोळ म्हणासर अपलोच संसार रुतां करून मर्जेन जियेवन आसल्लों. पूण आपल्या संसारा भायर आज हांव कितलो लाचार आनी कितलो असकत’ म्हळ्ळें चिंताप गुर्दासाच्या मतिंत उदेलें.

बोंबोय सर्गात कामांचो बोर्गोळ ना म्हळ्ळें उतार ताणें ल्हानपणार आयकाल्लें. पूण पाटल्या दोन-अडेज म्हयन्यांनी आपणाक ह्या सर्गांत एक ल्हान काम सयत मेळोंक ना?

बीए शिकलेल्या आपणाक बरयणार म्हळ्यार कोण म्हळ्ळें नख्खी कळीत आसा पूण संसाराचो सर्व लोक बीए शिकपी न्हय पळे? बरयणार म्हळ्यार कोणाक अर्जी बरयतेले तर कोणाक रसत्याचेर ब्यानर बरयतेले तर आनी कोणाक गाडियांची नंबर

प्लेट बरयतेले.

पूण गुर्दासान भर्वसो सांडूंक न्हजो आसलें. तो शून्य नद्रेंत रस्त्या देगेल्या झोपड्यांनी जियेतेल्या लोकांक चोयतालो. पोश गाडियांनी गिरेस्त लोक आपल्या भुर्ग्याक ती झोपडीं दाखंवचें पळेतालो. तीं नागडीं, बुरशीं, भुर्गीं, हांसतालीं, खेळतालीं, उडकाणां मार्तालीं, नाका तोंडार किर्मे गळवन तऱ्ही धर्णीक पडल्लें विंचून खातालीं. भोवशा गिरेस्तां तांच्या भुर्ग्याक धर्णीर पडल्लें, चिकोल लागल्लें खाण खायनाये म्हण शिकयतात कोण्णा. अशें पळेवंक गेल्यार झोपड्यांनी जियेतेल्यांक सयत जिणेंत विकल्प नातल्लो. तांच्या जिवितान सयत कसलीच विंचवण दिल्लिना. तांकांय धुळिचें खाण खेल्यार भलायकेक बादक म्हळ्ळी प्रजना आसोंक पुरो पूण निर्वोग नासल्लो.

***

इसकोलाच्या दिसांनी टिचेरांनी 'तूं जिण्येंत कितें जावंक आशेताय?' विश्याचेर प्रबंध बरवंक सांगलेल्या दिसांनी, कोण डाक्टर जावन दुबळ्या लोकांची सेवा कर्तां म्हण सांग्ताले. कोण इंजनेर जावन देशाच्या विकासाक पाटिंबो दितां म्हण सांगताले. कोण वकील जावन सर्व लोकांक न्याय दिवयतां म्हण सांगताले. ती प्रायच तसली. जिणेचें माप समचोंक तांक नासल्ली. पूण खरी जिणी सुरू जांवची शिकाप संप्तच. गुर्दास जिण्येंत एक बरयणार जावंक आशेल्लो. लीयो टाल्सटाय, रवीन्द्रनाथ टागोर पर्री. पूण हकीगतेंत ताका जिवितान शेवटायिल्लो. उदाक नाकावयर येंवच्यार्धी जागें जांवचें बरें म्हळ्ळें चिंताप मतीक येतेच्च, गुर्दासान मेळल्लें काम करुंक निचेव केलो.

एका पत्राक वीकऱ्या प्रतिनिधी जाय म्हळ्ळें जाहीरात वाचून संपर्क केल्ल्या गुर्दासाक 'ग्यारंटी मनी' डेपासीट करुंक मागताना कितें जाप दिंवची म्हळ्ळें समजानासतां, अखरेक पत्रां घरान घरा वांटचें काम लाभलें. तेंय एजेन्सिच्या कुर्पे न. तांणी हाका खंच्या खंच्या बिल्डिंगांनी, खंच्या खंच्या फ्लेटांनी पत्रां वांटिजाय म्हळ्ळी लिसट दिल्ली, सवें एक सायकल दिली.

बोंबोय सर्गांत पयलें काम, सकाळीं साडे च्यारांक उटोन तो स्टेशनाक वचोन पत्रां घेवन हाडतालो. पत्रांचें वोजें सायकलाचेर बांधून तो घरान घर पत्रां वांटुंक लागलो. सकाळीं पत्रां वांटून जातेच्च ताका आराम – दिसाचें हेर काम नासल्लें. अशें पत्रां विकून विकून मधें मधें तो ताच्च्या हातीं आसचीं पत्रां वाचतालो.

एक पावटीं पत्राचेर आ्यरो म्यागजिनाक रिपोर्टरांक एक ओपन इंटर्व्यू आसा म्हळ्ळें जाहीरात वाचून गुर्दास मन नासल्ल्या मनान फायलां घेवन इंटर्व्यूक. वृत्तिपर वातावरणांत ताणें पयलें पावटीं मेट दवरचें. आपलो नियमीत वेळ येतेच् तो इंटर्व्यू कुडाक गेलो. अर्जी दिली. सवलां जापी जाल्यो. पाटल्या थोड्या मयन्यांनी पत्रां विकचो अनभोग सोडल्यार गुर्दासाक हेर अनभोग नासल्लो. पूण फ्रीलॅान्स वर्देगार जावन ताका कामाक विंचलो.

सुर्वातेर ताका थोड्या सीनियर

रिपोर्टरांसवें वेवेगळ्या प्रांत्याक वचोंक, खबरो तयार करूंक, विशलेशणां करुंक, समीक्षा चलवंक, संदर्शनां घेवंक वच्चें जालें. पयलें पयलें सर्व कामां एका रितिचें थ्रील जातालें. शारांत मात्र न्हय, गांवांनी, हळ्ळेंनी, कुग्रामांनी भोंवोन वेवेगळ्या वर्गाच्या लोकां मदें भर्सोन, तांचे जिणेक स्पंदन करून बरपां बरंवच्याक आनी एदोळ पऱ्यांत काल्पनीक रितिच्या पोट्टू काण्यांक बरंवच्या मधें आसचो अगाध फरक आतां गुर्दासाच्या मतीक समजोंक लागलें. थंय फकत्त काणी तर हांगा हऱ्येक जिणी. हऱ्येक वास्तव, हऱ्येक जिवें, हऱ्येक गोचर, हऱ्येक प्राकटिकल.

आ्यरो म्यागजीन भारताच्च्या प्रमूख म्यागजिनाच्या पट्टेर नांव दाखल केल्लें. हऱ्येका वर्गाच्या लोकाक आकर्शीत कर्ची छाती म्यागजिनाक आसल्ली. इंटेलेकचुवल्सांनी खास कर्चे हरेक साहीत म्यागजिनार पर्गटतालें. देशी/विदेशी हेडलायन जांवचे तसल्या काण्यांक छापची छाती पत्राची. म्यागजिनाचो तीन उत्रांचो ध्येय सुडाळ जावन आ्यरो नांवालागिंच वयर वेचो एक आयरो, तशेंच आ्यरो नांवासकयल दिल्लो; फास्ट, आयक्युरेट आयंड है (तुरंत, निखरता आनी ऊंच). भोवशा पत्रिकोध्यमांत आसच्या कोणायकी आयरो म्यागजिनाची व्हाडावळ कळीत नासतां वचोंक ना. आज हें कोर्पोरेटेड संसारांत मात्र न्हय, माध्यम लोकांच्या मधें सयत लोकामोगाळ म्यागजीन. पूण इतलें सर्व आसा तरी एक अपूट सत हेंयी जावनासा, आयरो पत्राचो प्रमूख इरादो मुनाफे कर्चो, दुडू कमांवचो.

गुर्दास एक हव्यासी बरयणार मात्र जावनासलो देखून तवळ तवळ पत्रिकोध्यमाच्या वेवेगळ्या सेमिनारांक वेतालो. वेवेगळीं न्यूस एजेन्सी कश्यो खबरो वांटतात, कश्यो खबरो कर्तात/ रचतात, आनी दुडवान/वशीलायेन ह्या खबरांचेर कशें प्रभाव घालूंक साध्य आसा म्हळ्ळ्याचेर माहेत घेतली. दिसबपडट्या जिणेंत कायदे कानून कशें उपकार्तात तशेंच अडकळ हाडतात म्हळ्ळ्याचेर विशलेशण्यी ताणें समजोन घेतलें.

वृत्तिपरतेच्या कामांत नक्की दिसपडती आपलें काम समजोंक वेळ लागलोना. ताचें कामाचें पयलें वरस काबार जालें, ताका रावोंक कूड दिल्लो ताचो सयरो आतां काजार जाल्लो देखून गुर्दासाक साकिनांत एक हळताचें कूड उण्या भाड्याक मेळ्ळें. सगळो दीस तो भायर आसतालो देखून, होटेलांतच खाण, होटेलांतच पियेवण. फकत्त नितळाय आनी इल्लो विशेव घेंवच्याक मात्र गुर्दास कुडाक येतालो.

अशें म्हणोन कांय नक्की दिसपडती गुर्दासाक ना. सकाळीं उटोन कामाक गेल्यार सांजे नक्की जावन पार्टी येता म्हण सांगोंक जायना. केदनां रातीं म्हणासर पयस पयस गेल्लो, थोडे पावटीं थंयच रातपाळी कर्तालो. थोडेपावटीं पयशिल्या गांवाक गेल्यार रातीं ट्रेयनाचेरूच निदोन रात पाशार केल्ली आसा. पत्रिकोध्यमांत कोणाक शिस्तेची जिणी आसा? “नीद, भूक, तान ह्या सर्वाचो

हुस्को आसतेल्यांक पत्रिकोध्यम वोंबवाना'' – सहयोगी वागमोरेन सांगलेलीं उत्रां कडकडीत सत.

पयलें वर्स संपयतच्च, गुर्दासाक आयरो म्यागजिनाचो पर्मनेंट रिपोर्टर जावन घेतल्लें. ताका आतां भातें चडयिल्लें. कंपनिचे कायदे पाळूंक आसल्ले. हऱ्येकाचो रेकार्ड दवरूंक आसलें. हऱ्येक काम रेकार्डार आसतालें तशेंच तांचें मुल्य मापन जातालें.

आतां गुर्दास स्वतंत्र रितीन वेवेगळ्या प्रांत्याक वचोंक शक्तालो. हिंदी, मराठी, इंगलीश, कानडिसवें ताका थोडी गुज्राती, थोडी सिंधी, थोडी भोजपुरी सयत येताली. वर्साचे अखरेक ताच्य्या कामाचेर माप जातालें 'पर्फोर्मेन्स एपरेयसल' म्हळ्ळ्या निबान. हाचेसवें कामाक सेर्वल्ले एदोळच सीनियर रिपोर्टर, असिसटंट एडिटर जाल्ले. पूण गुर्दास असो आसलो तसोच्च आसा. तेच्च खाड, खांदार वस्त्राचें ब्याग, तांतूं एक बूक, एक लांब जुब्बो, जुब्ब्याच्या बोल्सांत एक पेन्न, दोळ्यांचेर वोकल, हातीं एक पर्ने वोच, पांयांक कोल्हापुरी चप्पल.

ताचे सीनियर्स हऱ्येका पर्फोर्मेन्स एपरेयसलांत ताका सभार सुचनां दिताले. पूण गुर्दासाचें चिंताप पत्राच्या मुळाव्या चिंत्पाक ताळ पडानासल्लें.

पूण गुर्दास कठीण मिनतेचो रिपोर्टर, केदनां और आयलें, वा उजो पेटलो, गांवार गांव लासलो, तेदनां तो पयलो हाजर आसतालो आनी ही वर्दी तयार कर्तालो. अशें एकेक वर्सा पाशार जावन कशींय पांच-स वर्सां काडलीं.

***

''तुजे आदले रेकोर्ड पळेले हांवें, पूण विशेस रितीन तुजो वावर म्हाका पळेवंक मेळाना.'' शरण मोटवानीन आदलीं फायलां वाचून जातेच्च उलवंक मुखारिलें.

''....''

''तुजेलागीं जिवितांत स्पश्ट रितिचो मोटो ना! म्हाका दिसाना तुका ध्यान दिवन काम करुंक तांकता म्हण. तूं शिकपी वर्गाचो व्यक्ती, गाडवापरीं फकत्त काम करुंक आशेताय वा तुजे जिणेंत उंचल्या हुद्द्याक पांवचो शेवोट आसा?''

''सर, हांव प्रेतन करून आसां.''

''हेंगी तुजें प्रेतन?... पाटल्या पांच वर्सांचे रेकोर्ड सांगचेपरीं, तुका अजून पासोन तुज्या पोफेरोमेन्साचेर साठांच्याकी चडीत अंक मेळोंक नांत. तुका कळीत आसोंक पुरो, तुका प्रोमोशन दिजाय तर उण्यार उणें तीन वर्सां म्हणासर तुका पावणश्यांच्याकी चडीत अंक मेळची गर्ज आसा...''

''व्हय सर, हांव जाणां.''

''त्या शिवाय तुका इंपरूव करूंक आमी हऱ्येक रितीन प्रेतन केलां, आवकास दिला. सेमिनारांक तुका धाडला, ट्रेयनिंगाक तुका धाडला. तुजेसवें कामाक सेर्वल्ले आज हेर पत्रांनी संपादक जावन आसात, आमच्या कंपेनिंत्यी बऱ्या हुद्द्यार आसात. पूण तूं अजून तोच्च रिपोर्टर जावनासाय, तुजे जिणेचो ध्येय कसलो म्हण हांवें विचाऱ्येत?''

''सर, बरी जिणी जियेंवचोच म्हज्या जिणेचो ध्येय.''

''बरें आनी जैतिवंत हांचेमधें फरक तूं समजताय? - मिसटर गुर्दास, हांव पळे, म्हजे जिणेचीं ह्येक कामां एक शर्तापरीं स्वीकार कर्ता. जिणेच्या ह्येका शर्तात रिस्क आसा. आमचे जिणेंत सयत ह्येका शर्तांनी दोन रितिचें रिस्क आसा. पयलें त्रेट (भिरांत) आनी दुसरें ओपोर्चुनिटी (आवकास). आमी त्रेट आसल्याक हेरांच्या मात्यार ट्रान्स्फर करिजाय, आनी ओपोर्चुनिटिंक आपणायजय. हेंच जेताचें फोर्मुला. आज म्हाका पळें. म्हजें चिंताप आयरो म्यागजिनांत आसा. म्हजो आयरो सदां वयर वयर वचोंक आशेता. म्हाका ह्येकल्यांनी सपनां पळेजय म्हळ्ळी आशा, ह्येकल्यांनी वाडूं जाय म्हळ्ळी आशा. म्हाका दुभाव जाता तूं म्हज्या मिसांवात चड तेंप बाळशी म्हणोन.''

''सर, भोवशें तुमीं सार्के सांगलें, हांव तुमच्या मिसांवाक जोक्तो न्हय. हांवें कंपनी थावन जायतें ट्रेयनिंग घेतलें, तरी म्हजे मतिंत आसच्या मुळाव्या सवालांक जवाब दिंवच्याक एकी ट्रेयनिंग शकलीं नांत.''

'व्हॉट? कसलीं तीं मुळावीं सवालां? तुज्या जाग्यार हेर कोणीं आसलीं तर आज कित्तून पावतीं म्हळ्ळ्याचें लेख केलांयवे तुवें?'

''सर, हांव लेखाची जिणी जियेवंक आशेना सर. हांव जाणां, जिणेंत दोन रितिचे रिस्क आसतात, एकांत भिरांत आसता. दुसऱ्यांत आवकास आसता. भिरांत आसचें हेरांच्या मात्यार घालूंक कित्याकगी म्हजें कोशेंस मानिना, तशेंच आवकासाक वेगूंक सयत म्हजें काळीज आयकाना. माफ करा, तुमच्या वयर वेच्या आयरो समोर, म्हज्या तिंतेराचो आयरो सकला कुशीन आसा, वयले दिशेन म्हज्यान बरवंक साध्य ना, कित्याक - तांतूं तींत गळाना. तेच्च्परीं म्हाका ओंर आयिल्ल्या गांवांनी म्हज्या कामाच्याकी चडीत जावन थंय वोळोन वेंच्या लोकांच्या कुमकेक वेंची चडीत गर्ज म्हण भोगता. खंयसर दोंबी गलाटो जाता, थंयचर म्हाका मसाला रिपोर्टाच्याकी, भाजलेल्यांक व्हकात दिवयशें करचें चडीत गर्ज म्हण भोगता. माफ करा सर, म्हजीं स्वपणां हेरांचीं सपनां पिड्ड्यार कर्चीं न्हय. म्हाका उंचलो हुद्दो न्हय, उंचलो व्यक्ती जांवची मात्र आशा.''

उपरांत कसलेंच उलवणें तांचे मदें चल्लें ना.

***

सुमार वर्सां उतरल्यांत!

आतां गुर्दास बरयना, पत्रिकोध्यमांत ना, जुब्बो नेसाना, ताचे खाड लांब जाल्यात, बोल्सांत तिंतेर ना. फकत्त झोपड्यांच्या भुर्ग्यांक एकटांय करून शिकयता, तांकां न्हाणयता, तांचेसवें जेवता, तांचेसवें निदता.

हां! सांगोंक विसरलों; आयरो म्यागजिनांत तो रिपोर्टर बिल्कून ना! ताणें सोडलां वा ताका काडला तें तुका पुणीं कळीत आसतेलेंच.

000

# कथामंच

(कथा)

कुमूद भिकू नायक

## इश्टा, तुका सलाम आमचो...

टक... टक करून दारार मारिल्ल्याचो आवाज आयलो आनी सुनंदा न्हिदीतल्यान फट्ट करून जागे जालें. कसलो आवाज? कोण आयला काय इतले सकाळफुडें? सुनंदा बेगिबेगीन हांतरूणा वयल्यान उठलें. सुनंदाच्या आवाजान सुनंदाचो मांव दत्तूय उठलो.

"सुनंदा, कितें जालें? कसलो आवाज? दाराचो आवाज आयलो म्हाका. आज आयतार. कामाक काय तूं वचपाचें ना. तरी पूण तुजी सकाळफुडें धावपळ."

"बाबा, धावपळ कसली केल्या हांवें? दाराचेर कोणें तरी मारिल्ल्याचो आवाज आयलो म्हणून उठलें हांव."

"हालींसराक तूं अशेंच करता, खंय कोण आयला? केन्नाचे केन्नाय तुका दारार मारिल्ल्याच्या आवाजाचो भास जाता. अजून सकाळ जावंक ना. न्हीद आतां."

"बाबा, म्हाका हालींसराक न्हिदूच पडना."

"हय, तेंवूय सारकें तुगेलें. म्हजो पूत वेंकटेश गेलो आनी आमची सगळ्यांची न्हिदूच गेली. म्हजें तर अशें, आतां पांच वर्सां जालीं हांव असो घरांत पडून. माडा वयल्यान पडलों आनी म्हजें कमर मोडलें. सगळे उपाय करून जाले पूण कमर कशेंच उबें जालें ना. खरें म्हणल्यार हांवें तुमकां आदार दिवपाचो, पूण म्हाकाच तुमचो आदार घेवचो पडलो. हांवें कितें जोडिल्लें तें वखदाक घालें. आतां ही पोटाची खळगी भरपा खातीर तुका भायर सरचें पडलें." दत्तूलो गळो भरून आयलो. ताचे दोळे दुकांनी भरले.

"बाबा, सकाळ फुडेंच तुमी कितें उलयतात? अशे

**कुमूद भिकू नायक** : जल्म : 1965, बालसाहित्यकार, कथाकार. *'कुमूदाल्यो काणयो', 'मम्मी मम्मी काणी सांग', 'मोनिटर'* हीं बालसाहित्याचीं तशेंच *'पावलखुणो'* हो कथासंग्रह प्रकाशीत. कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय तशेंच कोंकणी कला साहित्य केंद्र, कुडचडें संस्थेच्या बालसाहित्य पुरस्कारान (2015) सन्मानीत. संपर्क : खोर्ली, तिसवाडी, गोंय. मो. 9921825200.

कित्याक खंती जातात? तुमच्या जाग्यार हांव आशिल्लें जाल्यार तुमी म्हजे करचें नाशिल्ले?''

सुनंदान अशें उलयतकच दत्तू चूप जातालो. सुनंदा घरांतलें सगळें करून कामाक वतालें. फाटल्यान मात हुस्को नाशिल्लो. सुनंदालो चलो आनंद ताचें सगळें करतालो. वेंकटेशाक मरण आयलें म्हण कळटकच वेंकटेशाले आवयक पुताचें दुख्ख सोंसूंक जालें ना. तिका काळजाचो आताक आयलो आनी ती तेन्नाच गेली. घरांत मात सगळो काळोख पडलो. भरिल्लें घर थंड जाल्लें. घरांत कोणूय आयलो जाल्यार आवाज करिनासतना येतालो आनी वतालो. घरांत एकलोच आसतकच घर खावंक येतालें.

सुनंदा दिसलें म्हणटकच दत्तू आपल्यो यादी सांगपाक लागतालो. सुनंदा कडेन त्यो आयकुपाक जायना आशिल्ल्यो. मागीर तें म्हणटालें, ''बाबा, नाका त्यो यादी काडूंक, म्हाकाय त्रास जातात.''

''खरेंच गो, तुकाय त्रास जाता तें हांव जाणा. वेंकटेश लश्करांत रूजू जाला हें आयकून वेंकटेशाले आवयक धक्को बशिल्लो. तिका सारकी झेमूय पडनाशिल्ली.''

''तशें जाल्यार बाबा ताका तुमी लश्करांत कित्याक धाडलो?

''आमी खंय धाडिल्लो ताका?'' लश्करांत वचपाची ताका खूब आवड आशिल्ली. ताची आवड पळोवन केन्नाय तरी तो लश्करांत वतलो हें हांव जाणाच आशिल्लों आनी जालेंय तशेंच. वेंकटेश लश्करांत भरती जाल्लो तेन्ना फकत एकुणीस वर्सांचो आशिल्लो. देशाची सेवा करपाक वतल्याक आडावचें न्हय अशें हांवें म्हजे बायलेक समजायलें आनी तिणें मागीर समजूनय घेतिल्लें. वेंकटेश भुरगेपणा सावन शिकपाक हुशार. झाडार चडपाक, उडक्यो मारपाक, धांवपाक फिशाल आशिल्लो. म्हज्या ह्या नातवाक आनंदाक पळयतकच म्हाका म्हज्या पुताची वेंकटेशाची याद येता. ताचेच भशेन हुशार जाला हो. शाळेत शिकतना कितलिंशींच बक्षिसां मेळयल्यांत ताणें. म्हाका दिसता सगळीं प्रमाणपत्रां एकठांय केल्यार एक पुस्तक जातलें.'' पुताचे यादीन दत्तूच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळ्ळीं.

''बाबा, वेंकटेशाक लश्करांत नोकरी करपाक आवडटालें आनी तो उमेदी आशिल्लो हें ताच्या उलोवण्यांतल्यान कळटालें म्हाका. मागीर तुमी तरी ताका कशें आडायतले?'' सुनंदान ताका धीर दिवपा खातीर म्हणलें.

''हय, हें मात सारकें तुजें, थंयच्यो गजाली तो आमकां मोटे उमेदीन सांगतालो. आयकतना अशें दिसतालें हांवेंय ताचे बरोबर लश्करांतूच रूजू जावचें कशें. लश्करांत भरती जाले उपरांत दोनूच फावटी गोंयांत आयलो तो. आयिल्ले फावट मात तो म्हयनोभर रावतालो. तो येतकच घरांतलें वातावरण सामकें उमेदी आसतालें. घराच्यो वण्टी लेगीत हांसताल्यो, खेळटाल्यो असो म्हाका भास जातालो आनी तो परत गेले उपरांत घर किण्ण जातालें. घरांतलें

वातावरण सारके जावपाक आठ दीस वताले. म्हणून तर ताका लग्न करपाचो विशय आमचे तकलेंत घोळपाक लागलो. हांवें चीट बरोवन तशें ताका कळयलें बी. उपरांत ताणेंच तीन म्हयन्यां खातीर रावपाक येतां म्हूण चीट धाडली. ती चीट वाचून आवय इतली खोशी जाल्ली, र्ती मनशांतूच नाशिल्ली. कितले फावटी तिणें ती चीट वाचल्या हांवूंच नकळो. बसता थंय तिच्या हातांत ती चीट दिसताली.

वेंकटेशाक निकतेंच पंचविसावें वर्स लागिल्लें. आमी ताचें लग्न करपाचें थारायलें. म्हज्याच इश्टाची चली, बरें भुरगें म्हण हांव जाणा आशिल्लों आनी सुनंदा तुजे खातीर तुज्या बापाय कडेन हांवें उतर घालें आनी तुवें मोठ्या मनान तुजो हयकार कळयलो. लग्न आमच्या मना सारकें जालें. लग्न जावन तुका व्हरपाचो आशिल्लो तो. म्हाका आनी आवयकूय ताणें पयलींच सांगिल्लें."

"हय बाबा, हांव जाणां. पूण म्हाका दीस गेले म्हण कळटकच आमी विचार केलो, भुरगें जाले उपरांतूच वचप बरें. आनी हांव तुमचे बरोबर रावलें."

"हय, हांव जाणां तुजो निर्णय एकदम बरो आशिल्लो. वेंकटेशान वतना म्हाका कितें म्हणिल्लें तें जाणा मगो? बाबा, तुका नातू जाल्यार ताचे नांव 'आनंद' दवरपाचें आनी नात जाल्यार 'आनंदी'. हें आयकून आवयन ताका म्हणिल्लें, आरे, वेंकटेश हींच नांवां कित्याक रे आवडलीं? तेन्ना ताणें आवयक म्हणिल्ल्याचें म्हाका सारकें याद आसा. येणारो मनीस सगळो आनंद घेवन येतलो ह्या घरांत. म्हणून आनंद हेंच नांव दवरप म्हाका आवडटलें. खऱ्यांनीच आमगेर नातू जालो आनी ताचे इत्से प्रमाण ताचें नांव 'आनंद' दवरलें. ही गजाल तुकाय खबर आसतली?"

"हय बाबा हे गजालीक आतां वीस वर्सां जालीं." सुंनदान म्हणलें.

"जाणा मुगो सुनंदा, यादी खंय वर्सां वाडटात तश्यो ताज्यो जातात. आतां त्यो यादी ताज्यो करपाचे दीस म्हजे. "

वेंकटेशान यादी खातीर आपली खूण दवरल्या. आसाय आनंद तसोच बापाय भशेन हुशार. दिसताय बी तसोच लांब-रूंद. ताका पळयतकच सगळीं म्हणटात, दत्तू, तुज्या नातवाक पळयल्यार तुज्याच पुताक पळयिल्लेवरी दिसता. हें आयकून म्हाका कितलें बरें दिसता तें हांव सांगुंकूच शकना."

"पूण बाबा, म्हाका मात भंय दिसता. बापाय भशेन आनंद लश्करांत वचना जाल्यार पुरो. ह्या दिसांनी आनंदाच्या हालचालींचेर लक्ष दिलां तुमी?" आनंद आनी शंकरालो चलो नारायण न्हाणयेचे खोंपी कडेन कितेंय तरी उलयत आसतात. कितेय तरी चल्लां तांचें. नाजाल्यार लिपून कित्याक उलोवपाक जाय. ताका लागून म्हजो हुस्को चड वाडत गेला."

"नाका आशिल्ले विचार तकलेंत हाडटकच हुस्को जाताच. नारायण हो आनंदाचो इश्ट. ताचे बगर ताचे पान हालना हें खबर ना तुका?" दत्तून म्हणलें, पूण

सुनंदा सांगता तेवूंय दुबाव घेवपा सारकें आसा म्हणपाचें ताच्या मनांत आयलें.

नारायण हो आनंदालो खास इश्ट. नारायणाचो काका लश्करांत आशिल्लो. लश्करांत नोकरी करतल्या सैनिकाक पगारूय बरो आसता. सरकाराच्यो बऱ्यो बऱ्यो सवलती मेळटात म्हणपाचें ताका काका कडल्यान कळटालें. ते भायर देशाचे शिमेर घडिल्ल्यो सगळ्यो गजाली नारायण येवन आनंदाक सांगतालो. काका भशेन आपूण देशाची सेवा करतलों, अशें तो जाय ते फावटी आनंदाक म्हणटालो. आनंदाचो बापूयच न्हय तर वाड्या वयले खूबशे जाण लश्करांत आशिल्ले, पूण आनंदाच्या बापायक मात देशाची सेवा करतां करतां वीरमरण आयलें, ही खंत आनंदाकूय आशिल्ली. आपूणय बापाय भशेन लश्करांत वतलों आनी देशा खातीर लडटलों म्हणपाचें ताणें थारायिल्लें आसुये.

एक दीस ताणें आपली इत्सा आज्याक सांगली. आजो खोशी जालो, पूण ताका सुनंदाचो हुस्को आशिल्लो. सुनंदाचो दुबाव खरो जाल्लो, पूण ताणें आनंदाक दाखोवन दिलें ना. "पुता वच तूं. देशाची राखण कर. मेळिल्ले संदीचो फायदो घे आनी गांवचेंच न्हय जाल्यार तुज्या बापायचें आनी देशाचेंय नांव वयर काड." आज्यान ताका आशिर्वाद दिलो.

आज्याच्या आशिर्वादान आनंद खोशी जालो, पूण आवयक ही गजाल कशी सांगूं? हो एक ताका मोटो प्रस्न पडिल्लो.

नारायणान तर लश्करांत वचपा खातीर सगळी तयारी दवरिल्ली. सगळें तांचें गुपचूप चलतालें. हे खातीर तांकां नारायणाच्या काका कडल्यान मजत मेळटाली. अर्जीपत्रां भरपाचीं बी सगळीं कामां नारायणूच करतालो, पूण हे संबंदान आनंदाल्या घरा कडच्याक कोणाकूच खबर नाशिल्ली. एक दीस 'लश्करांत भरती जावंक निवड जाल्या' म्हूण आनंदाक पत्र आयलें. फकत पंदरा दिसांची मुजत आशिल्ली. आनंदा बरोबर नारायण धरून वाडयले आनीक चार भुरगे आशिल्ले. सगळे वांगडाच वचपाचे आशिल्लें. दिल्लीत तांकां स म्हयन्यांचें ट्रेनिंग आशिल्लें. सगळे वचपाची तयारी करतालें. आनंदाचेर आकांतूच आयिल्लो. जेवणा-खाणाचेर ताचें लक्ष नाशिल्लें. आपलें सामान व्हरून तो नारायणागेर दवरतालो आनी नारायण तें वेवस्थीत बॅगेत भरपाचें काम करतालो. सगळे वांगडाच ट्रेनीचेर वचपाचे आशिल्लें, पूण ही गजाल ताणें आवयक सांगली ना म्हण ताचें मन खातालें. कशें सांगप तेंच ताका कळनाशिल्लें. परत परत तो आज्या कडेन वचून उठ-बस करतालो. ताची तळमळ आज्याकूय कळटाली.

"आनंद, कित्याक रे तूं असो पासयो मारता? कितें जालां? सामकोच घामाघूम जाला. कितें सांगपाचें आसा तुका जाल्यार सांग." दत्तून म्हणलें.

"आज्या, रागार जावंनाका हां. आमी सगळे आयज रातचे रेल्वेन वतात."

"हय हांव जाणां. म्हाका नारायणान सगळें सांगलां. तूं आमचें चिंतूच नाका."

"पूण आज्या, हांवें आईक सांगूं ना. हांव कितें करूं...?"

"तूं आतां कितें करतलो? वचपाचें थारायलां मरे? वच. आतां आईक कांयच सांगू नाका. तिका सांगिनासतनाच तुवें वचप बरें. मागीर हांव पळयतां. तूं हुस्को करूं नाका. सगळें वेवस्थीत जातलें." आज्याक नमस्कार करून आनंद भायर सरलो. मागीर सगळे एकठांय जावन रेल्वेन दिल्ली वचपाक गेले.

पयलेच फावट आनंद रेल्वेंत बशिल्लो. बरोबरचे सगळे इश्ट एकाच डब्यांत आशिल्ले. सगळे हांसतात आनी गजाली मारतात तें पळयतकच घरांतल्या एका रुमांत सगळे बसल्यात अशें आनंदाक दिसतालें. सगळे खोशी दिसताले. रातचे बारा एक मेरेन गजाली करून सगळे आप-आपल्या जाग्यार न्हिदले. पूण आनंदाक मात कशीच न्हीद येनाशिल्ली. ताका आवयचो हुस्को जावपाक लागलो. आपूण सांगिनासतना आयलां म्हूण ताका वायट दिसतालें. आनंद अस्वस्थ आसा तें पळोवन नारायणाकूय न्हीद पडना जाली. नारायण ताका धीर दितालो.

"आनंद, तूं कितें चिंत्ता? सगळें सारकें जातलें. आमी बऱ्या कामाकूच वतात. गांवांत रावन तूं तरी कितें करतलो आशिल्लो? आयज आमी घेतिल्लो निर्णय बरोबर आसा. आमी नोकरे बरोबर आमच्या देशाची सेवाय करतले. खरें म्हणल्यार हें आमचें भाग्य. दिल्ली पावतकच तूं तुजे आवयक पत्र बरय आनी खरें कितें तें सगळें सांग. तिची चूक माग. ती हुस्कयामेकळी जातली आनी तुकाय बरें दिसतलें. आनंदाक नारायणान सांगिल्लें पटलीं. दिल्ली पावतकच आनंदान पयलें आवयक पत्र बरयलें."

प्रिय आई...

हांव तुजे कडेन चूक मागतां. पयली म्हाका माफ कर आनी समजून घे. तुका न सांगताच हांव लश्करांत भरती जालों. तूं म्हाका धाडची ना ह्या भंयान हांवें तुका सांगपाचें धाडस केलें ना, पूण आई, हांवें कपाटांतलो तुजो फोटो बरोबर घेतला. तुजी याद जाता तेन्ना हांव त्या फोट्याकडेन उलयतां तेन्ना म्हाका तुजे कडेन उलयता असो भास जाता. म्हजो हुस्को करूं नाका. हांव एकलोच ना. म्हजे बरोबर नारायण, विठ्ठल, सुरेश, जयवंत आनी तूं कामाक वता त्या अजीतभाईलो चलो मनोज, हे सगळे भुरगे आसात. आई, तुजो पूत देशा खातीर लडपाक वता. म्हज्या बापायन अर्द्यार दवरिल्लें काम हांव पूर्ण करपाक वतां. तूं चिंता करूं नाका. हांव म्हज्या बापायचें आनी देशाचें नांव वयर काडूनच येतलों. तुजी आनी आज्याची काळजी घे.

तुजो लाडको पूत,

आनंद

सुनंदा पत्र वाचून सतरवितर जालें. आनंद, आनंद करीत तें ताका सगळ्याक सोदपाक लागलें. 'बाबा, आनंदान कितें केलें खबर आसा? म्हाका पत्र धाडलां, बाबा एक सांग, ह्या पत्रांत बरयलां तें खरें? म्हाका दुबाव आशिल्लो तेंच घडलें. नारायणालें आनी आनंदालें कितेंय तरी

चलता म्हूण तुमकां हांवें आदींच म्हणिल्लें. दोगांकूय हांवें खोंपी कडेन उलयतना जायते फावटी पळयिल्लें. एकलोच पूत म्हजो.''

सुनंदा रडपाक लागलें. ''बाबा, आनंदान अशें करपाचें न्हय. कित्याक जाय आशिल्ली ती नोकरी. बापायन केली ना?''

''सुनंदा, तशें उलोवचें न्हय. बापायलें काम तो फुडें व्हरपाक गेला. तुज्या पुतान केल्लें हें धाडस, खरें म्हणल्यार आमी ताची तोखणाय करपाक जाय. पळयतलें तूं एक दीस म्हजो नातू आनंद दुस्माना कडेन कसो लडटलो तो. ताचें नांव जगभर फांकतले. ही आनंदाची बातमी घेवन येतलो जाल्यार ह्या कामाक फकत ताका आमचो धीर जाय. तुका हें सहन जावचें ना हें हांव जाणां आशिल्लों. म्हणून तुका सांगपाचें ताका धाडस जालें ना.''

''बाबा, तुमचें सगळें खरें, पूण नारायणाक लश्करांत वचपाक कितें जालां? ताचे फाटल्यान ताचो धाकलो भाव रामनाथ आसा घरचें सगळें पळोवपाक. म्हाका कोण आसा?''

''आगो, तशें म्हणचें न्हय. नारायणान म्हाका तशें आस्वासन दिलां. आनंदाक कांयच जावचें ना, ताचे फाटल्यान आपूण आसा म्हूण. ताचेर आमी विस्वास दवरया आनी तांकां धीर दिवया.'' दत्तून खूब तरांनी सांगून सुनंदाक समजायलें.

हें सगळें आयकून सुनंदाक धीर आयलो. कांय दिसां भितर आनंदाचें ट्रेनिंग सोंपलें. आनंदाचें पत्र आनी वांगडा पयशे आयले. सुनंदा पत्र पळोवन खूब खोशी जालें. परत परत पत्र वाचून मांवाक दाखयतालें. खूब दिसांनी सुनंदा खोशी दिसतालें. पत्र आयलें म्हणटकच सुनंदा घरांत गोड रांदतालें. कांय न्हय करून वर्स गेलें. आनंद येवपाचो आसा म्हण कळटकच सगळीं खोशी जालीं. पूण अकस्मात पाकिस्तानी सैन्या कडल्यान गोळीबार जाता देखून झुझाचे तयारे खातीर तांकां रावचे पडलें आनी झूज जालेंय बी. ते लडायेंत कोण मरता आनी कोण उरता कांयच कळनाशिल्लें. गोळीबार चालूच आशिल्लो. लडाय चालू आसतना एक गुळी नारायणाक लागली आनी नारायण सकयल पडलो. आनंद कांयच करूंक शकलो ना. ताका उबारून व्हरपाचें धाडस ताच्यांत नाशिल्लें. प्रत्येक जाण आपली बंदूक घेवन गोळीबार करताले. कोणाक कितें जालां हें पळोवपाक मेळनाशिल्लें. जायते जाण सकयल एकामेकाचेर पडिल्ले. इतले म्हणसर आनंद सकयल पडलो. पडिल्ले कडेन आनंदान नारायणाक घट्ट वेंगेंत घेतलो.

''नारायण, इश्टा, आरे उलय रे? कितें जालें? आरे, ती गुळी म्हाकाच लागपाची. पूण तुवें म्हाका तेन्नाच धुकलून उडयलो. तुवें अशें कित्याक केलें? इश्टा, तुजी म्हाका गरज आसा. तूं असो म्हाका सोडून वच्चो ना.'' गोळीबार चालूच आशिल्लो. आनी चिंतपाकूय वेळ नाशिल्लो. ''किते करूं आनी कोणाक सांगूं? देवा पाव रे म्हाका...'' आनंदान देवाक उलो मारलो. ''आनंद, तूं धीर सोडूं नाका. तुजें काम चालू दवर. तशे परिस्थितींतूय नारायण

आनंदाक धीर दितालो. बरोच वेळ हें सगळें चलतालें. कांय वेळान हें सगळें थंड जायत गेलें. आनंदान मारिल्लो उलो देवान घडये आयकलो आसतलो, पूण विचार करपाक वेळ नाशिल्लो. नारायण वळवळटालो. ताका खूब त्रास जातात म्हूण कळटालें. ताची परिस्थिती पळोवन आनंदाल्या पांयां पोंदची जमीन हालपाक लागली. विचार करिनासतना आनंदान नारायणाक आपणाल्या खांदार घेतलो. आनी तशेच परिस्थितींत ताका घेवन चलूंक लागलो. इतल्यांत कांय शिपाय थंय पावले. तांणी सगळ्यांनी मेळून नारायणाक उखलून घेतलो. रस्त्यार पावपाक कितलेशेच किलोमिटर अंतर तांकां चलचें पडलें. नारायणाक हॉस्पिटलांत व्हरपाक गाडी तयार आशिल्ली. सगळ्यांनी ताका गाडयेंत घातलो, पूण तो वेळ मेरेन नारायणान आपलो जीव सोडिल्लो. "नारायण, ...नारायण, म्हज्या इश्टा." आनंदान आकांत केलो...

"इश्टा, आयज आमी जिखल्यात. भारताचो विजय जाला. तूं आमकां सोडून वचूं नाका. दोळे उगड आनी पळय... इश्टा, एकदांच पळय... आमी जिखल्यात. भारताचो बावटो वयर तेंगशेर धोलता कसो तो पळय... इश्टा, एकदांच पळय..." म्हणटां म्हणटां आनंदाचो तोल वचपाक लागलो. इतल्यांत विठ्ठल, सुरेश, जयवंत आनी मनोजान आनंदाक घट्ट वेंगेंत घेतलो. "आरे, आनंद, तूं असो निर्शेवूं नाका. आरे वयर पळय, ... सारको पळय... आमचो इश्ट खंयच वचूंक ना. आमचो नारायण बावटो घेवन वयर तेंगशेर उबो आसा... पळय... भारताचो विजय जाला... बावटो कसो धोलता.... पळय... इश्टा... इश्टा तुका सलाम आमचो...! सगळ्यांनी नारायणाक सलाम केलो.

इश्ट गेल्ल्याचें दुख्ख आनी भारताचो विजय घेवन सगळे घरा वचपाक रेल्वेंत चडले... 000



# कथामंच

(कथा)

स्वाती सातार्डेकार

## सर

मिता सकाळच्यान सकयल – वयर जाताले. सराचो आयज वाडदीस. ताका परबीं भेटोवंक वचूंक जाय. पूण मनांत एक लिपिल्लो भंय आसलो. सर कितें म्हणटालो काय?... ताका आवडटलें काय आपणें अशें परबीं भेटोवंक आयिल्ल्याचें ?...

तसो सर आतां डिपार्टमेंटांत नासलो. वर्स जालें ताची ट्रान्सफर जावन, पूण मिता ताका अजून विसरूंकें नाशिल्लें. आयज मिताक उगडास जालो तो सराचे पयले भेटीचो...

तें नवेंच कामार रुजू जावन त्या डिपार्टमेंटात आयिल्लें. प्री ट्रेनिंग म्हणून 11 वर्सां नोकरी केल्लें मिता. पूण ह्या ऑफिसांतल्या अव्वल कारकूनान ताका कांयच काम दिनासतना दोन–तीन दीस ओग्गी बसून दवरिल्लें.

दोन दीस मितान कामाची वाट पळयली. तिसऱ्या दिसाय काम ना तें पळोवन ताका तिडक मारली. ताका आपलो तो अपमान कसो दिसलो. बेकार बसून वेळ पासार करपाचे प्रवृत्तीचें तें नासलें. संचालकाच्या कानार ही गजाल घालची अशें येवजून तें उठलें आनी ताच्या कॅबिनाच्या दारांत पावलें. तशें अव्वल कारकुनान ताका आडायलें.

‘‘तुज्यान तशें डायरेक्ट सराक मेळूंक नज.’’ ताणें मिताक सोमतीच शिटकावणी दिली, पूण मिताय कितें कमी नासलें.

‘‘सराकच विचारतां तें’’, म्हणत तें ताका किंमत करिनासतना सरळ सराच्या कॅबिनांत भितर सरलें.

सर कितें तरी वाचपांत मग्न आशिल्लो. मिताक तांची

**स्वाती सातार्डेकार:** जल्म :1971. कथा आनी निबंद प्रकार हाताळटा. कोंकणी आनी मराठी भाशेंतल्यान लेखन. नेमाळ्या–दिसाळ्यांनी साहित्य प्रकाशीत. संपर्क : पर्वरी, गोंय. मो. 8329666791.

तंद्री तोडप योग्य दिसलेंना. तें कांय खीण ओगीच रावलें, पूण सरानूच एक-दोन मिणटांनी तकली वयर केली. ताचे नदरेंत प्रस्नचिन्न आशिल्लें,

"कितें जालें?"

"आयज तीन दीस जाले सर म्हाका जॉयन जावन, पूण हांव बेकार बसून आसां. म्हाका अजून कांयच काम दिल्लें ना. तुमकांय मेळपाचें ना म्हण सांगलां."

सरान निर्विकार चेऱ्यान म्हणलें, "कोणें सांगलां? मारियोक आपय."

ताणें बेल मारली. डिपार्टमेंटांत नव्यो स्किमी सुरू जाल्ल्यो, ताचो बरोच ताण सराच्या तोंडार आसलो. मारियो म्हणल्यार अव्वल कारकून. तो आयलो. तसो सरान ताका आदेश सोडलो,

"हाका स्किमी दी आनी मीनाक काडून मेरशे धाड."

स्वता जावन काम मागपाक आयिल्ल्या मिताचें निर्भिडपण आनी कामा संबदीचें प्रामाणीकपण पळोवन सर प्रभावीत जाल्लो.

उपरांत मिताचें कामा निमतान जायते फावटी सरा म्हऱ्यांत वचप जातालें. मितान जाणलें, सर तिडकीक सामको वायट. कामांत चूक जाल्यार वा काम वेळार जालें ना जाल्यार खंयचोय स्टाफ ताच्या कॅबिनांतल्यान दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो झरी व्हांवयले बगर भायर सरचो ना. सारकीं मर्माक लागपाचीं उतरां दिताले सर. सगळो स्टाफ थरथरतालो ताका.

सर पन्नाशीक पाविल्लो तरी दिसपाक रुबाबदार दिसतालो. गोरोपिट्ट, पूण सादें राहणीमान. मेजून उलोवपी, मुद्देसूद. कोंकणींत चड वार्तालाप. तो रजेर म्हणटा तो केन्ना वचनाशिल्लो. पूण कार्यालयांत आसतना सादें च्या-पाणीय ताका लागनाशिल्लें.

दीसरात फकत काम काम, आनी काम! काम सोंपले बगर कशेंच घरा वचपाचें ना. मागीर रातचीं धा जावं वा बारा. तो स्वता कायद्या भायर वचून कसलेंच काम करिनाशिल्लो आनी आपल्या स्टाफानूय तशें करूंक जायना अशी ताची अपेक्षा आशिल्ली. प्रत्येकान आपआपलें काम नेमून दिल्ले मुजती भितर करूंक जाय. कोण रजेर, कोण नवो आसा, कोण दुयेंत आसा, कोण रिटायर्ड जावपाचेर पावला... ताका कांयच लागनाशिल्लें. जे मेरेन कार्यालयांत आसा ते मेरेन प्रामाणीकपणान आनी जीव तोडून काम करूंक जाय अशेंच ताचें म्हणणें आशिल्लें. "कितें आसा तें फायलीर घाल, तोंडी कांयच नाका". ताची स्टाफाक शिटकावणी आशिल्ली. कामा विशीं ताका कसलीय तिडक मारली म्हणटकच तो ऑफीस माथ्यार घेतालो.

एकदां एक अर्जंट रिपोर्ट वचपाचो आसलो तो टायप करपाक मिता ताच्या कॅबिनांत गेलें. सर रागान खंकाळ जाल्लो. ताचो तो अवतार पळोवन मिताचे हात कडकडूंक लागले. की बोर्डाचेर बोटांच बसना जालीं. तसो सरान धेंगसोलो,

"कितें जालां?"

"कांय ना सर... करता टायप... तापूं नाका मातशे."

तसो सर उसळ्ळो... "इतलें भियेवपाक हांव कितें राकेस गो?...

खातलों तुका?...''

आनी मागीर एकदम मिस्कील हांसलो. मिता ताचे कडेन अजापान पळयत उरलें. सराचो हांसो इतलो सोबीत आनी नितळ, सामको काळजाक हात घालपी.

त्या दिसा सराच्या हांश्या वांगडा स्वता सरानय आपल्या काळजांत केन्ना घर केलें मिताक समजलेंच ना.

दीस वताले, मिता सरमय जावन जगतालें. एका वर्साचो काळ पळयतां पळयतां सरलो आनी एक दीस अश्या हुशार, निर्भय आनी प्रामाणीक सराचे बदलेचो आदेश आयलो. सराच्या वचपाचे कार्यालयीन सोपस्कार पूर्ण जाले आनी सरान मिताक आपल्या कॅबिनांत आपोवन व्हेलें आनी म्हणलें,

''मिता, तुज्या नव्या सराक स्किमींचो स्टेटस दी. हांव चल्लों.''

मितान ताच्या तोंडा वटेन पळयलें, तो शांत दिसतालो, मात ताच्या दोळ्यांच्यो कडो ओलसार जाल्ल्याचो ताका भास जालो. मिताक दिसलें, हो दोळ्यांतलो ओलावो जीव लावन उंचायेक पाविल्ल्या ऑफिसाक सोडपाच्या दुख्खाचो आसूंक जाय. अश्या कामान झपाटिल्ल्या ऑफिसराक अचकीत एके कडल्यान दुसरे कडेन बदली येतकच खूब मानसीक त्रास जातात. नव्यो वाटो, ... नवो ताबो... वचत थंय तेंच म्हणत स्वताची समजूत स्वताच काडपाची आनी नव्यान लडाय लडपाक तयार जावपाचें, पूण हें खंयच्याच ऑफिसराक नवें न्हय. चड कांयच उलयनासतना एक - दोन मिनटांत आपली खुर्ची रिकामी करून सर मंद पावलटीन थंयच्यान भायर सरून गेलो.

सरानूच यत्न करून कांय दिसां आर्दी कार्यालयाक नवो जागो मेळयिल्लो. त्या जाग्यांतल्या ह्या नव्या कॅबिनांत ती आनीक थोडे दीस तरी उरपाक जाय आशिल्लो अशी हळहळ मिताच्या काळजाक जाली. सराचो मिस्कील हांसो आतां केन्नाच कानार पडचोना म्हण मिताचे दोळे आपसूक गळपाक लागले.

...आयज सरांचो वाडदीस. मिताचें मन सामकें अस्वस्थ जाल्लें... वर्सभर सराची खबर घेतली ना, निदान आयज तरी सराक मेळूंक वचूंकच जाय! पूण अशें वचप सराक आवडटलें...? तो रागार जावचो ना न्हय...?

वचूं काय नाका...वचूं काय नाका ... करीत अखेरेक मितान मनाचो निश्चेव केलो आनी तें सराच्या नव्या ऑफिसांत पावलें.

''वाडदिसाचीं परबीं सर!'' धडधडत्या काळजान सराच्या कॅबिनांत भितर सरतकच मितान म्हणलें.

सरान हात फुडें केलो.

''इल्लोसो हात दी गो, व्हडलो नाका!'' सरान विनोद केलो.

सराची प्रतिक्रिया पळोवन मिताच्या मनांतली भीड ना जाली .

''बस मिता. कितें खबर?'' सरान विचारलें आनी उमेदी जावन मितान आपले सदचे बिनधास्त शैलींत सराक सरिल्ल्या वर्सांतल्यो ऑफिसांच्यो गजाली, सांगपाक सुरवात केली,

जाणा सर...

000

# कथामंच

(कथा)

प्रशिला नायक

## पप्पा

पप्पा, आयज म्हाका तुमची खूब याद येता. म्हजी याद काडले बगर तुमचो एकूय दीस वचना आसतलो न्हय रे, पूण सगलें आमकां जाय तशें जाल्लें जाल्यार सगल्यांच्यो सगल्यो इत्सा पूर्ण जातल्यो आशिल्या. ह्या संवसारांत कोणाच्याय आयुश्यांत दुख्खाची सावळी पडची नाशिल्ली.

मम्मी, पप्पा, तुमी म्हजेर उपाट मोग केलो. म्हाका जाय जाय तें हाडून दिलें. म्हज्यो सगल्यो इत्सा, हट्ट पूर्ण केले. हांव सांगतां तें म्हजें आयकलें. दादा परस तुमी म्हजेर चड मोग केल्लो, पूण म्हजो आनी तुमचो सांगात फकत इतलोच आशिल्लो.

पप्पा, हांव तुमचे कडल्यान पयस गेलें तेन्ना तुमी दोगांय खूब रडलीं. हांवें आयुश्यांत येवन जें जें कितें केलें तें याद करून तुमी रडटालीं. म्हजो जल्म, उमथें पडप, दिमखुऱ्यांनी वचप, लुडबें उलोवप, चलप, धांवप, शिकप जेवप-खावप, म्हज्यो आवडी, शाणपणां सांगप सगळें सगळें तुमकां याद जातालें. म्हज्यो अर्थ-अपुरबाय, हांवें केल्ले ल्हान-व्हड पराक्रम, हांव पिरायेन ल्हान आसून लेगीत हांव करतालें त्यो शाणेपणाच्यो गजाली तुमी म्हाका पळोवंक येतालीं तांकां सांगतालीं पूण....

माईआतें... आई मात फकत रडटाली. तीं कांयच उलय नाशिल्ली. हांव जाणां पप्पा आनी तुवूंय जाणां. तीं उलय नाशिल्ली तरी तांच्या काळजांत जायतें दुख्ख

**प्रशिला नायक** : जल्म : 1981. कवयत्री, कथाकार. 'सुनापरान्त', 'बिंब' ह्या कोंकणी नेमाळ्यांनी तशेंच 'नवप्रभा' या मराठी दैनिकांत लेखन प्रकाशीत. संपर्क : सुशीला संकूल हावजींग को. सोसायटी, बी-ब्लॉक, फ्लॅट नं. बी-307, तिसरो माळो, दत्तमंदिरालागीं, ओरलें, वास्को. मो. : 9823603722.

आशिल्लें. तांकां खूब कितें उलोवपाचें आशिल्लें, तुका विचारपाचें आशिल्लें, पूण लोकांचे लजेक लागून तीं आपलीं तोंडां धांपून राविल्लीं, पूण तांचीं काळजां मात हुयेल्यांनी रडटालीं. तांचो जीव एकसारको फुगार जातालो. उतरां तोंडार येतालीं, पूण थंयच तीं गिळटालीं. कितें म्हणटली? कोणाक कितें सांगतलीं? तांचे कडेन म्हजे विशीं कितेंय उलयतलीं जाल्यार पदरांत कसल्योच यादी नाशिल्ल्यो. हांव पांच वर्सांचें केन्ना आनी कशें जालें हें मुळांत ती नकळोच आशिल्लीं. कारण पप्पा, तुवें म्हाका तांचे म्हऱ्यांत केन्ना दवरलेंच ना.

आमच्या घरांत म्हजे पयलीं आत्यालीं चार भुरगीं खेळ्ळीं. तांकां आईनच पळयलें न्हय! मागीर म्हाका आनी दादाक तीं सांबाळटलीं हाचेर तुका विस्वास कित्याक नाशिल्लो? तांकां सोडूच, तुमकां पांच भावंडांक तिणेंच ल्हानाचीं व्हड केल्लीं न्हय! तरी इतलो अविस्वास?

जाणां पप्पा, म्हजें येदें व्हडलें भरिल्लें घर आसतना तुवें म्हाका सगल्यां कडल्यान पयस दवरलें. म्हाका आईचो, आत्याचो मोग जाय आशिल्लो. हांव तांच्या मोगाक खूब आशेल्लें. तांचे कडल्यान म्हाका म्हजे लाड करून घेवपाचे आशिल्ले. म्हजे हट्ट पूर्ण करून घेवंक जाय आशिल्ले, पूण घडये हें सगळें म्हज्या नशिबांत नाशिल्लें. पप्पा, तुवेंच तें मुद्दाम काडून घेतलें ना मरे? तुवें म्हाका ह्या म्हज्या मोगाळ मनशां कडल्यान पयस दवरलें. म्हाका खूब दिसतालें, तांचे म्हऱ्यांत वचून म्हजे लाड करून घेवचे, म्हजे लकुबायेचे खेळ करून हांसोवचें, तांकां खोशी करचें, पूण तुज्या भंयान हांव गेलें ना. वयल्यान तुवें म्हाका तीं लोक म्हूण शिकयिल्लें. आईक तर तुवें 'म्हातारी' म्हणपाक सांगलें. हांव आई म्हऱ्यांत गेल्लें म्हूण एक दीस तुवें म्हाका खूब तापयिल्लें. "लोकांगेर वचप ना म्हूण सांगिल्लें मगो तुका? कळना सांगल्यार?" अशें म्हणीत मारिल्लें लेगीत. तेन्ना तुवें म्हाका पयलेच फावट मारिल्ल्याचीय म्हाका याद आसा. ना जाल्यार तुवें म्हजेर केन्नाच हात उबारिल्लो म्हजे यादींत ना.

पप्पा, तुका खबर ना, आई म्हजे खातीर कितली तळमळ्ळ्या ती! तूं जसो म्हजेर मोग करता, तसो तिवूय आपल्या भुरग्यांचेर तितलोच मोग करतलीं न्हय. मागीर तिचो हो मोग तुका कसो कळ्ळो ना रे?

तुवें दादाक आनी म्हाका दोगांकय मामागेर दवरलीं. हांव ल्हान म्हूण तुमी म्हाका सद्दां घरा हाडटालीं, पूण दादाक मात फकत सणा-परबांकूच घरां येवपाक मेळटालें आनी आयल्यारूय तूं ताका आई म्हऱ्यांत धाडनाशिल्लो. आईच्या आदाराक आतां बाबाय नाशिल्लो. तूं तिचे कडच्यान पयस जाल्लोच, पूण आमकांय पयस केल्लें. ती बाबडी एकटीच. कशीतरी आपल्या म्हातारपणांत संवसाराची गाडी एका चाकार चलयताली, आदार नासतना.

तुवें आईक मेळप ना. आई म्हूण उलो

मारप ना अशें सांगिल्लें म्हण दादा केन्नाच तिका मेळपाक गेलो ना, पूण पप्पा, खरें सांगूं? हांव तुजी चूक मागतां! तुजें उतर मोडून हांव आईक एक दोन फावटी मेळपाक गेल्लें. हांवें म्हजे परीन तिका खोशी दिवपाचो यत्न केल्लो, पूण तुज्या भंयान मागीर तिका उलो मारपय सोडून दिलें.

तुमचे मर्दी कितें जाल्लें तें, तुवें तुमचे मेरेनच दवरपाक जाय आशिल्लें, पूण पप्पा, आमकां मात ताचे परिणाम भोगचे पडले. आमचे कडल्यान आमचीं मनशां दुरावलीं.

पप्पा, आई खूब एकटी पडिल्ली रे! तिका आमची गरज आशिल्ली. तुजी गरज आशिल्ली. पप्पा, तुवें जशें आमची अपुरबाय केली, आमकां मोग दिलो तसोच तिवूय तुजे मोग करताली. तुका ल्हानाचो व्हड केलो. सांबाळ्ळो, शिकयलो, स्वताच्या पांयांर उबो केलो. आनी तुवेंच तिका पयस केली. तिच्या म्हातारपणांत तिका सांबाळपाचो सोडून तिका एकटी उडयली. ती बाबडी आपूण रांदून जेवता. आं! बाबाचें पेन्शन येता म्हूण माणुसकी, नाजाल्यार.......

'आमी जाण्टीं जातकच आमच्याय चल्यान आमकां अशीं एकटीं उडयलीं जाल्यार आमचें कितें जातलें? असो विचार लेगीत तुज्या मनाक आफुडलो ना?

खरेंच जण एका चल्यान हें चिंतपाक जाय की आपणें आवय-बापायक पयस करप ना. ज्या वेळार तांकां भुरग्यांची चड गरज आसता तेन्नाच हीं भुरगीं तांकां सोडून वतात. म्हातारपण म्हणल्यार तांकां परत मेळिल्लें तांचें भुरगेपण. अश्या वेळार तांकां दुसऱ्यांच्या आदाराची गरज आसता. तांच्या शरिराक, तांच्या मनाक सांबाळचें पडटा आनी पप्पा, तुवेंय तीच चूक केल्ली. आईक पयस करून!

ज्या चल्याक आपणें इतले त्रास काडून वाडयलो. जाका कांयच कमी केलें ना. ताणेंच आपलो वेगळो संवसार रचलो. तें आवयच्या मनाक कितलें दुःख जाता आसतलें? म्हज्या फकत पांच वर्सांच्या सांगातान तुमकां इतलो त्रास जालो. तुमी दुकांनी रडलीं. कितलेशेच दीस तुमी घरांतल्यान भायर सरलीं नात. पावलां पावलांक म्हजो उगडास केलो. मागीर आई 35-40 वर्सांच्यो यादी काडून मनांतल्या मनांत कितली रडटा आसतली. आपलो चलो दोळ्यां मुखार आसून लेगीत ताच्या तोंडांतल्यान 'आई' हें उतर आयकुपाक तळमळटा आसतली अशें दिसना तुका?

पप्पा, तुका एक गजाल सांगूं? हांव दिश्टी पडलें म्हणटकच आईच्या तोंडार खोशी झळकताली. मागीर ती म्हाका हातांनीच कुरू करून आपले म्हऱ्यांत आपयताली. पयलीं पयलीं हांव वतालें. मागीर तुजे धेंकणें पडपाक लागले म्हणटकच हांवें थंय वचप बंद केल्लें.

आमची तरी कितें चूक आशिल्ली? जशें तुमी शिकयलें तशें आमी शिकलीं. म्हणटात न्ही, भुरगीं आपल्या

आवयबापायचें अनुकरण करतात. तूं तरी आई वटेन पळय लेगीत नाशिल्लो. तुका पळोवन पळोवन हांवेंय तेंच केलें. तिचे म्हऱ्यांतल्यान वतना हांव तोंडार हात धरून वतालें, जाणें करून ती म्हाका दिसची ना. खरेंच हांवें तरी तशें करप योग्य नाशिल्लें. बाबडी म्हाका पळोवपाक आनी म्हजे कडेन उलोवपाक सामकी आशेताली.

पप्पा, तुका याद आसा? आमच्या घराच्या फुडल्यान आशिल्ल्या त्या टॉयलेटींत बसून हांव मोठ्यामोठ्यान पदेतालें तें? तें कितें म्हाका पदां म्हणपाक जाय म्हणून वा मजा म्हूण न्हय, जाल्यार म्हजो आवाज आईक आयकूंक येवचो आनी ती भायर येवची म्हूण. म्हजो तो एक यत्न आसतालो. ती भायर येवन जेन्ना म्हजेर तिची नदर पडटाली तेन्ना तिच्या तोंडार जी उमेद दिसताली ती पळोवन म्हाका पदां आनीक मोठ्यान म्हणपाची उमेद जाताली.

आमच्या दारा मुखार रावपी तो बाबा, ताची चली सपना दीदी, आमच्या बिराडांत रावपी आश्विनी आनी ज्योती दीदी, सगळ्यांक हांव मानान जाप दितालें. सगळ्यांक म्हजी खुबूच अपुरबाय. तांकां नांवांनी उलो मार, वा हो बाबा, हें दीदी अशें केन्नाच म्हाका कोणें सांगचें पडलें ना. कोणूय म्हाका वाटेन वतना दिसल्यार हांव तांकां रोखडोच उलो मारतालें, हें तुवूंय जाणां, पूण आईक, आत्याक आनी आपल्या हेर घरच्या मनशांक उलो मारपाक म्हजी जीब सदांच आडखळटाली. घडये ती तुज्या दबावाक लागून जाताली आसत.

पप्पा, धाकल्या आत्या कडेन तरी उलोवपाक दिवपाक जाय आशिल्लें. हांव जालें तेन्नाच्यान वर्सभर तरी ताणेंच म्हाका पळयलें. तरी तुवें म्हाका ताचे कडल्यान पयस केलें. तें केन्नाय घरा आयल्यार लेगीत ताचे म्हऱ्यांत हांव गेलें ना. तें म्हाका खूब बरें करतालें रे पप्पा. तें म्हाका आपल्या म्हऱ्यांत आपयतालें, हांसतालें आनी ल्हवूच कोण ना तें पळोवन म्हऱ्यांत येवन पापी घेवन वतालें. म्हाका तें खूब आवडटालें.

आतें जेन्ना आमकां खावपाक हाडटालें तेन्ना तें खावंक तूं आमकां कित्याक दिनाशिल्लो रे? खावपाक अशें न्हय, कितेंय हाडून दिल्यार आमच्या हातांतल्यान काडून घेतालो आनी परतें व्हरून दितालो. तेन्ना म्हाका तुजो खूब राग येतालो. म्हणून मागीर हांव म्हाका कितेंय दिल्यार, ते आईले वटेनूच दवरून येतालें आनी तूं नासो पळोवन खावन येतालें. मागीर मागीर तांणी तुजीं कुसडेपणां पळोवन हाडपाचें सोडून दिलें.

तूं तुजे भयणीं कडेन उलयनाशिल्लो म्हूण आमी तांचे कडेन उलोवप ना, अशें दिसतालें आसत तुका. तुवें तुजे भयणीची राखी लेगीत परतिली. आतां पळयलें मरे, दादाक कोण राखी बांदतलो? आसात तांकां सांबाळून दवरप खूब गरजेचें, कारण ना जाले उपरांत तें परत मेळप खूब कठीण

जाता. आतां हांव काय परतें येवचें ना. म्हजो दादा बाबडो उरलो ना एकटो!

अशें म्हणटात की, चली ही घरची लक्ष्मी. ती एकदां भायर सरून गेली म्हणटकूच फाटीं वळून पळयना. तुवेंय हे लक्ष्मीचो अपमान केल्लो. याद आसतलीच तुका. तुवें ताची व्हॉट दुकांनी भरून धाडली. मागीर हांवूंय ह्याच घरची धूव. म्हाका अपमानास्पद जाणवलें. हांव तरी कित्याक रावतलें? हांवूंय भायर सरलें कायमचें.

पप्पा, म्हाका तुमी सगळीं एक जाल्लीं जाय आशिल्लीं रे. जशीं तुमी भुरगेपणांत आशिल्ली तशीं. एकठांय उलोवप, हांसप आपलीं सुख-दुख्खां वांटप, सगळें.

दिशिल्लें, हांव मेले उपरांत तरी तुका हाची जाणीव जातली. तूं भयणींक तांचो मानाचो हक्क दितलो. आईक सांबाळटलो, पूण ना! तुका तुवें केल्ले चुकीची जाणीवच ना! हांव समजुवपाक चुकलें पप्पा. हांव चुकलें. तुज्या हातांतल्यान घडये अजून जायत्यो चुको घडपाच्यो आसात. तुका जाणविकायेची समज येवपाक अजून वेळ आसा, पूण याद दवर पप्पा. हांगा केल्लें हांगाच भोगचें पडटा तें फट न्हय. तुकाय भोगचें पडटलें. घडये तुज्याच पुताच्या हातांतल्यान.

तुका तुजे चुकीची जाणीव जातली आनी तुमी सगळीं भावंडां आनी आई एक जातलीं तेन्नाच म्हज्या ह्या आत्म्याक शांती मेळटली. हांव वाट पळयतां... 000



# भाशाभावर्की

अणकार : माया अनिल खरंगटे

(मूळ मराठी कथा :
चिं. वि. जोशी)

## म्हजो दत्तक बापूय

सकाळचो थंड वेळ, शिंयाळ्याचे दीस आनी हांव रत्नागिरीच्या बंदराचेर पासय मारूंक गेल्लों. कोंकणांत शिंयाळे दीस कितले सुखदिणे आसतात. चड थंडीय ना आनी गरमी तर अजिबात ना. रत्नागिरीचें बंदर चडपा देंवपाक जरी कठीण आसलें, तरी थंयची सैमसोबाय खूबच सोबीत आसा. दर्यावटेन तोंड करून उबे रावन पळयिल्लो उजवे कडलो तो अजगरा सारको पातळिल्लो किल्ल्याचो दोंगर, मुखार धारेर मेरेन उदकच उदक आनी ताचेर थोडो थोडो जागो सोडून उफेवपी व्हड्यांची फेर्राद शिडां, फाटले वटेन खास सांगप, सारकें कांयच ना, असो तो सोबीत देखाव जल्मांत केन्ना हांव विसरचों ना. रातभर नशा करून तांबडो गूंज जाल्ल्या भगवान सुर्यनारायणान आपली घरकान्न सैमदेवतेचीं कानसुलां रंगयिल्लीं. दर्यादिगेर रेंवेंत एका बिळांतल्यान दुसऱ्या बिळांत सुर्र करून धांवपी कुल्ल्यो आपल्याक धरपाक येवपी कावळ्यां कडेन वा सुण्या कडेन धरचेल्यांनी खेळटाल्यो. बरयलां तितलें वर्णन पुरो. ना जाल्यार लघू कथेचें तंत्र इबाडटा म्हणून मुद्द्याचे गजाली कडेन वळटां.

जरी म्हजी नोकरी पुण्यांत आशिल्ली तरी प्रत्येक वर्सा हांव ह्या म्हयन्यांत, रत्नागिरीक येतालों आनी म्हज्या वाडवडिलांचे इस्टेटीपैकी म्हज्या वांट्याक जो माड आनी पणसाच्या झाडाची जी खांदी आयिल्ली तिचें वर्सुकी उत्पन्न एक रुपया पांच आणें, पांच पै घेवन वतालों. हें उत्पन्न मेळोवपाक म्हज्या बापायक

**चिं. वि. जोशी :** जल्मः 1892, मर्ण, 1963, पुर्णे-महाराष्ट्र. मराठींतले श्रेश्ठ विनोदी कथाकार, पाली, इंग्लीश आनी मराठी विशयाचें साबार वर्सां अध्यापन, सुमार धा विनोदी कथा संग्रह प्रकाशीत. तातूंतले *'एरंडाचे गुऱ्हाळ', 'चिमणरावाचे चऱ्हाट', 'गुंड्या भाऊ', 'हास्यचिंतामणी'* हे भोव म्हत्वाचे. *'चिमणराव स्टेट गेस्ट'* तांचे कथेचे आदारीत काडिल्लो *'सरकारी पाहुणे'* हो सिनेमा खूब लोकप्रिय थारलो. *'पाली कंकॉर्डन्स'* (कोश), *'जातकातील निवडक कथा', 'बुद्धसंप्रदाय व शिकवण'* आदी ग्रंथ प्रकाशीत.

**माया अनिल खरंगटे :** जल्मः 1956, कवयित्री, बालसाहित्यकार, कथाकार, अनुवादक. तेत्तीस पुस्तकां प्रकाशीत. *'कयपंजी'* हो कवितासंग्रह तशेंच *'घोंटेर', 'मळबझेप', 'मृगजळ', 'काळीं कुपां रुपेरी देग'* हे कथासंग्रह चर्चीत. एनसीईआरटी दिल्ली संस्थेचो बालसाहित्य पुरस्कार तशेंच गोवा कोंकणी अकादेमीच्या उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कारांनी (2010, 2012) सन्मानीत. संपर्क : पितुल कामत कोओपरेटीव्ह हावसिंग सोसायटी, एफ-3, पयलो माळो, आर्के, मडगांव, गोंय 403601. मो. : 9420685278.

आठ वर्सां कोर्टांत झगडून णवशें रुपया वगडावचे पडले. मागीर हांव वर्साक पंद्रा वीस रुपये खर्च करून रत्नागिरीक येवन भावबंदां कडेन झगडून हे हक्काचे, हट्टाचे आनी मानाचे पयशे घेवन वतालों, हातूंत चूक कितें आसा? तशें केलें ना जाल्यार बापायच्या नांवाक दाग लागचो ना? अंदूचे वांटणेचे पयशे कालच वसूल करून घेतिल्ले आनी आयज साजवेळचे बोटीन परत पुण्यांत वतलो आसलों. बंदरा वयली मजा थोडो वेळ पळोवन परतलों आनी वयले आळींत पावलों, तेन्नाच एक पन्नाशीच्या अदमासाचो जाण्टो मनीस धांवतच म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो. ताणें म्हाका दोनूय हातांनी घट वेगेंत घेतलो.

"आरे, हें कितें आज्या? म्हाका कोण समजल्यात तुमी? हांव काय तुमचो नातू, पणतू न्हय. सोडात म्हाका, ना जाल्यार आतां आमचे भोंवतणी बेकार थवय जमतले."

"बाब, म्हाताऱ्याक झिडकारूं नाका. तोच तूं – हुबेहूब, कुस्कूटाचो फरक ना."

"भटमाम, सगळें मान्य. तोच हांव, हुबेहूब काल दिसतालों तसोच आयजूय दिसता. कालचोच हो चिमणाजी विठ्ठल."

"कितें, तुजें नांव चिमण? जाल्यार तर सारकें जुळ्ळें. म्हाका लेगीत दृश्टांतांत गुरुराजान हेंच नांव सांगिल्लें. 'चिमण, चिमण यो रे म्हज्या चिमण्या, बाबुल्या!" अशें म्हणून जाण्टेल्यान म्हाका आनीकय घट धरलो.

"शास्त्रीबुवा, तुमी सड्या वयल्या हॉस्पिटलांतल्या राखणदारांक फटोवन बी येवंक ना मूं? चलात, थंयच तुमकां परत व्हरून पावयतां."

"आरे बाबू, हांव कोणाक फटोवन येऊं ना, पूण तूं मात म्हाका फटोवन 20 वर्सां पळून गेल्लो, पूण नशीब बरें म्हजें, काल रातीं गुरूराजान दृश्टांत दिवन सांगलें, 'तुजो बाबू फाल्यां सकाळीं मेळूंकच जाय.' हांवें म्हणलें, – 'पूण ताका हांव वळखतलों कसो?' तेन्ना गुरूराजान सपनांत तूं दाखयलो आनी तो अदृश्य जालो. सपनांत पळयिल्ली ही मनभुलोवणी मूर्त, पूण चल म्हज्या घरा. हांगा रस्त्यार हे आलमपेड्डेर लोक जमतले. हें कोंकण रे बाबा, हांगचे लोक कुच्छित्री. फटींगाचो गांव हो."

ह्या पिशाच्या मनांत आसा तरी कितें हें पळोवपाच्या हेतून हांव ताच्या वांगडा ताच्या घरा वचूंक भायर सरलों. धा-पांच घरां वतकच ताच्या घराच्या दुर्गा भितर गेलों. भितर गेले बरोबर थंयचो थाट पळोवन हांव चकासूर जालों. दोन तुडूंब भरिल्ल्या बांयक मळ्याचें राट लायिल्लें आनी एकाक बैल जाल्यार दुसऱ्याक रेडो बांदिल्लो. बांयच्या पाटाच्या उदकार माड, सुपारी, कलमी आंबे, पणस, काजू अशे रूख, चिकू, कॉफी, केळीं, लिंबू अशीं झाडां, फुलझाडां, वाली, भाजयो पोसवताल्यो. घरा मुखा वयल्या माटवार सुकत घालपाच्या कामाक दोन वावराड्यो वावुरताल्यो तर दोन वावराड्यो दळप, कांडपाचें काम करताल्यो. एका गोठ्यांत

5-6 गोरवां बांदिल्लीं. बागेच्या मदेकांत मुंबयचे पद्दतीचो दोन मजली सोबीत नळ्यांचो बंगलो आशिल्लो.

"ही पळय म्हजी बाग आनी मुखावयली म्हजी गरिबाची खोंप." जाण्टेल्यान सांगलें. कोंकणांतल्या गिरेस्त लोकांचो भेस आनी पराकाश्टेच्या गरीब मनशाचो भेस सारकोच आसता, म्हणून म्हाका ताच्या उलोवण्याचें मातूय अजाप दिसलें ना. ताणें म्हाका बंगल्यांत व्हेलो. बंगल्याचे चौकेरच आमी झोपाळ्यार बसले. चौके वयल्यान माळयेर वचपाक जिनो आशिल्लो. ताका कुलप लायिल्लें ताका लागून दिवाणखान्याचो थाट म्हाका पळोवंक मेळ्ळो ना. तरीय वारांदा वयल्यो गादयो, लोडां, तक्के, देवादिकांचे फोटे आनी हेर फोटो, पोथयांच्यो तबकड्यो, चित्रां बी दवरिल्लीं. कंवचेची आरमार, हो थाट पळोवन त्या म्हाताऱ्याचे गिरेस्तकायेची बरीच कल्पना आयली.

जाण्टेल्यान रामाक म्हणजे नोकराक उलो मारून आपयलो आनी कोठयेकुडींत हुमकळायिल्ल्या केळ्यां घड्याचीं थोडीं केळीं आनी एक तोरांज घेवन येवंक सांगलें.

रामा : "पूण अण्णा..."

रामाचें उलोवप पूर्ण जावंक दिसनासतना जाण्टेल्यान ताका ओगी केलो आनी म्हणलें, "हय, धनयाचेच सोयरे हे. चल, चड उलयनाका." रामा कितें तरी बडबडत गेलो. तेन्ना जाण्टेल्यान म्हणलें, "पळयलें, हे कोंकणांतले मानाय कशे मदांत आसतात ते? हांकां तुमी, आमी अशें उलोवंकच कळना. हरशीं म्हाका हें सादेंपण आवडटा. म्हाका अण्णासाहेब म्हणूं नाकात, फकत 'अण्णा' म्हणात अशें हांवें सांगूनच दवरलां. ना जाल्यार तुमच्या देशावरांत, जो उठ्ठा तो साहेब, तात्यासाहेब, बापूसाहेब, भाऊसाहेब! मागीर हातांत उरफाटी अंबारी आसल्यार कितें जालें? आड्डून, "बाईसाहेब, मातशी भायर यो."

विणी घाल्ली, व्हड कुकूम, नाकांत भांगराचे मणी गुंथिल्ली नथ, धोंपरां लिपतात इतले रुंद न्हेसण अशी बायल सालांतल्यान दारांत येवन उबी रावली. तिका उद्देशून जाण्टेल्यान म्हणलें, "पळयलो, आमचो पूत? जालें काय ना म्हजे स्वप्न खरें? तू म्हाका पिसो समजली. स्वप्न फट म्हळें. पूण स्वप्नांत पळयल्ली मूर्त, नांवय गुरुराजांनी सांगिल्लेच, "चिमणाजी! बाबा चिणा, आरे आवयक पांयां पड तुज्या..."

ह्या चक्रम म्हाताऱ्याच्या मातशें फावराद वागया असो विचार करून हांव ते बायलेक पांयां पडलो. "बरें, बरें. हांव च्याक आदन दवरतां." अशें म्हणून ती भितर वतकच जाण्टेलो झोपाळ्या वयल्यान उठलो, वणटीवेलो एक फोटो काडून म्हाका दाखयत म्हणलें, "चिमणराया, पळय पळय हीं अपुरबायेचीं भुरगीं. एका परस एक मोलादीक रत्नांच आशिल्लीं, पूण काळाच्यान पळोवं नज जालें. इन्फ्लुएंझाचे धामींत आठ दिसां भितर एका फाटल्यान एक गेलीं आनी आमकां

म्हातान्यांक निसंतान करून सोडलीं. (फुगार जावन रडत) पूण आसूं तें. आमी भुरग्यां पासत दुःख्ख करींत एक वर्स काडलें, तेन्ना कालच आमचें गुरुराज-''

"म्हणल्यार कोण?''

"म्हजे गुरू म्हणल्यार राजापुरचे पासोडे म्हाराज, सत्पुरुस ते. तेच म्हजी काकूट करून कळवळ्ळे. तांणी म्हाका फांतोडेर दृश्टांत दिलो. तांची ती स म्हयन्यांत न्हाव नाशिल्ली, तोंडांत गांजाची चिलीम, आंगार बुरशे गोजडे बगर बोंतरय नाशिल्लें. पळोवंक भ्रमिश्ट दिसपी ती मूर्त म्हज्या मुखार प्रकट जाली आनी म्हणूंक लागली, "पोरा, अण्णा, कल फजर उठके गाइयाको हात लगावो और रास्ते में जाव, तुम्हारे नजरमें जो आदमी पहला आयेगा वो ही तुम अपना लडका समझो. अगले जनममें वो तेरा लडका था?' हांवें म्हणलें, 'गुरूवर्य, पूण रस्त्यार धा जाण मेळटले. खंयचो हांव म्हजो चलो समजूं?' तेन्ना तांणी म्हज्या मुखार तुजी मूर्त प्रकट केली. मुखार उलयतलों तेन्ना म्हाका जाग आयली.''

इतल्यांत अण्णाचे घरकान्नीन च्या, केळीं आनी तोरांजाच्यो शिरो आनी मुखशुद्धी खातीर ओली सुपारी हाडली. ताचेर ताव मारता आसतना अण्णान आपल्या भाटबेंसाची गजाल म्हाका सांगली. अण्णा कडेन बरीच 'माया' आशिल्ली. तो बंगलो, ती बाग, रत्नागिरी आनी संगमेश्वर तालुक्यांतलीं शेतां-भाटां, दर म्हयन्याक तिनशे रुपये भाडें दिवपी मुंबयचें ल्हानशें घर, ते भायर वीस हजारांच्यो 'परमेश्वरी' नोटी आनी एक पांच हजारांचें युद्धकर्ज. असो पोटलो आयतोच पदरांत पडटा जाल्यार खंयचो शाणो मनीस अण्णाच्या दृश्टांताचेर अविस्वास दाखयतलो? पासोडे महाराजांचे उपकार अण्णा परस म्हजेरच चड जाले हातूंत दुबाव ना.

"पूण अण्णा, म्हजो बापूय जितो ना, म्हाका दुसरो भावय ना, तेन्ना म्हाका तुमचो दत्तक जावंक मेळचें ना.'' हांवें म्हणलें.

"आरे, दत्तक नाका आनी फित्तक नाका. तीं सगळीं पिशेपणां. दत्तक विधान केल्यार खरो मोग जाता? फकत तूं आमचेर आवयबापाय प्रमाण माया कर मागीर सगळी 'माया' तुकाच मेळटली. बरें, आतां तूं खंय रावला? (आयकून) वयल्या वाड्या वयले जोग तुजे कोण लागतात?''

हांवें अण्णाक म्हजी सगळी खबर सांगली. हांव पुण्यांत नोकरी करतां हें आयकून तांणी म्हणलें, "आरे चिमण, साठ तिकल्यां खातीर तुका आतां पेन झरोवपाची गरज ना, पूण म्हाका मातशी दम्याची पिडा आशिल्ल्यान येदो पावसाळो आमी दोगांय पुण्यांत काडटात. वेगळें बिराडच करपाचीं आशिल्लीं, पूण आतां तूं आसाच. घरांत तुजी आवय आसा मूं? तुका फाल्यां कामार रुजू जावपाचें आसल्यार तूं आयज रातचे बोटीन चल. हांव हांगाच्या कामाची वेवस्था करून बुधवार दीस येतां.''

उपरांत थोडें हांगाचें थंयचें उलोवन हांव भायर सरलों. आयतारा सांजवेळचो रत्नागिरींतल्यान भायर सरून सोमारा दनपरां पावूण वराचेर पुण्यांत पावलों. वाटेर बोटींत आनी आगगाडयेंत म्हजो सगळो वेळ त्या भोळ्या अण्णाचे इस्टेटीची तजवीज करपांतच गेलो. ऑफिसांत वचूंक वेळ जाल्ल्यान एका टॉमीचीं उतरां सहन करचीं पडलीं. ''कांय हरकत ना तांबड्या तोंडाच्या;'' हांवें (मनांत) म्हणलें, ''तो जड्डो कोंकणो म्हाका आपली इस्टेट दितलोच. मागीर कोण येतलो तुज्या सारक्या माकडाची चाकरी करपाक?''

सांजवेळा घरा वतकच आईक सगळी खबर सांगली, तेन्ना तिणें म्हणलें, ''सांबाळ रे बाबा. ना जाल्यार तो कोणूय फटींग बिटींग आसत. असले भानगडींत आमच्या सारक्या साद्या मनशांनी पडूंक जायना.''

''आगे, आई, हांव हे भानगडींत पडलां? त्या अण्णाच्या गुरुराजानूच म्हाका हातूंत घुस्पायला. बरें जालें. ह्या म्हारगायेच्या दिसांनी म्हज्या संवसाराक मातसो हातभार लायलो देवान.''

बिरेस्तारा सकाळीं अण्णा आनी ताची बायल (तिका माई म्हणटाले) हांकां स्टेशना वयल्यान हाडलीं. आण्णांन आमगेले आई कडेन आडव्यो-तिडव्यो गजाली करून तिका फुलयली. माईन आईक आपली भयण मानली. अण्णा हो म्हजो बापोलयो अशें हांवें सगळ्यांक सांगचें, म्हणटकच दृश्टांताची कर्मकाणी सांगपाक नाका अशें थारलें. अण्णा बरोबर ताच्या कपड्यांचें आनी वस्तींचें ट्रंक आशिल्लें, पूण ताची चावी खंय तरी शेणिली. ताका लागून ताका न्हातकच बदलूंक बोंदरय नाशिल्लें. म्हणून हांवें रोखडेंच बुधवार पेठेंत वचून एक पुडव्याचो जोड आनी इरकली कापड घेवन आयलों.

पयल्या दिसा अण्णा आनी माई नवीं आशिल्ल्यान तांकां वयलेवयर केलें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं आमचो गवळी आयलो तेन्ना आमी दूद कितलें घेतात तें अण्णान विचारलें. घरकान्नीन (म्हजें निकतेंच लग्न जालें.) म्हणलें ''एक शेर'' अण्णान म्हणलें, ''इतलेंच! एकच शेर? आरे, तें आसूं आतां. तुमी अडेज शेर दूद सुरू करात. म्हाकाच तर भाकरे बरोबर शेरभर दूद लागता. आरे गवळ्या, सकाळीं अडेज आनी रातचें दोन शेर दूद हाड. (म्हाका इंग्लीशींतल्यान) पयशांची चिंता नाका.''

हांव ''हें, अण्णा, तशें कांय ना. पयशांचें व्हडलें कितें? जाय तितलें दूद घेवया. (मनांत म्हणलें, खा जड्ड्या, म्हज्या बापायचें कितें वतलें, निखटें दूद पियवन पोट फुगून मेलो जाल्यारय.)

अण्णा येत सावन आमच्या रावपांत खूब सुदारणा जाल्ली. जेवतना दोन दोन कोशिंबिरी, एक शाकभाजी, एक पालेभाजी, भाकरे वाट्याची चपाती, चपातेक तूप-साकर, सकाळ-दनपार लिप्टनच्या हळडुव्या डब्यांतली च्या आनी ताचे बरोबर बिस्कीट वा शिरो असो

थाट सुरू जालो. अण्णाचे तकले वयलो धवो मास्तरशाही रुमाल वचून पुणेरी झिरमिळ्यांची पगडी, आंगांतली बंडीं आनी चेकाचो कोट वचून शर्ट आनी सर्जाचो कोट, वालो वचून लांब-रुंद, पुडवें आनी व्हाणा वाट्याचो तांबडो पुणेरी जोडो असो भेस आयलो. माईचें सुती कापड वचून आनी पयलींच्या उगड्या पांयांत सोलाचें जोतें आयलें. हो सगळो भेस बदलपाचो खर्च सध्या तरी म्हाकाच सोंसचो पडलो, पूण हाच्या धा पटींनी पयशे घेतले बगर हांव थोडोच रावतलों आशिल्लों.

अण्णा आनी माई हीं सदांच सांजवेळची टांगो करून फिरूंक वतालीं. सिनेमाचो प्रत्येक नवो शो, प्रत्येक मंडळीचें नवें नाटक, दोगायकय दोतोराचें वखद आनी पथ्या खातीर फळां वा डब्यांतलें विलायती खाण हांचो सपाटो सुरू जालो. अण्णान आपल्या ट्रंकाच्या कुलपाची चावी धाडून दिवपा विशीं रत्नागिरीच्या कारकुनाक धा पत्रां बरयलीं, पूण ताणें दाद दिली ना. ताका लागून खर्चा खातीर सेव्हिंग्ज बँकेंतले म्हजे 120 रुपया म्हाका काडून हाडचे पडले.

अण्णाक पुण्याची हवा बरी मानवली. पयलीं तांकां दोन चपात्योय वचनासल्यो, आतां पांच-सात चपात्यो पचोवन परत पासयेक वचचे पयलीं खाण लागूंक लागलें. माई लेगीत घोवा कडेन चड चपात्यो खावपा विशीं सर्त लावन जेवताली.

ह्या जोडप्याचो बकासुरी आहार पळोवन गुंड्याभाऊक लेगीत आपूण बारीक जावंक लागला अशें दिसलें. तेन्ना ताणें म्हाका सुचयलें, हांवें अण्णाक उपासाचेर बरयिल्लें पुस्तक वाचूंक दिवचें. जांच्या घरांत सोयऱ्यांचो सुळसुळाट आसता अश्या घरांतल्यांनी ह्या पुस्तकाची प्रत आपल्या संग्रहांत मुजरत दवरची. मात अण्णा सारके खंगम सोयरो ताका दाद दिवपी नाशिल्लो. ताणें म्हणलें, "आरे चिमण, सामकें बाबत पुस्तक आसा हें. उपासा विशीं हातूंत बरयिल्ली अचूक आशिल्ली जाल्यार हिंदुस्थानांत रोग बी वाडचे नासले. कारण ह्या देशांतले शेंकड्यांतले अंयशीं लोक सदांच उपास करीत आसतात."

"अण्णा हे लोक फकत उपाशीं रावतात. पुस्तकाच्या नेमा प्रमाण उपास करिनात."

"आरे, मरूं ते तुजे उपास. आमकां 'उल्लंघनमिमांसा' आसली जाल्यार दी एक. पोट दुखल्यार उपास करचो आनी आज्यूत घेवचें खंय. ते कांय ना. पोट दुखल्यार बचकभर सूंठ-साकर आनी तूप घेवन बरे लाडू करून खावचे. गोडेमुताचें जालें जाल्यार सद्दां गोडाच्यो चपात्यो करून अर्दशेर तुपा बरोबर खावच्यो आनी शंबर नमस्कार घालून पचोवच्यो. तकली उसळटा जाल्यार बरो अर्दशेर मावो साकरेंत परतून खावचो. परसा कडेन सारकें जायना जाल्यार चार-पांच बेसनचे लाडू खावचे आनी वयर एक ग्लास कोल्ड्रींक घेवचें. कालच त्या कँपांतले ट्रेचर कंपनींत कोल्ड्रींक घेवन आयलों. व्वा! कितें ताची

रुच म्हूण सांगूं तुका?''

ल्हवू ल्हवू दोन म्हयने सोंपले. म्हजें सेव्हिंग बँक खातें सोंपलें. पगारय दोन वेळा सोंपिल्लो, पूण अजून अण्णाची चावी येवंक नासली. तेन्ना ताणें पांच रुपयें रजिस्टर करून रोखडेच धाडून दिवपा विशीं रत्नागिरीच्या आपल्या कारकुनाक बरयलें आनी ते येसर हांवें मांवा कडल्यान दोन रुपया उसणे हाडले. अण्णाचे पयशे आयले बरोबर घरकान्नीक बरें कापड मेळपाचें आसलें. बाबडेक युद्धाचे म्हारगायेक लागून चिचेचेरच समाधान मानून घेवचें पडटालें.

पंदरा दीस जावन गेले तरी रजिस्टर आयलें ना. पोनात चवकशी केली, पूण फुकट. तेन्ना हांवें अण्णाक सुचयलें, 'तु आतां ट्रंकाक दुसरी चावी लावन पळयात. हांव चावयेकाराक आपयतां. पूण तो चामटो म्हातारो पत्रां आनी ताश्याचेर पयशे वगडायतालो, पूण थंयचे थंय दुसरी चावी विकती घेवंक ताका धीर जायनासलो.

पावसाळो सोंपलो, आगबोटी सुरू जाल्यो. तेन्ना म्हज्या मांवान म्हाका सल्लो दिलो. हांवें प्रत्यक्ष रत्नागिरीक वचून त्या म्हाताऱ्याच्या कारकुनाक मेळचें आनी ताचे कडल्यान पयशे हाडचे. ही गजाल हांवें अण्णाक सांगली. तेन्ना बरेंच कांकूं केलें, 'तुका सुटी मेळची ना. पंदरा दिसांनी हांवच वचीन, तुका तो कारकून दाद दिवचो ना.'' अशें सांगलें. ''तेन्ना आईनय म्हाका पेल्यान व्हरून म्हाताऱ्याक कळयनासतना रत्नागिरी वचूंक सांगलें. ते प्रमाण ऑफिसांत बरो ना म्हणून फटीची चीट धाडून रत्नागिरीक गेलों. सांजवेळा थंय सोयऱ्यांगेर रावलो आनी तांकां अण्णाची गजाल सांगलीं. अण्णा फाटक नांवाचो गिरेस्त मनीस रत्नागिरींत आसून आमकां ताची कांयच कशी खबर ना म्हणून तांणी अजाप उक्तायलें.

दुसऱ्या दिसा हांव अण्णाच्या बागेंतल्या बंगल्यांत गेलों. पयलीं हांव थंय आयिल्लों तेन्ना बंगल्याचे माळयेक कुलप आशिल्लें, पूण ह्या वेळार अण्णा पुण्यांत आसुनूय ती उगडी पळोवन म्हाका अजाप दिसलें. चामट्या धनयाची संपत्ती हेरांचे चैनी खातीरच आसता. हांव चौकेर गेलों, पळय जाल्यार झोपाळ्यार तीन सोबीत भुरगीं बशिल्लीं. ही भुताटकी बी न्ही मूं? अशें म्हाका दिसलें, कारण ज्या भुरग्यांचो फोटो दाखोवन. 'हीं म्हजीं अपुरबायेचीं भुरगीं इन्फ्लुएंझाचे धार्मीत गेलीं.'' अशें अण्णान सांगिल्लें तींच तीं भुरगीं आसलीं. भेसय तोच. सगळ्यांत व्हड भुरग्यान झोपाळो थांबोवन म्हाका कोण जाय काय विचारलें. हांवें भियेभियेत उरफाटें ताकाच ताचें नांव विचारलें.

– ''म्हजें नांव प्लभाकर बालक्लिष्न नाडकलनी.''

हांव घर चुकलों काय अशें दिसून हांगा थंय पळोवंक लागलों. तितल्यांत एक तरणाटी बायल घरांतल्यान थंय आयली आनी कोणागेर आयल्यात म्हणून विचारूंक लागली.

''हें घर फाटकाचें मू?''

"ना बाये, हें आमचें नाडकण्यांचें घर. हांगा आशिकुशीक कोण फाटक ना."

म्हजे खातीर केळीं आनी तोरांज हाडपाक अण्णाक जाका धाडिल्लो तो रामा गडी थंय कांय कामा खातीर आयलो आनी म्हाका पळोवन ताणें, "कितें सोयऱ्या, कशे आसात?" अशें विचारलें.

"बरो आसां, पूण अण्णा खंय आसा रे?"

"तो अण्णा बामण? खंय पळून गेलो कांय खबर ना."

"म्हणल्यार रे धनी, अण्णा ह्या बंगल्याचो मालक न्हय?"

"कसलो धनी? वयनीबायक विचारात, ती सांगतली सगळें."

रामाच्या सांगण्या प्रमाण नाडकर्णी वयनीक हांवें अण्णा विशीं विचारलें.

"तो अण्णा वशिलो घेवन नोकरी मागूंक आयिल्लो. ताका कारकून म्हणून दवरलो. मर्दी आमी लग्नकार्याक मालवणाक गेलीं. ताचेर घर पातयेवन गेलीं. कोणाक खबर हो जड्डो असो फटींग म्हणून. मेल्लो आमी परत येवचे पयलींच हांगाच्यान पसार जालो आनी वांगडा घरांतलीं धा-वीस आयदनां आनी कपडे व्हेले. तुमकां कितें ताणें आपूण घराचो धनी म्हणून सांगलें? कितें बाबा कापस्ताद हाची?"

"आई, आनी म्हजो चंबूय बी व्हेलो गे ताणें." त्या व्हडल्या भुरग्यान म्हणलें.

आतां म्हजी फजेत ते बायलेक कितें सांगतलों? त्या म्हाताऱ्याची झडटी घेवन तुमचीं आयदनां परत दितां, अशें सांगून हांव आयलों. सांजवेळचे बोटीन रत्नागिरी बंदर सोडलें. कसल्या नीच मनशान म्हाका फटयलो. आतां खंयची इस्टेट. पूण चार-पांचशीं रुपयांची उदारी मात करून बशिल्लों. हांव म्हज्या इश्टां मर्दी हांसपाचो विशय जातलों. पुण्यांत घरांत पावले बरोबर त्या जड्ड्याचे बत्तिशींतले उरिल्ले दांत हुमटायले नात जाल्यार नांवाचो चिमणराव विठ्ठल न्हय, अशे सुडाचे विचार मनांत घोळयत रात आनी सकाळ काडून दुसऱ्या दिसा दनपरां पुण्यां पावलों.

टांग्यांतल्यान देंवतनाच, "खंय आसा अण्णा?" अशें म्हणत हांव भितर सरलों.

"जालें तरी कितें अशें रागार जावंक?" आईन विचारलें.

"पूण, पयलीं तीं जड्डो-जड्डूल..."

"आरे, तीं गेलीं रत्नागिरीक. तुवेंच तांकां तार केल्ली न्हय, बेगीन उठून येयात म्हणून?"

"हांवें - हांवें तार केली? सामको मवाली दिसता हो, पूण हांव रत्नागिरी गेलां म्हणून सांगलें कोणें?"

"आरे, तुजे बायलेन, सादी बाबडी ती. आमचो बेत तिका खबर नाशिल्लो. तिणें ते म्हातारेक सहज म्हणून सांगलें. मागीर चार वरा उपरांत तुजी तार आयल्या. आमी रत्नागिरी वतात, अशें सांगून तीं तिनाचे गाडयेन गेलीं. दोन ट्रंकां बरोबर व्हेल्यांत. दोन वयर आसात."

"पळोवया तातूंत कितें आसा तें -

चोरा हातांतली लंगोट.'' अशें म्हणत हांव वयर गेलों. हत्यारान कुलपां फोडत-फोडत आईक सगळी खबर सांगली. कुलपां फोडून ट्रंक उगडून पळय जाल्यार भितर फातर-विटां बगर कांयच नाशिल्लें.

दुसऱ्या दिसा एक पत्र आयलें. तातूंत जें बरयिल्लें तें सकयल दिताः

चि. चिमणराव हाका, अण्णा फाटकाचे मोगाळ आशिर्वाद. तुमी आमची चार म्हयने बरी ऊठ-बस केली म्हणून आमी तुमकां दिनवासतात. उरिल्ल्या आयुश्यांत तुमची याद उरची म्हणून तुमचे घरकान्नीच्यो पाटल्यो बरोबर हाडल्यात. तशेंच तुमच्या रोंपेरा कडल्यान साठ रुपयांचो कपडो हाडला. ताचे पयशे तुमीच फारीक करपाचे. आमचे अफाट इस्टेटींतले, फातर-विटांनी भरिल्लीं दोन ट्रंकां तुमकां वारसो म्हणून दवरल्यांत, तीं दवरून घेवचीं. तुमी तुमचें घर बांदतले तेन्ना तांचो जरूर उपेग करचो. तुजे आवयक नमस्कार. चि. सौ. सुनबायक आशिर्वाद. तुजे वरी दुसरें भोळे सावज मेळसर सध्या तजवीज जाल्या. तरीय आमची चिंता करूं नाकात. बरें तर, हे आशिर्वाद.

तुमचो<br>**अण्णा फाटक**

फाटल्या चार म्हयन्यांचीं रिणां फारीक करपा खातीर वाचकांनी म्हाका पाकीट अर्पण करचें अशी विनवणी. नाजाल्यार तरणाट्यांच्या मूर्खपणाचे प्रकार निस्तारपी परमेश्वर जो मांव, तो म्हजे फाटल्यान आसाच. 000



# काव्यमंच

(कविता)

नीला तेलंग

## अमूर्त व्यथा

काळजळाक तोपतात पिरंगुपी कथा
अंतराकच खबर अंतराच्यो व्यथा।।धृ।।

वेदनांचे उले व्हांवतात घायांनी
अरिश्टांचे अर्णव अडचयतात अस्थांनी

जाळ व्यक्तांचे, अव्यक्ताची मूक गाथा।।1।।
देंवयतात दुकां भोगिल्ले कुच्छित्री छळ
भगभगायतात गात्रां काळेनिळे वळ
हाल न्हय, उदास भविश्य भेश्टायता।।2।।

## कंवचेचो कण

बोटांत शिरकून मारली बसकण
कंवचेचो तो इल्लोसो कण
कितलें कितलें ताचें रीण
फूलस्पर्शी दिलें वायण
अजून ओंठांची ओली खूण
ल्हवूच जागयता उमेदीचे खीण
परत तोपचो असोच एक बाण
आनी दांतांनी तुवें सांसपुचो व्रण.

**नीला तेलंग** : जल्म : 1950, ज्येश्ठ कवयित्री. *'काळजाची भरती'* आनी *'शुन्यांतल्यान शून्या कडेन'* हे कविता संग्रह प्रकाशीत. संपर्क : आडपय, फोंडें, गोंय 403 401, मो. : 9823575072.

## मृत्यूपत्र

मनशाचे कांय अवयव
मेले उपरांतय तिगतात खंय खीणभर
करचे पयलीं अंत्यसंस्कार
चिरची म्हजी कूड आरपार
फावो त्या अवयवांचो वापर
जावंदी गरजवंतांक आदार
प्रयाणा मागीर स्मारक
पद्दत जावन गेल्या एक
म्हजे स्मृतीचें प्रतीक
नाका म्हाका शिल्लक
वास्तूचें वा प्रकल्पाचें शिर्शक
खंयच नाका म्हज्या नांवाचें तोंक
धगधगपी उज्यांत उरिल्लो देह खाक
हेंच आसूं दी जल्माचें सार्थक

आर. रामनाथ

---

## एका निरागसाचो मरणखेळ

मरण दोरयेवेलो
निरागसाचो मरणखेळ
काळ्याकुट्ट काळाक
बिण्ण काळखांत ना नपयत करता
मरण चाकांवेली निरागसाची ता थैय्या
निराकाराच्याच निर्मितिच्या मोन्या जापेच्या
अथांग खोलायेंत बुचकळयता
भुकेचे ताटलेंत मरणसरणार
अचळय खेळपी निरागसाचे फिशाल पांय
कातळ काळजांत लेगीत दर खिणाक सुनामी
जल्मयता...

**आर. रामनाथ :** जल्म : 1956, कवी, गीतकार, पटकथा लेखक. कोंकणी आनी मराठी भाशेंतल्यान लेखन. *'मळब रंगमाची'* आनी *'निसण'* हे दोन कोंकणी कविता संग्रह प्रकाशीत. कला अकादमी साहित्य पुरस्कार, बिम्ब प्रकाशनाचो पद्मश्री र. वि. पंडित यादस्तीक पुरस्कार, तशेंच गोवा कोंकणी अकादेमीच्या सर्वोत्कृश्ठ साहित्य पुरस्कारान (2014) सन्मानीत. संपर्क : एम्. ओ-6, गोवा हावसिंग बोर्ड, कुट्टी, फोंडें, गोंय - 403401. मो. : 9850458763.

मरणखेळांत
निरंतर चिरत वचपी
निरागसाची कातळ कूड
मळब आकांताच्या मळबाक लेगीत वेरायता
आनी भेरेल्ले अगणीत हात चंवर घेवन मेकळे जातात...

आत्मो आनी आत्मारामाचे शिरवंत पोकळेंत चलिल्लो
हो निरागसाचो अश्वत्थामी मरण खेळ
निराकाराचेच रचणायेचो मोरपांखी आविश्कार आसुंयेत
घडये...

## आख्खें ब्रह्मांडूच वेंगावचें पडटलें

ती हांतुणार आसा
बरें जालें,
सध्या हांवूंय भुंयेर आसां....

तिचे निस्तेज जायत वचपी मळब
हांव निरंतर नियाळत आसां
तिची निशब्दताय
म्हाका खूब्ब कितें सांगत आसा...

हांव कितें वेगळें अशें कांयच करिना.
जायत्या जाणांनी जें आदी केलां
तीच परपरा हांव फुडें व्हरतां...

तिची सामकीं हाडां जाल्यांत
ह्याच हाडांनी
जायते फावटी चूल पेटयिल्ली...

हांव जाणां
पक्के जाणां
की ती

आतां वा मागीर
किंवा फांतोडेर
फाल्यां दनपरां
वा सांजची
केन्नाय तरी
पयस पयस वतलीच म्हूण...
तुमी मानात वा ना मानात
तिणें आमकां दर खिणाक
खर काळखाची भास शिकयली...

ती न्हिदले उपरांत–
आमी जागचें पडटलें
आमी आमकांच जागोवचें पडटलें
आख्खें ब्रह्मांडूच वेंगावचें पडटलें...

निकतेंच तिचें मळब पुराय निस्तेज जालां
आनी आमी आमचें मळब अचळय मेकळें केलां...

## हांव, तूं आनी तो

हांव
पालवलों...

भूंय
जडभार जाली....

मळब
दुकाळलें...

सैम
सरणधगान
करपलो...

तूं

अग्निशिखांनी
शिरंगारलें...

तो
म्हज्या आत्म्यांत
लिपलो...

## हायकू

(1)
तुगेर फुल्लां
एक रगतफूल
ओंप तें म्हाका

(2)
हांव बेघर
हें विश्व तुजें घर
हांवूंय तुजो

(3)
सत्य एकूच
राम–रहीम–जेझू
वेगळे न्हय

(4)
हें फूल ताका
तुका बिल्कूल न्हय
हो हक्क ताचो

(5)
पुजलां तुका
म्हजे गर्भकुडींत
कुडींत न्हय

(6)
चंद्र न्हिदलो
तसो सूर्य उठलो
सत दिसलें

(7)
काळखी रात
चलप भौ कठीण
तुजे बगर

(8)
दिवो लायला
तूं हिसपा भायर
नागडो जाला

(9)
भूंय तानेल्या
अख्खो सैम तानेला
मात्सो रड तूं

(10)
हांव जळटां
म्हज्याच सरणार
तूंवूय जळ

(11)
हांव न्हेसलां
भुकेल्ली दनपार
म्हाका न्हिदय

(12)
वाट चुकलों
नाका थंय पावलों
अख्खो सोंपलों

(13)
उजो पेटला
काड ताका भाजून
खावया आमी

(14)
देवाकुडींत
देव सुस्त न्हिदला
पुजेक सुटी

(15)
सोय कातता
आमगेली जाण्टेली
राख सायबा

माया अनिल खरंगटे

---

## हंपी

पाशाणाच्या गांवांत पाशाणच पाशाण
आशी-कुशीक पाशाण, वयर सकयल पाशाण
पाशाणाच्या गांवांत मासाळ माती
काळी कुळकुळीत तिची कांती
जपता ती अथांगाचीं नातीं
मासाळ मातयेक येता वासाळ जाग
पाशाण गायतात कसलो हो राग
पाशाणाच्या काळजांत उदकाचो खळखळ
शेतांत हांगा सदांच पिकांचो सळसळ
पाशाणाचो गांव खण खण खण
इतिहासाचो ठेवो मण मण मण
धतरेच्या पोटांत सौंदर्याची खाण
शिल्पकारीन नटयल्यात कितलेशेच पाशाण
पाशाणाच्या गांवांत शिल्पांची रास
'हंपीची' अशी वाचची मोनी भास.

**माया अनिल खरंगटे** : जल्म : 1956, कवयित्री, बालसाहित्यकार, कथाकार, अनुवादक. तेत्तीस पुस्तकां प्रकाशीत. *'कयपंजी'* हो कवितासंग्रह तशेंच *'घोंटेर', 'मळबझेप', 'मृगजळ', 'काळीं कुपां रुपेरी देग'* हे कथासंग्रह चर्चीत. एनसीईआरटी, दिल्ली संस्थेचो बालसाहित्य पुरस्कार तशेंच गोवा कोंकणी अकादेमीच्या उत्कृश्ठ साहित्य पुरस्कारांनी (2010, 2012) सन्मानीत. संपर्क : थितुल कामत कोओपरेटीव्ह हावसींग सोसायटी, एफ-3, पयलो माळो, आर्के, मडगांव, गोंय 403601. मो. : 9420685278.

## पावशी सांज

पावस ओली सांज एक
थेंब्या-थेंब्यान पगळटाली
पावशी यादी भाटांतुल्यो
मनांत म्हज्या किल्लताल्यो

चुडटां हालयत धोलताले माड
पांखां किसयत बसताले कावळे
अणभव पिकी आजी मर्दी
भोंवतणी आमी बसतालीं

लायटीचो सदांच आपालिपा
टीव्ही चीय नासली आडखळ
गोजडे भितर मुंगरत मुंगरत
आयकतालीं गजाली सुरबूस

आयजय येता पावस ओली सांज
धोलतात माड, झेलतात कावळे
शेणली आजी, शेणली ऊब
आतां फकत यादींत सूख.

किरण म्हांबरे

**किरण म्हांबरे** : जल्म : 1952. कथा, कविता, निबंद, बालसाहित्य आदी प्रकारांत लेखन. *'अनपेक्षीत'* (कविता), *'सैमांगण'* आनी *'दानाहकीम'* (बालसाहित्य) तशेंच *'वेंचीक काणयो'* (अनुवाद) हीं पुस्तकां प्रकाशीत. कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय संस्थेच्या 2015 वर्साच्या बालसाहित्य पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : 206, कैलास दर्शन, बाबू नायकाच्या घरा लागीं, आर्के, मडगांव, गोंय, 403601, मो. : 8007231075

---

## आज वत म्हाका बरें दिसलें

सुटयेच्या त्या दिसा
उसरांच हांव उठलें
सगळीं गेलीं कामांक
आई बरोबर च्या घेवंक एकलेंच हांव उरलें
त्या दिसा वत अशेंच पडिल्लें
सुटयेच्या त्या दिसा
उसरांच हांव उठलें

सगळींच घरां आशिल्लीं
आईय आपली ताकतीक विसरून म्हऱ्यांत येवन
बशिल्ली
त्याय दिसा वत अशेंच पडिल्लें.

निमणो पेपर दिवन
हॉस्टेलांतल्यान घरा आयलें
सुटयेच्या त्या दिसा उसरांच हांव उठलें
पेपर बरे गेल्ल्याचें सांगून सगळ्यांक नाचलें
त्याय दिसा वत अशेंच पडिल्लें.

काल म्हज्या देहदानाचें
कागदपत्र हाता मेकळें केलें
बेगीन न्हिदलें बेगीनूच उठलें
कामां आटापून भायर आयलें पळयतां तर..
आयज तेंच वत पडलां
आयज वत म्हाका बरें दिसलें.

## म्हजी वाट त्या गांवाक भोंवताडो घालून गेली

तेंच उदक तीच माती
तींच मनशां तींच नातीं
परकीं जालीं सगळीं
म्हजी वाट त्या गांवाक भोंवताडो घालून गेली.
सकाळची वाट धुक्यांत शेणली
दनपारच्या वता कडान
दोळ्यां मुखार काळखी हाडली
माथ्यार कुपां गच्च भरलीं
म्हजी वाट त्या गांवाक भोंवताडो घालून गेली.

खारें वारें, सावें उदक त्या गांवच्यान व्हांवतालें
तांबडें रगत थंयच्याय बी शिरंतरांनी धांवतालें
हांव म्हज्या तळटा वयल्या शिरां कडेन घुस्पलें
म्हजी वाट त्या गांवाक भोंवताडो घालून गेली.

दिसतात थंयचे माड आनी घराचे नळे
आंगणांतली तुळस आनी मोगरेचे कळे
घरांतल्यान धुपाचो वास वयर उफेता
निर्धारान पावलां घाल्लो मनीस थंय सोंशेता
पांयां पोंदची जमीन म्हज्या व्हजळत गेली.
म्हजी वाट त्या गांवाक भोंवताडो घालून गेली

## मंद वासाचें फूल

तें मंद वासाचें फूल आतां
पाकळ्यो फुलोवन हांसचें ना
घामांतल्या वासान मुग्ध करून
काळजांतलें म्होंव ओंपचें ना
देंठांतल्यान गळून जमनीर पडून
मातये भरवण जावचें ना
आतां ताणें जोती पेटयल्यात पाकळ्यांच्यो
म्होंवांक दिलां रुप तेजाबाचें
सूर आर्ततले ते आतां
मळबांतल्यान उल्केवरी
पुराय जळून गेलें तरी

राजय पवार

**डॉ. राजय पवार :** जल्म :1972. कवी, नाटककार, निबंदकार. विनोदी लेखनाचेर भर. *'पावसफुलां'*, (कविता), *'जमलें रे जमलें'* (नाटक), *'अंता अंता शिरमंता'* (नाटक), *'आमचो हात जगन्नाथ'* (नाटक), *'डरने का नाय'* (नाटक), *'गिरमीट'* (निबंद) अशीं पुस्तकां प्रकाशीत. दोन फावट गोवा कोंकणी अकादेमीच्या साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क- ओंकार, नवदुर्गा गार्डन, कलमा मळ, बोरी, फोंडें , गोंय 404401,मो. 9860716071.

## दर्यांतलीं दुकां

... ल्हानपणांत दर्यावेळेर
वतकच एक प्रस्न
सदांच सतायतालो
... दर्याचें उदक खार कशें?

आतां कळ्ळें...
समाजांतल्या दुखेस्त दोळ्यांतलीं दुकां

वताचे गरमेन तापतात
तांची वाफ जावन वता
वयर वयर मळबांत
आनी काळीं कुपां जावन झडटात
अथांग दर्यांत...

## मन रमता

रमतारा रमतारा रमतारा रमतारा
रमतारा रमतारा रमता
मन म्हजें गांवांत रमता

पणसाच्या गऱ्यांनी, उदकाच्या झऱ्यांनी
शेतांतल्या वाऱ्यांनी, मन रमता
आबोल्यांच्या फुलांनी, कोयंड्याच्या बालांनी
मांडा वयल्या धालांनी, मन रमता

वोंवळाच्या पोडांनी, उसाच्या गोडांनी
पावसाच्या मोडांनी, मन रमता
शेतांतल्या खळांनी, खळखळपी व्हाळांनी
रानांतल्या फळांनी, मन रमता
रमतारा रमतारा रमतारा रमतारा...

मन तळयेर वचून पेंवता
मन न्हंयेच्या उदकांत देंवता
मन काण्णां-चुन्नां खाता
मन गायचें पाडूक जाता

मन उदकार बेबक्यो काडटा
मन व्हडीं कागदाचीं सोडटा
मन गांवांत उठ-सूठ येता
मन भिरमूट भिरमूट जाता

गांव मनाक सपनांत गावता
मन गांवांत वचून रावता
रमतारा रमतारा रमतारा रमतारा....

## अँजॉय द रेन

त्या दिसा
श्रावणांतलो वत- पावसाचो
खेळ पळयत
हांव गॅलरींत बशिल्लों.
जी. ए. कुलकर्णींच्यो कथा वाचीत
.... इतल्यांत
बायल घेवन आयली
हुनहुनीत च्या आनी गरम गरम भजीं
... हातांतल्या जी. ए. कुलकर्णींक
कुशीक उडयत म्हणपाक लागली
'लॅट अज अँजॉय द रेन'
...मागीर आमी चिप्प भिजलीं
यादींच्या पावसांत...

गॅलरी सकयल्यान उले आयले
''डॅडीऽऽऽ... मम्माऽऽऽ...''
वयल्यान पळय जाल्यार
आमचें बाय, सत्री परती धरून
...पावस पुंजायतालें बिनधास्त!
हांवें धेंगसो घालीत म्हणलें,
''आगो, थंडी जातली, सडसडीत वयर यो''

म्हजीं उतरां कातरीत बायलेन म्हणलें,
''आमी वयर आसात तीं पुरो....
...ताका रावंदी मातशें जमनीर
...लॅट हर अँजॉय द रेन''

तेन्ना सावन दर पावसाक
हांव गॅलरींत रावन
सकयल्यान व्हांवपी उदकांत
पळयत रावतां... वरांचीं वरां
...ल्हानपणांत
आंगणांतल्या उदकांत सोडिल्लें
म्हजें कागदाचें व्हडें
...केन्ना तरी, व्हांवत व्हांवत
हांगा पावत
हे आशेन!

## राम राय साय सुटल्यो

आदू गोदू फिरंगी च्यारी गणा
अशे-खंय शेणले कोण जाणा

सकाळीं दनपारी, उडटाली वाऱ्यारी
कापसाची ल्हवपीक म्हातारी
आमी तिचीं नातरां, गायत जिणें कातरां
धांवतालीं फाटल्यान भुरगेपणां
आदू गोदू फिरंगी च्यारी गणा

पुरवलीं सगळीं, गड्ड्या मिलां
शेणलीं शेणलीं, कोंयड्या बालां
लगोऱ्यो फुटल्यो, धांवले गडे
फाटीर उरले, यादीं वडे
यादी ह्यो दवरूं खंयच्च्या खणां
आदू गोदू फिरंगी च्यारी गणा

लज-भीड आमकां पिडटा रे
म्हातारी मात अजून उडटा रे
घोंटेर सोदता शेवण्या पील
दोळ्यांत रिगलां शेणिल्लें मील

कागदा व्हडीं पावलीं तळा
गिरगिरीं हुबलीं जळा मळा
रित्या रित्या गांवांनी रिती आंगणां
आदू गोदू फिरंगी च्यारी गणा
खेळाच्यो कळयो कोणें खुंटल्यो
कोणें खुंटल्यो
राम राय साय सुटल्यो
तूं सुटलो
राम राय साय सुटल्यो
तूं सुटलें
राम राय साय सुटल्यो
हो सुटलो
राम राय साय सुटल्यो
हांव सुटलों
राम राय साय सुटल्यो
राम राय साय सुटल्यो

000



लोकवेद

(लोकवेद)

कमलिनी विनायक रहाळकर

# उत्तर कन्नड वाठारांतल्यो चाली-रिती

### फाटभूंय

चाली-रिती आनी परंपरा हांचो मनशाच्या मनाचेर जबरदस्त पगडो आसता. कितलिंशींच वर्सां गेलीं तरी त्यो ताच्या मनाचेर प्रभाव घालून आसतात. खास करून बायलमनशेच्या मनाचेर. म्हज्या आजोळा, म्हणल्यार कर्नाटकांतल्या धारवाड वाठारांत भारत मुक्तीच्या चार वर्सां आदीं म्हजो जल्म जालो. म्हज्या जल्मा उपरांत कांय काळ परंपरे प्रमाण कुळारा रावन, आवय म्हाका घेवन सासरा आयली. उपरांत म्हजीं ल्हानपणांतलीं कांय वर्सां कारवारांतल्या मुंडगोड गांवांत गेलीं. मुळावें शिक्षण थंयच जालें. मागीर फुडल्या शिक्षणा खातीर धारवाडांत रावप जालें. थंयच मॅट्रीक मेरेनचें शिकप घेतलें. रोखडेंच लग्न जावन पुण्यांत पावलें. पुण्यांत बरींच वर्सां गेलीं आनी उपरांत गोंयांत वास्तव जालें, जें आयजमेरेन आसा.

जीवन भोंवडेच्या ह्या दर एका वाठारांत पळयिल्ल्या - पाळो दिल्ल्यो चाली-रिती आनी प्रथा-परंपरांच्यो यादी म्हज्या स्मृती पटलाचेर आजुनूय जिवंत आसात. तातूंतल्यो कर्नाटकांतल्यो, म्हणजे उत्तर कन्नड जिल्ह्यांतल्यो चाली-परंपरा म्हाका चड खरायेन याद जातात ज्यो आयज समाज जिवनांतल्यान नदरेआड जायत चल्ल्यात. ह्या लेखावरवीं तांची नोंद करून दवरपाचो हो एक ल्हानसो यत्न.

**कमलिनी विनायक रहाळकर :** जल्म : 1943. कथा, कविता, निबंद ह्या प्रकारांत मराठी भाशेंत लेखन. संस्कृती विशयक वाचन - लेखनाची खास आवड. नागरी संरक्षण संघटनेंत सुमार तीस वर्सां सेवा. सध्याक सेवेंतल्यान निवृत्त. कर्तव्यदक्ष अधिकारी म्हण जायत्या संस्थां कडल्यान भोवमान. 2006 वर्सा राष्ट्रपती पदकान सन्मानीत. संपर्क- ए/एफ2, दिना हावसींग कॉम्प्लेक्स , बा. भ. बोरकार रस्तो, आल्त, पर्वरी, गोंय, 403521. मो. 2412681.

### शेता संबंदीत चाली-रिती

गांवांत सगळ्यांगेर शेत आनी गोरवां आसतालीं. आमगेरूय खूब शेतां आनी गोरवां आशिल्लीं. ताका लागून

घरांत शेताचीं जायतीं आवतां आशिल्लीं. खंडे नमीक ह्या शेताच्या आवतांची जाण्टे खाशेलेपणान पुजा करताले. तेचबरोबर शेतांत कामां सुरू करपाच्या वेळार गरज त्या त्या आवतांचो परत मान करून, सांगणी करून वावराक सुरवात जाताली. पेरणी जातकच दोन-तीन दीस शेतांत वचूंक जायना असो संकेत आशिल्लो. पेरिल्ल्या बियांचें स्थित्यंतर जातना कोणें पळोवंक जायना, तशें पळयत तर बीं कोमेना अशें मानताले. ह्याच काळार मेघराजाची, म्हणजे पावसाची आराधना करप जाताली. लंबाण्यांचो एक तांडो ह्या काळार खास पावसाची होरावणी करपा खातीर गांवांत येतालो. तांच्यो बायलो खूब नटून-थटून येताल्यो. एक पुरुश वादक धोलकें वाजयतालो, ताचे भोंवतणी बायलो 'भाई रे भाई रे मेघा...' अशेंशें गीत म्हणीत, फ ेन्यान नाचताल्यो. (आतां उतरां सारकीं याद जायनात.) तांकां दारांत नाचोवन घेवन मानाचो रुपया दिताले. अशी होरावणी करतच पावस घसघसून पडटा असो समज गांवच्यांमदीं आशिल्लो.

पिकेर लुंवणेक सुरवात करचे आदीं खळ्याची पुजा करप जाताली. हे पुजेक पुरणाचो नेवेद्य दाखोवपाची रीत आशिल्ली. पिकेचें धान्य घरा हाडटना थोडें धान्य खळार सांडपाची प्रथा आशिल्ली. हें धान्य खळाच्या राखणदाराक अशें मानताले. शेतकार बरें धान्य वेंचून बिंया खातीर कुशीक सांबाळून दवरतालो. शेतकाराचो दीस फांतोडेर म ळबांत शुक्रतारो आसतना सुरू जातालो. शेताचे वाटेर आशिल्ल्या दयामव्वा, दुर्गव्वा ह्या ग्रामदेवतांक हात जोडूनच शेतकार फुडें वतालो. ह्यो उग्र देवता, पूण तेच बरोबर त्यो रक्षणकर्त्यो आनी संकश्टाक पावपीय, अशें मानताले.

म्हज्या भुरगेपणांत चंद्रगुती गांवांत नग्नपुजा पळयिल्ल्याची याद आसा. एका विशिश्ट दिसा गांवा पासून पयस आशिल्ल्या देवळांत ही पुजा करताले. कडूलिंबाचो पालो आनी लिंबांच्यो माळो घालून, कपलाक-आंगाक हळदीचो बुको फांसून नग्न जावन बायलो नाचताल्यो. ह्या बायलांक जोगतिणी म्हणटाले. ब्राह्मण समाजा मदीं बालविवाह, शिवाय बायलां संबंदीत सती, केशवपन आदी प्रथा रुढ आशिल्ल्यो.

अवर्सा गांवात बीढीभीर देव आशिल्लो. पुरुशभर उंचायेच्यो चार वणटी आनी ते मदीं स्थापन्न केल्लो देव. दर वर्सा जात्रेक ताका कोंबों दिताले. थारावीक वणटीचेर दवरून त्या कोंब्याची गोमटी कापताले. ताचें धड प्रसाद म्हण आंगवणकार वा बळी दिवपी घरा व्हरतालो. ताचे देवळे मुखारच आमचें घर आशिल्ल्यान आमकां हें बळीकार्य लार्गीच्यान दिसतालें.

म्हज्या ल्हानपणांत शिर्शीच्या मारिकांबा देवळांत, जात्रेक देवीक रेडो बळी दिताले. आतां ही प्रथा बंद जाल्या आनी रेड्या बदला कुंवाळो कापपाची प्रथा थंय रुजल्या. मात फाटले प्रथेचें अवशेश रुप म्हण देवीच्या देवळांत रेडो बांदिल्लो आसता. आदलें मारिकांबेचें देवूळय ल्हान आशिल्लें, ताचें रुपांतर आतां भव्य मंदिरांत

जाल्लें पळोवंक मेळटा.

### कुटुंबीक चाली-रिती

घरांत नव्या भुरग्याच्या येवपाची सुलूस लागतकच कितल्यो तरी गजाली परंपरेन करप जाताल्यो. बाज, शेक-शेगडी, वैजीण, लामणदिवो हांची तयारी करप, बाळंटिणीची कूड शेणान सारोवन नितळ-निवळ करप बी गजाली उणेंच ते पंदरा दीस आदी करप जाताल्यो.

गुरवारणीच्या पोटाच्या आकारा वयल्यान, म्हणजे पोट मुखार आसा काय फाटीं हाचे वयल्यान चलो जातलो काय चली हाचे जाण्टीं भाकीत करतालीं. पोट फुडें आसल्यार चलो जातलो आनी फाटीं आसल्यार चली जातली असो समज आसतालो. (आयजय आसा.) बाळंतपणा उपरांतचे धा दीस सुयेर (भश्टांतले दीस) मानताले. ह्या दिसांनी बाळ-बाळंटिणीक धरून घरांतल्या कोणाकच परक्या मनशान आफडूंक जायना, आफुडल्यार भश्टता अशें मानताले. (सुतकांतय अशेंच मानतात), सुयेरांत देवा मुखार दिवो पेट्टालो, मात तो दुसऱ्या कोणेंय पेटोवचो लागतालो.

बाळंटिणीची कूड ही काळखी आसताली. थंय धा दीस वैजीण बाळ-बाळंटिणीक तेल-उदक, न्हाण-शेक आदी गजाली करताली. घरांत डिंकाचे-अळीवाचे लाडू मुजरत करप जाताले. बाळंटिणी बरोबर ते हेरांकय खावंक मेळटाले. बाळंटिणीच्या जेवणांत घराव्या तुपाचो भरपूर वापर करप जातालो. मीठ मात कमी वापरतालीं.

इकराव्या दिसा सकाळीं शुध्दकाराचें न्हाण. पयलीं बाळाक न्हाणोवन मागीर ताचे आवयक न्हाणोवप. बाळाक न्हाणोवपाचें काम चालू आसतनाच दुसरे वटेन घरांतली वडील बायल एका नव्या करकरीत सुपांत मांडे-पोळेर घालून बाळाचें हांतरूण तयार करताली. बाळाक न्हाणोवन जातकच पचांगी बांदून काजळ-तीट करून त्या सुपांत न्हिदोवन, तें सूप देवा मुखार दवरतालीं. ह्या वेळार देवा मुखार इकरा विडे तयार करून मांडटाले. ह्या इकराय विड्यांचेर सुंठवडी दवरची लागताली. उपरांत ताक चाळपाचो खवलो (रवी) हातांत घेवन, सुपा सयत बाळाक उबारून भायर हाडटाले आनी ताका सूर्यदर्शन करताले. हें करतना खवलो आनी बाळाक वांगडाच सूर्याक दाखोवपाचें आसतालें. बाळाच्या सूर्यदर्शनाचो सुवाळो जातकच सगळ्यांक सुंठवडी वांट्टालीं. हे विधींत चलो-चली असो भेदभाव नासतालो.

भुरग्याच्या जल्माची खबर तीन दीस मेरेन घरा भायर पावय नाशिल्ले. तीन दीस मेरेन जल्मल्लें भुरगें देवाचें आसता, ह्या तीन दिसांत देवाक जाय जाल्यार तो केन्नाय ताका आपल्या म्हऱ्यांत व्हरूंक शकता अशें मानताले. तिसरो दीस बरेतरेन वतकच घरच्या वडिलान रक्षा हातांत घेवन तोंडान रामरक्षा म्हणत बाळंटिणीचे बाजे भोंवतणी ती शिंवरावन बाळाक आनी तिका तीट लावपाची चाल आशिल्ली. पांचव्या दिसा जिवंतीका पुजा जाताली. ते पुजेच्या पाटार कागद- पेन्सिल दवरपाची चालय आशिल्ली. सटी रातची येवन ते कागद

-पेन्सिलीन बाळाचें नशीब बरयता असो समज आशिल्लो.

बारशा दिसा एक आंगार दूद पिवोवपी सवायशीण बायल जेवोवपाची चाल आशिल्ली. ही सवायशीण कोणूय जाताली, गरीब-गिरेस्त असो भेदभाव नाशिल्लो, मात ती दुदांगाची जाय आनी तिचें भुरगें तिणें सांगाताक हाडूंक जाय आसतालें. हे सवायशिणीचे पांय धुवन तिचो मान-पान करून तिका गोड-गोडशाचें जेवण वाडटालीं, तिची होंट भरतालीं, तिच्या बाळाक आंगलीं-तोंपरीं, नवी वाटी-कुलेर बी अहेर करतालीं.

उपरांत जेवणां जालीं तशीं घरच्या बाळाच्या बारशाची तयारी सुरू जाताली. भुरग्याक पाळण्यांत घालचे आदीं गोपो (गोपा) म्हणल्यार रगड्याचो वातो वा वांटपाचो फातर न्हेसोवन पाळण्यांत घालपाची चाल आशिल्ली. ते उपरांत बाळक पाळण्यांत घालताले. बाळाच्या आत्यान ताच्या तोंडांत साकर घालून कानांत नांव सांगून कूय करपाची रीत आशिल्ली. म ागीर आवयन पाळण्याक कमर लावन तें धोलोवपाचें. तिचो झोको कितलो पयस वता ताचे वयल्यान जाण्ट्यो- वडील बायलो ती पाळणो कितलो लांबयतली हाचो तर्क बांदताल्यो. बारशा दिसाच्यान आवयचें जेवणा-खाणाचें पथ्य सुट्टालें मात बाळ आंगार पियेसर तिका वायखर जिनस खावपाचेर बंदन आसतालें. बाळ जसो जसो वाडटालो तशें तशें ताका त्या त्या वेळार गुटी-काडे दिवप जाताले. बाळ जे मेरेन आवयच्या आंगार पिता ते मेरेन ताका कांय व्हडलें दुयेंस जायना असो समज आसतालो. ताचें दूद पिवप ही ताची भलायकी मेजपाची फुटपट्टी आसताली.

पयलें बाळंतपण आवयगेर म्हणजे कुळारा करपाची परंपरा आसताली. भुरगें पांच म्हयन्याचें जातकच ताका घेवन सासरा वचपाचें. भुरग्याक म्हयनो पूर्ण जाता त्या दिसा एक खास विधी करपाची प्रथा आसताली. सकाळीं ताका न्हाणोवन नवी कुंची - तोंपरें बी घालून तयार करताले. मागीर धुवन नितळ केल्ल्या ताक चाळपाच्या खांब्या मुखार ताका व्हरताले. थंय पुजेची तयारी करून दवरपाची आसताली. हे पुजेक मुळा सकट काडिल्ली हरयाळी (दुर्वा ) आनी गुटये सयत कापसाचीं बोंडां लागतालीं.

बाळाक घेवन ताची आवय खांब्या मुखार बसताली आनी सगळ्यांत पयलीं खांब्याची पुजा करताली. मागीर बाळाक आरत ओंवाळटालीं. उपरांत जितले मेरेन वयर धरूंक मेळटा तितले मेरेन आवय ताका वयर खांब्यार उबारून धरताली (चडयताली). त्या वेळार थंय हाजीर आशिल्ली बाळाची आजी, काकी वा आतें ताचे फाटीचेर हरयाळी घालताली आनी म्हणटाली, ''हरयाळे सारको तुजो वाड-विस्तार जावंदी.'' कापूस घालून म्हणटाली, ''कापसा सारको म्हातारो जा.'' हे तरेन तीन म्हयने करतालीं.

सव्या म्हयन्याचेर भुरग्याक गांवच्या देवाक व्हरपाची चाल आशिल्ली. एके तरेन ताका घरा भायर व्हरपाचो हे फाटलो उद्देश.

थंयच्यान येतकच बांयची पुजा करून आवयन बांयचे दोन कळशे उदक काडून बाळाचे दोन कपडे धुवपाचें शास्त्र करतालीं. तशेंच बाळ जेन्ना पयले फावट दिमखुऱ्यांनी वचून हुमरो हुपता तेन्ना नाल्ल फोडपाचो आनी मागीर ताची कातली सगळ्यांक वांटपाची चाल आशिल्ली. बाळाच्या उशटावणाचोय असोच सुवाळो मनयताले. पायस वा खीर रांदून पांच वांटयो भरतालीं. मागीर चार वांटयो चार भायल्या भुरग्यांक दितालीं, पांचवी वांटी बाळाक खावयतालीं. वर्साच्या वाडदिसाक बाळाक आरत दाखयतालीं. ह्या वेळार ताचे मुखार पाटार तरेकवार खाणां, खेळणीं हाचे बरोबर पाटी-पेन्सिलय दवरपाची चाल आशिल्ली. बाळ तातूंतल्या कित्याक पयलो हात लायता ताचेर ताच्या फुडाराचें वर्तमान करतालीं.

एका काळार चलयेक बरी भातुकली खेळूंक येवंक जाय असो समज आशिल्लो. हो खेळ तिच्या भावी संवसारा खातीरचें प्रशिक्षण मानतालीं. चलयेक पयलें न्हाण येता त्या वेळार खाशेल्यो चाली करपाची चाल आशिल्ली. तिच्या न्हाणाची गजाल कळटकच घरांत उमेदीचें वातावरण तयार जातालें. मात तिका कित्याक आफडूंक दिनाशिल्लीं. दारांत तोरण बांदतालीं, वाजंत्री आपोवन वाजप करतालीं. मागीर सोयऱ्या-शेजाराक ही खबर पावताली. तांच्या घरांतल्यान तिका फराळ-गोडशीं येतालीं. त्या काळार लग्नां ल्हानपणांत जातालीं आशिल्ल्यान चली चडशी आवय घरा उरताली तेन्ना तिका न्हाण आयिल्ल्याची खबर कळटकच साडी-चोळी, फुलां -फराळाचे खोंटले (पांटले) घेवन सासरच्यान लोक येताले. ते मर्दी 'सुरळी होळीगे' हो प्रकार आसूंकच जाय आशिल्लो. ते भायर त्या खाणां मर्दी परंपरेन तिळांचे लाडूय आसताले.

चवथ्या दिसा चलयेक विधीपूर्वक सवायशिणी न्हाण घालून अनवाळी करताल्यो. उपरांत 'अपिको' विधी जातालो. अपिको म्हणल्यार पोरसांतल्या फुलां-फळां लागपी झाडाक ते चलयेन अनवाळें जातकच वचून हात लावप. ह्या झाडाचेर उपरांत घरांतलीं जाण्टीं लक्ष दवरून आसतालीं. जर त्या वर्सा त्या झाडाक बरो भार येत तर चलयेची व्हॊंट फळटली असो समज. अपिको विधी जातकच ते चलयेक मखरांत बसयतालीं, तिका ओंवाळटालीं, तिची व्हॊंट भरतालीं. ह्या वेळार शेनाय-ताशाच्या वाजपा सांगातान बायलो 'सोबान' (शकून गितां) गायताल्यो. उपरांत गोड -गोडशाचें जेवण जातालें.

ही प्रथा सगळ्या जाती मर्दी सारकी आशिल्ली, मात ब्राह्मण समाजा मर्दी चवथ्या दिसा अपिको जातकच 'चेट्टू' जातालो. चेट्टू म्हणल्यार बसल्या जाग्या वयल्यान फाटल्यान पळयनासतना ते चलयेन हळदीच्या उदकांत हात बुडोवन वणटीर चपके मारप. ह्या विधी वेळारय चलयेक फराळाची भेट दितालीं.

रजश्रावाच्या काळांत चार दीस बायलांनी कोणाक आफडूंक जायना असो नेम आशिल्लो. ऋषीपंचमीचें व्रत धरिल्ल्यांनी तर तांचो आवाजय आयकूंक जायना असो

समज आशिल्लो.

एका घरांत दोन भयणी बरोबर गुरवार आसत ( फुल्लटीण) आनी त्यो आवयगेर बाळंतपणाक येवपाच्यो आसत तर त्या दोगांयनीय घरांत एकामेकाचीं तोंडां पळोवंक जायना असो समज आशिल्लो. ते खातीर घरांत मेळचे पयलीं तांच्या दोगांयचीय आदीं देवळांत भेट घडोवन हाडपाची प्रथा आशिल्ली. तशेंच एक जर पयलीं बाळंत जाली तर दुसरेन तिचे बाज्जेर बसूंक जायना असोय निर्बंध आशिल्लो.

बायलां संबंदीत आनीक एक चाल ह्या वाठारांत घोळणुकेंत आशिल्ली, ती म्हणल्यार एकाद्रे चलयेक मंगळ आसत तर तिच्या लग्ना आदीं तिचें मातयेच्या कळशा कडेन (घटा) कडेन लग्न करुन तो मागीर फोडटाले. उपरांत तिचें खऱ्या न्हवऱ्या कडेन लग्न करताले. हे प्रथेक 'घटांतर विधी' म्हणटाले.

बायलांच्या सगल्या कार्यांनी सजपाक आनी नटपाक म्हत्व आसतालें. हातूंत भांगरां बरोबर फुलांचो भरपूर वापर जातालो. फांती, हळी, सर, पोड पटी, गजरो अशे फुलांचे तरेकवार प्रकार फुलांचे तरेप्रमाण करप जाताले. बायलो चड करून केंसांचो खोपो घालून ताचेर हीं फुलां माळटाल्यो. आस्तीक घरांनी बायलांचे अग्रफूल, मूदफ ूल, कळयांची हळी, हातो, गुलाब फूल (गुलाब शेंवतें), फिरकीचीं फुलां (हालतीं फुलां), अशे भांगराचे फुलां प्रकार (अळंकार) घडोवप जाताले. ते भायर केंसांक भांगराचो गोंडोय करतालीं.

## समाजीक चाली-रिती (सण उत्सव)

सण -उत्सवा संबंदीत परंपरा जश्यो हेर राज्यांतले परंपरे कडेन सारकाय सांगपी आसात त्याच बरोबर तातूंत आगळेपणय आसा. चैत्रांतलो संवसार पाडवो, वैशाखांतली अक्षय तृतिया, ज्येश्ठांतली वडापुनव, आषाढांतली एकादस, भाद्रपदांतली चवथ, आश्विनांतले हादगा-भोंडलो तशेंच दसरो, ह्यो परबो गोंय-महाराष्ट्रांतले परंपरे कडेन नातें सांगपी आसताल्यो, मात कार्तिकांत 'बसूबारस' जातकच तिसऱ्या दिसा 'नीर तुंबो हब्बा' नांवाची जी प्रथा पाळटात ती थोडीशी वेगळी आशिल्ली. हातूंत न्हाणी आनी चूल निवळ करून सारयतालीं, रांगोळी घालतालीं. मागीर चुलीचेर घांसून लखलखीत केल्लो तांब्याचो व्हडलो हांडो दवरतालीं. तातूंत उदक भरतालीं. ताका चुनो -कुकमाचे पाट लायतालीं, गळ्याक 'महानिगम बळ्ळी' ही वाल गुठलायतालीं (हे वालीच्या फळांत शंकराच्या लिंगाच्या आकाराच्यो बियो आसतात). दुसऱ्या दिसा म्हणल्यार नरक चतुर्दशी दिसा ह्या हांड्यांतल्या उदकान दादल्यांक अभ्यंग स्नान (न्हाण) घालतालीं. लक्ष्मीपुजना दिसा हांगा 'पगडीपट' म्हणल्यार घुलांनी(फांशांनी) खेळपाची प्रथा आशिल्ली.

रथसप्तमीय हांगा मोठे उमेदीन मनयताले. आंगण सारोवन, रांगोळी घालून थंय तीन फातरांची चूल करतालीं. मागीर रांदनीर 'सुगड' दवरून तातूंत शेणयांच्या उज्याचेर दूद तापयतालीं. ते पयलीं सुर्याची पुजा करून घराचे भरभराटी खातीर

सांगणी करतालीं. उपरांत उजो मोटो करून सुगडांतलें दूद ओतोवन उडयतालीं. जे वटेन दूद ओतता ते वटेन पीक भरपूर येतलें असो समज रुढ आशिल्लो.

फाल्गून म्हयन्यांत होळी आनी धुळवडय आगळे पद्दतीन जाताली. लांकडां-शेणयो मागीत पोरांटे दारां दारांनी भोंवताले. कांय जाण ह्यो वस्ती चोरूनय हाडटाले. रती-मदनाच्या लांकडी मुर्तींची मिरवणूक काडटाले. मागीर थारावीक जाग्यार तांची स्थापना करून दादले धुळवट वा रंगपंचम मनयताले. हातूंत बायलांक वचपाक मनाय आशिल्ली. होळी पेट्टकच एकट्यान खांदार उदकान भरिल्ली घागर घेवन आगट्याक तीन फेरे मारपाचे मागीर तें उदक एकामेकांच्या आंगार ओतपाचें. उपरांत सगळ्यांनी न्हावपाचें आसतालें. होळयेक जोडून आनीक एक प्रथा आशिल्ली ती म्हणल्यार, दुसऱ्या दिसा पेट्टे होळयेंतले इंगळे घेवन लोक वताले आनी मागीर ते आंगणांत घालून ताचेर चणे भाजताले. हे चणे भायरूच खावंक जाय अशें मानताले.

**समारोप**

एका काळार चाली-परंपरा ह्यो समाजाचे वृद्धीचें साधन आशिल्लें. ताका लागून समाज तांकां चिकटून आशिल्लो. आयज काळ बदल्ला, आधुनीक जगांत कितल्योश्योच चाली-रिती काळाभायऱ्यो जाल्यात, तरी पूण आयजूय बऱ्योच सम ाजांत जिवंत आसात. उत्तर कन्नड वाठारांत आशिल्ल्यो कितल्योश्योच चाली- परंपरा काळव्हांवतेंत आतां घोळणुकेंतल्यान गुडूप जाल्यात, मात जाण्ट्यां- म्हाताऱ्यांचे स्मृतींत त्यो आजूनय शाबूत आसात.

(टीप : मूळ मराठी वयल्यान स्वैर अनुवाद.)

000



# लोकवेद

संकलन : डॉ. जयंती नायक

(लोककाणी)

गावपी :
**श्री. बोमो गांवकार, कर्ल–केपें**
सुरांवपी :
**श्री. जानु गांवकार, कर्ल–केपें**
**श्री. बाबी गांवकार, कर्ल–केपें**
ता. 5-9-1991

**बोमो गांवकार :** पिराय : (अदमास) 80. केपें तालुक्यांतल्या कर्ल गांवचे लोकसंस्कृतीचे म्हालगडे, उपासक. 'गावन काणी' तशेंच 'बनवड' गायन प्रकारांत हातखंडो. गोवा कोंकणी अकादेमी प्रकाशीत 'कलेची बनवड' पुस्तकांत तांणी गायिल्ल्या 'बनवड' काव्य प्रकाराचो आस्पाव. संपर्क : कर्ल, केपें, गोंय-403705

**जयंती नायक :** जल्म : 1962, सर्जनशील लेखक आनी लोकवेद संशोधक. कथा, कविता, नाटक, बालसाहित्य, अणकार, निबंध, लोकवेद अश्या साहित्य प्रकारांत लेखन. 33 पुस्तकां प्रकाशीत, साहित्याचो जायत्या हेर भारतीय भाशांनी तशेंच इंग्लीश भाशेंत अणकार. केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारान (2004) सन्मानीत. संपर्क : आमोणें, केपें, गोंय - 403 705, मो. : 9823575623

## भुजिंग राजा

*कंथा वर्तू भुजिंगाची रे,*
*कंथा वर्तू भुजिंगाची मूं*

*बऱ्या पाताळखंडा राज्यां रे,*
*बऱ्या पाताळखंडा राज्यां मूं*

*आसा मोठे मोठे शेख[1] रे,*
*आसा मोठे मोठे शेखर मूं*

: अशे मोठे मोठे शेख आसा ते एक काय तेंतुतलो मोठो शेख काय, तेच्या मनांत काय तर येवजलें. आपूण म्हण्टा ह्या जल्मा येवन काय मेळटा तें खावपाचें काय रे देवा! आनी सारो हो जल्म काय फुकट रे देवा म्हण काय मोठो, मनां ध्यानां येवजूंक तर लागलो.

*बरो येवजूंक लागला रे,*
*बरो येवजूंक लागला मूं.*

: ह्या म्हुणों लागलो जगाचेर चौद्यांशी लक्ष म्हुणों लागलो की जल्म, इतलो काय प्राणी आसा. साऱ्या काय प्राण्यां म्हुणों लागलो की तें सोदून खावंचें पडटा आनी स्वता म्हुणों लागलो की हातीन करून खावपाचें म्हुणों लागलो की तो मनशाचो तर जल्म.

1. शेख = शेण, शेश, शेशनाग.

*सुख-दूख नी मेळटा रे,*
*सुख-दूख नी मेळटा मूं*

*आपल्या इत्से जायें तेंवूं रे,*
*आपल्या इत्से जायें तेंवूं मूं*

: जें काय म्हण्टा आपल्या इत्से जायें तें काय तर करूं तर मेळटा. असो काय मनशाचो जल्म म्हणलो नी तेणी काय मोठें काय मन घट तर केला.

*शेख वयर नी सरला रे,*
*शेख वयर नी सरला मूं*

*येयला मृत्यूखंड राज्यां रे,*
*येयला मृत्यूखंड राज्यां मूं*

*बऱ्या अटंग्या वनाक रे,*
*बऱ्या अटंग्या वनाक मूं*

*बरो चंदणाचो रूख रे,*
*बरो चंदणाचो रूख मूं*

: असो काय बरो चंदणाचो रूख काय आसा.

*रूखार वयर नी सरला रे,*
*रूखार वयर नी सरला मूं*

: आनी तो काय अरण्यांत रुखाचेर मोठो सुशेग काय तर आसा. आनी हे वटेन ह्या काय राज्यां योक[2] काय मोठो लाकडां तर काय करणारो मनीस तर आसा. आनी तो काय सकाळीं पेज काय जेयलो आनी आपली काय आंकडी - कोयती कमरा तर काय बांदली.

---

2. योक = एक

*कांबळ खांदार घेतिला रे,*
*कांबळ खांदार घेतिला मूं*

*कुराड खांदाक मारिला रे,*
*कुराड खांदाक मारिला मूं*

*धल्ला जंगलाचो तो मार्ग रे,*
*धल्ला जंगलाचो तो मार्ग मूं.*

: असो काय मोठो आपल्या मार्गान काय चलोन काय गेलो रे देवा, आनी काय मोठो रूख योक माल्लो जाल्यार आपल्याक काय मोठ्यो चार कापट्यो फोडून मेळटल्यो आनी आपलें काय एक चार दीस जिवन तर चलतलें.

*अश्यो बुद्धी नी करिता रे,*
*अश्यो बुद्धी नी करिता मूं*

: अश्यो बुद्धी करता बुसून त्या चंदणा रुखा मुळांत काय पावलो. बरो रूख म्हणलो आनी हेच्यो चार दीस आपल्याक कापट्यो पुरो जातल्यो, अशें म्हणलें आनी ती कांबळी घडी काय सकल तर दवल्ली.

*रूख मारूंक लागला रे,*
*रूख मारूंक लागला मूं*

*बरो चंदणाचो रूख रे,*
*बरो चंदणाचो रूख मूं*

: तो काय रूख मारून सकल उडयलो रे देवा. आनी सकल उडयतकच असो काय मोठो हो त्या मुळाचेर पांय दिवन वयर काय चडलो. वयर चड जाल्यार कोण काय मज्जा जाली रे देवा.

*शेखान फडा नी ती केल्या रे,*
*शेखान फडा नी ती केल्या मूं*

*मामा भंयाभीत जाला रे,*
*मामा भंयाभीत जाला मूं*

: शेखान तशी फडा कर नाका तो लाकडांकार काय तर भिलो. आपल्याक जर खायल्यार, आपल्या बायल-भुरग्यांचें कशें चलतलें, अशें म्हण काय ध्यानां-मनां काय येवजूंक लागलो. आनी त्या वेळाचेर कोण मज्जा काय मोठी लाकडांकार मामान तर केल्या.

*कांबळी फट्या घडी सोडला रे,*
*कांबळी फट्या घडी सोडला मूं*

: आनी दपत - लिपत वचून काय त्या शेखाचेर वयल्यान काय कांबळ तर घातली.

*शेखा गुटली नी बांदिला रे,*
*शेखा गुटली नी बांदिला मूं*

: शेखा बांदली गुटली आनी काय ती पोटली माथ्यार घेतली नी काय मोठो काय आपले घरचे वाटे तर लागला. भुरग्यां-बाळां खावंद्या, बायले खावंद्या, मागीर आपल्याक खावूं! सगळीं मेलीं जाल्यार पूण वावर गेलो, असो काय म्हणलो आनी हाती पोटली घेयली नी घरचे वाटे तर गेला. आनी त्या वेळाचेर बायलेन काय आपल्या भुरग्यां माथ्याक तेल घायलां नी मोठी बरी काय आंगणां तर बसल्या.

*उंयो मारूंक लागल्या रे,*
*भुरग्यां केंस नी उगयता मूं*

: इतलें करता पसून म्हण्टा आतां गेलेलो आपलो भरतार रोकडोच काय परतलो म्हण्टा रे देवा. पळय जाल्यार तो तर पोटली घेवन येता अशें म्हणली, नी तो काय घरांत भितर सरलो रे देवा.

*घरां भितर तो गेला रे,*
*घरां भितर तो गेला मूं*

: आनी त्या कांबळी फट्याची गुटली बरी काय आपल्या भितल्ल्या कुडीं काय व्हरून तर दवल्ली. आनी आपूण भितर सल्लो आनी भुरग्यां-बाळां भितर काय तर धाडलो. आनी बायले सांगलें काय ती पोटली मात्शी सोड म्हुणों लागलो. बायले खावंद्या, मागीर भुरग्यां खावंद्या, शेवट मागीर आपल्या खावद्यां अशें म्हणपाचो बेत केलो आनी तेणी मोठो काय ते बायले पोटली सोडों तर लायल्या.

*पोटल्यां कोण मौज जाला रे,*
*पोटल्यां कोण मौज जाला मूं*

: तो शेख आसलो तेणें काय मोठें सुंदर माणकां-मोतयांचें रुप काय धारण केलां आनी त्या माणकां-मोतयांची काय पोटली सोडटकच मोठो काय घरार उजवाड पडला.

*बायल धांवट भायर येयल्या रे,*
*बायल धांवट भायर येयल्या मूं*

*म्हाज्या स्वामी पती भरतारा रे,*
*म्हाज्या स्वामी पती भरतारा मूं*

*हेंवूं कितें नी हाडिलां रे,*
*हेंवूं कितें नी हाडिलां मूं*

: कोणालें चोरून काय हाडों ना मूं? अशें काय आकांतून आपल्या घोवा काय इचारूं लागली. आनी मागीर तो काय बायले काय सांगूं तर लागला.

*म्हाजे प्राणसखे वस्तुरे गे,*
*म्हाजे प्राणसखे वस्तुरे मूं*

*तेंवूं देवान तें दिलां गे,*
*तेंवूं देवान तें दिलां मूं*

: देवान दिलां तें म्हण्टा की खावया. अशें म्हणलें आनी बरो काय हातीं माणकां - मोतयांचो हार घेतलो नी बरो शेल्याक काय बांदिला.

*गेलो राजाच्या दारां रे,*
*गेलो राजाच्या दारां मूं*

: असो काय त्या राजाक भुरगें काय बाळ ना रे देवा. आनी हो माणकां-मोतयांचो हार काडला नी मोठो काय राजा अर्पण केला. आनी तो हार दिल्या नंतर कांय आपल्याक योक पायलीभर - मणभर तांदूळ मेळटले अशा बेतान काय व्हरोन तो हार काय राजाक दिला. राजा काय भितर येयलो नी तेका काय दान-द्रियें तर भरपूर दिलां. असो तांदूळ - गोटो काय पयसो - आटको काय तर दिला. तेंवूं घेयलो आनी आपल्या घरीं काय लाकडांकार येयलो. आनी त्या पयशा-आटक्याचेर काय तेणें आपल्याक इल्ली दाटी तर केली.

*आपलो संवसार थाटिला रे,*
*आपलो संवसार थाटिला मूं*

: आनी माणकां - मोतयांचो हार काय राजान आपले पेटयें घालून काय चायी तर केल्या. आनी थोडे दीस काय म्हयने गेले त्यावेळार ह्या राजाक काय दुसऱ्या राजाची मोठी लग्नाची व्होंवळीक काय पावली रे देवा.

*राणये आमंत्रण पावलां रे,*
*राणये आमंत्रण पावलां मूं*

: राणये आमंत्रण पावतगेच काय राजान तो पेटे आसा तो हार घालून काय मोठें लग्ना चल म्हुणोन तर सांगलां. त्या वेळाचेर राणी गेली आनी ते पेटयेची चायी काय काडली रे देवा.

*सुंदर बाळक नी आसा रे,*
*सुंदर बाळक नी आसा मूं*

: त्या हाराचें बाळक तयार जालें आनी ती काय वार्ता राजा कळटकच राजा खुशी जालो. आनी दोगां जाणां मोठीं खुशाल जालीं नी, मोठीं तेमीं काय तेची नांव - नांवरस पळयली रे देवा.

*नांव भुजिंग कुंवर येयलां रे,*
*नांव भुजिंग कुंवर येयलां मूं*

: अशें काय त्या राणये भुरग्या पळयतकच मोठें काय दूद पाझरूं लागलें.

*बाळा दूद नी पाजयता रे,*
*बाळा दूद नी पाजयता मूं*

: असो काय मोठो बारा दिसांकडेन पाळण्यांत काय घातलो रे देवा.

*बाळा झेलप्यो नी ती दिता रे,*
*बाळा झेलप्यो नी ती दिता मूं*

: आनी त्या वेळाचेर राजान काय आपले हांडे भरून लोकांक काय गोर-गरिबांक दान केला धर्म रे देवा.

*लोकां खुशाल तो केला रे,*
*लोकां खुशाल तो केला मूं*

: आनी बाळ आसा तो वाडी काय वाडूं लागला. आनी चार दिसां आसा तो मोठो काय आठ दिसां दिसता, आनी आठ दिसां आसा तो काय मोठो म्हयन्याचो काय दिसता रे देवा.

*बाळ वाडी नी वाडता रे,*
*बाळ वाडी नी वाडता मूं*

: अशें करून वर्स काय लोटलें रे देवा.

*बाळ नाचोंक लागला रे,*
*बाळ खेळोंक लागला मूं*

: अशें करता पसून वर्सां काय गेलीं, असो काय कुंवर चार-पांच वर्सांचो तर जालो.

*बरो शाळा नी शिकता रे,*
*बरो शाळा नी शिकता मूं*

: इतलें करतापसून बारा वर्सांचो काय जालो रे देवा. लोकांबरोबर इकडेन तिकडेन भोंवोंक काय लागलो. आनी भोंवता भोंवता मोठो काय भायल्या वाड्यांत काय भोंवों तर लागलो.

*बरो मजा नी मारिला रे,*
*बरो मजा नी मारिला मूं*

: भोंवत भोंवत मोठो काय एका दिसा कलवंताच्या वाड्यार काय वचोन पडलो रे देवा.

*बरें सुंदर कलवंत गो,*
*बरें सुंदर कलवंत मूं*

: आनी ह्या कुंवरा पळोवन हेंवूय बी मोठें काय भुलोन पडलें रे देवा. आनी आपल्यालो पानां इडो दिवन काय ह्या भुजिंगा बाळा मोठो काय भुलोन तर घेतला.

*दोगां संग नी तो जाला रे,*
*दोगां संग नी तो जाला मूं*

: अशीं काय तीं दोगां जाणां खेळ खेळटा, फकाणां मौज मारता, मस्कऱ्यो रे देवा. आनी केन्ना येवजत तेन्ना येयलो घडीभर घरा आनी मागीर येयलो तसो कलवंतागेर वयता.

*असो धंदो नी चलता रे,*
*असो धंदो नी चलता मूं*

: अशें करून काय शेवट मागीर काय आपल्या घरा येवपाची याद ना सूद रे देवा. आनी त्या वेळाचेर मोठी राजा – राणयेक चिंता तर पडली.

*राजा – राणी येवजूं लागल्यां रे,*
*राजा – राणी येवजूं लागल्यां मूं*

: आतां म्हुणों लागली की आपलो भुरगो असो सोडत जाल्यार शेणून पडटलो रे देवा.

*राज्य कोण नी चलयतलो रे,*
*राज्य कोण नी चलयतलो मूं*

: आतां म्हुणों लागलीं की तेका लग्न केल्या शिवाय तो आपलें घरदार म्हण वळखूं शकचो ना रे देवा. अशें म्हुणोन काय मोठी राजा–राणी इचार काय करूंक तर लागलीं आनी त्या वेळाचेर राजा – राणयेन मोठे काय आपले शिपाय – पेदे तर आपयल्या.

*म्हाज्या रामजी - गोमजी रे,*
*म्हाज्या रामजी - गोमजी मूं*

*सांगता तेंवूं नी आयकया रे,*
*सांगता तेंवूं नी आयकया मूं*

*होंवूं कुंवरा घेतलो फोट्टू रे,*
*होवूं कुंवरा घेतलो फोट्टू मूं*

: हो म्हुणों लागलो की बाळाचो फोटो, तुमी घेयाय. आनी तेका म्हुणों लागली की फावो सारकी कन्या मेळटा ती तुमी सोयरीक तर करून येयाय.

*अशें राजा नी सांगता रे,*
*अशें राजा नी सांगता मूं*

: अशें सांगतकच ते दोगूय मोठे काय शिपाय उठले नी आपल्या काय मार्गा लागले.

*गांव देश नी भोंवता रे,*
*गांव देश नी भोंवता मूं*

*सारें राज्य नी भोंवता रे,*
*मोठीं मोठीं नी तीं राज्यां मूं*

: आनी कोणाली कन्या आसा म्हण काय इचार तर करूं लागल्या, जाल्यार कोणागेर खंयच तर मेळना, हे शिपाय काय तर मोठे भोवोन भोवोन जार तर जाले, पांये काय दुखोंक लागले. हे वटेन ते वटेन वतान काय करपले रे देवा.

*फुडें मार्ग नी चलता रे,*
*फुडें मार्ग नी चलता मूं*

*बरे तानेन तानेले रे,*
*बरे भुकेन भुकेले मूं*

: अशे काय तानेन तानेले, भुकेन भुकेले, पूण तेंकां काय उदक चिमटीभर मेळना रे देवा. बांय दिसता म्हणटल्यार काय दोर ना, तांबयो ना, कांय ना रे देवा. बांयी उदक आसा म्हटल्यार काय तर मेळना.

*दोगां ताळो नी तो सुकला रे,*
*ताळो कोण भाशे पडला मूं*

: ताळो सामको सुकोन येयलो, पूण उदक चिमटीभर तोंडां काय पडना रे देवा.

*दोगू दोगू नी शिपाय रे,*
*दोगू दोगू नी शिपाय मूं*

*बरे बांयचेर नी ते उबे रे,*
*बरे बांयचेर नी ते उबे मूं*

: अशे काय दोगू बांयचेर काय तानेक लागून तळमळटा रे देवा.

*फुडें राज्यां खाली कोण रे,*
*फुडें राज्यां खाली कोण मूं*

: अशी काय मोठी राजकन्या काय उपवर माळ्याचेर काय त्या दोगी शिपायां काय पळोवूं लागली.

*ध्याना – मनाक येवजिता रे,*
*ध्याना – मनाक येवजिता मूं*

: अशे काय ध्यानां – मनां येवजून काय म्हुणों लागली, कोण देशाचे कोण येयल्ले ते काय ताने लागून काय तर तळमळटा. इतलें मनां येवजिलें नी बाप्पा फुड्यां काय येयली.

*म्हाज्या बाप्पा न्हूं तूं पित्या रे,*
*म्हाज्या बाप्पा न्हूं तूं पित्या मूं*

: हे ते म्हुणों लागले की बांयचेर, ताने लागून म्हुणों लागले की, ते तर तळमळटात.

*तेंकां आपोवन तूं हाड रे,*
*तेंकां आपोवन तूं हाड मूं*

: इतलें सांगतरेच काय राजान आपलो शिपाय काय धाडला रे देवा, आनी त्या शिपायाक काय आपल्या घरी काय आपोवन काय हाडला आनी त्या आंगणां फुडें काय तेंकां हातरी – सोटे सोडून काय मोठो तेंकां बसकार केला.

*साकर – पाणी नी तें दिलां रे,*
*साकर – पाणी नी तें दिलां मूं*

*तेंकां थंड पयलीं केला रे,*
*तेंकां थंड पयलीं केला मूं*

: आनी काय तेंकां मागीर इचार काय केला.

*तुमी कोणा नी राज्यांचे रे,*
*तुमी कोणा नी राज्यांचे मूं*

: तर अमक्या राज्याचे म्हुणोन काय आमी काय ते शिपाय रे देवा. जाल्यार म्हुणों लागले की तेच्या कुंवराक आमी

सोयरागत काय पळोवूं येयलेले. जाल्यार म्हुणों लागले की आमी सगळ्यां राज्यां भोंवोन भोंवोन म्हुणों लागले की जार तर जाले, आनी आमी येवन म्हुणों लागले की हांगां तर पावले. आनी नंतर काय तेणी त्या, कुंवरा फोटू तर दाखयलो.

*फोटू सुंदर दिसता रे,*
*फोटू सुंदर दिसता मूं*

*राजा कुंवर नी मानवला रे,*
*राजा कुंवर नी मानवला मूं*

*राजा मना पसंत पडला रे,*
*राजा मना पसंत पडला मूं*

: असो काय कुंवर आसा तो काय मोठो, फोटू काय तेच्या मनांत काय पसंत तर पडला, आनी तो फोटू काय घेवन काय आपल्या कन्ये फुड्यांत काय तर गेला.

*म्हाज्या बाये न्हूं तूं धुये गो,*
*म्हाज्या बाये न्हूं तूं धुये मूं*

*होवूं न्हवरो तुका करया गो,*
*होवूं न्हवरो तुका करया मूं*

: तो फोटू काय कन्येन काय आपल्या दोळ्यांनी काय पळोवन काय घेतला आनी आपल्या मना भर सारको काय भरतार काय आसा रे देवा. अशें म्हुणलें आनी आपलो फोटू काडला नी बाप्पा कडेन काय दिला.

*तोवूं फोटू नी तो घेवन रे,*
*तोवूं फोटू नी तो घेवन मूं*

: कन्या बी अशी स्वरूप सुंदरी रे देवा मोठी काय गोरी – गोमटी किल्ला कोमटी. आनी अशेतरेची काय कन्या, तियेन आपलो फोटू काडला नी तो बापायकडेन काय दिला रे देवा.

*राजा खाली नी देंवला रे,*
*राजा खाली नी देंवला मूं*

: असो काय खाली देंवला नी हो म्हुणलो की आपल्या कन्येचो काय फोटू आनी त्या वेळाचेर ते शिपाय काय त्या फोटवा पळोवन मोठे खुशाल काय जाले. आनी काय राजान काय मोठें पंचांग काडलें नी मोठें काय आपलें म्हुर्त पळोवंक लागला.

*येळ म्हुर्त नी पळयता रे,*
*येळ म्हुर्त नी पळयता मूं*

: चड दीस नी काडपाचे ना म्हण काय मोठो त्या शिपायां सांगों लागलो. ताबडतोब आमी लग्न काय थाराया आनी रोकडें लग्न काय कन्न तर वडया.

*अशी वर्द नी ती केला रे,*
*अशी वर्द नी ती केला मूं*

: फालच्या आयतारा म्हणलो की पुण्यवाचन आनी सोमारा म्हुणों लागलो लग्न लावंचें.

*इतलें बेगीन थारायलां रे,*
*इतलें बेगीन थारायलां मूं*

: इतलें काय येळ – म्हुर्त थारायला नी शिपाय काय ते फोटू घेतला नी आपल्या राज्याची वाट काय धल्ली.

*आपल्या राज्यांक चालता रे,*
*आपल्या राज्यांक चालता मूं*

: आनी राजा आसा तो काय शिपाय गेल्या ते वाटेन काय मोठो दोळे घालून काय तर पळयता. आनी काय हे दोगू शिपाय आसा ते हांसत खेळत काय वयता रे देवा.

दोगां तोंडां नी तीं हांसती रे,
दोगां तोंडां नी तीं हांसती मूं

राजा खुशाल तो जाला रे,
राजा खुशाल तो जाला मूं

: असो काय राजा आसा तो खुशाल काय जालो, आनी वचना फुडें तेंकां काय बसकार काय दिला नी मोठो उदक – पाणी काय दिवून तेंकां थंड काय केला.

*मागीर खबर मात्र घेतला रे,*
*मागीर खबर मात्र घेतला मूं*

: अदमास घेतगेर, 'बरी खबर', म्हण शिपाय काय राजा सांगों लागले.

*लग्ना म्हुर्त नी थारयला रे,*
*लग्ना म्हुर्त नी थारयला मूं*

: जावंद्या म्हण लागले की तुमगेली लग्नाची सारी काय तयारी, अशें म्हुणोन राजा काय सांगों तर लागले.

*राजान लोकां रयता सांगलां रे,*
*राजान लग्ना कुंवरा सांगलां मू.*

*मळे माटोव जपूंक सांगलां रे,*
*मळे माटोव जपूंक सांगलां मूं*

: अशें काय रयत – कूळ येयलां नी कोणें काय हें तें सामान पुनोवन काय मोठो रोकडो माटोव काय तयार केला. आनी सवर्णां–माणकां वोतयलीं आनी ते वाटेन अशी काय साळ–दाळ कांडून काय मोठी काय सगळी तयारी काय केल्या.

*एक शिपाय उठला रे,*
*एक शिपाय उठला मूं*

*तोवूं फोटू नी घेतिला रे,*
*तोवूं फोटू नी घेतिला मूं*

: तो फोटू घेतला नी मोठो काय त्या कलवंताच्या वाड्यार काय गेला, आनी त्या वेळाचेर तें कलवंत काय आपल्या हातीं मोठी एक सात्र काय घेतली आनी सात्र काय मारता रे देवा.

*आपलें आंगण झाडिता गो,*
*आपलें आंगण झाडिता मूं*

अशें काय आपलें आंगण झाडीत येयत, मोठें काय अशें आंगणां पावलें रे देवा. आनी त्या येळाचेर शिपायमामा काय मोठो तेच्या दारांत काय पावला.

म्हाज्या शिपाय नी मामा रे,
म्हाज्या शिपाय नी मामा मूं

कसलें कायनी तें जालां रे,
कसलें काय तुमचें जालां मूं

: ना म्हुणलो की, आपूण म्हुणलो की, कुंवरा म्हुणलो की सोयरीक घेवन येयला. ते म्हुणों लागलो की कन्ये फोटू दाखोवपाक तर येयला.

*कन्ये फोटू नी तो हाडला गो,*
*कन्ये फोटू नी तो हाडला मूं*

: कन्ये फोटू म्हण्टकच तेणी काय मोठो तो मागून तर घेतला आनी त्या येळाचेर त्या शिपायान काय त्या कलवंता हाती मोठो तो फोटू काय तर दिला.

*कन्या सुंदर दिसता रे,*
*कन्या सुंदर दिसता मूं*

: कन्या आसा ती स्वरूप - सुंदर काय दिसता. हेचेर नदर पडटकच कुंवर आपल्या काय सोडून तर वयतलो.

*अशें मनाक येवजलां रे,*
*अशें मनाक येवजलां मूं*

: अशें मनांत काय येवजलां नी तेगे दोळ्यां काय काजळ घायलें आसलेलें.

*दोळ्यां बोट नी लायिलां रे,*
*दोळ्यां काजळ नी लायिलां मूं*

*कन्ये फोटवा दोळ्यां लायिला रे,*
*कन्ये फोटवा दोळ्यां लायिला मूं*

*एक दोळो कुड्डो केला रे,*
*एक दोळो कुड्डो केला मूं*

: एक दोळो कुड्डो केलो नी तो बेगी-बेगीन फोटू काय दवल्लो नी अशें काय मोठें आपल्या शेटी काय दाखोवपा गेलें. आं, म्हण लागलें की, तुगे म्हुणों लागलें की व्हंकल आंगान बरी धश्ट - पुश्ट तर आसा.

*एक दोळो नी तो कुड्डो रे,*
*एक दोळो नी तो कुड्डो मूं*

: अशें म्हण्टकच त्या कुंवराचें मान काय परतलें. त्या फोटवा काय चोयलें ना रे देवा. आनी आतां काय येवजूं लागलो, आई - बाप्पान काय सोयरीक केल्ली काय पटची ना.

तेंवूं लग्न नी जातलो रे,
तेंवूं लग्न नी जातलो मूं

: आनी बायले सोडटलो आवय - बापाय सुवादीन आनी आपूण कलवंतागेर येवन रावतलो अशें मनां येवजिलें आनी तेवटेन मोठो लग्नाचो दीस काय थारयलो रे देवा.

*तेंवूं कुंवरान सांगिला रे,*
*तेंवूं कुंवरान सांगिला मूं*

*बरो भुजिंग नी बाळ रे,*
*बरो भुजिंग नी बाळ मूं*

: कुंवरान वर्द दिली आनी शिपाय काय परतोन आपल्या राज्यां काय फार्टी येयलो. आनी हे वटेन राजान आसा ती सारी तयारी काय करून सिद्ध काय केल्या.

पावला आयताराचो दीस रे,
पावला आयताराचो दीस मूं

: असो आयतारा दिसा आसा तो मोठो भुजिंग बाळ उठलो आनी आपल्या घरी काय गेला. आनी हे वटेन राजान आसा ते काय मोठे भट-बिरामण पुनयले, बाजंत्री काय पुनयले, कलवंत - पात्र काय आपयलें रे देवा.

आनी कोण काय नाचता, कोण काय वाजता, इलामत- दिवट्यो काय पेट्टा रे देवा. अशीं हे वटेन पुण्यवचनां काय जालीं रे देवा.

*बरें सांजेच्या येळार रे,*
*बरें सांजेच्या येळार मूं*

*न्हवऱ्या शिरंगार तो केला रे,*
*न्हवऱ्या शिरंगार तो केला मूं*

: असो न्हवऱ्या शिरंगार काय केला आनी मोठीं वाजत्रां काय वाजतात, कलवंतां – पात्रां काय नाचतात, मोठ्यो इलामत- दिवट्यो काय पेट्टात रे देवा.

*फोग पेट नी लायिता रे,*
*फोग पेट नी लायिता मूं*

: इतले करीत काय ते काय मोठे मार्गा लागले काय रे देवा.

*गेला व्हंकलेच्या नी राज्यां रे,*
*गेला व्हंकलेच्या नी राज्यां मूं*

*पावला फांतोडेच्या पारा रे,*
*पावला फांतोडेच्या पारा मूं*

: असो काय सकाळीं मोठी णवा सुमार काय म्हुर्त धल्ला नी त्यावेळार तेमी मोठो काय लग्नाचो थाट काय केला. आनी काय मोठो न्हवरो काय माटवा गेला नी मोठो काय तेमी त्या वटेन अंतरपाट काय धल्ला. आनी हे वटेन व्हंकल हाडली, आनी अंतरपाटा ते वटेन काय उबी केला. आनी भटान काय मोठे मंत्र जपले, मंगलाश्टकां काय म्हणलीं रे देवा.

*समरपयामी सावधान रे,*
*समरपयामी सावधान मूं*

: अशें म्हुणून काय मोठी व्हंकलेन आसा ती न्हवऱ्या काय माळ घायली, आनी न्हवऱ्यान आपली माळ आसा ती व्हंकले काय घायली.

*दोगां लग्न नी लायिलां रे,*
*दोगां लग्न नी लायिलां मूं*

: अशें दोगांयलें लग्न काय लागून, चार दीस पासून मोठो थाट काय चल्लो.

*चवथ्या दिसा व्होर परतला रे,*
*चवथ्या दिसा व्होर परतला मूं*

*येयला भुजिंगाच्या राज्यां रे,*
*येयला भुजिंगाच्या राज्यां मूं*

: अशी काय भुजिंगाच्या राज्यां पावतरीच काय मोठी घरभरवणी घेतली रे देवा. आनी मोठो थाट काय सुवाळो केलो आनी मोठें लग्न आसा तें काय संपादन जालां. आनी राजान त्या येळाचेर मोठें द्रियें आसा तें दान केला रे देवा.

*लोकां खुशाल तो केला रे,*
*लोकां खुशाल तो केला मूं*

: आनी 'तेंचें बरें जावूं' म्हुणून लोक आसा तो आप-आपल्या घरी काय गेला, आनी हे वटेन भुजिंग बाळ आसा तो उठलो आनी काय मोठो कलवंताच्या वाड्यार काय गेला. आनी व्हंकल आसा ती काय मोठी आपल्या घरी काय उल्ली. आनी तो कलवंता वाड्यार गेलो तो काय मोठो आपल्या घरा काय परतोंक शकलो ना.

*चार – आठ दीस गेले रे,*
*चार – आठ दीस गेले मूं*

*थाव – पत्तो देवा नायी रे,*
*थाव – पत्तो देवा नायी मूं*

*भरताराची वाट चोयता रे,*
*भरताराची वाट चोयता मूं*

: अशी काय ती कन्या आसा ती काय उपवर जाली. भरताराची याद काय येता रे देवा.

*भरतार पळोवंक मेळना रे,*
*भरतार पळोवंक मेळना मूं*

*ध्याना–मनां येवजिता गे,*
*ध्याना–मनां येवजिता मूं*

*आतां कितें नी तें करूं रे,*
*आतां कितें नी तें करूं मूं*

*येकू म्हयनो देवा गेलो रे,*
*येकू म्हयनो देवा गेलो मूं*

: अशें काय ध्यानां–मनां येवजून, काय कितें करतलें, कात करतलें, म्हण बुद्धी काय करूं लागली रे देवा. आनी त्या येळाचेर मोठी काय येक येवजणी सुचली रे देवा.

*आपल्या मामी नी मामाक रे,*
*आपल्या मामी नी मामाक मूं*

*तिवूं सून नी सांगता रे,*
*तिवूं सून नी सांगता मूं*

: मामी-मामा म्हणली की आपूण आपल्या मोठ्या एक गोश्टीखातीर म्हुणों लागली की कुळारा वचून तर येता. हय बाये म्हुणों लागलीं की, वयता जाल्यार वच म्हुणों लागलीं की, आपणें सदूद्यां तुका हाडून तरासां तर उडयलां. इतलें म्हणलें आनी आपल्याक जाय तें कितें घेयलें आनी कन्या आसा ती मोठी काय भायर सल्ली रे देवा.

*बरे मार्ग नी चलता रे,*
*बरे मार्ग नी चलता मूं*

*चल्ल्या गवळ्यांच्या वाडीर रे,*
*चल्ल्या गवळ्यांच्या वाडीर मूं*

: आनी त्या गवळ्यांच्या वाडीर काय मोठी भितर सल्ली रे देवा.

*बरी गवळण ती बाई गे,*
*बरी गवळण ती बाई मूं*

: ते गवळणी बाये काय सांगो काय लागली. गवळणी म्हुणों लागली की तुजो पोशाख, पांयां नाकूट ते मस्तकी केंस पासून जे अळंकार आसा ते आपल्या घडीभर तर जाये. आनी त्या येळाचेर आपले कपडे आसा ते, मोठे काय सुंदर आसा ते काडून काय त्या गवळणी काय दिले रे देवा. आनी तूं म्हुणों लागली आयचो दीस काय सोड आनी मोठी काय दुसऱ्या घरी काय वचोन काय राव. अशातरेन ती गवळण मोठी काय आपल्या भुरग्यां-बाळां घेयली आनी मोठी काय दुसऱ्या वाडीर काय वचोन काय रावली.

*बरी राजाची नी सून रे,*
*बरी राजाची नी सून मूं*

: बरो सगळो शिरंगार काय केला, गवळणीचो भेस रे देवा, आनी बरो काय दुदाचो मगो[1] घेतला माथ्यार.

*बरी भायर नी सरला रे,*
*बरी भायर नी सरला मूं*

*गेली वाड्यांनी भोवोंक गे,*
*गेली वाड्यांनी भोवोंक मूं*

: अशी काय वाड्यार भोवोन भोवोन काय दूद काय इकोंक तर लागली.

*पावली कलवंताच्या दारां रे,*
*पावली कलवंताच्या दारां मूं*

*कोण बायी नी घरांक रे,*
*कोण बायी नी घरांक मूं*

*कोणां दूद नी जायी जाल्यार घेया गे,*
*कोणां दूद नी जायी जाल्यार घेया मूं*

: अशें म्हण तेणी नी कोणी घरां आसा जाल्यार म्हुणों लागलें की दूद जायें जाल्यार की घेयात.

*बरो सुंदर आवाज रे,*
*बरो सुंदर आवाज मूं*

: सुंदर तिचो आवाज आयकतकच तोवय बी भुजिंग बाळ, कलवंत भायर सरतकच भायर सल्लो. आनी कलवंतान आपल्याक जाय तितकें दूद काय घेतलां.

*कुंवरा नदर पडला रे,*
*कुंवरा नदर पडला मूं*

---

1. मगो = कळसो, कांसाडी.

*गवळण मनाक भरला रे,*
*गवळण मनाक भरला मूं*

: ती गवळण मेळ्ळ्यार काय आपूण परतो काय लग्न जातलो रे देवा, अशें काय मनाक काय येवजूंक लागलो.

*बरी गवळण परतला रे,*
*गवळण आपल्या वाटे परतला मूं*

: आनी ती खंयच्यान वता ती पळयता आनी मोठो काय दोळो काडना रे देवा.

*बरो भुजिंगाचो बाळ रे,*
*बरो भुजिंगाचो बाळ मूं*

: असो काय उठलो तो बाळ आनी मोठो काय कलवंता घरांतल्यान उठलो आनी त्या गवळणीच्या फाटल्यान काय चलों लागलो रे देवा.

*गवळण वयता नी ती फुडें रे,*
*गवळण वयता नी ती फुडें मूं*

*भुजिंग वयता नी फाटल्यान रे,*
*भुजिंग वयता नी फाटल्यान मूं*

: अशीं काय दोगां चलोन चलोन काय मोठीं गवळ्या वाडीर काय पावल्यां आनी गवळण गेली, त्या काय आपल्या वाडी भितर सल्ली आनी तीं दुदाचीं आयदनां काय भितर दवर्ल्लीं नी पायलीभर गोंडे काय घेतले.

*बरी दांत्यार बसला रे,*
*बरी दांत्यार बसला मूं*

*बऱ्यो होंवयो नी पाडता रे,*
*बऱ्यो होंवयो नी पाडता मूं*

: बायलांक दळों बसल्यार नासल्यो खंय होंवयो येतात! ती गवळण काय तेची इटंबणा करूं लागली आनी मोठो काय राजा कलवंताच्या घरी काय नोकरी करूंक पडलो, अशातरेन काय ती लागली काय होंवयो करूंक. आनी तो होंवयो आयकत काय तेये फुड्यांत गेलो.

*बाजी इकडं येवूं नाका रे,*
*बाजी इकडं येवूं नाका मूं*

*आमी गवळ्याची नी जात रे,*
*आमी गवळ्याची नी जात मूं*

*तुमी राजा नी ते धनी रे,*
*तुमी येदे व्हडले राजा मूं*

: तुमी काय येदे व्हडले राजा, आमची काय गवळ्याची हीन जात, तुमी काय काय आमच्या फुड्यांत येवंनाकात. अशेतरेन ती काय लागली तेका हिणसावपाक. आनी अशातरेन तेका आरतें काय परतें सांगूं लागली, आनी म्हुणों लागली की आपूण येता राजागेर, थिंगा तुका म्हुणों लागली आपूण मेळटली. अशें काय सांगला आनी तेका मोठें तोंड आंबट करून काय कलवंतागेर धाडून काय दिला. आनी हे वटेन तेणी काय कोण मज्जा केल्या.

*त्यावूं गवळणी आपयला गे,*
*त्यावूं गवळणी आपयला मूं*

: बाई म्हुणों लागली की तुजो शिरंगार म्हुणों लागली की तूं सांबाळ. आनी आपले काय कपडे घेयले नी तिका

काय मोठो पयसो-आटको काय दिला. आनी मोठी काय ती राजसून उठली आनी आपल्या मार्गा तर लागली.

*आपल्या घरच्या नी राज्याक रे,*
*आपल्या घरच्या नी राज्याक मूं*

*बरें चालोन चालला गो,*
*बरें पावोन पावला मूं.*

: अशी काय बरी चालोन चालली, पावोन पावली आपल्या घरी काय बरी पावली. आनी ती काय सुशेग आसा. हे वटेन त्या काय कलवंता कोण मज्जा जाला.

*कलवंता खुंवलो नी लागला गो,*
*कलवंता खुंवलो नी चाळवला मूं*

: रात्री काय तेचेकडेन खबऱ्यो माल्ल्यो, काय उलोवूं तर लागली. आनी अश्यो तश्यो खबरी सांगून मागीर काय तेगेल्या विशया काय हात घातलो.

*म्हाज्या नायका नी तूं नायका रे,*
*म्हाज्या नायका नी तूं नायका मूं*

: तर म्हुणों लागलो की तुजें मरण कशें तर आसा? तर म्हुणों लागलो की आपल्या मरण ना! कलवंतान म्हटलें, आब्बा! मरण ना? तर म्हुणों लागलो की आपूण ह्या जल्मा आसा तो दुसऱ्या जल्मा वयतो जाल्यार, म्हुणों लागलो की बायलेन इचारून घेतलें जाल्यार मरण.

*जाल्यार आपूण मेळना गो,*
*जाल्यार आपूण मेळना मूं*

: आपल्या नांव जर बायलेन इचारून घेतलें जाल्यार आपूण ह्या जल्मा उरना अशें तेणें सांगलें. कुंवरान खरें आसा तें सांगलें आनी ते काय कलवंता पथ्यार पडलें. तें कलवंत काय तें मनां घेतलें आनी काय सुशेग तर आसा..

*दुसरो दीस नी पावला रे,*
*दुसरो दीस नी पावला मूं*

: दुसऱ्या दिसा उठून काय त्या भुजिंगाची वस्तुरी[1] आसा ती मोठी काय लागली आपलें घर-दार काय सारोवपाक. आनी पलंग शिंरगारूंक काय लागली रे देवा.

*जाला सांजेचा नी येळ रे,*
*जाला सांजेचा नी येळ मूं*

: असो काय सांजेचो येळ जातकच काय मज्जा केल्या. असो काय पलंग शिरगारला, जायो-जुयो, शेंवतीं-मोगरीं अशातरेन काय फुलांचो पलंग शिरगारला. आनी सुंदर काय अशे अत्तराचे दिये काय लायले आनी काय आपल्याल्या आंगार काय मोठो शिरगार केला रे देवा.

*सर्व शिरंगार तो केला रे,*
*सर्व शिरंगार तो केलां मूं.*

*दिसता देवांची नी ती रंभा गे,*
*दिसता देवांची नी ती रंभा मूं*

*इतली सुंदर दिसता गो,*
*सुंदर जानत दिसता मूं*

---

1. वस्तुरी = अस्तुरी, बायल.

: आनी आरत - बगूळ तयार करून काय दारां घोवाची वाट पळयता.

*बरो भुजिंग तो बाळ रे,*
*बरो भुजिंग तो बाळ मूं*

: असो काय मोठो भायर सल्ला नी आपल्या मोठो काय घरीं वाट चल्ला.

*बरो चालोन चालला रे,*
*बरो चालोन चालला मूं*

: असो काय चालून चालला, पावून पावला आपल्या आंगणी रे देवा. आनी आंगणां भितर सरतना झप्प कोन्न आपल्या बायलेचेर काय नदर पडली रे देवा.

*दोळ्यां काळोख नी येयला रे*
*दोळ्यां काळोख नी येयला मूं*

*बरो घुंवोळ मारिला रे,*
*बरो घुंवोळ मारिला मूं*

: हो म्हण लागलो की चक्क करून सकल पडटलो आनी काय आसा ती कन्या मोठी काय धांवट येयली नी कोण भुजिंगा काय येंग माल्लीं नी तशी काय आरत - बगुळा वुंवाळणी काय शेंवटून तर माल्ल्या.

*कुंवरा येंगाक मारिला रे,*
*कुंवरा येंगाक मारिला मूं*

: आपल्या भरतारा येंग माल्ली नी मोठो काय भरतारा पलंगार काय व्होन्न दवल्लो.

*उदक - पाणी नी मारिला रे,*
*उदक - पाणी नी मारिला मूं*

: उदक – पाणी मारून काय मोटो, तोंडां इल्लें घालून काय सावशीद काय केला.

*कुंवर दोळे उक्ते करता रे,*
*कुंवरान दोळे उक्ते केला मूं*

: आनी त्या कन्ये तोंडाचेर दोळे घायले नी मनां येवजूं काय लागलो रे देवा.

*कितली सुंदर वस्तुरी रे,*
*कितली सुंदर वस्तुरी मूं*

*तिका सोडून आपूण खंयी रे,*
*तिका सोडून आपूण खंयी मूं*

: आनी आपूण म्हण्टा कलवंताच्या घरा मोठो काय कलवंताचो शिरयिसवो काय जावन तर पडलो. आनी ही इतली सुंदर म्हण्टा, मिर्गनयनी[1] अशी म्हण्टा, देवांली देवरंभा काय दिसता. आनी आपले असले वस्तुरे सोडून म्हण्टा आपूण दुसऱ्या काय संगती तर पडला.

*पाडा पोडों ह्या जल्माचें रे,*
*पाडा पोडों ह्या जल्माचें मूं*

: अशें म्हुणून काय मोठो ध्यानां-मनां काय येवजितां रे देवा. आनी या नंतर मोठीं काय जेवणां जालीं काय खाणां जालीं रे देवा. आनी मागीर दोगां बसून काय मोठ्यो पान – तबकड्यो काडल्यो.

*बऱ्यो पान नी तबकड्यो रे,*
*बऱ्यो पान नी तबकड्यो मूं*

---

1. मिर्गनयनी = मृगनयनी

: बरीं पान – तबकड्यो खावन काय दोगां मोठीं पलंगार काय खेळ खेळ्ळीं, फकाणां काय खेळ्ळीं.

*बरे दीस गेल्यो राती रे,*
*बरे दीस गेल्यो राती मूं*

: अशी काय इतलें करता पासून काय कलवंताक ना ना तरेच्यो चिंता काय पडल्यो. आनी हो काय आपल्या घरची वाट काय इसरला, आपल्या घरा कांय सुशेगाद काय रावला.

*बरे दीस नी ते गेला रे,*
*बरे दीस नी ते गेला मूं*

: अशे कांय दीस वयतकच तो राजपुत्र आसा तो मोठो काय आपली बंदूक घेवन अरण्या शिकारे काय वयता रे देवा.

*बरी शिकार पेटयता रे,*
*बरी शिकार पेटयता मूं*

: बरो काय शिकार पेटयता, आनी सांजे वेळाचो जेवता खाता आनी मौज-मस्कऱ्यो करून काय रात तर काडटा. आनी दिसा उठ्ठा हिकडेन भोंवता, तिकडेन भोंवता आनी आपल्या राज्यां संवसार काय चलोवपाची ती काय मोठी मनां चिंता तर करता. आनी इतलें करता पासून त्या कलवंता काय मना काय मोठी चिंता तर लागली.

*कलवंत येवजूंक लागला रे,*
*कलवंत येवजूंक लागला मूं*

*आता कितें नी करतलें रे,*
*आता कितें नी करतलें मूं*

: आतां म्हुणों लागलें आपल्याक बी ना आनी तेगे बायलेक बी ना अशें तर करया. अशें येवजिलें नी एका दिसा मोठें आडा-वेळार भायर काय सल्लें.

*गेलें राजाच्या राजवाड्यां रे,*
*गेलें राजाच्या राजवाड्यां मूं*

: अशें कांय गेलें आनी ते कन्ये काय लागलें मोठ्यो शिकोवण्यो शिकोवपाक रे देवा! आगे कन्ये म्हण लागलें, तुज्या भरताराचें नांव तर कितें? आनी नांव खबर नासतना म्हण लागली, केन्ना तुजो भरतार परगांवां गेल्यार तूं तेका पत्रां बी कशी काय घालतली?

*भरताराचें नांव इचारून घेव गे,*
*भरताराचें नांव इचारून घेव मूं*

: तशें ते कन्येन काय केलां, आपल्या केंसांक काय एक एक गांठ तर घातल्या आनी तें कलवंत सांगता तें कांय सगळें आयकोन तर घेतलां रे देवा!

*नार घालता केंसां गांठ गो,*
*नार घालता केंसा गांठ मूं*

: तर असो काय दीस भालांडलो. भुजंगबाळ काय शिकारेसान येयलो रे देवा! आनी कन्येन काय बाळाक आरत-बगूळ दाखोवन म्हालांत घेतलो, आनी मागीर बाळान न्हाणये सात आंगोळ्यो काय केल्यो रे देवा!

*पांच पक्वान्नां बाळा वाडटा रे,*
*पांच पक्वान्नां बाळा वाडटा मूं*

: अशीं काय कन्येन बाळा पांच-पक्वान्नां काय वाडलीं, बाळ बरो जेयलो-खायलो आनी मागीर तीं दोगां पलंगार गेली, पान-इडे काय मोडले आनी लागलीं काय मौज-मस्कऱ्यो करूंच्याक!

*कन्ये हाता गांठ लागता गे,*
*कन्ये याद देवा जाता मूं*

: अर्शी काय कन्ये केंसा गांठ हाता तर लागता आनी ते कन्ये काय त्या कलवंतालीं उतरां येवजता. मागीर कन्या, 'स्वामी पती भरतारा म्हण्टा, तुमचें नांव तर कितें?' म्हण बाळाक काय इचारता रे देवा!

*तुमचें नांव स्वामी सांगा रे,*
*तुमचें नांव स्वामी सांगा मूं*

: अशी कन्या काय इचारता आनी बाळ म्हण्टा, आपलें नांव काय तर सांगूक मेळना रे देवा! आनी अशें काय नांव सांगल्यार आपूण तुका ह्या जल्मांत काय मेळपाचो ना.

*आपलें नांव सांगूक मेळना गो,*
*नांव सांगल्यार हातीक लागना मूं*

: अशी कन्या काय मोठी आयकना रे देवा आनी म्हण लागली, स्वामी-पती-भरतारा, तुमी कशातरेन आपल्याक नांव तर सांगपाक जाय, नाजाल्यार तूं म्हण लागली खंयीय राज्यां बी भोवूंक गेल्यार आपणें नांव कळनासतनां पत्रां बी कशी काय घालपाचीं? अशें म्हुणोन काय मोठो आकांत काय करूंक लागली रे देवा!

*स्वामी तुमकां पत्रां कशीं नी घालुंचीं रे,*
*स्वामी तुमकां पत्रां कशीं नी घालुंचीं मूं*

: असो काय कन्येन मोठो हट्ट धरनाका, बाळाचो मोठो काय निरुपाय जालो रे देवा! आतां म्हण लागलो कितें करतलो? कन्या काय कशी तर आयकना! तेन्ना भुजिंगबाळाचो काय मोठो निरूपाय जालो रे देवा!

*नांव आपूण तुका सांगता गो,*
*नांव आपूण तुका सांगता मूं*

: अशें म्हण लागलो आपूण तुका नांव काय सांगता, पूण तुवें म्हण लागलो कन्येन, आपूण सांगता तें करपाक चुकपार काय जायना.

*कुंवरान सुरय तांदूळ मंत्रून दिले रे,*
*कुंवरान सुरय तांदूळ मंत्रून दिले मूं*

: आपलें नांव सांगतकच आपूण काय मनीस उरपाचेर ना रे देवा, तेन्ना म्हण लागलो तुयें कन्येन ते तांदूळ आपल्याचेर मारूक तर जाय, तेन्ना आपूण तुका परतून मेळटलो ना तर आपूण गुप्त तर जातलो, अशें म्हण भुजिंगबाळान काय तर सांगलें.

*बाळ नांव शें सांगता रे,*
*बाळ नांव शें सांगता मूं*

*म्हाजें भुजिंग नी तें नांव गे,*
*म्हाजें शेख नी तो जल्म मूं*

: अशें म्हण बाळान आपलें नांव काय सांगनाका, बाळाचो काय बारा फडांचो भुजिंग जालो रे देवा! माडा इतको उंच, येंग काय पावना आनी कन्येची नदर काय तिकना आनी तिच्या हाता-पांयांक काय थरथरो सुट्टा आनी तिका येकदम झीट काय वयता.

कन्या तांदूळ मारुंक पावना रे,
कन्या तांदूळ मारुंक पावना मूं

: अशी काय कन्या तांदूळ मारूक पावलिना आनी तो भुजिंग बाळ काय नाग पाताळांत तर वयता रे देवा!

*बाळ पाताळ राज्यां गेलो रे,*
*आपल्या खऱ्या नी त्या देशां मूं*

: अशी बऱ्या वेळान कन्या सावशीद जाली आनी पळय तर आपलो स्वामी पती भरतार काय ना आनी तो भुजिंग बाळ बी काय थंय ना रे देवा!

*कलवंतान घात देवा केला रे,*
*रांडलान दाव जल्मा सादला मूं*

: असो काय कुंवर ना जायनाका, राज्याचेर मोठें दूख्ख काय पडलां आनी सारीं प्रजा काय धळधळ्यां रडटा आनी तो राजा आनी राणी काय अन्न नी उदक घेना रे देवा!

*कन्या खेद – खंत करता रे,*
*कन्या इकळाप नी करता मूं*

: अशातरेन ती कन्या, काय सारीं राज्य काय दुख्खी आसा रे देवा, आनी हे वाटेन काय मोठी मौज घडटा!

*राज्यां दिये लागले चलूंक रे,*
*म्हालां दिये उरना वात मूं*

: अशें काय राज्यां–म्हालां पेट–पेटयिल्ले दिये[1] काय रातचे चलोन वयतात रे देवा आनी सगळ्या राज्यांत काळोख घडटा काय अंधकार आनी दियांचो म्हण्टा कोणा लागना माग काय मूस रे देवा.

*राजा चिंते देवा पडला रे,*
*राजा चिंते देवा पडला मूं*

---

1 दिये = दिवे

: अशा तरेन घडितां - नवलां घडटात आनी राजा धरून सगले काय येवजणे पडल्यात आनी त्यावेळार कोण मज्जा जाता रे देवा!

*तेवूं राखणे आसा मळार रे,*
*तेवूं राखणे आसा मैदाना मूं*

: अशे काय ते राजाले गोरवां राखणे त्या मळार-मैदानार काय वयतात आनी राजाली म्हाल गाय काय चरवण्या वयच्या वेळार उठोन सद्दां एका भुशीरांत काय वयता आनी मागीर सांजेची परतोन वयर काय येता रे देवा!

*अशीं नवलां सद्दां घडटा रे,*
*अशीं नवलां सद्दां घडटा मूं*

: अशे ते राखणे काय येवजणे तर पडले रे देवा आनी ही खबर म्हण लागले राजा कानार तर घालया आनी ते उठले आनी राजा दरबारा तर गेले.

*म्हाज्या राजा न्हूं तूं राजा रे,*
*म्हाज्या राजा न्हूं तूं राजा मूं*

: आरे राजा म्हण लागले, तुगेली म्हाल गाय आसा ती चरवण्याक व्हेल्लेकडेन सद्दां उठून मळा-मैदानार त्या भुशिरांत तर वयता.

*तियेचो सोद घेवंचो थाव रे,*
*तियेचो सोद घेवंचो थाव मूं*

: असो काय तें आयकोन राजा आसा तो नवलां पडटा आनी ती कन्या आसा ती आपल्या मांवा-बाप्पा तर सांगता रे देवा!

*हांव वयता तियेच्या सोदी रे,*
*भरताराचो आसा तोवूं नी माग मूं*

: शेर्त म्हण लागली हेंतू कितें पूण घूट आसा आनी तियेच्या सोदी गेल्यार आपल्या स्वामी पती भरताराचो माग काय लागतलो.

*उतर तुवें मामा दिवंचें रे,*
*उतर तुवें मामा दिवंचें मूं*

: अशें काय कन्येन सांगनाका, मांवान काय उतर दिलें आनी ती कन्या आसा ती सकाळीं उठोन त्या राखण्याफाटल्यान त्या मळार काय गेली रे देवा!

*म्हाल गाय वयता भुशिराक रे,*
*म्हाल गाय वयता भुशिराक मूं*

: अशी ती गाय काय भुशिराक वचोंक लागनाका, ते कन्येन काय माल्लो न्हेसणाचो कांसाटो आनी गायेच्या शेंपेक काय धल्ली आनी देंवलीं काय पाताळांत.

*पाताळां बारा फडां भुजिंग रे,*
*येद्दे येद्दे आसा नाग मूं*

: अशे काय पाताळांत मोठे मोठे भुजिंग काय नाग ह्या वटेन त्या वटेन सुर्रर सुर्रर करून धांवता आनी असो काय पांये घालूंक बुसून जागो ना रे देवा! आनी ती काय उठली येके वालीक गोळ मारून काय लिपून रावली रे देवा!

*कोण मज्जा देवा घडटा रे,*
*कोण मज्जा देवा घडटां मूं*

: अशी काय ती गाय वयता आनी एका वाडग्यांत काय पेल्यांत दूद तर सोडटा आनी परती मृतखंडा वयता रे देवा! आनी अशीं काय बऱ्या वेळान काळखां जातात आनी तो भुजिंगबाळ काय नाग थंय येता रे देवा आनी तें वाडग्यांतले दूद काय पिता आनी त्यावेळार कोण नवल तर जाता.

*कुंवरा रुपां पाळटता*[1] *रे,*
*कुंवर मनीस तो जाता मूं*

: असो काय तो भुजिंग नाग आसलेलो तो भुजिंग बाळ काय जाता आनी त्यावेळार तियेच्या राज्यांतले सगळे दिये काय थंय चलोन येता रे देवा! आनी तो भुजिंग बाळ काय त्या दियां तर इचारता.

*दिया दिया नी दिपका रे,*
*म्हाजी माता नी काय करता मूं*

*पुत्रा पुत्रा म्हण शोक करता रे,*
*पुत्रा पुत्रा म्हण शोक करता मूं.*

: अशा तरेन दियो सांगता रे देवा आनी बाळ काय, ‘‘आरे रे देवा’’, अशा तरेन काय शोक करता! उतरां काय तर उलयता.

*दिया दिया नी दिपका रे,*
*म्हाजा पिता नी काय करता मूं*

: तर ‘‘पुत्रा पुत्रा म्हण शोक करता!’’ असो काय दियो सांगता आनी, ‘‘आरे रे देवा!’’ म्हण पुत्राक दुख तर जाता.

---

1. पाळटता = बदलता

*दिया दिया दिपका रे,*
*म्हाजी वस्तुरी नी काय करता मूं*

: तर "भरतारा, भरतारा म्हण शोक करता!" असें दियो काय सांगता.

*दिया दिया नी दिपका रे,*
*तें फुलगें नी कलवंत काय नी करता मूं*

: तर दियो सांगता, "गेलो तो बरें जालें, पिडा गेली म्हण्टा!" तें आयकोन बाळाक दूख्ख जाता, आनी इतको तेप तेगेर आपूण रावन फुकट म्हण्टा!

*रांड खावन परतल्या रे,*
*रांड खावन परतल्या मूं*

: भुजिंग बाळ काय असो शोक करनाका, कन्येच्यान काय अशे रावंक जायना रे देवा! ती घब्ब करून उडकी काय मारता आनी "भरतारा, भरतारा" म्हण तेका येंग मारूंक काय धांवता.

*कन्या धळधळ्यां रडटा रे,*
*कन्या धळधळ्यां रडटा मूं*

: अशी काय कन्या भरतारा येंग मारूंक वचनाका, भुजिंग बाळ काय म्हण्टा, 'आपल्याक हात-बोट लायल्यार तुजो घात काय मोठो घडटलो.'

*सांगता तिवूं सतां आयक गो,*
*सांगता तिवूं सतां आयक मूं*

: अशें काय म्हण लागलो, आपूण जर तुका जाय जाल्यार

फाल्या इंद्रसभे देवांकडच्यान काय आपल्याक मागून घे. आनी अशी काय फाल्यां पाताळांत शेखांची इंद्रसभा बसतली आनी सगळ्या जनावरांचे काय थंय सुंदर पुतळे करून दवरतले आनी आपल्याक काय एक किड्यांची रास करून दवरतले रे देवा! आनी ती किड्यांची रास काय तूं माग, तेन्ना काय आपूण तुका मेळटलो, अशें सांगलें आनी तो भुजिंग बाळ काय गुप्त तर जालो.

*कन्ये न्हिद नायी देवा भूक रे,*
*कन्ये न्हिद नायी देवा भूक मूं*

: अशी काय कन्या रातभर तळमळटा आनी केन्ना तर दीस जातलो म्हण्टा रे देवा!

*बेगीन देवा दीस-फालें जावंचें रे,*
*बेगीन देवा दीस-फालें जावंचें मूं*

: आनी असो काय सुर्याचो रथ गडगडटा आकाशीं आनी दीस काय उजवाडटा रे देवा! आनी कन्या काय तळयें न्हाता, देवा काय पांयां पडटा आनी आपल्या मांय-मांवा, आई-बाप्पा काय सुमरण[1] करता रे देवा!

*कन्या चलून पावता सभे रे,*
*त्या म्हण पाताळीच्या देवांची मूं*

: अशी काय कन्या सभेर पावता आनी सभे काय मोठ-मोटे शेख बसल्यांत काय भुजिंग रे देवा! आनी मदें काय तो म्हाल शेख बसला आनी तेच्या कुशीक काय जाण्टे तर बसल्यांत. आनी काय सुंदर अशे पुतळे सभेर तर मांडल्यांत आनी कडे-कोपरा एक किड्यांची रास तर आसा.

*किडे हुकू हुकू जाता रे,*
*किडे हुकू हुकू जाता मूं*

---

1 सुमरण = स्मरण

: आनी असो काय त्या वेळार तो म्हाल शेख आसा तो म्हण्टा, आज हांगां येवन कोणेंय कितेंय मागलें तर आपूण तेका काय तें दितां!

*मागता तेंवूं आपूण दिता रे,*
*मागता तेंवूं आपूण दिता मूं*

: अशीं काय त्या म्हाल शेखालीं उतरां कानार पडनाका, ती कन्या काय धांवली आनी तेची चरणां काय धर्ल्लीं रे देवा!

*म्हाजो भरतार देवा दिवंचो रे,*
*म्हाजो भरतार देवा दिवंचो मूं*

: अशें त्या वेळार म्हाल शेखान काय म्हटलें, ''तुजो भरतार काय हे सभे आसल्यार तूं दाकय आनी सोदून तर व्हर.'' तशी ते कन्येन काय त्या किड्यां राशीक बोट काय दाखयलें आनी आपलो तो भरतार म्हण काय सांगलें.

*भल्ले सभा देवा हांसली रे,*
*भल्ले सभा देवा हांसली मूं*

: अशें त्या वेळार कन्येन म्हटलें, 'आपल्या नशिबांत काय ती किड्यांची रास आसा, तेन्ना ती काय आपल्याक तर दिवंची.'

*शेख देव मनां समजिलो रे,*
*शेख देव मनां समजिलो मूं*

: अशी काय देवान अमृतकुंपी घेतली, ती काय त्या किड्यां राशीर शिंपडायली आनी भुजिंग बाळा काय जिवंत केलो रे देवा!

*कन्ये भरतार दिला रे,*
*कन्ये भरतार दिला मूं*

: अशी काय कन्या तेन्ना उठली आनी भुजिंग बाळा घेवन आपल्या राज्यां येयली आनी मांयक - मांवाक काय तिणें नमस्कार केला रे देवा!

*माता पिता बाळा भेटला रे,*
*माता पिता बाळा भेटला मूं*

: अशी काय माता-पिता, सगळे प्रजेक काय भेट जाली आनी सगळ्या लोकां काय मोठी उमेद जाली रे देवा!

*बाळ शिंवासनार बसला रे,*
*राज्य सुखान बाळ चलयता मूं*

*आमची कंथा नी सोंपल्या रे,*
*आमची कंथा नी सोंपल्या मूं*

(टीप : केपें तालुक्यांतल्या कर्ल गांवांत घोळणुकेंत आशिल्ली ही गितकाणी 5 सप्टेंबर 1991 दिसा रातची संकलीकेच्या आमोणें-केपें हांगाच्या घरा खाशेलपणान गावन घेवन अक्षरबद्ध केल्ली आसा. गितकाणी हें समाजीक, सांस्कृतीक तशेंच मानववंशशास्त्रीय अभ्यासाचें एक म्हत्वपूर्ण साधन. संवसारीक मळाचेर ह्या दिश्टीकोणांतल्यान तिचो अभ्यास जाता. प्रस्तूत लोककाणये कडेन वाचक-अभ्यासकांनी हेच नदरेन पळोवचें अशी अपेक्षा.

**- संपादक**)

000



मंथन

(लेख)

परेश नरेन्द्र कामत

# माधव बोरकार हांचे कवितेंतलो अव्यक्त आशय

कवी माधव बोरकार हे 1970 च्या दशकांत कोंकणी कवितेच्या मळार उदेल्ले आधुनीक कवी. 1968 वर्सा सावन कविता हो एकूच साहित्य प्रकार ते सातत्यान केळयतात. आयज मेरेन तांचे 'चंवर', 'वताच्यो सांवळ्यो', 'उजवाडाचो रूख', 'पर्जळाचें दार', 'यमन', 'अव्यक्ताचीं गार्णी' आनी 'सिम्फनी' हे सात कविता झेले उजवाडाक आयल्यात.

'वताच्यो सांवळ्यो' आनी 'उजवाडाचो रूख' ह्या कविता झेल्यांनी तांचे कवितेचें वेगळेपण नदरेक हाडलें. आनी 'पर्जळाचें दार', 'यमन' आनी 'सिम्फनी' ह्या संग्रहांतल्या कवितांनी त्या वेगळेपणाचेर स्वतंत्र म्होर मारली. एकूण कोंकणी काव्य परंपरेच्या मळार माधव बोरकारांचे कवितेन आपले खातीर वेगळी सुवात निर्माण केल्या.

कवी माधव बोरकार हांचे कवितेचीं फाटलीं चार दशकां अभ्यासल्यार ताची कविता आशयाचीं वेगवेगळीं वळणां घेत अभिव्यक्तीचे वेगवेगळे घाट चडत आसात. सैमाचे वेगवेगळे घटक ताचे कवितेंत विरगळून येतात. ताका लागून ताचे कवितेक अमूर्त अशी सया मारता, जी कोंकणी कवितेक अनवळखी आसा. मुळांतूच कविता ह्या साहित्य प्रकाराचेर ह्या कवीचें नितांत प्रेम आसा. आपली कविता अर्थ-आशयाचे नदरेन परिपूर्ण जावची हाचो ध्यास, निदीध्यास ह्या कवीक आसा.

माधव बोरकाराची कविता मिताक्षरी आनी तिचो

**परेश नरेंद्र कामत** : जल्म : 1968, कवी. *'अळंग'*, *'गर्भखोल'*, *'शुभंकर'*, *'चित्रलिपी'* हे चार कविता संग्रह प्रकाशीत. कवितांचो इंग्लीश तर्शेंच हेर भारतीय भाशांनी अणकार. कला अकादमी साहित्य पुरस्कार, जनगंगा साहित्य पुरस्कार, गोवा कोंकणी अकादेमी साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : पयलो माळो, एफ-6, पराग को. हावसिंग सोसायटी, शांतीनगर, फोंडें, गोंय 403401, मो. : 9422640210.

रुपकार चित्रंगी. सरळ सरळ उतरांनी सांगचे परस ती सुचकतायेचेर चड भर दिता. थोड्याच उतरांनी नेमक्या आशयाक भिडप हो ताचे कवितेचो मूळ सभाव. ताचे कवितेक सभावीक अशें संगीत आनी चित्रकलेचें आंग आसा. मुळांतूच शास्त्रीय संगीत आयकुपाच्या ताच्या नादाक लागून तांचे कवितेक गंभीर आंवाठाची बैठक आसा अशेंय जाणवता. रंगांचें लावण्य आनी सुरांची नजाकत ते आपले कवितेंत ओततात आनी प्रतिमांचीं सृजनशील अशीं combinations तयार करतात. तांचे कवितेंत अख्खो अणभवूच तरलतेचे पातळेर व्हरपाचो प्रयत्न दिसता.

झाडांचे वेगवेगळे आकार, मळबांतल्या कुपांच्यो आकृतायो, अस्तंतेच्या मळबा वयले भिऱ्यांचे आरोह–अवरोह, सैमाचीं रौद्र आनी सौम्य रूपां, तशेंच रुतूंचे रंग, मनशां मनशां मदल्या नात्यांचे नाजूक धागे आनी तांचे अर्थ हांचो ते एकसारको सोद घेतात. होच तांचो सर्जनसोद तांचे कवितेक नवी शब्दकळा आनी आशयाचे नवे आकृतीबंध मेळोवन दिता.

किशोरी आमोणकार, भिमसेन जोशी, जितेंद्र अभिषेकी सारक्या फांकीवंत गायकांच्या गाण्यान आनी रवीशंकराची सतार आनी अमजद अली खानाच्या सरोद वादनान तांच्यो संवेदना तीख जावंक पावल्यात. संगीता भशेन चित्रांचोय तांचे कवितेचेर खोल परिणाम जाल्लो दिसता. विन्सेंट व्हॅन गॉग, रेंब्रां सारक्या जागतीक दर्जाच्या चित्रकारांच्या चित्रांनीं तांचेर बरोच प्रभाव घाला. तांच्यो संवेदना जागृत केल्यात.

कवी माधव बोरकार आपले कवितेचे निर्मणी प्रक्रिये संबंदान सांगतात ''संगीता भशेन चित्र आनी शिल्प ह्या दोन कलांचो म्हज्या मनार परिणाम जाला. भारतीय आनी युरोपियन चित्रकले वयलीं जायतीं म्हत्वाचीं पुस्तकां म्हाका वाचूंक मेळ्ळ्यांत. संगीत आनी चित्र हातूंतल्यो सगळ्यो बारीकसाणी म्हाका कळूंक शकतात अशें हांव म्हणूंक शकना, पूण ह्या कलांचे म्हज्या मनार दुबावा विरयत संस्कार जाल्यात आनी ताच्यो कुरवो म्हजे कवितेंत होलम घेतल्यार मेळटल्यो. उत्तम संगीत आयकतकच हांव एके वेगळेच भावअवस्थेंत पावतां. एकाद्र्या रागाची बंदिश वा सुरावट आयकतकच ती दीर्घकाळ मनांत घोळूंक लागता आनी तातूंतल्यान कविता स्फुरूंक लागता. म्हजे कवितेक जें एक अमूर्त रूप आसा तें ह्या संगीत आनी चित्रकले कडेन आशिल्ल्या नात्याक लागून आसुये. कविता, संगीत आनी चित्र एकेच मुशींतल्यान आयल्यांत. हांव कवी जालों हो एक अपघात. चित्रकार आनी गायक रंग आनी सूर ह्या माध्यमांतल्यान आशय व्यक्त करता तो हांव उतरांच्या माध्यमा वरवीं व्यक्त करतां.''

कवी माधव बोरकार हे एक सृजनशील कवी आसाच. त्या भायर एक चोखंदळ रसीकूय आसात. तांची कविते विशींची समज बरीच प्रगल्भ आसा आनी तांकां

स्वताचो असो समिक्षात्मक दिश्टीकोण आसा. देखूनच हो कवी आपले कविते कडेन समिक्षात्मक आनी चिकित्सक नदरेन पळोवंक शकता. आपले कवितेंतले गूण-दोश त्रयस्थाचे नदरेन पळोवंक शकता. म्हजे नदरेन कवी म्हूण आशिल्ल्या तांच्या व्यक्तीमत्वाचो हो खाशेलो असो गूण.

'कलात्मक अलिप्तता' ही कलेच्या मळा वयली अत्यंत कठीण आशिल्ली गजाल, तांकां सहज साध्य जाल्या. आपले काव्य साधनेच्या बळार तांणी ती साध्य केल्या अशें तांची कविता वाचतना जाणवत रावता. सुरांचे आनी चित्रांचे अनामीक ओडीक लागून इंप्रेशनिश्टीक शैलींतल्यान ॲब्स्ट्रेक्ट चित्रां ते सहजपणान चितारतात. चित्रांतली रंगसंगती आनी रागांची बंदिश माधव बोरकारांचे कवितेतलें वेगळावंक नजो अशें आंग जाता. तो तांचे कवितेचो स्थायिभावूच म्हणल्यार जाता. हो स्थायिभावूच तांचे कवितेच्या आशयाक व्यामिश्रतेचें परिणाम दिता.

कवी रमेश वेळूस्कार, कवी पुंडलीक नायक, कवी प्रकाश पाडगांवकार, कवी काशिनाथ शांबा लोलयेंकार आनी कवी अरूण साखरदांडे ह्या समकालीन कवींच्या कवितां परस कवी माधव बोरकारांची कविता वेगळे धाटणेची, अर्थ - आशय आनी उत्कंटतेचे नदरेन बरीच वेगळी आसा. तिची वाट एकाद्रे अदृश्य रेशे भशेन आसा, जी अज्ञाताक वळशे घालीत रावता. तळ्याच्या पाणयार वाऱ्याची कुरू कशी ती ल्हारेंत रावता. आगळी, रेखीव अशी कोरांतून काडिल्ले वरी तिची शब्दकळा, मूर्ता कडल्यान अमूर्ता कडेन झोपय घेवपी तिची चित्रमय प्रतिमासृश्ट आनी संगीताची लगाव आशिल्ली सुरांची लयबद्ध सरगम तांचे कवितेक वेगळें अधिश्ठान मेळोवन दिता.

कवी माधव बोरकारांचे कवितेंत खूब open spaces आसतात. ह्यो रित्यो सुवातो आशयाची अर्थगर्भता वाडयतात. वाचकाक आपले कल्पनेन ह्यो रित्यो सुवातो भरून काडपाक, आपल्याक जाय तसो त्या कवितांचो अर्थ लावपाक ते मेकळीक दवरतात. त्या भायर तांची कविता open ended. अर्थाचें आवर्तन घेत ती जंय सोंपता थंयच्यान रसिकांच्या मनांत ती अनेक अर्थाचे तरंग निर्माण करता.

देखीक 'मळब' ही कविता ते नदरेन पळोवया -

*सगळें मळब*
*सोंपले वरी दिसता*
*तरी सोंपून सोंपना*
*तळयाच्या मनांतलें...* (यमन पा. 17)

हे अर्थाचे तरंग हे कवितेच्या आशयाक वेगळीच खोलाय दितात. कवितेची flexibility वाडयतात.

*मनाची बांय*
*रिती रिती जाता*
*तितली तितली*
*ती परत*
*भरत रावता*
*रितेपणान...* (यमन पा. 60)

रितेपणाची खर जाणीव 'बांय' ही तांची कविता व्यक्त करता. मनाची बांय रिती जावप, तितली तितली ती परत रितेपणान भरप - हो जिणेंतलो emptiness चो वा लोनलीनेसचो तीव्र अणभव ही कविता दिता.

'घेता मनांत भरून' ही कविता जिणेंतलो hollowness व्यक्त करता. देखीक कवितेंतलें हें चरण पळयात.

*घेता मनांत भरून*
*निळें रितेंपण*
*तुजें फेडूंक रीण*
*स्वासांचें* (यवन पा. 29)

कवी माधव बोरकारांचे कवितेंतर्ली मेजकींच चित्रमय उतरां फावो तो अर्थाचो परिणाम सादून वतात. जितलें तांच्या अंतरंगांत रिगचें तितल्यो त्यो कविता अदीक खोलायेंत घेवन वतात.

*थरथरता*
*सरयेचेर*
*दवा थेंब्यांचें भिरें.*

*पानांची सळसळ*
*कोरता वाऱ्याची*
*एक अदृश्य वळ.*

*उतरां चलतात*
*वळींचे सरयेर*
*अळंग*
*अर्थाचो तोल सांवरीत...*

ह्या मिताक्षरी कवितांक जलरंगांतल्या चित्रांचें पारदर्शी परिणाम आशिल्ल्यान त्यो मनांत तरलता जागयतात. नेमक्या उतरांनी त्यो तरल आशयाक अचूक धरतात.

'यमन', 'नक्षत्रां कशीं', 'त्रिकाळ', 'गर्भवास', 'स्पर्श', 'सांजवेळच्या मळबावेलो', 'पत्र', 'वारो', व्हिंन्सेंट व्हॅन गॉग', 'रेंब्रां : न्हाणा उपरांत', 'किशोरी आमोणकार - दोन स्वरचित्रां', 'चंद' ह्यो तांच्यो कांय उत्कृश्ठ कविता. ह्या तांच्या कवितांनी कोंकणी कवितेक मोलाचें योगदान दिलां.

कवितेच्या संदर्भात दोन प्रकारचे प्रतिध्वनी आयकूंक मेळटात. एक भायलो आवाज म्हणल्यार बहिर्मुखी आनी दुसरो भितरलो आवाज म्हणल्यार अंतर्मुखी. एक समाजीक आशय व्यक्त करपी कविता जाल्यार दुसरी आत्मनिश्ठ कविता. कवी माधव बोरकारांचे कवितेची मुळावी प्रकृती आत्मनिश्ठ आशिल्ल्यान तांचे कवितेंत भायल्या आवाजाचे प्रतिध्वनी आयकूंक येनात. कसलेच बेताल, कर्कश नाद, कसलींच आक्रस्ताळीं वक्तव्यां तांचे कवितेंत येनात. ती सदा कदां अंतर्मुख जावन भितरल्या आवाजांत उलयता. सोल अंतर्मनांतल्यान तिचो उगम. अव्यक्ताच्या कांठा वयल्यान तिचें निरंतर पाझरप. ही तिची निमग्न अवस्था. ही एके तरेची अध्यात्मीक अवस्था. ही समाधीची स्थिती.

*फुलांचें आयुश्य*
*मागलें हांवें*
*म्हज्या सुखाक*
*आनी दुखाक...*

ही तांच्या 'आयुश्य' हे कवितेंतली अभिव्यक्ती वा 'दिगंत' हे कवितेंतल्यो-

*वाटेक चक्राकार फेरे*
*खंय आरंब; खंय अंत*
*करता म्हाका कुरू*
*तुजे दिठयेचें दिगंत*

ह्यो ओळी सुख-दुख्खाच्यो शिमो हुपून आत्मगिन्यानाच्या उजवाडाक वेंगायतात. ही ध्यानमग्न स्थिती बौद्ध तत्वज्ञानांतल्या सातोरीचे अवस्थे मेरेन पावता.

खंयचेय कविते कडेन पळोवपाचो म्हजो रसीक म्हूण एक दिश्टीकोण आसा. म्हजे नदरेन, उतरांचीं लयबद्ध आवर्तनां घेत घेत जी कविता अचळय समेर येता, ती बरी कविता आनी जी कविता उतरांचीं फकत आवर्तनांचेर आवर्तनां घेता, पुणून केन्ना सम गांठूंक पावना वा जिका केन्ना समेर येवंक कळना, ती वायट कविता. कवी माधव बोरकारांचे कवितेचो सगळ्यांत मोटो गूण म्हणल्यार ती आपली सम केन्नाच सोडिना. ती उतरांचीं गरजे भायर केन्ना आवर्तनांय घेना. आपल्या अणभवाचीं पडबिंबां कवी बोरकार आपले कवितेंत चितारतात. ह्या पडबिंबांक जलरंगाची रंगछटा आसता. स्वरचित्रांची लय आसता.

कवी माधव बोरकारांचे कवितेंत रंगसंगती आनी सुरावटीचो सुंदर मिलाफ वा fusion दिसून येता. देखीक 'यमन' ह्या संग्रहांतली 'ही जीण' कविता-

*उतरांनी आळोवंक जाय*
*सुरांनी उलोवंक जाय*
*रंगांनी तोलूंक जाय*
*ही जीण.*

वा 'सिम्फनी' ह्या संग्रहांतली 'कविता' (पान - 87) ही कविता-

*सावळ्यांची नक्षी*
*पानांफुलांची लिपी*
*वझ्ऱ्याची गुणगूण*
*मानीच्या बेटांनी*
*चाऱ्यांत*
*सळसळपी वाऱ्याचो सूर*
*आसता*
*एक आगळी कविता.*

'सांजवेळच्या मळबावेलो' हे अप्रतीम कवितेंतली ही अभिव्यक्ती पळयात.

*सांजवेळच्या मळबावेलो*
*रंगांचो नाच*
*आनी*
*घोंटेराचे ओडीन*
*घरा पर्तुपी*
*भिऱ्यांच्या आवर्तनांची*
*चक्रदार लय*
*म्हळ्यार*
*पिकून अळार जाल्ली*
*कविताच आसता.* (यमन पा. 48)

अशे तरेन माधव बोरकारांचें मन हें टिप-कागदा भशेन भोंवतणचे संवेदनशील खीण टिपून घेता. त्या खिणांचेर सृजन-प्रक्रिया करीत त्या खिणांक अनुभूतीच्या पांवड्यार व्हरत कलात्मक परिमाण दिता.

सुक्षीमांतल्यान विराट विश्वा कडेन तांचें मन झोंपय घेता. एका अज्ञात विश्वाचो हो कवी निरंतर सोद घेतना दिसता आनी ह्या सोदाक रंगाच्या माध्यमांतल्यान रूपकार मेळटा. रूप, रस, रंग, गंध आनी स्पर्श संवेदनांक हो कवी अमूर्त पातळेर व्हरता आनी तांच्यो abstract imagery निर्माण करता. देखीक ह्यो कांय ओळी –

*झुळझुळटा हाडांनी*
*हून वताची झर*

*रसरसून पेट्टा*
*रगतांतलें रान*

*पालेतना रंद्रां*
*झोंबली खोल कळ*

*काळखान भरता रितो*
*तुडुंब दिकांचो पोसो*

*हांव म्हजेच पलतडीं*
*एक निराकार साद*

उतरांच्या माध्यमांतल्यान ही कविता जरी व्यक्त जाता आसली तरी तिचो ओडो अव्यक्ता कडेन, निराकारा कडेन आसा. ह्यो तांच्या कवितेंतल्यो आनिकूय कांय abstract images पळोवपा सारक्यो आसात.

*रंद्रां फांकून पर्जळटा*
*खोल रगतांतली वाट*

*उडलो अदृश्टाचो मोर*
*नदरेपेल्या रानांत*

*भान सोडून तळ्यांत न्हाल्यो*
*आंकवार तंद्रीच्यो नारी*

*तंद्रेच्या हारशाचें*
*वाऱ्यान हाल्लें दार*

ह्यो ओळी वाचतकच मनांत भास-आभासाचीं वलयां निर्माण जातात. एक अनोखी सपनाळी प्रतिमासृश्ट दोळ्यां मुखा वयल्यान सरकत रावता. ह्यो कवितेंतल्यो ओळी आशयाची गुंतागुंत अदीकूच वाडयतात. कवितेची व्यामिश्रता आनिकूय गडद करतात. गूढ, अज्ञान, अव्यक्त वाठाराचे अनामीक ओडीन हो कवी तळमळटा. तो थंय आशिल्ले मोनेळीचो अर्थ सोदता. ती मोनेळ कवितेंत हाडूंक सोदता.

*तुजे–म्हजे मदीं*
*जावंक नाशिल्ले*
*आज मेरेनचे कितलेशेच*
*संवाद म्हळ्यार*
*म्हजे कवितेच्याच*
*मोनेळीचो अर्थ.*

मोनेळीचो अर्थ लावप, तिका उतरांनी व्यक्त करप ही तिची अंतीम मोख वा प्राक्तन अशें म्हणूंक जाय. कारण ही कविता मौनांतूच उलयता. उतरां मदल्या निशब्द खिणांत ती जगता. उतरांच्या पैलाडी आशिल्ल्या मोनेळीच्या गांवांत ती रावता. तरल, तलम असो तिचो रस्मी स्पर्श. संदिग्ध असो तिचे नदरेचो आंवाठ. मंद सुरांनी भिजिल्ली तिची काया.

अशे कवितेक जिका लौकीकाचें आंग ना, भान ना, पूण जिका आपलें स्वताचें अस्तित्व आसा, जिचो अलौकीक स्पर्श सतत जाणवता, जिका वेंगेंत घेवंक सोदल्यार ती पारदर्शक जाता, सप्तरंगी इंद्रधणूवरी जिका kaleidoscopic dimension आसा, तिका नेमक्या उतरांनी धरप कशी? जी नेणिवेच्या पातळेर जल्मता आनी जिचो सगळो वावर नेणिवेचेच पातळेर चलता तिका जाणिवेचे पातळेर अणभवप कशी? म्हजे नदरेन माधव बोरकारांचे कवितेचो मोनेळींतूच अविश्कार जातना तिका उतरांचोय भार जड जाता आसुये. अशी अद्भुत तांक आशिल्ली ही सायलंट सिम्फनी.

अव्यक्ताक उतरांनी सांसपितना–

*गोटेल्ली शांतताय*
*मंद सप्तकांत सूर*
*आळयलो तरी कशी*
*लागना हाताक खर*

म्हूण हो कवी केन्ना केन्ना निर्शेताय, पूण शांततायेक वेंगेंत घेवपाक, तिका उतरांनी धरपाक, कवीचो खर ध्यास मात निरंतर चालूच आसता. ह्या निरंतर सोदांतल्यान कवीची आत्ममग्न अवस्था दिसता. तो सैमीक प्रतिकांतल्यान व्यक्त जावंक पळयता.

*फुलांतल्या कोशा वरी*
*म्हज्यांतूच हांव मग्न*
*रानांत सळसळटा वारो*
*तसो उलयता हांव म्हजे कडेन*

अशे तरेन सैमाकडेन घनिश्ट नातें तो जोडटा. आपूण सैमाचोच एक घटक जावन आत्मसोदाचे पातळेर वचून तो स्वताचोय सोद घेता.

कवी माधव बोरकारांचे कवितेंत विरामचिन्नांचो अर्थपूर्ण वापर केल्लो दिसता. देखीक तांचे कवितेंतलीं 'तीन टिंबां'. जेन्ना एकाद्री अधुऱ्या अर्थाची (पूण अपूर्ण) ओळ आसता, तेन्नाच त्या 'तीन टिंबांचो' वापर कवितेंत करतात. कवितेंत आनिकूय खूब कितें सांगपाचें आसा, अशे तरेचें सूचन त्या तीन टिंबांच्या अस्तित्वाक आसता. ताका लागून कवितेंतल्या अव्यक्त आशयाक एकेतरेची संदिग्धताय येता.

खंयच्याय कलावंताचे जिणेच्या, सर्जनशीलतायेच्या संदर्भांत दोन म्हत्वाचे घटक म्हणल्यार : 1) सृजन, आनी 2) मरण. कवी माधव बोरकारांची कविता पयल्या घटकाचे लागीं येता अशें दिसता. ती सृजनाची एक नवी काव्यभास निर्माण करता. नव्या सृजनाचो अखंड आनी निरंतर सोद ती घेत रावता. ही सृजन शक्तूच तांचे कवितेचो मूलस्रोत जावन रावता.

'हायकू' हो एक जपानी काव्यप्रकार. 'लेस इन मोअर' हो दिश्टीकोण, अल्पाक्षरी रचना, भाववृत्तीचो सूचकतायेन केल्लो उल्लेख आनी आशयाक पुरायपणान वेंगून तो सर्वांगान अभिव्यक्त करपाची कला हीं हायकूचीं खास अशीं वैशिश्ट्यां. कवी माधव बोरकार हांणी अत्तराच्या थेंब्यांचो घमघम आशिल्ल्या 'हायकुचो' चित्रदर्शी परिमाण आशिल्ल्यो कांय मिताक्षरी कविता

जल्माक घाल्यात. देखीक-

*थरथरता पाणयार*
*दिव्यांचीं टिंबां*
*म्हजींच पडबिंबां...*

*गंगे गंगे*
*सुखांत राव*
*दुखांत व्हांव...*

*उतरां उतरां*
*मदले विराम*
*म्हजे गेल्ले जल्म*

*विर्गळपी चंद्र*
*तुडुंब न्हंयेचें पात्र*
*म्हजें गात्रान गात्र...*

वाऱ्यार उडटल्या फुलपाख्यांक उतरांचे चिमटेंत धरपाची कला कवी माधव बोरकारांक बरी जमल्या हें तांच्यो मिताक्षरी कविता वाचतकच होलमता. कवी आपल्या अणभवांक आठूय आंगांनी वेंगांवक सोदता आनी तितल्याच सहजपणान ते ते अनुभुतीचो उत्कट आविश्कारूय करतात.

'नक्षत्रां' ही हायकुच्याच आंगान वचपी एक सुंदर कविता.

*फांतोडेर*
*बावन झडपी*
*नक्षत्रां*
*परत लागतात फुलूंक*
*खांदयां खांदयांचेर...*

तशेंच 'तान' ही एक अप्रूप कविता-

*चाऱ्याक*
*लागता तान*
*तेन्ना लायता तें*
*आपले ओंठ*
*अळंग*
*तळयाच्या तळाक...*

खरी कविता ही उतरांनी केन्ना नासताच. ती सदांच उतरांचे पलतडीं आसता. उतरां फकत अणभव व्यक्त करपाचें माध्यम म्हूण कवितेंत येतात. हाची उत्तम देख म्हणल्यार कवी माधव बोरकारांची 'स्पर्श' ही कविता. हांगा संवेदनाच कवीच्या अणभवाचें रूप धारण करतात आनी कवी त्या संवेदनांक सुरांचें परिमाण दीत कलात्मक उंचायेर व्हरता.

*बांसरेक*
*अळंग तेंकयल्ले ओंठ*
*कसो*
*तूं*
*जायजायसो;*
*म्हज्या सर्वांगार*
*फुलारून आयिल्लो*
*तुजो स्पर्श*

*तुडुंब भरिल्लो*
सूर कसो... (सिम्फनी पा. 61)

कवी माधव बोरकारांचे कवितेंतल्या अव्यक्त आशयाचो नेमकेपणान सोद घेतना तांच्या 'पर्जळाचें दार' ह्या संग्रहांतले 'धुंवरी' हे कविते कडेन पावतकच तांचे

हे कवितेन अव्यक्त जाणीव स्पश्ट जायत गेली. संदिग्धतेचे पातळेर वावुरपी ती सबंद कविताच पळोवया.

*कितली तुका समजांव!*
*तूं तर आतां*
*समजावणेच्या पेल्यान उबी*
*निळया दोंगरावळींच्या पलतडीं*
*फांतोडेर पडिल्ली*
*मळबाचे मोनेळीची*
*गच्च धुंवरी कशी*

फांकीवंत चित्रकार पॉल क्ली वा वासुदेव गायतोंडेच्या एकाद्र्या गूढ, तरल चित्रा सारकी 'धुंवरी' ही कविता अव्यक्त आशय नेणिवेच्या पातळे वयल्यान व्यक्त करता. कवी माधव बोरकारांचे कवितेच्या केंद्रबिंदूचेर आशिल्लो हो 'अव्यक्त आशयाचो सर्जनसोद' हें तांचे कवितेचें मर्मस्थान. तेंच तांचे समग्र कवितेचें खरेलें संचित अशें म्हाका दिसता.

000



मंथन

(लेख) डॉ. हनुमंत चोपडेकार

# डॉ. जयंती नायक : कोंकणी रंगमाचये वेली पयली प्रस्थापीत स्त्री नाटककार

**हनुमंत चोपडेकार** : जल्म : 1973, कवी, नाटककार, समिक्षक, बालसाहित्यकार. *'आतां केन्ना फांतोड जातली'*, हो कविता संग्रह आनी *'हम होंगे कामयाब'*, *'कैदी नंबर 001'*, *'हरी आमचो टेंपररी'*, *'दम दमा दम,'* *'कुंवाडी'* हीं नाटकाचीं पुस्तकां, तर *'अस्तुरी प्रतिमा'*, हें संशोधनात्मक प्रकाराचें आनी *'रायटर आनी फायटर – रवीन्द्र केळेकार'*, हें संपादीत पुस्तक प्रकाशीत. बालसाहित्याची पांच पुस्तकां प्रकाशीत. गोवा कोंकणी अकादेमीचो उत्कृश्ठ साहित्य पुरस्कार (2010, नाट्य विभाग) तशेंच हेर प्रतिश्ठेच्या साहित्य पुरस्कारांनी सन्मानीत. संपर्क : बी-1, श्रीराम पर्णकुटी, यशवंतनगर, तिस्क, फोंडें, गोंय – 403401. मो. 8805152539.

**सारांश :**

कोंकणी रंगमाचये वयली पयली तांकिवंत स्त्री नाटककार म्हूण डॉ. जयंती नायक हांणी खेरीत नांव जोडलां. तिणें आपल्या 'कुकमादेवीची दिपमाळ' ह्या पयल्याच नाट्यलेखनांतल्यान कोंकणी रंगमाचये वयल्या रसिकांक दिपकावन सोडले जाल्यार 'काळमाया' ह्या दुसऱ्या नाट्यलेखनांतल्यान समस्त नाट्य –जाणकारांक आनी समिक्षकांक आपले नाट्यशैलींतल्यान प्रभावीत केले. कांय नाट्यलेखक पंदरा वीस नाटकां बरोवन लेगीत नाटककार म्हूण आपली वेगळी सुवात निर्माण करूंक शकना थंय फकत दोनूच नाटकां रचून डॉ. जयंती नायक हांणी एक प्रस्थापीत कोंकणी नाटककार म्हूण नांव जोडलां हाचे वयल्यान तिचे नाट्यप्रतिभेचो अदमास येवं येता.

तिचें नाट्यतंत्र लोकसंस्कृतायेक दसून रावतनाच आधुनीकतायेचो वेध घेता. वास्तव आनी कल्पीत अश्या दोन तोंकां मर्दी नव्या मानवी संदर्भांचो सोद जयंती नायकाचीं नाटकां घेतात. अदीम काळा सावन समाजांत चलिल्ल्या काळख्या कर्तुबांचो हिशेब ही लेखिका नाट्यमय घडणुकांनी मांडटना सदांच अस्तुरेच्या भावविश्वाक केंद्रस्थानार दवरता. लोककथांनी शिंपडिल्ल्या कथाबिजांक जयंती मदलो नाटककार दृश्यात्मक परिमाण दिता.

विशयकेंद्रीत मुखेल उतरां : कोंकणी रंगमाची, लोकसाहित्य, नाट्यरचना, नाट्य-तंत्र, नाट्य-लेखन

**प्रस्तावना आनी विशयाची फाटभूंय :**

भारतांत नाट्य-लेखन आनी नाट्य-सादरीकरणाची भोव प्राचीन परंपरा मेळटा. विक्रम सवंत काळा मजगतीं बरयिल्लें 'भरतमुनींचें नाट्यशास्त्र' ताची पेजाद गवाय आसा. भरतमुनींचें नाट्यशास्त्र, नाट्यलेखन, नाट्यतंत्र आनी नाट्यसंस्कृतायेंतल्या साबार घटकांचें शास्त्रीय नदरेन विश्लेशण करता. हाचोच अर्थ नाट्यशास्त्रा आदीं नाट्यकलेची एक प्रदीर्घ चळवळ संस्कृत भाशेंत येवन गेल्या आसुये. कारण खंयच्याय कलाप्रकाराची बुन्याद घट्ट जाले बगर ते कलेच्या शास्त्राचो सखोल विचार जावंक शकना. संस्कृत भाशेंतल्यान भास, कालिदास, शुद्रक, भवभूति आदी श्रेश्ठ नाटककारांनी हे भारतीय नाट्य परंपरेची बुन्याद घाल्ली. (लिला गोवारीकार 1990) ताचे वयल्यान संस्कृत भाशेंतली नाट्यचळवळ भारतीय नाट्य संस्कृतायेचें प्रतिनिधित्व करताली अशें म्हणपाक सुवात आसा. संस्कृत भाशेंतल्यान वेदीक काळा सावून चलिल्ली भारतीय नाटकाची ही गिरेस्त परंपरा आयच्या 21 व्या शेंकड्यांत लेगीत विंगड विंगड भारतीय भासांनी व्हड धिटायेन चलत आसा.

मध्ययुगीन काळांत ती परंपरा लोकनाट्यांतल्यान मुखार सरली. ह्या काळांत पुराय भारतांत साबार वाठारांनी रासलिला, रामलिला, स्वांग, भँवाई, तमाशा, नाच, नौटंगी, जागर, रणमालें सारक्या लोकनाट्यांतल्यान भारतीय नाट्य परंपरेची वयवाट चलत रावली. (रंगपाट, 1996) जाल्यार आधुनीक काळांत सगळ्याच ल्हान-व्हड भारतीय भासांनी नाट्य संस्कृती उदरगतीक पाविल्ल्याचें दिसून येता. तातूंत हिंदी, मराठी, बंगाली, कन्नड ह्या व्हड भासां वांगडाच मणिपुरी, कोंकणी सारक्या ल्हान भासांचो लेगीत आसपाव जाता. आयच्या काळांत कोंकणी नाटकान राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय स्तरार आपलें खेरीत नांव जोडलां. आयच्या काळांत कोंकणी नाटककार आशय, विशय आनी तंत्राचे नदरेन सशक्त कलाकृती भारतीय रंगमाचयेक दिवपाक जैतिवंत थारल्यात. नाटककार पुंडलीक नायक आनी तांचीं नाटकां ताची गवाय आसा.

कोंकणी नाटकाक आपली अशी खेरीत सुवात जोडून दिवपी नाटककार पुंडलीक नायका उपरांत 21 व्या शेंकड्यांत कोंकणी नाट्य-लेखकां मदीं सक्रीय आशिल्ल्या प्रतिभावंता मदीं दत्ताराम कामत बांबोळकार, विष्णू वाघ, डॉ. प्रकाश वजरीकार, डॉ. राजय पवार तशेंच डॉ. जयंती नायक हांचो आसपाव जाता. प्रस्तूत सोद-प्रपत्रांत डॉ. जयंती नायकाच्या नाट्यलेखनांतले खोलायेचो थाव आनी उंचायेचोय वेध घेवपाचो यत्न केला.

**डॉ. जयंती नायक : कोंकणींत नाट्यलेखन करपी पयली तांकिवंत लेखिका**

लोकवेद तशेंच लोकसाहित्याचीं पाळां-मुळां सोदून तांचो कसाय घोटिल्ली एक खांपी अभ्यासक, राष्ट्रीय स्तरावयलो सन्मान

फाव जाल्ली जिणेच्या अथांगाचो थांग लावपी एक सशक्त कथाकार, माणकुल्यांचें मानसशास्त्र समजून भुरग्यां साहित्याची निर्मणी करपी बालसाहित्यकार आनी मिर्गवेणांचीं काव्यस्पंदनां उण्यांत उण्या उतरांनी शब्दबद्ध करपी एक संवेदनशील कवयित्री... अश्या विंगड विंगड रुपांनी फामाद डॉ. जयंती नायक हांची आयज आनीक एक वळख संवसाराक जावंक लागल्या. ती वळख म्हणजे : समस्त नाट्य-रसिकांक आपले नाट्यप्रतिभेंतल्यान दिपकावन सोडपी कोंकणी रंगमाचये वयली एक परिपक्व नाटककार.

**डॉ. जयंती नायक हांचीं कोंकणी नाटकां**

**1) कुकमादेवीची दिपमाळ**

**2) काळमाया**

नाटककार म्हूण डॉ. जयंती नायक हांणी दोन कलाकृती कोंकणी रंगमाचयेक दिल्यात. 2007 वर्सा 16 ऑक्टोबर ह्या दिसा गोवा कला अकादमीचे 32 वे कोंकणी नाट्यसतींत मा. दिनानाथ मंगेशकार नाट्यघरांत रुद्रेश्वर पणजी हे संस्थेन तांचें 'कुकमादेवीची दिपमाळ' हें पयलें नाटक, जाल्यार तेच संस्थेन तेच सुवातेर परत एक फावट 16 ऑक्टोबर 2008 ह्या दिसा 33 वे नाट्यसतींत 'काळमाया' हें दुसरें नाटक रंगमाचयेर हाडलें. वयल्या दोनूय नाटकांक उपाट येस फावे जालें, खासा करून रसीकप्रेक्षक आनी नाट्यसमिक्षकां कडच्यान लेखिकेचे नाट्य-शैलीची तशेंच नाट्य-जाणिवेची तोखणाय जाली. तेन्ना सावन एक नव्या दमाची नाट्यलेखिका कोंकणी रंगमाचयेर सक्रीय जाल्ल्याचें नदरेक भरलें.

**कुकमादेवीची दिपमाळ : डॉ. जयंती नायकाचें पयलें सशक्त नाटक**

'कुकमादेवीची दिपमाळ' हें नाटक अदीम काळासावन नश्ट्या चालीरितींनी अस्तुरेची जाल्ली विटंबण आनी तिचो घुस्मटमार अभिव्यक्त करता. देव-देवतांच्या नांवार पुरुशप्रधान समाजान अस्तुरेचें केल्लें शारिरीक आनी मानसीक शोशण प्रस्तूत नाटकांत भोवूच उत्कंटतायेन दाखयलां. लेखिका ह्या नाटका वरवीं एक नवी नदर आनी नवो संदेश समस्त समाजाक दिवपाक सोदता हें नोंद घेवपा सारकें. कारण लेखिका फकत भोंवतणी चलिल्ल्या अनिश्ट प्रथेचेर आनी अन्याय अत्याचारांचेर एकाद्री डॉक्युमेन्ट्री तयार करिना जाल्यार ही संवेदनशील लेखिका प्रतिनिधीक स्वरुपांत कुकमापुर गांवांतल्या कुकमादेवीचे दिपमाळेचो संदर्भ घेवन अस्तुऱ्यांचेर जावपी अन्यायाचो प्रतिकार करपाचो संदेश दिता. 'बाबलो' हे व्यक्तिरेखेचो उपेग तिणें संबंदीत प्रतिकार करचे खातीर केल्लो आसा. बाबलो आपले भयणीन (शालीन) कुकमादेवीचे दिपमाळेक माथें मारचें ह्या गांवच्या अनैतीक निर्णयाक विरोध करता. प्रसंगार तो भयणीचे पांय मोडटा, पूण आपले भयणीचो आनी पर्यायान एके अस्तुरेचो बळी वचपाक दिना. लेखिकेचे समाजीक जाणिवेंतल्यान जल्मल्लो तिचो मानसपुत्र कसो 'बाबलो' ह्या नाटकांत अस्तुरेची विटंबण थांबयता.

कोंकणींतलें हें वेगळे धाटणेचें नाटक. तातूंत 30 - 40 वर्सां आदलो काळ चित्रीत

केला. लेखिका स्वता तशें बरयता, पूण गांव नक्की खंयच्या वाठारांत आसा तें ती स्पश्ट करिना. कारण अशे तरेचो गांव भारतांत खंयूय मेळूं येता हें कोडू सत्य घडये लेखिकेक उक्तें करपाचें आसत. हे गजालीक लागून प्रस्तूत नाटकाक एक वैश्वीक संदर्भ लाबता. लेखिका तो दिवपाक जैतिवंत थारल्या.

ह्या नाटकाच्या कथाबिजां विशीं डॉ. जयंती नायक आपले 'नांदी' ह्या नांवान बरयिल्ल्या मनोगतांत अतिशय स्पश्ट रितीन बरयता. ती म्हणटा :

2000 वर्साची नोव्हेंबराची गजाल. लोकवेदाच्या संकलनाक भोंवतना हांवें एका दिसा गोंयचे शिमे वाठारांत दिपमाळेची प्रथा पळयली, त्या दोन दिसांच्या अंतरान गोंयचे एके जात्रेक दिपमाळ पेटयतना देवदासींनी केल्लें नाच-गायन पळयलें. स्वताची आजी सोब सारक्या वयाचे जाण्टेलेक पळोवंक तरनाट्यांनी घातील्ल्यो उडयो पळयल्यो. खी: खी: करून हांशिल्लो हांसो पळयलो आनी म्हजें मन छिन्नविछिन्न जालें. ज्या जाग्यार स्त्रीक देवत्व दिवन तिचे निर्मितीशक्तीचो उदो उदो जाता, तिच्याच दरबारांत स्त्रीची ही विटंबण? ...हांव तिरीमिरींतच घरा आयलें. मन खूब अस्वस्थ आशिल्लें. मनांतले उमाळे म्हाका बरोवंक जाय आशिल्ले. हांवें पेन हातांत घेतलें आनी खबर ना कशें म्हण, संवादरुपान मनांतलो सगळो खवदळ कागदाचेर देंवत रावलो आनी नाटकाची निर्मिती जाली. दोन दीस अखंडपणान म्हजें पेन कागदाचेर भोंवतालें आनी 'कुकमादेवीची दिपमाळ' जल्माक आयली. (डॉ. जयंती नायक 2007, कुकमादेवीची दीपमाळ ।x)

प्रस्तूत नाटकाचे रुद्रेश्वर पणजी हे संस्थेन वट्ट 18 प्रयोग केले. तातूंत त्रिपुरा राज्यांत 21 ते 24 डिसेंबर 2008 ह्या दिसांनी आठव्या चंदन सेन गुप्ता यादस्तीक नाट्य महोत्सवांत जापल्ल्या चार प्रयोगांचो आसपाव जासा. गोंय सरकाराच्या कला आनी संस्कृती संचालनालयान गोंयच्या हेर साबार नाटकां मदल्यान प्रस्तूत नाटकाची निवड संबंदीत महोत्सवा खातीर केल्ली. थंय ह्या नाटकान रसिकांचीं तशेंच जाणकारांचीं मनां जिखलीं. नाट्यलेखिके भायर तें राष्ट्रीय स्तरा वयलें जैत जोडिल्ले खातीर दिग्दर्शक दीपक आमोणकार आनी ताच्या सगळ्या सहकलाकारांक परबीं फावता. स्वता लेखिका नाटकान जोडिल्ल्या येसाचें श्रेय दिग्दर्शक आनी हेर कलाकारांक दिता.

कोंकणींतले एक वरिश्ठ नाट्यदिग्दर्शक तशेच नाटकाचे खांपे जाणकार श्रीधर कामत बांबोळकार डॉ. जयंती नायकाच्या नाटकां विशीं म्हणटात – ''जयंती नायक हांचें कुकमादेवीची दिपमाळ हें नाटक लोकनाट्य शैलीचो वापर करून प्रभावी रितीन कोंकणी रंगमाचयेर खेळयलां.'' (डॉ. माधवी सरदेसाय (सं.) जाग – दिवाळी– नातलां, 2012)

वसंत भगवंत सावंत सारके नाट्यतंत्राचे जाणकार लेगीत प्रस्तूत नाटकाचेर समर्पक अभिप्राय दितात. ते अतिशय खोलयेन आनी आत्मियतायेन ह्या नाटकाचेर उलयतना दिश्टी पडटात. ते बरयतात : ''लोकवेदाचो अभ्यास आनी समाजा विशीं आशिल्ली लागणूक हांचें

फळीत म्हूण कुकमादेवीची दिपमाळ हें नाटक जल्माक आयलां ही गजाल नाटक वाचतना खेरीतपणान जाणवता.' (कुकमादेवीची दिपमाळ, xiii)

एकंदर ह्या नाटकाच्या वट्ट परिणामाचेर उलोवपाचें जाल्यार, नाटकाचें सहजं सुंदर व्हांवतें कथानक, वास्तवीक पात्र रचना, खाशेले भासशैलींतले नाट्यमय संवाद, लोकगितांचो साज चडयिल्लीं सूचक गीतरचना, खिणाखिणाक प्रेक्षकांची उत्कंठा वाडोवपी संघर्श आनी नवो विचार दिवपी तांकिवंत शेवट हांकां लागून दिपमाळेचें नाट्यलेखन बरें गुंथून जालां असो निश्कर्श विश्वासान मांडूं येता. खंयच्याय समाजांतले दुर्बळां वयले अत्याचार आपली शीम हुपता, तेन्ना नश्टे वृत्तीचो भडिमार करपाक सर्व–सामान्यांतलो कोण तरी पेटून उठ्ण. तोच सगळ्यो अडी–नडी पयस करता. तेन्ना सत्य आठूय दिको जोगूल जावन पेटत रावता, असो आशय ह्या नाटकाक लाबला. बाकीबाबांचे 'गोंयची सासाय' हे कवितेचो उगडास करून दिवपी विचार कुकमादेवीची दिपमाळ दिता.

**काळमाया : डॉ. जयंती नायकाचें दुसरें परिपक्व नाटक**

डॉ. जयंती नायक हांचे नाट्य प्रतिभेची गवाय दिवपी दुसरें म्हत्वाचें नाटक म्हणल्यार 'काळमाया' ह्या नाटकांतल्यान लेखिकेन सुमार अडेज हजार वर्सां आदीं अनार्य संस्कृतायेच्या एक चोंब्याची आनी स्त्रीप्रधान समाजवेवस्थेची काणी मांडल्या. लग्नसंस्था प्रस्थापीत जावंक नाशिल्ल्या त्या काळांतली ही चोंब्याची काणी भोवूच नाट्यमय घडणुकांनी लेखिकेन गुंथल्या. मातृसत्ताक समाजाचे हे काणयेंत अशे अस्तुरेक म्हालमाय जावन चोंब्याचें मुखेलपण फावता जिका चडांत चड कन्या (चलयो) जातात. ह्या समाजांत चलयांक उत्कर्शाचें प्रतीक मानलां, पूण तातूंतलीच एक चली जुवानपणाच्या भारार समस्त मातृसत्ता मुळा सावन हुमटून उडोवपाक कारणीभूत थारता अशी शोकांतिका संबंदीत नाटकांत लेखिकेन मांडल्या.

लेखिकेन प्रस्तूत नाटक बरोवचे पयलीं ह्या विशयाचेर 'आदीमायेचो अस्त' ही कथा बरयिल्ली. कोंकणींतली एक अप्रतीम कथा म्हूण तिची तोखणाय जाल्ली, पूण ते कथेचो कनवास खूब मोठो आसलो. ल्हानशे लघुकथेंत ती घुस्मट्टाली जावये देखून लेखिकेन तेच कथेचो विस्तार करून 'काळमाया' हें प्रदीर्घ नाटक रचलें. कथेंतल्यान नाट्यनिर्मिती करपाचो प्रयोग हाचे आदीं पुंडलीक नायक हांणी केल्लो आसा. तांचें 'प्रेमजागोर' सारकें नाटक हेच परंपरेंतलें.

डॉ. जयंती नायक 'काळमाया' ह्या नाटकाचे रचने विशीं स्पश्ट शब्दांनी अशें बरयतात :

"हें नाटक बरयतना म्हाका अतीव आनंद मेळ्ळो. हातूंतल्या पात्रांनी हांव समरसून गेलें. पात्रांची भास तर म्हज्या अंतरजिव्हेंतल्यान आपुणशीच ओंठारच आयली. कोणाक सांगल्यार खरें दिसचें ना, पूण 'काळमाया' हें नांव म्हाका खूब

पयलीं सुचिल्लें. अशेंच कितेंतरी येवजितना कानांत कोणें येवन नांव सांगचें, ते तरेन तें नांव म्हज्या अंतरमनाक आयकूंक आयिल्लें आनी तें हांवें म्हज्या टिपणांचे डायरेर बरोवन दवरिल्लें. जेन्ना हें नाटक बरोवपाक पेन हातांत घेतलें, तेन्ना अकस्मात जणू काळमायेन दृश्टांत दिल्ल्या सारकें तें म्हज्या स्मृती पटलाचेर उबें रावलें आनी हांवें थारावणी घेतली, हेंच म्हज्या नाटकाचें नांव! अशे तरेन नाटक बरोवचे आदींच ताचें नामकरण जालें." (काळमाया. VII)

काळमाया ह्या नाटकांतलें कथानक कल्पीत आसा अशें स्वता लेखिका आपल्या मनोगतांत सांगता. (काळमाये गे तुजी म्हयमा... VI). पूण त्या कथानकाक मानववंशीय आनी समाजशास्त्रीय परिमाण आसात हेंवूय मान्य करता. अडेज हजार वर्सां आदल्या काळांत प्रस्थापीत आशिल्ले मातृप्रधान संस्कृतायेचें चित्रण आपणें केलां असो तांचो दावो आसा. पूण एक गजाल खटकता : डॉ. जयंती नायक हांचे मदलो हो नाटककार हांगा गरज नासतना आपूण कम्फर्ट झोनांत वावरूंक सोदता, पूण प्रत्यक्षांत नाट्यलेखन आपलें कथाबीज विस्तारपाक आनी ताचो आशय प्रेक्षकां मेरेन वा वाचकां मेरेन पावोवपाक समर्थ आसतना लेखिका आपल्या मनोगतांत विशय-आशयाचें अती-स्पश्टीकरण दिवन नाटकाचो आत्मोच घाणाक दवरता... हाचें अजाप दिसता.

खरें म्हणल्यार 'काळमाया' नाटकाची एकंदर रचना नव्या नाट्य-तंत्राक धरून आसा. कथा निवेदन करपाचें कार्य लेखिकेन खासा आपले काव्यप्रतिभेचेर सोपंयलां. तरीय ही मखलाशी कित्याक तेंच कळना. रसीक, अभ्यासक आनी जाणकारांचेंय काम लेखिका आपल्या हड्ड्यार घेवन बसता अशें कितेंशें तातूंत जाणवता. (पळयात : काळमाये गे तुजी म्हयमा... VI)

ह्या नाटकाचेर 'काळमाया : स्त्रीप्रधान कुटुंब वेवस्थेच्या अस्ताची काणी' ह्या माथाळ्याची प्रस्तावना ज्येश्ठ कोंकणी नाटककार पुंडलीक नायक हांणी बरयल्या. जाल्यार काळाची शीम हुपपी नाटक - 'काळमाया' असो अभ्यासपूर्ण अभिप्राय डॉ. रमिता गुरव हांणी दिला.

'काळमाया' हें नाटक अनार्य संस्कृतायेंतल्या एका चोंब्याची मुखेली 'म्हालमाय' आनी तिची जुवानेचे तेंगशेर पाविल्ली धूव कन्या हांचे भोंवतणी घुंवता. एका आर्यवंशीय पुरुशा कडेन संबंद आयिल्ल्यान कन्याचो जल्म जाल्लो आसता. देखुनूच ती म्हालमायेच्या हेर चलयां परस वेगळी आनी रुपवान निपजता. ती म्हालमायेची सगळ्यांत चड मोगाची. तिकाच फुडाराक मुखेली करपाचो हावेस म्हालमायेक आसा, पूण ऐन जुवानेच्या भारार पाणुल्याचेर मृग मृगिणीचो प्रणय पळोवन तिची कामइत्सा जागी जाता. सैरभैर अवस्थेंत ती म्हालमाये कडेन आपल्याक 'भरतार' (प्रणय-वांगडी) मागता. पूण तिचे लायकीचो आनी तिच्या रंगरुपाक सोब्यां सारको पुरूश त्या चोंब्यांत कोण नाशिल्ल्यान आनी वयल्यान कन्येन भरतार म्हूण बंधवाची मागणी केल्ल्या कारणान म्हालमाय अस्वस्थ जाता. एके

वटेन चोंब्याच्या फुडारपणाची परंपरागत जापसालदारकी आनी दुसरे वटेन अपुरबायेचे धुवेचो हुस्को हातूंत चिड्डुत वचपी एक अस्तुरी म्हालमायेच्या रुपान चित्रीत जाल्या.

विंगड विंगड घटना–प्रसंगांनी उबें जाल्लें हें नाटक निमणें एका वेगळ्याच वळणार पावता. शरीरसुखाचे ओडीन आतूर जाल्ली कन्या तिचे खातीर भरतार सोदूंक भायर सरिल्ल्या भोंवडेंतल्या पुरुशांक लागीं वोडूंक लागता. तिका मदभार चडटा. सगळी लजभीड धरिनासतना ती दादल्यां कडेन लगट करूंक सोदता. तिचे तें कर्तुब पळोवन म्हालबाप्पा तिडकता. चोंब्यांचो पुराय वंश भ्रश्ट जातलो अशें मानून तो तिका फटोवन भुंयारांत व्हरता आनी भुंयाराच्या तोंडार व्हड फातर लावन तिका जिवेशीं मारता.

नाटकाच्या निमण्या पार्श्वनिवेदनांतल्यान लेखिकेचो आर्तस्वर वयर सरता. म्हालमायेच्या अस्ताचो आनी म्हालबाप्पाच्या उदयाचो संदर्भ दिवन लेखिका प्रस्तूत विशयाक आयच्या काळाचे समाजीक परिमाण भेटयता. आयज कन्येक भुंयारांतूच न्हय जाल्यार आवयच्या गर्भांत मारपाचीं अमानवीय कर्तूबां चल्ल्यांत तीं केन्ना थारतलीं असो प्रस्न लेखिका उपस्थीत करता. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार हे लेखिकेन भुंयाराक गर्भाशयाचें प्रतीक मानलां. देखून हें नाटक लाव्डथिंकीक जाता..

एकंदर, ह्या नाटकाचो खोलायेन विचार केल्यार, दोन म्हत्वाचे विचार प्रवाह तातूंत दिसून येतात. ते म्हणल्यार –

पयलो : सृजनशक्तीच्या बळाचेर मातृसत्ताक समाजवेवस्थेचें उत्थान आनी पतन.

दुसरो : वंशशुद्धताये खातीर मनशान अनादी काळा सावन चलयिल्लो संघर्श आनी समन्वय.

वयल्या दोनूय विचार प्रवाहांत तरेकवार समाजीक परिमाण कळत नकळटाच अधिकारान फुडें सरतात. दुसरी गजाल म्हणल्यार, ह्या नाटकाचो केंद्रबिंदू अस्तुरी जावन आसा. स्त्रीवादी चिंतन हो लेखिकेचो स्थायीभाव परत एकदां ह्यावूय नाटकांत दिसता. लेखिका डॉ. जयंती नायक तांणी परत एक फावट लोकसाहित्यांतल्यान प्रस्तूत कथाबिजाक वेंचलां आनी आपलें लेखनकौशल्य पणाक लावन एक सशक्त नाटक कोंकणी रंगमाचयेक दिलां. कथानक, संवाद, पात्रचित्रण, संघर्श, शेवट आनी गीतरचना अप्रतीम जाल्या. म्हणजेच, नाटक सगळ्या आंगांनी परिपक्व जालां हातूंत मातूय दुबाव ना.

**निश्कर्श आनी समारोप**

आधुनीक कोंकणी नाटकाचो आरंभ 1912 वर्सा जालो. कर्नाटकांतल्या बंटवाळ हांगासर बोळंतूर कृष्ण प्रभू हांणी 'राजा चंद्रहास' हें आर्विल्ल्या तंत्रांत बसपी पुराय स्वरुपाचें कोंकणी नाटक बरोवन कोंकणी नाटकाची बुन्याद घाली. म्हणटकच, 2012 वर्सा कोंकणी नाटकान शंबरी हुपली. ह्या शंबर वर्सां मजगतीं कोंकणी नाट्यलेखनाच्या इतिहासांत फकत हाताच्या बोटांनी मेजपा इतल्योच स्त्रीलेखिका कोंकणी रंगमाचयेर वावुरल्यात हें कोडू सत्य होलमता. एकाद्रें

नाटक सोडलें जाल्यार तशी स्त्रीलेखिका कोंकणी नाट्यलेखनाच्या मळार चडशी दिसुंकूच ना म्हणल्यार जाता. हो स्त्री-नाटककारांचो दुकळ पयस करपाचो वावर डॉ. जयंती नायक हे नाट्यलेखिकेन समर्थपणान केला. 21 व्या शेंकड्याच्या पयल्या दशकांत रचून जाल्ल्या तांच्या दोनूच नाटकांनी कोंकणी रंगमाचये वयल्या प्रस्थापितांचीं आसनां हालोवन उडयल्यांत. देखून एक नवी प्रथीतयश नाटककार म्हूण तिची दखल अभ्यासकांक घेवचीच पडल्या. अस्तुरी आनी तिचें भावविश्व हें तिचें मर्मस्थान. तिच्या दोनूय नाटकांनी अस्तुरी केंद्रीय सुवातेर आसा. अस्तुरेचीं तरेकवार रुपां तिच्या नाट्य संवसारांत दिसतात. तिकाच न्याय दिवपाचे हावेसान ती आपली लेखणी झरयता काय कितें अशें चिंतूंक येता. तिच्या नाटकांतली अस्तुरी प्रधानताय सकयल्या तक्त्यांत सिद्ध केल्या.

डॉ. जयंती नायक हांच्या नाटकांतली अस्तुरी प्रधानताय -

1. नाटकाचें स्त्रीप्रधान नांव 2. स्त्रीप्रधान शिर्शक गीत 3. काळखंड स्त्री पात्रां 4. नाटकाचो आशय

*कुकमादेवीची दिपमाळ*

*ही दिपमाळ गे कुकमादेवीची*
*कुकमापूर गांवच्या गे वसणावळीची*
*ही दिपमाळ गे चडयली माथ्यार*
*देवीचे सेवेक गे जल्म बांदलो उतरान*

30-40 वर्सां आदलो शाली, यमनें, आई, देवीचे सेवेचें नांव मुखार करून चलिल्लें अस्तुरेचें शोशण आनी ताचो प्रतिकार दर्शो वपी नाटक काळमाया-

*आदीमाया तूं काळमाया तूं*
*तूं गे मोठी जादूगार*
*मनीस कुळयेचो करूंक उद्धार*

तुवें घेतलो धरणेर अवतार अडेज हजार वर्सां आदल्या काळाची, म्हालमाय, कन्या, व्हडली, अश्या पात्रांची, स्त्रीप्रधान समाजवेवस्थेच्या अस्ताची आनी पुरूशप्रधान समाजवेवस्थेच्या उदयाची काणी मांडपी हें चिरंतर नाटक.

प्रस्तूत तकत्यांत डॉ. जयंती नायक हांच्या दोनूय नाटकांनी स्त्रीकेंद्रीत आशय, विशय आनी अभिव्यक्ती जाल्या हाची देख नाटकांचीु नांवां, शिर्शक गीत, पात्रां हातूंतल्यान दिसता.

डॉ. जयंती नायक ही मुळांत लोकसाहित्याची अभ्यासक. आपलो लोकवेदांतलो आनी लोकसाहित्यांतलो अभ्यास तिच्या ह्या दोनूय नाटकांनी तिणें उपेगांत हाडिल्लो दिसून येता. लोकवेदांतल्या कथाबिजांचो अतिशय कलात्मक उपेग तिणें आपल्या प्रस्तूत नाटकांनी केलो. तिची नाट्यतंत्राची आनी नाट्यरंगांची जाणविकाय ह्या दोनूय नाटकाच्या अंतरंगात सहज रंग भरता. मानवी सभ्यतायेच्या मुळाव्या तत्वांचो सोद घेवन समाजीक वास्तवतायेचो कलात्मक आविश्कार तिच्या नाटकांत दिसून येता.

Drama does not just walk into your life, Either you create it, Invite it or associate it.' (Subhash Bisariya, 2007) अशें संवसारीक नामनेचो नाटककार विलियम शेक्सपियर्स हांणी म्हणलां. नाटक

रसिकांच्या जिवितांत सहज प्रवेश करूंक शकना तर रसीक नाटक रुजयता, नाटकाक खेळपाक आमंत्रण दिता ना जाल्यार तातूंत समरस जावन वता.' अशें शेक्सपियर्साक म्हणपाचें आसा. डॉ. जयंती नायकाचें नाटक शेक्सपियर्साच्या म्हणण्या वरीं रसीकप्रेक्षक सहज रितीन आपणायतात.

'कै. हिराबाई पेडणेकर' नंतर नाट्यलेखन करणारी जयंती नायक ही दुसरी गोमन्तकीय नाट्यलेखिका' अशें मत जेश्ठ गोमंतकीय मराठी साहित्यीक माधवीताई देसाई हांणी 'सुर्यफुलांचा प्रदेश' ह्या गोंयांतल्या कर्तृत्वी बायलांच्या जिणे-वावराची नोंद घेवपी चरित्रग्रंथांत मांडलां. माधवीताईचो संदर्भ घेवन बरोवन दवरतां; मराठींतल्यान नाट्यलेखन करपी हिराबाई पेडणेकार जाल्यार कोंकणींतल्यान परिपक्व नाट्यलेखन करपी डॉ. जयंती नायक ही पयली गोमंतकीय नाट्यलेखिका जावन आसा.

**संदर्भ ग्रंथ :**

1. बुडकुले, किरण. साहित्यनियाळ अंतरंग आनी कारुपां. काणकोण गोंय : ओम दत्त पद्मजा प्रकाशन, 1998.
2. वेरेंकार, श्याम, सरदेसाय, माधवी, म्हाळशी, कमलाकर. (संपादक) कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय. मडगांव गोंय : कोंकणी भाशा मंडळ, 2003.
3. सरदेसाय, माधवी. जाग - दिवाळी - नातलां 2012. पाजीफोंड, मडगांव गोंय : जाग प्रकाशन, 2012.
4. नायक, जयंती. कुकमादेवीची दिपमाळ. आमोणें, केपें गोंय : राजाई प्रकाशन, 2009.
5. नायक, जयंती. काळमाया. आमोणें, केपें गोंय : राजाई प्रकाशन, 2014.
6. नायक, पुंडलीक. रंगपाट. वळवय गोंय : अपुरबाय प्रकाशन 1996.
7. Bisariya, Subhash. William Shakespeare anthony and Cleaopatra. Karol Bhag New Delhi : Rama Brothers India Pvt. Ltd., 2007.

000



ग्रंथदालन

(पुस्तक परिक्षण)

सखाराम शेणवी बोरकार

## 'कोंकणी म्हणीसागर' – दुसरी आवृत्ती

गोवा कोंकणी आकादेमीन भौ. मनोहर पै धुंगट हांच्या 'कोंकणी म्हणीसागर' ह्या म्हणींच्या संकलनाची दुसरी आवृत्ती उजवाडा हाडल्या. कोंकणीच्या खंयच्याय पुस्तकाक दुसरी आवृत्ती काडपाक मेळप हें एक मोठें भाग्य. कोंकणी लोकवेदा वयल्या ह्या पुस्तकाक हें भाग्य मेळ्ळां.

भौ. मनोहर पै धुंगट हांचें ''कोंकणी म्हणीसागर'' हे संकलन आयज मेरेन उजवाडा आयिल्ल्या सगळ्या कोंकणी म्हणींच्या संकलनां भितरलें एक मोलादीक संकलन. 2003 वर्सा ताची पयली आवृत्ती गोवा कोंकणी अकादेमी उजवाडा हाडिल्ली.

'कोंकणी म्हणीसागर' हें गोंय, केरळ, कर्नाटक आनी महाराष्ट्र ह्या वाठारांनी राबितो करून आशिल्ल्या कोंकणी मनशाचे जिबेर घोळपी म्हणींचें संकलन. ह्या संकलनांत आसपाविल्ल्यो म्हणी लेखकान विंगड-विंगड प्रकाशीत आनी अप्रकाशीत माध्यमाच्या आदारान पुंजायल्यात. जंय गरज आसा थंय म्हणींचो अर्थ दिला. कांय कडेन म्हणींचीं कोंकणी वाठारांत घोळपी हेर रुपांय दिल्यांत. कांय कडेन हिंदी, मराठी, इंग्लीश, गुजराती आदी भासांतली समरुपांय दिल्यांत आनी जंय शक्य आसा थंय टिपो आनी म्हणी फाटली काणी सांगल्या. हातूंत 2100 वयर म्हणी आसात.

पयले आवृत्तींत देवनागरी वर्णमाले प्रमाण ह्यो म्हणी छापिल्ल्यो तरी अंतर्गत क्रम सांबाळूंक नासलो. हो उणाव हे नवे आवृत्तींत काडून उडयला. वट्ट 11 वर्सांनी ही दुसरी आवृत्ती आयल्या देखून फाटल्या 11 वर्सांत जीं

**सखाराम शेणवी बोरकार:** जल्म :1955. कवी, निबंदकार, समिक्षक. 'अग्नेक' आनी 'तूं' हे दोन कविता संग्रह प्रकाशीत. संपर्क : सी 25, सपना व्हेली, पाजीफोंड, मडगांव , गोंय - 403601, मो. 9923306751.

म्हणी संकलनां उजवाडालय आयल्यांत ताचीय दखल हे दुसरे आवृत्तींत घेतल्या. ते भायर इंटरनेट माध्यमांतल्यान मेळपी कोंकणी म्हणींचो आसपाव केला.

हे दुसरे आवृत्तीचें खाशेलपण म्हणल्यार हातूंत कांय परिशिश्टांय जोडल्यांत. ह्या परिशिश्टांत भौ. रा. ना. नायक हांणी केल्ल्या भारतीय आनी रशियन भासांतल्या म्हणींचें कोंकणी रुपांतर, डॉ. फ्रोयलान द मेल हांचे घरकात्रील्यां म्हणी, 'हातचलाखी' हो दो. मनोहरराय सरदेसाय हांच्यो हातार आदारिल्ल्या कोंकणी म्हणीं आनी वाकप्रचारांचो उपेग करून बरयिल्लो लेख हांचो आसपाव आसा. ते भायर हे नवे आवृत्तींत 180 वयर कोंकणी वाकप्रचार अर्था सयत दिल्यात.

'कोंकणी म्हणीसागर'ची ही दुसरी आवृत्ती खरेपणीं गडगंज जाल्या. 2200 वयर कोंकणी म्हणी आनी 180 वयर कोंकणी वाकप्रचार आशिल्ल्या ह्या 360 पानांच्या संकलनांची छापणावळ सोबीत जाल्या. कोंकणी म्हणी आनी वाकप्रचारांच्या अभ्यासकांक 'कोंकणी म्हणीसागर' ह्या संकलनाची दुसरी आवृत्ती म्हणल्यार एक अमूल्य ठेवो जावन आसा अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना.




**कोंकणी म्हणीसागर (दुसरी आवृत्ती), संकलन : मनोहर पै धुंगट, गोवा कोंकणी अकादेमी, पणजी, 403001, 2016, पाना 350, मोल रु. 270/-**

# अमृतवेळ : एके अस्तुरेच्या संघर्शाची काणी

कोंकणींतली नामनेची लेखिका माया खरंगटे ही कोंकणी साहित्याच्या मळार एक येसस्वी कथाकार आनी कवयित्री म्हण फामाद आसात. ते भायर बाल साहित्याच्या मळार लेगीत ताचे व्हड योगदान आसा. 'अमृतवेळ' ही कादंबरी म्हणल्यार माया खरंगटेन विस्वासक तरेन कोंकणी कादंबरीच्या मळार घाल्लें पयलेंच पावल!

'अमृतवेळ' म्हणल्यार बापूय नाशिल्ल्या शांतुलाची संघर्शाची काणी जें सामकें भुरगे पिरायेचेर मडगांवच्या फामाद शिरवयकार घराण्यांत सून म्हण येता आनी ताचें रुपांतर सिताबायंत जाता. ह्या सिताबायक आयिल्ले साबार प्रसंग आनी मोठ्या धिरान आनी आत्मविस्वासान दिल्लें तोंड आनी निमणें आपलीं नातरां राजू आनी दुर्गा हांकां आपल्या पांयांर उबीं करपाक आयिल्लें येस आनी तिचे पिरायेच्या निमण्या वेळार कांय जायना ताचे जिणेंत शेकीं आयिल्ली 'अमृतवेळ' हाची ही काणी.

हे कादंबरीच्या कथानकाक सोब सारकी आनी कादंबरी फुडें व्हरपाक, प्रसंग फुलोवपाक, जायतीं पात्रां लेखिकेन घेतल्यांत तरी हे कादंबरीचो केंद्रबिंदू म्हणल्यार सिताबाय आनी तिचो जिणे कडलो संघर्श.

हे कादंबरीच्या कथानकाचेर नदर मारल्यार एक गजाल मतींत येता ती म्हणल्यार हे कादंबरीच्या कथानकाचो काळ. हें कथानक गोंय सुटके पयलीं पन्नास

वर्सां आनी गोंय सुटके उपरांत पंचवीस वर्सां घडलां आसूंक जाय. गोंय सुटके पयलींचीं पन्नास वर्सां सारस्वत घराण्यांची परिस्थिती, चली भुरग्यांक शिक्षण घेवपाक येवपी आडमेळीं, चलयांचीं सामकीं भुरगे पिरायेचेर लग्नां, ते खातीर शिक्षणा पासून तीं वंचीत. रांद, वाड, उश्टीं काड अशी तांची अवस्था. सारस्वत समाजा भितरल्या तरणाट्यां मर्दी उप्राशिल्लें गोंय सुटकेचें वारें हाचें बेस बरें चित्रण लेखिकेन केलां आनी हें करतना ताणें केल्ल्या संशोधन वावराची तोखणाय दिसता.

गोंय सुटके उपरांत सुटिल्लें परिवर्तनाचें वारें. लोकशायेन भौसाक दिल्ले सगळे हक्क, कूळकायदो, कसता ताची जमीन असले कायदे आनी भाटां, शेतां आनी कुळागरांच्या उत्पन्नाचेर आपलो संवसार चलोवपी हो समाज, ह्या कायद्यांवरवीं तांच्या उत्पन्नाचेर आयिल्ली हावळ आनी ताका ह्या समाजान कसो फुडो केलो हाचेंय बेस बरें चित्रण लेखिकेन केलां.

हे कादंबरींत घडून येवपी प्रसंग गुंथून घेवपाक लेखिकेन निवेदन पद्दत आपणायल्या आनी ते खातीर ते प्रसंग फुलून येतात, पूण थोडे कडेन प्रसंगाचें वर्णन करतना नाका तितले तपशील लेखिका घुसडायता ताका लागून त्या वर्णनाचो बेरंग जाता. देखीक : 'चड करून मुततना तिचे हाल जाताले. ती कल्याणाक बरोबर घेवन मान्न्यांत वताली. कल्याण तिची कास सोडोवन दितालें. पूण येदें व्हडलें कापड सांबाळून मुततासर केन्ना तरी कापडार पडटालेंच. मागीर कल्याण तितलो कुडको धुवून दितालें खरें, पूण ओल्या मिरयांचो तिका आनिकय त्रास जातालो.' (पान 61). पूण असलीं वर्णनां साप्प थोडीं आसात. खंयचेय कादंबरींत प्रसंग जितले गरजेचे तितले ते फुलोवपाक वापरिल्ली भासय तितलीच गरजेची. थोडे कडेन हे प्रसंग फुलोवपाक लेखिका येसस्वी थारल्या जाल्यार कांय कडेन हे कादंबरीतली भास फ्लॅट जाल्या.

सारस्वत समाजाक केंद्रबिंदू दवरून दुसरी एक काणी घेवन कोंकणींतली नामनेची लेखिका मीना काकोडकाराची 'वास्तू' ही कादंबरी हालींच आयल्या आनी ह्याच समाजाचेर कोंकणींतले नामनेचे लेखक अशोक कामत हांची 'घणाघाय नियतीचे' ही कादंबरी कांय वर्सां आदीं आयिल्ली. ह्या समाजा विशीं भौसाच्या मनांत आशिल्ले गैरसमज पुसून उडोवपाक ह्यो कादंबरी वाचपाक जाय. अशे तरेच्यो ह्या समाजाचेर आनिकय कादंबरी येवंक जाय.

परत एकदां एक बरी कोंकणीं कादंबरी दिवन लेखिका माया खरंगटे हिणें वाचप्यांची आस्त वाडयल्या.




अमृतवेळ (कादंबरी),
माया खरंगटे,
मोहित प्रकाशन,
मडगांव, गोंय-403601,
पानां : 296,
मोल : रु. 290/-

## Konkani Proverbs & Idioms
### (With English Translation)

म्हणी आनी वाकप्रचार हो लोकवेदाचो एक म्हत्वाचो वांटो. खंयचेय भाशेचो आत्मोच म्हणल्यार जाता. आमची कोंकणी भास तर म्हणी आनी वाकप्रचार हांची खण! जितली ती आमी उस्तितात तितलीं हे भाशेंतलीं रत्नां आमच्या हाताक लागतात.

कोंकणी म्हणी आनी वाकप्रचार हांचें संकलन आनी अभ्यास करपाचो वावर 16 व्या शेंकड्यां सावन चालू आसलो आनी ताची गवाय फ्रांसिस्कान आनी जेजुईत पाद्रींनी रचिल्या 'कोंकणी शब्दकोश आनी व्याकरणां' हांचे उदेशीं आमकां मेळटा. इक्विजिशनाच्या काळांत हो वावर थंडावलो आनी तो परत सुरू जालो तो बद्द विसाव्या शेंकड्याते सुरवातीक.

1904 वर्सा दुमिंगुस जुआंव मेंदिस ह्या गोंयकार पुतान मुंबय सावन 'पुर्विल्ल्यो म्हणीं' ह्या नांवान म्हणींचें पुस्तक उजवाडायलें. मंगळूरांत पाद्री लुईस जुआंव द सौज हांणी 624 म्हणींचो आसपाव आशिल्लें पुस्तक उजवाडा हाडलें.

पूण खरेपणीं कोंकणी म्हणी आनी वाकप्रचार हांचें संकलन करप, शास्त्रीय तरेन तांची मांडवळ करप आनी पुस्तक उजवाडा हाडप हो वावर पयलेच फावट मों. सेबास्तियांव रुदोल्फ दाल्गाद हांणी केलो. 1922 वर्सा मों. दाल्गाद हांणी Florilegio de Proverbios Concanis (कोंकणी म्हणीचो झेलो) उजवाडा हाडलो. ह्या पुस्तकांत वट्ट 2177 कोंकणी म्हणी आनी वाकप्रचार हांचो आसपाव आसा.

ताचे उपरांत 1923 वर्सा रावसाहेब दो. व्ही. पी. चव्हाण हांणी "Konkani Proverbs" (कोंकणी म्हणी) हें पुस्तक मुंबयच्या "Anthropological Society of India" हांच्या आदारान उजवाडा हाडलें. ह्या पुस्तकांत वट्ट 559 म्हणी आसात.

ह्या खडेगांठ भाशाशास्त्रींच्या पावलार पावल दवरून स. रावबहादूर श्रीपाद सुबराव तालमकी हांणी "Konkani Proverbs & Idioms with Riddles, Lullabies and Nursery Songs" ह्या पुस्तकाचो पयलो वांटो 1932 वर्सा उजवाडा हाडलो. ह्या पुस्तकांत 1500 वयर म्हणी आनी कांय हुमाणीं, आल्लयो आनी बालगितांय आसात. ह्या पुस्तकांच्यो प्रती रोखड्योच सोंपल्यो आनी पांच दसकां हें पुस्तक दुर्मीळ जावन उरलें.

1971 वर्सा स. कृष्णा करवार हांणी स. तालमकी हांच्या ह्या कोंकणी म्हणींचे दोनय वांटे एकठांय करून ताचें एक पुस्तक काडपाचे नदरेन खूब वावर केलो, पूण हो वावर 1991 मेरेन पुस्तक रुपान येवपाचो उरलो. 1991 वर्सा ''पोप्युलर बुक डेपो'चे मालक स. सदानंद भटकळ हांणी स. कृष्णा करवार हांच्या आदारान "Konkani Proverbs & Idioms with Riddles, Lullabies and Nursery Songs" हें पुस्तक परत उजवाडा हाडलें. ह्यावूय पुस्तकाच्यो प्रती रोखड्योच सोंपल्यो. फाटलीं दोन दसकां हें पुस्तक दुर्मीळ जावन उरलें.

स. तालमकी हांणी फकत कोंकणी म्हणी आनी वाकप्रचारच एकठांय करूंक

नासले तर प्रत्येक म्हणीचो इंग्लीशीन अर्थय बरयिल्लो. मेळटा जाल्यार तांणी म्हणी फाटली काणीय एकठांय केल्ली. आपल्या संकलनांत हें सगळें येवचें हो तांचो हावेस आसलो, पूण पुस्तकाचो आंवाठ आनी खर्च वाडूंक लागिल्ल्यान आपल्या पुस्तकांत निखळ म्हणी आनी वाकप्रचार हांचोच आसपाव केलो, पूण सात दसकां उपरांत स. तालमकी हांची जशी येवजण आसली तेच तरेन हें पुस्तक आतां उजवाडा आयलां. भौ. रघुनाथबाब गोकर्ण हांणी खूब तकालस घेवन हें दुर्मीळ पुस्तक परत उजवाडा, हाडलां. ह्या पुस्तकांत वट्ट 1592 म्हणींचो आसपाव आसा आनी दर एके म्हणीचो इंग्लिशीन अर्थय दिला. थोडे कडेन म्हणी फाटली ल्हानशीच काणीयबी दिल्या. त्या भायर कोंकणी वाकप्रचारांचोय आसपाव केला. वट्ट 290 पानांच्या ह्या पुस्तकांत स. रावबहादूर श्रीपाद सुबराव तालमकी हांच्या ल्हानश्या चरित्राचोय आसपाव आसा. हो येदो व्हडलो कोंकणी पूत, जांणी 1906 वर्सा आशिया खंडांतली दुसरी सहकारी बँक स्थापन केली जी आयज श्यामराव विठ्ठल बँक ह्या नांवान नांवरुपाक आयल्या आनी 1915 वर्सा आशिया खंडांतली पयली सहकारी हावसिंग सोसायटीची थापणूक केली. हे चरित्र वाचतगीर स. तालमकी हांचो आपले मायभाशेकच मोग ह्या तांच्या वावरा उदेशीं आमकां दिसून येता.

हें पुस्तक उजवाडा हाडपाक श्यामराव विठ्ठल बेंकेचें सहकार्य मेळ्ळां. मौज प्रिटींग ब्युरोन हें पुस्तक छापलां आनी कॅनरा सारस्वत असोसिएशनान तें उजवाडा हाडलां. ह्या पुस्तकाचें मोल आसा 350 रुपया.

हें पुस्तक उजवाडा हाडून कॅनरा सारस्वत असोसिएशन, मुंबय हांणी कोंकणी म्हणी आनी वाकप्रचाराच्या अभ्यासकांची गरज भागयल्या म्हण तांचे उपकार.




Konkani Proverbs & Idioms with English Translarion
एस्. एस्. तालमकी
15 कॅनरा सारस्वत असोसिएशन, मुंबय, 2015, पानां. 291, मोल रु. 350/-



